# गोंयचो सायब

## सांत फ्रांसिस्क शाव्येर

(इतिहासीक नदरेन)

**मोरेन द सोजा, जे.स.**

देवनागरी लिप्यंतर

**प्रिता नायक**

**मातेव आल्मेद, जे.स.**

**2004**

**टॉमास स्टीवन्स कोंकणी केंद्र**

तॉमास स्टीवन्स कोंकणी केंद्र प्रकाशन – 16

# गोंयचो सायब (सांत फ्रांसिस्क शाव्येर)

इतिहासीक नदरेन

बरोवपी : मोरेन द सोजा, जे.स.
बऱ्या जेजुची बाज़िलिका, दर *म्हयन्याची रोटी*
पोरनें गोंय, गोंय 403 402

---

पयले रोमी लिपयेंतले 1984 आवृत्तीक
छापूं येता : पाद्री कायतान द क्रूज फेर्नांदीश
विगार जेराल, पणजे : 21-11-84

भावार्थाचेर आनी नैतिकपणाचेर कांय आड ना
पाद्री आंतोन पेरेरा, जे.स.
बागा, 3-11-84

परवानगी आसा: पाद्री लेस्ली आल्मेद, जे.स.
जेज्वीत प्रांतीक व्हडील, पणजे, 5-7-84

---

पयली देवनागरी आवृत्ती : 2004


बा. भ. बोरकार मार्ग
आल्त पर्वरी, गोंय – 403 521

लिप्यंतर : प्रिता नायक
मातेव आल्मेद, जे.स.

लेत्रांची जुळणी : प्रिता नायक, नेत्रा वेळुसकार
मातेव आल्मेद, जे.स.

फोटो : शॅनन पेरेरा, जे.स.

छापपी : सह्याद्री ऑफसॅट सिस्टम्स
खोर्ली, तीसवाडी, गोंय

मोल : 90/- रुपय

# विशय सुची

# ग्रंथसुची
## संक्षिप्त रुपां

| | |
|---|---|
| AAS | Acta Apostolicae Sedis |
| DI | Documenta Indica, Joseph Wicki, S.J. हाणें छापल्यांत MHSJ हाचेर. |
| EX | Epistolae S. Francisci Xaverii Aliaque Ejus Scripta. संपादल्या जोर्ज शुरहामर हाणें. जोजफ विकी हाणें दोन खंड, 67 आनी 68 MHSJ (Madrid) हाचेर. |
| MHSJ | Monumenta Historica Societatis Jesu. |
| MX | Monumenta Xaveriana, दोन खंड – 1899-1913, MHSJ, (Madrid) हाचेर. |
| Or. Conq. | Oriente Conquistado, बरयणार फ्रांसिस्क द सोजा, जे.स. , दोन खंड, 1881, 1886 (Examiner, Bombay). |
| Sch. | Fr George Schurhammer, S.J. |
| Xav. | Felippe Neri Xavier. |

# दोन उतरां

1964 वर्सा 28 नोवेंब्र – 6 देजेंब्र, मुंबय शारा 38-वो आंतरराश्ट्रीक एवकारिस्तीक कोंग्रेस भरललो त्या समयार, पोरन्या गोंयां सांत फ्रांसिस्क शाव्येराच्या रेलिकांची वा हाडांची बारावी भोवशीक दाकोवण जाल्ली; त्याच दिसांनी पांच ते स म्हयन्या आर्दी दर *म्हयन्याची रोटी*, नव्यान जिवंत जाल्ली, ती घेवन बऱ्या जेजुच्या घरांत आमी रीग घेतलो. त्याच म्हयन्यांनी बारावे दाकोवणेची तयारी करूंक जाय आसली, भावार्थ्यांक सांत फ्रांसिस्क शाव्येराच्या जिविताची वळक दिंवक जाय आसली. होच हेतू मनांत धरून 1964 वर्सा जुलाय म्हयन्या थावन त्या सांताच्या जिविताची एक सांकळ तयार केली आनी उपरांत बऱ्या जेजुच्या घराचो आनी बाजिलिकेचो इतिहासूय बारकायेन शिकल्यांव, त्या अभ्यासाचेय वतीन रोटयेचेरूच साबार लेख बरयले, रेडियो वेल्यान परयान एक भाशण केलें. आनी उपरांत तें जायतें वाडयलें आनी चडयलें, टुरिस्ट मार्गदर्शकांक (guides), पोरन्या गोंयच्या इगर्जांची इतिहासीक वळक दिंवक आनीक अभ्यास करचो पडलो. अशें बऱ्या जेजुच्या घरा आनी बाज़िलिके वयर जायती सामग्री (material) म्हज्या हातांत सांटली. तेरावे दाकोवणेची खबर वावराड्यांच्या इश्टार उजवाडा हाडली. ही सामग्री एकटांय करूंक सोळा वर्सां तरी लागलीं.

सायबाच्या नोवेनांनी भोव सकाळीं उठून जायते तरनाटे आनी वावराडी सायकलिचेर आनी मोटार सायकलिचेर बसून सकाळच्या स वरांच्या मिसाक येताले. मिसा आर्दी 'लावड स्पिकर' वापरून हे सामग्रिचो उपयोग करून सायबाच्या जिविताची खबर तांकां आमी परगटताल्यांव. भायर आद्रार बसून हें जिवीत ते आयकताले. उपरांत चेडवां, बायलो टेम्पे आनी बशी करून ह्या सकाळच्या मिसाक येंवक लागलीं. साडे पांच वाजतां परयान हीं सगळीं भावार्थी सायबाचे इगर्जेंत पावतालीं दिसाच्या दिसा सांत फ्रांसिस्क शाव्येराचें जिवीत, आनी कोंवेंताची आनी ताचे मेल्ले कुडिच्या अवशेशांची खबर नेमान आयकुपाक. ही सगळी खबर पुस्तकाच्या रुपान आपल्याक दी म्हण तीं आमकां सुचयतालीं आनी विनयतालीं. हो तांचो आंवडो हे चोवदावे दाकोवणेच्या वेळार साकार करतांव; अशें करूंक 1977 वर्सा आमच्या मनांत रिगललें पूण तेदनां एक पुस्तक उजवाडा हाडपाक हातांत दमडी नासली.

हें कोंकणी पुस्तक तयार करपाक "*St. Francis Xavier and His Shrine*" by P. Rayanna,S.J. ह्या इंग्लेज पुस्तकाचो बरोच वापर केला. तेंय पुस्तक बरोवन काडूंक आमी भरपूर वावुरल्यांव. ते भायर "*Francis Xavier – His Life, His Times*", 4 Volumes by Fr. George Schurhammer, S.J. (इंग्लेज

भाशांतर करपी M. Joseph Costelloe, S.J.), Mons. F.X. Catão हाचे इतिहासीक लेख "*Boletim Ecclesiástico da Arquidiocese de Goa*" ह्या नेमाळ्या वेल्यान घेवन तांचो उपयोग केला. ह्या सगळ्या लेखकांक बरें मागून, हें कोंकणी पुस्तक कोंकणी मोग्यांच्या हातांत घालतां; हांतूंत वाचप्यांक जायतीं इतिहासीक घडितां वाचूंक मेळतलीं ; तसलीं आदीं कोंकणिंतल्यान कोणेंच सांगूंक नांत.

हें पुस्तक म्हळ्यार एक उगडास चोवदावे दाकोवणेचो आनी तेच बराबर त्या इतिहासीक बऱ्या जेजुच्या घरांत, 18 वर्सांचे वस्तिचो.

*मोरेन द सोजा, जे.स.*
*दर म्हयन्याची रोटी*
*आल्त पर्वरी,*
*3-11-1984*

# प्रस्तावना

(दुसरी आवृत्ती)

पयली आवृत्ती 1984 वर्सा आमी तयार केल्ली; त्या वर्सा चोवदावी दाकोवण आसली. त्या वेळार 13 हजार प्रती आमी छापून काडलल्यो पूण तेन्ना आमी पोरन्या गोंयां नासल्यांव; देखून त्यो प्रती खपोवपाक सोंपेपण मेळलें ना. चोवदा वर्सां उपरांत आमी पोरन्या गोंयां परतून आयल्यांव आनी तिसवाडेच्यो यात्रा जाताल्यो आनी सायबाचें नोवेन जातालें तेन्ना, उरलल्यो सगळ्यो प्रती विकून काबार जाल्यो. तेदनां दर एक प्रतिचें मोल 10/- रुपय आसलें; आतां कागद वाडलां देखून मोल चडतलें.

आतां चोवदा अदीक वर्सां उपरांत, बाजिलिकेंत कितलिशीच अदलबदल जाल्या. ते उपरांत आनीक दोन भोवशीक दाकोवण्यो जाल्यो. ह्या सगळ्यांचो उल्लेख हे आवृत्तींत करूंक जाय.

नुकासानाची पर्वा करिनासताना, ही आवृत्ती उजवाडा हाडूंक आमी फुडें सरतांव, सांत फ्रांसिस्क शाव्येराचें जिवीत वाचले शिवाय, ह्या सांताक आमी खरेपणीं वळकूंक पांवचीं नांव. रोमारी करप, वाती पेटोवप, नोवेनांक हाजीर जावप, तुंब्लाचो उमो घेवप, ही सगळी भक्ती भायली आनी उफराटी जांवक पावतली. वाचले बगर कांय गमना. वाचता तो जाणार जाता. असली जाणवाय दिवच्या निमतान ही आवृत्ती आतां तयार केल्या.

*मोरेन द सोजा, जे.स.*
*3-11-1988*
*पोरनें गोंय.*

# भाग 1

## सांत फ्रांसिस्क शाव्येराचें जिवीत

### 1. गोंयचो सायब

आज कितलिशींच वर्सां जालीं सांत फ्रांसिस्क शाव्येराक सगळीं गोंयकारां, खंयसरूय आसूं देसात वा परदेसांत आमच्या आपुरबायेच्या सांताक 'गोंयचो सायब' म्हण पाचारतात. हे आड नांव केन्ना आनी कशें पडलें जायत! सांत फ्रांसिस्क शाव्येरान गोंयांत चड काळ आनी चडशे काम केलें ना आनी तेदनां गोंय वा गोवा म्हळ्यार फकत तिसवाडी म्हण समजूंक जाय; बारदेस आनी साश्टी पुर्तुगेजांच्या ताब्यांत पडतलें फकत दों मार्तीन आफोंस द सोज, ह्या गोवेर्नादोराचे राजवटकेच्या काळार (1542-45), पुर्तुगेज इंडियेचो बारावो गोवेर्नादोर. अदील खान ह्या मुसलमानी फुडाऱ्यान साश्टी आनी बारदेस हे आपले दोन प्रांत पुर्तुगालाच्या राजाक कांय राजकी कारणांक लागून एक देणें कशें दिलें, अशें आसतां 1543 साश्टी आनी बारदेस पुर्तुगेजांच्या ताब्यांत पडले. ते आदीं फकत पुर्तुगेजांनी जिकून घेतललीं ही जुंवीं : गोंयचो व्हडलो जुंवो, आनी शेजारचीं तीन जुंवीं – दिवाडी, चोडणें आनी जुंवे.

फ्रांसिस्क 1542 वर्सा, मायाचे 6 तारकेर गोंयां शारांत पावलो आनी त्याच वर्सा सेतेंब्रांत दखीण इंडियेक गेलो. अशें आसताना फ्रांसिस्क फकत सुमार चार म्हयने गोयां शारांत आसलो, त्या शारात ताणें फकत फिरंग्यां मदें इल्लो वावर केलो जायत. बारदेसांत फ्रांसिस्कानी मठवाशी भितर सरले फकत 1555 वर्सा, आनी जेज्वीत मिशनरी साश्टींत मायाचे पयलेर 1560 वर्सा. तेदनां फ्रांसिस्क शाव्येर मरून गेल्लो (1552). तरूय आताचें आखें गोंय फ्रांसिस्क शाव्येराक 'गोयचो सायब' म्हणता म्हणजे आतांच्या गोंयचो; जरूय 'जपानाचो सायब' आनी 'उदेतिचो सायब' हें पद त्या सांताक अदीक बरे पुटवता.

फ्रांसिस्क जाला धनी आनी सायब गोयचो आनी गोयकारांचो; आनी गोंयकारां आनी गोंय जाल्यांत सायबाचीं. ते पासत गोयचे पोरणे राजधानीक नांव पडलें 'सायबाचें गोय' वा वश्टेच 'गोंय'. ते पासत मोटारवाले परयान पणजे पयणाऱ्यांक बोब मारून आपयतात 'गोयां, गोंयां' म्हणून; ह्या गोंयांक आनीक रंग दिंवची गरज ना. थोडीं म्हणतात 'व्हडलें गोय', पूण ही मोट्यांतली चूक. व्हडलें गोंय जावन आसा दुसरोच गांव, आगशी आनी शिरदोनाक तेंकून. तो

गांव म्हळ्यार आदली कदंबांच्या काळांतली राजधानी, जुवारी न्हंयच्या कांटार. ते राजधानिचें नांव वा नांवां जावन आसलीं: गोवा, गोपकापुरी, गोपका पट्टण आनी गोवापुरी. ह्या गांवचे नांव आमचे भाशेन 'व्हडलें गोंय' आनी पुर्तुगेजींत 'गोवा वेल्या'. ते पासत सायबाच्या गोंयांक पुर्तुगेजांनी नांव दिलें 'वेल्या गोवा' म्हण जेदनां थंयची राजधानी पोरणी जाताली आनी पणजे जांवक पावताली नवी राजधानी (राजपाटण) हाका नांव दिलें 'नोवा गोवा'.

ह्या वर्सा गोंयच्या सायबाच्यो रेलिको 1984 नोवेंब्राचे 21-वेर उमावाक उगडतल्यो आनी जानेराची 13, 1985 परयान त्यो उगत्यो आसतल्यो; हे दाकोवणेच्या वेळार 'सायबाच्या गोंयां' गोंयकारां, हिंदू, मुसलमान आनी कातोलीक आपलो धर्म जात आनी कात विसरून 'गोंयच्या सायबा'शीं वेतलीं, ताका नमान करतलीं, 'नमस्ते' दितलीं, हारश्या पेटेचो उमो घेवन संतुश्ट जातलीं; हें आमी बरयललें 1982 वर्सा.

ही आसा ती भक्ती तो मेल्यार आयज वर्सां बलांडून गेलीं; पूण तरीय जिवोच आसलले भाशेन तो सगळ्या भावार्थ्यांक आनी बरें मन आसलल्यांक आपलेशीं ओडून हाडता, मागलले उपकार दिता, गोंयकारांचेर आशिर्वाद घालता.

*गोंयच्या सायबा, पाव आमकां.*

**2. जल्म**

फ्रांसिस्क शाव्येर जल्मल्लो शाव्येर कोटांत, नावार्रा प्रांतांत, एस्पान्न देसांत, सोळाव्या शेकड्यांत. तेदनां नावर्रा एक सुपुरलें स्वतंत्र राज्य जावन आसलें. फ्रांसिस्क राजकुळयेचो म्हण सांगूंक कांय हरकत ना. ताचो बापूय दों जुवांव दे जासो आतोंदो, एक सरदार वा फिदाल्ग. नावार्रा राजाच्या, जुवांव तिसऱ्याच्या दरबारांत वा राजसभेंत व्हड जुटी चलयतालो; ताची आवय मारिया आजपिल्कुयेता आजनार जावियेर (उच्चार हावियेर). ती एकलीच धूव आनी तिची आवय जुवाना जावियेर, एकलीच धूव जावन आसली; तांकां भाव नासले.

फ्रांसिस्क आब्रिलाचे 7वेर, 1506, पवित्र साताळ्यांतल्या मंगळारा, शाव्येर कोटांत, नावार्रा राज्यांत जल्मलो, जेदनां आलेग्जांद्र VI हो पापसायब आसलो.

फ्रांसिस्क म्हळ्यार पांचवें भुरगें, पयलीं दोन चेडवां आनी उपरांत दोग चेडे. मागदालेना, म्हालगडी धूव, जावन आसली कास्तील राज्यांतले इजाबेल राणयेची मानाची कुमारी (1474-1504); मागदालेनान हो मान सोडलो आनी गांदिया शारांत गरीब सांत क्लाराचो कोंवेंत आसलो तांतूंत ती रिगली; आनी दियोग दे

इजपेलेता, वेयरेचो धनी, हाचे कडे आना लग्न जाली जेदनां फ्रांसिस्काक फकत 6 वर्सां जाल्लीं. तिचो एकलो नातू जेरोनिमो उपरांत 1568 वर्सा जेजुचे पलटणींत रिगतलो आनी आपल्या सांत जाल्ल्या व्हडल्या-मामाच्या नांवा खातीर आपले नांव जेरोमे शाव्येर (1549-1617) म्हण बरयतलो, आनी *इजेलेता* हें आपलें खूद आडनांव सोडून दितलो. जेरोनिमो 1581 वर्सा इंडियेक येतलो आनी 1595 वर्सा थावन 20 वर्सां मुगल राज-दरबारांत वा राजसभेत वावुरतलो. तो गोयां शारांत 1617 जुनाचे 26 तारकेर उजो लागून मेलो; गोयां शारा पवित्र दोंगराच्या पाळसणाक (आतां रस्त्या कुशीक वांयगिणीं थावन पोरन्या गोयात भितर सरतानाच, एक फातरण हे कोलेजिचो जागो दाकयता) जेज्वितांची एक नवी कोलेज आसली, सां. पावलू (*S. Paulo Novo*) वा सांत रोक नांवाची, आनी जेरोनिमो हे कोलेजिचो वर्डील जावन आसलो. हे कोलेजीक उजो पेटलो आनी त्या उज्याच्या धुंवरान फुगार जावन तो बाबडो मेलो. ताका क्रांगानोरच्या (केरलांत) आर्चबिस्पाचो, फ्रांसिस्क रोस (1557-1624) (दखीण इंडिया) हाचो सहकारी बिस्प – इंडियेक पयलो जेज्वीत बिस्प – जांवच्याक विचून काडललो.

दोग पूत – मिगेल आनी जुवांव – फौजेंत भितर सरले. निमाणो पूत, जुवांवा उपरांत 9 वर्सांनी जल्मलो आनी बाव्तिज्मांत नांव घेतले फ्रांसिस्को दे जासू ई दे शाव्येर. बाव्तिज्म दिलो एके सुपुरलें इगर्जेत (ही इगर्ज आतां मोडून दुसरी बांदल्या). बाव्तिज्माचे पियें वयर बरयललें मेळताले : **उदेंती इंडियेच्या आपोस्तलाक हांगा बाव्तिज्म दिल्लो.**

पूण ह्या भुरग्यान बापायचें नांव चडशें वापरलेंच ना, म्हणजे दे जासू; सदांच शाव्येर म्हण बरयतालो. ज्या कोटांत तो जल्मा आयलो त्या कोटाचें नांव शाव्येर आनी तें कोट ताचे आवयक दोत म्हण मेळललें. आमचो सांत अशी निशाणी मारी फ्रांसिस्कूस वो केदनाय, फ्रांसिस्को, आनी भोव थोडे पावटीं फ्रांसिस्कूस दे शाव्येर. एस्पाञाचो लोक आजून परयान **व** आनी **ब** ह्या अक्षरांची मिसळ करता. शाव्येर ह्या नांवाचो अर्थ म्हळ्यार *नवें घर* (Schu. *Franz Xavier* p. 10).

### 3. शाव्येर

शाव्येर कोट फ्रांसिस्काचे आवयचें घर आनी तिच्या पुर्वजां कडे सुमार 250 वर्सां तें वसलें; हें कोट राजांनी तांकां इनाम कशें दिल्लें. फ्रांसिस्क आपले आवयचें (आनी न्हय बापायचें) नांव आजून गाजयता कित्याक हेच आवयन आपल्या निमाण्या (बेंजामीन) पुतुल्याक आपुरबायेन वागयलो आनी भक्तिच्या

मार्गार चलूंक शिकयलो. नव वर्साचे पिरायेर बापूय भायर पडलो. फ्रांसिस्काचे दोगूय भाव झुजारी वा सैनीक जाले, पूण फकत फ्रांसिस्काक शिकपाची आवड आनी ओड आसली म्हण तो आपल्या घरा रावलो. आपल्या शिकपाच्या उद्देशान फ्रांसिस्क आपल्या बापायचें नांव राकता कित्याक जासू कुटुंबांत जायते शिकलले मनीस आसले. जुवांव जासू बोलोञा युनिवर्सिटींत शिकललो.

फ्रांसिस्क सात वर्सांचो आसताना 'शाव्येर' वो 'नवें घर' अदृश्टाच्या दारार पावलें आनी होच भुरगो त्या घराचें नांव राकतलो आनी सांबाळतलो आसलो. आरागोन आनी फ्रांस ह्या दोन बळिश्ट राज्यांनी नावार्रा राज्याचेर घुरी घातली. आरागोनाचो राजा फेर्दिनांद, आखें नावार्रा आपले राजवटके खाल हाडूंक सोदी; ते भायर इंग्लेजांची बाजू घेवन, फ्रांसाचेर लडाय करूंक सोदी. नावार्रातल्यान इंग्लेजांची फौज फ्रांसाचेर दावली मारूंक वेताली. फेर्दिनांदान आपली फौज नावार्रात धाडली आनी पांप्लोना शार, नावार्राची राजधानी, पडली. नावार्राचो राजा फ्रांसाक पळून गेलो आनी थंय दे. जुवांव द जासू, फ्रांसिस्काचो बापूय, त्या राजाचे पांगीक रावलो.

त्या झुजांत फौजांनी शाव्येर कोटाक कांय केलें ना; त्या कोटांत फ्रांसिस्क आनी ताची आवय आसली. उपरांत दो. जुवांव द जासू, निराशी जावन, शाव्येर कोटांत परतलो आनी आपल्या कुटुंबाक भेटलो.

फेर्दिनांद राजा दो. जासूक आपले वाटेंतल्यान जिकून हाडूंक सोदी पूण सगळें ओमथ्या कळशार उदक. ते पासत रागान मार्साचे 4 तारकेर 1515 वर्सा राजान जासुचीं सगळीं भाटां विकूंक लायलीं, सवस्ताय हाडच्या निमतान पूण शावेर कोट ताचे पतिणिची दोत आसलल्यान ताणें शाव्येर कोटाक हात लायलो ना. देवूच आपल्या विंचून काडलल्याक राकतालो.

तीन म्हयन्या उपरांत, जुनाचे 15 तारकेर फेर्दिनांदान नावार्रा राज आपल्या ताब्यांत केलें आनी नावार्राची स्वतंत्राय वा मेकळेपण सासणाक संपादलें. दो. जुवांवाक हाचो व्हड धक्को बसलो; ताचो देस, कुटुंब, नांव, किर्ती आनी संपत्ती (गिरेस्तकाय) सगळें सोंपलें. एका म्हयन्या भितर ओतुब्राचे 16 तारकेर 1515, जुवांव ह्या संसाराक अंतरलो.

### 4. 1517 शाव्येर कोट मोडतात

तितले म्हणसर आरागोन आनी कास्तील हीं दोन राज्यां लग्ना उदेशीं एकटांय जाल्लीं; कास्तिलाची इजाबेल फेर्दिनांदा कडे लग्न जाली. फेर्दिनांदा

उपरांत ताची धूव जुवान राणी जांवक जाय आसली पूण तिचे लागीं राज करूंक घड नासलें. तिची अशक्ताय पळेवन नावार्राचो लोक झूज करूंक आनी आपली स्वतंत्राय परतून हाडूक उटलो.

तेदनां शिमेनेस (वा हिमेनेस) ह्या कार्दियालान आपली फौज नावार्रांत धाडून सगळीं कोटां मोडूंक लायलीं. शाव्येर कोटांतलीं कोण नव्या सरकाराचेर कल्पून नासलीं तरीय पूण ते कोट मोडूंक लायलें; मिनारी वा तोर्री, दुरगां आनी व्हाळ – हीं सगळीं मोडून घातलीं पूण रावपाच्या घराक हात लायलो ना. हो शिमेनेस कार्दियाल सायब कोण? तो एस्पाञाची राजवटकी चलयतालो, कार्लुसान ताका एस्पाञाचो उपराजा आनी राजपाल नेमललो; कार्लूस म्हळ्यार फेर्दिनांदाचो नातू. आपले धुवेची अशक्ताय पळेवन तिच्या पुताक एस्पाञाचो राजा केलो आनी तो तेदनां आसलो फ्लांदेर्स गांवांत, युरोपाचे उत्तरेक; मागीर तो एरोपाचो सम्राट वा एम्परर जांवक पावतलो. पूण हो कार्लूस नातू जाल्ल्यान परको, भायल्या गांवचो, आरागोनाच्या लोकाक वा पर्जेक तो नाका आसलो आनी आरागोनाची पर्जा 1520 आपल्या राजाचेर कल्पली. ती संदी वापरून, नावार्राची पर्जा नव्यान उटली; हे पावटी फ्रांसेज लोक नावार्राक आदार दिंवक आयलो.

फ्रांसिस्काचे दोग भाव फ्रांसाचे वतीन आनी वाटेन लडाय करूंक गेले. फ्रांसेज फौज पांप्लोना शारांत भितर सरली आनी लडाय सुरू जाली. त्या कोटांत एस्पाञाचो एक बास्क सैनीक वा सोल्दाद, आरागोनाचे वाटेन झुजतालो. फ्रांसेज सोल्दादांनी ह्या बास्क सोल्दादाच्या एका पांयार एक गुळी मारली आनी तो पांय मोडलो आनी दुसरोय दुखयलो. हो बळिश्ट सैनीक घोड्या वेलो पडलो, फ्रांसेजांनी ताका कैदी केलो आनी 12 वा 15 दीस पांप्लोना कोटांत दवरल्या उपरांत, तांणीं ताका एके तिरडेर घालून ताच्या घरा परतिलो.

कोण जायत हो बास्क सैनीक? इनिगो दे लोयोला, जेज्वितांचो स्थापणार; उपरांत फ्रांसिस्क ताचो सांगाती जातलो; इनिगो फ्रांसिस्काक तयार करून गोंयां आनी इंडियेक धाडतलो. पूण आतां इनिगो दे लोयोला आनी फ्रांसिस्काचे भाव दुस्मान. इनिगोक पांप्लोनांतलो भायर काडतच, शाव्येराचे दोगूय भाव घोड्यार बसून जय-जय करून आपले राजधानींत भितर सरले. हें मायाचे 20 तारकेर घडलें.

पूण ही विजय चड दीस तगलिना. जुनाचे 30 तारकेर 1521 आरागोनाची फौज येवन नोआयन झुजा मळार लडाय जाली आनी फ्रांसेज पिरेनीज दोंगरार

उतरून पळून गेले आनी नावार्रा आरागोनाच्या ताब्यांत नव्यान पडलें. पूण फ्रांसिस्काचे भाव फ्रांसेजां बराबर पळून गेले आनी फुयेन्ताराबिया कोटांत लिपून रावले.

कार्लूस राजा एस्पाञाक परततच, ताणें सगळ्या कल्पल्लल्या नावार्राच्या लोकांक देजेंब्र 19, 1523 तारकेर भगसणें दिलें. पूण फ्रांसिस्काच्या भावांक भगसणें मेळलें ना. दोन वर्सां अदीक हे दोग भाव त्या कोटांत रावून झुजले, पूण 1524 फेब्रेराचे 19 तारकेर तांणीं आपली तकली बागयली. तांकां आतां भगसणें मेळलें पूण दोन म्हयन्यां भितर कार्लूस राजाक तांणीं मानभोवमान दिंवक जाय आसलो. पांपलोनाचे लडायेंत एक पुर्तुगेज कुलीन तरनाटो लडाय करी – उपरांत तो फ्रांसिस्काचो इश्ट जातलो – दों मार्तीन द सोज, पुर्तुगेज इंडियेचो राजपाल वा गोवेर्नादोर. (1542-45)

मिग्वेल आनी जुवांव घरा परततच सगळ्यांक खुशालकाय भोगली. तेदनां फ्रांसिस्काक 18 वर्सां भरललीं. तो आवयची पांग धरून आसलो. आवयन जायतें सोसललें: पती मेलो, कोट मोडून घातलें, पूत पळून गेले. एकलोच पूत घरा आपले आवयक धीर दिंवक रावलो. –*La tryste Maria de Azpilcueta* – *दुखेस्त मारिया दे आजपिल्कुयेता.* आपल्या घरा त्या झुजारी काळार फ्रांसिस्क कितें आनी कितलें शिकलो जायत! कितें शिकलो तें आवयनूच शिकयलें जायत. शाव्येर कोटांतले कपेलांव घडयेक त्या भुरग्याक मुळावें शिकप शिकयताले जायत; वाचूंक, बरोंवक, मेजूंक घडये लागशिल्या नगरा सांगेजा म्हणलल्या इस्कोलाक वेतालो दिसता.

आवयच्या आसऱ्यान आनी पांगीन जुनाचे 14,1522 तारकेर फ्रांसिस्काक पांप्लोनाचे दियोसेजींत '*cleric*' जावपाक भितर काडलो; तेदनां बारा वर्सांच्या चेड्याक परयान मात्याक 'कपी' मारून 'क्लेरीक' करीत वा मुनियारपणाच्या वर्गांत सामील करीत. एवरोपाच्या कुलीन फामिलींत ही संवय आसली. इनासाकूय तसोच 'क्लेरीक' केल्लो.

आतां सगळें थिकार थीक बसलें: दोनूय भाव घरा पावले फ्रांसिस्क आतां कितें करतलो? तो शिकूंक सोदी, देखून ताका पारिसाक धाडचो केलो. पारिसाक तेदनां एक फांकी उनिवेर्सिदाद आसली.

## 5. पारीस 1525

त्या काळार फ्रांसाक, पारीस शारा एक फांकी विद्यालय वा उनिवेर्सिदाद

आसली आनी आजून आसा; तांतूं आख्या एवरोपाचे विद्यार्थी एकटवताले. अशे आसताना सेतेंब्र 1525 वर्सा फ्रांसिस्कानूय आपले उचले शिक्षण घेवक पारिसाची वाट धरली. तेदनां ताका 19 वर्सा भरताली. ओतुब्राचे पयलेर वर्ग सुरू जाताले. फ्रांसिस्कान च्सांता बार्बाराछ कोलेजीत आपले नांव घाले आनी लातीन, ग्रीक, रेतोरीक आनी काव्य (कविता) शिकूंक लागलो. एका वर्सा भितर ताणे B.A. सुरू केली आनी 1529 मार्साचे 15 तारकेर ताका त्या विशयात बिल्लो फावलो आनी एका साताळ्या भितर ताका मेस्त्रिचे पद मेळले. **(M.H.S.J.,115,P.391 & P. 386).**

तो मेस्त्री जातच, गुरुजी जालो आनी दोर्मा-बोवे कोलेजीत फ्रांसिस्क शिकोंवक लागलो.

पारिसाक पयल्या वर्सानी फ्रांसिस्क कसो जियेलो? विद्यार्थी आसलो तेदनां, तो गिरेस्त आसलल्यान, तो एकलोच एका कुडांत रावतालो आनी ताची सेवा करूंक एक सेवक आसलो. हो सेवक म्हळ्यार एक गरीब विद्यार्थी. फ्रांसिस्क तरने पिरायेर, आतां आवय सरशिलो पयस, बरीच मजा मारतालो, खेळ खेळतालो; ऊंच उडयो मारपांत तो पयलो येतालो; जशे इनास उपरांत सांगतलो.

आवयचे दिश्टी भायर, संसार पाड, अशे फ्रांसिस्कान केलें; घरा थावन धाडताले तितलेय दुडू ताका पावनासले. आनीक आनीक दूडू मागूंक तो घरच्यांक चिटी बरयतालो. आवयक आनी भावाक ताका शिकोवपाक कुवेत नासलल्यान शिकप बंद करून फ्रांसिस्काक घरा परत येवपाक ताची आवय सांगूंक सोदताली. पूण म्हालगडे धुवेची बुद्द तिणे घेतली म्हण फायद्याक पडली; ना जाल्यार आयज गोंयचो सायब आमकां मेळचो नासलो. माग्दालेना, आतां गरीब क्लारिसा माद्र, ती फ्रांसिस्काक भुरग्यापणार थावन वळकताली, आपल्या भावा पासत ती प्रार्थून मागताली, आनी घरा आपय नाकात म्हण बुद्द दिताली. माग्दालेन एक चीट बरोवन म्हणता: फ्रांसिस्क एक दीस देवाचो म्हान सेवक आनी पवित्र सभेचो खांबो जांवक पावतलो. तेदनां माग्दालेन वालेन्सिया शारांत क्लारीस कोंवेंताची वडील आसली. फ्रांसिस्काक आल्ताराचो मान दिंवक तयारी चलताली तेदनां माग्दालेनाची चीट जायत्या लोकांनी पळेल्या म्हण एका बोहोर्स म्हणलल्या जेज्वीतान सांगलां.

फ्रांसिस्क जरूय आपल्या घरा आवयच्या दोळ्यां मुखार तरनाट्यांचो एक नमुनो, पारिसाक आसताना आपलो भावार्थ आनी निर्मळ सभाव आनी वर्तन

इबाडचे शिमेर पावलली. पारीस शारांत विद्यार्थी आनी ताचो मेस्त्री पोजडें जिवीत जियेताले. रातच्या वेळार ते विद्यार्थी आपल्या मेस्त्रीक आनी फ्रांसिस्काकूय घेवन भायर सरताले. मेस्त्रीक आनी विद्यार्थ्याक अल्सर आनी घाय जाल्यात म्हण फ्रांसिस्काक गमल्या उपरांत आपल्या सांगात्यांची पांग सोडली. फ्रांसिस्क भियेलो आनी तो मेस्त्री मर परयान ती भिरांत फ्रांसिस्काच्या अंतस्करणांत उरली. एक वा दोन वर्सा भितर लैंगीक (*sexual*) जिविताचे पिडेक लागून तो गुरूजी मेलो; उपरांत दुसरो गुरूजी आयलो तो एक निर्मळ आनी गुणेस्त मनीस आसलो, आनी हाचो पाटलाव फ्रांसिस्क करूंक लागलो. ह्याच कारणाक लागून फ्रांसिस्क बायलेक केदनांच वळकूंक पावलो ना. ही खबर सुमार माय-आगोस्त 1545 ह्या वर्सा फ्रांसिस्कानूच मैलापूर आसताना गास्पार कुयेल ह्या पाद्रीक सांगली.

हो 'निर्मळ आनी गुणेस्त' मनीस म्हळ्यार जुवांव पेञा; ह्या मेस्त्री खाल फ्रांसिस्कान M.A. पद जोडलें.

पारिसाक फ्रांसिस्काचो भावार्थ हालून येतालो; त्या काळार त्या शारांत प्रोतेस्तानी वारें मारूंक लागललें. थोडे मेस्तीर आनी विद्यार्थी लुथेराची शिकवण स्विकार करताले तांकां वांकडे शिकोवणेचो रांप लागललो. निकोलास आफोंस बोबादिल्या हाचे प्रमाणें, विद्यार्थ्याक भिरांत घालपाक थोड्या धर्म विरोद्यांक (heretics) मुंबेर चोवकोणांत विद्यार्थ्यां हुजीर हुलपायलले. (M.H.S.J. 46, P.614,NO. 5.)

**6. तेग जण एकाच कुडांत:**

फ्रांसिस्क, पारिसाक पावललो त्याच वर्सा (1525) साव्या गांवांतलो आनीक एक तरनाटो त्या शारांत एक विद्यार्थी कसो पावललो. ताचें नांव फाबेर (फाव्र वा ल फेव्र); तो एक मेंढऱ्या राकणो आनी तोय सांता बार्बारा कोलेजींत, एकाच कुडांत रावूंक लागलो – दोगूय एकेच पिरायेचे पूण पेद्र स म्हयने ल्हान. दोग विद्यार्थी एकाच कुडांत: एक दों फ्रांसिस्क, राज कुळयेंतलो आनी 16 वर्साचे पिरायेर, पांप्लोना दियोसेजिचो 'क्लेरीक'. आनी पेद्र एक मेंढऱ्या राकणो पूण हो धंदो ताका बरो लाग नासलो, तो इस्कोलाक वचूंक सोदी. बारा वर्सांचो राकणो आसतानांच, एक दीस ताणें निर्मळपणाची आंगवण केली आनी ती मर परयान ताणें सांबाळलली.

फ्रांसिस्क आनी पेद्र सुरवातेकूच थावन इश्ट जाले; पेद्रून फ्रांसिस्काचें निर्मळपण सांबाळलेशें दिसता. पेद्रू 1540 वर्सा 40 वर्साचे पिरायेर अंतरलो आनी फ्रांसिस्क

ताका एक सांत कसो मानतालो आनी ताका रोजार करी. ह्या पेद्रुची परब आगोस्ताचे 1 तारकेर पाळतात; ताका 'भागेवंत' म्हण पद मेळलें आनी न्हय 'सांत'.

दोगांय इश्टांक 1529 पास्कांच्या वेळार 'लिसेन्सियात' हें पद फावो जालें.

येत्या वर्सा मेस्त्रिचें पद तांकां मेळलें. उपरांत पेद्रू धर्मशास्त्र शिकूंक गेलो आनी मायाचे 30 तारकेर 1533 पाद्रिपणाची माखणी घेतली. फ्रांसिस्क मेस्तीर जालो. फ्रांसिस्क कोण जांवक सोदी? पांप्लोना कातेद्रालाचो कोंग जांवक ताणें आपल्या मिग्वेल भावा उदेशीं एक अर्ज पत्र धाडले. ते भायर आपली ऊंच कुळी दाकोवक दुकुमेंत (दस्तावेज) मागूंक धाडले. . . . आपलें व्हडपण तो सांबाळूंक सोदी. आजून परयान पारिसाक फ्रांसिस्क कुलीन कुळयेंतलो कसो जियेतालो. हाचे वयर कोणें दुबाव घालूंक नासलो.

ते दुकुमेंत शेकीं पारिसाक पावले पूण भोव उसरां पावले. इतल्यान आनीक कितें घडलें आनी देखून ते दाखले वा दुकुमेंत ताका उपकारले नांत. आनी हाका लागून फ्रांसिस्काचें आनी फाव्रेचें जिवीत बदल्लें.

तिसरो मनीस त्या कुडांत रिगलो आनी हो तिसरो कोण म्हळ्यार लोयोलाचो इनास. हें घडलें 1529 वर्सा. इनास एक भक्तिवंत मनीस आनी तो इल्लो जाण्टो देखून पेद्र फावेर ताका शिकोंवक लागलो. पूण उपरांत इनास पेद्रूक आत्मीक जिवीत शिकोंवक लागलो. ते दोगूय इश्ट जाले.

हो इनास कोण? तो पांप्लोना कोटांत फ्रांसेजां विरूद लडतालो. पांप्लोना शार मायाचे 20, 1521 ह्या दिसा पडलें आनी इनास घायाळ जाल्लो. ताच्या पांयाचें हाड मोडललें आनी ताका मागीर एके तिरडेर घालून आपल्या घरा, लोयोला, पावयलो. इनास बरो नासलो तेदनां ताका जिविताचे अणभव आयले आनी ताणें आपलें जिवीत बदल्लें. बरो जातच आपलें घर-दार सोडलें आनी एक वाटसूर यात्रेकार कसो न्हेसून, मोंतसेर्रात दोंगरार चडलो आनी पिराजीत मागणें करूंक लागलो. उपरांत लागींच मानरेजा गांवांत ताका अदीक अणभव मेळलो. लोयोलाचे आनी मानरेजाचे सगळे अणभव इनासान एके सुपुर्ले चोपडेर बरोवन दवरले; उपरांत ती चोपडी रेतिराचें पुस्तक जालें – ताका कोंकणींत 'आध्यात्मीक साधना' (*Spiritual Exercises*) म्हणतात. ही आध्यात्मीक साधना वा रेतीर इनास मागीर दुसऱ्यांक दिंवक लागलो जेदनां तो अलकाला आनी सालामांका युनिवेर्सिदादिंनी शिकूंक गेलो. वेता थंय ताका त्रास दिंवक लागले;

पवित्रसभेचे अधिकारी परयान ताचेर आडवारूंक लागले; देवाचें उतर परगटूंक मना करूंक लागले; तेदनां इनासान एस्पाञा देस सोडलो आनी कुंदून कुंटून पारिसाक गेलो आनी थंय आपलें उरललें शिकप चालू दवरलें. इनास पारिसाक फेब्रेराचे 2 तारकेर 1528 पावलो. सांत बार्बाराचे कोलेजींत आसताना, इनास फ्रांसिस्काच्या आनी पेद्रुच्या कुडांत रावूंक गेलो.

इनास ते कुडीक एक 'सांता काजा' – 'पवित्र घर' करतलो. इनास पेद्रूक सारकोच मंतरता कसो दिसता. ह्या मंत्रा खाल, पेद्रू इनासाच्या पागेराक सांपडता, ताचो शीस जाता. पूण फ्रांसिस्क वेगळो मनीस, कठीण मनीस; तो इनासाचे संमतीक आनी पांगीक तितलो वेगीं सोंपेपणीं पडचो ना.

**7. शाव्येराचें मन बदलप:**

फ्रांसिस्क संसारी नांव आनी मान जिकून घेंवक सोदी, आनी इनास खालतेपण आनी दुर्बळकाय शिकोंवक वावुरतालो. पूण इनासान फ्रांसिस्काची फाट सोडली ना; वेता थंय संसाराचें पोल्केपण आनी आत्म्याचें व्हडपण दाकयतालो पूण बराबरूच फ्रांसिस्काचे सैबीक गूण वाखाणतालो. कशें जालें तें पळेंवया.

इनास एक सादो मनीस, पिरायेन जाणटो. तो एक भिकारी कसो पारिसाक भोंवतालो. असल्या मनशाचे संमतीक फ्रांसिस्क कसो पडतलो? ते भायर फ्रांसिस्क कुलीन कुटुंबातलो 'फिदाल्ग'. इनासाची खबर फ्रांसिस्कान एक वर्सा आदीं आयकल्ली, आनी इनासाक पारिसाक पावल्यार एक वर्स जाल्लें. फ्रांसिस्क इनासाची फकांडां परयान करतालो. फ्रांसिस्काक खेळ आनी भायली मौज आनी सोंपें जिवीत जाय आसलें.

इतल्यान आनी तेग तरनाटे विद्यार्थी साल्मेरोन, लायिनेज आनी बोबादिल्या इनासाचे पंगतीक लागतात, ताचे बराबर भोंवतात. फाव्र आनी इनास एकामेकाचे इश्ट जातात तें फ्रांसिस्क दोळेभर पळेता. इतले म्हणसर सांता बार्बारा कोलेजींत इनास कोण तो इल्लें इल्लें कळीत जाता. सांता बार्बारा कोलेज फ्रांसेज, एस्पानी, आनी पुर्तुगेज राश्ट्रियांची वा त्या राश्ट्रांतल्या विद्यार्थ्यांची आसली. इनास कोण तो एस्पानी विद्यार्थ्यांक कळलें: लोयोला कुटुंबांतलो कुलीन पूत, पांप्लोना झुजा मळा वेलो सैनीक आनी वीर, इनासाची धास्त हांगा थंय पसरून वेताली आनी फ्रांसिस्काच्या कानार पडलली.

इतल्यान आनी कितें घडलें, आनी तितल्यान इनासाक सगळ्यांनी बरो वळकलो. दोग आल्काला (एस्पाञा) युनिवेर्सिदादिंतले विद्यार्थी – दियेगो लायिनेज आनी



लोयोलाचो इनास

आफोंसो साल्मेरोन – इनासाची फाट धरून पारिसाक पावले. तांकां इनास जाय आसलो. इनासाचें सांतिपण तांकां ओडून हाडी. अशें आसतां इनासाक सोदूंक आनी त्याच बराबर पारिसाचे उनिवेर्सिदादींत शिकप करूंक हे दोग एस्पानी तरनाटे पारिसाक पावतात आनी ते इनासाची व्हडवीक सांगतलेच. इनासाच्या पालवान ते रावतात.

दुसरी वस्त ती ही. फ्लांदर्स गांवांतलो (1529) परतून येतच, इनास मेळता तितल्यांकूय देवाची खबर सांगतालो, आत्मीक वस्तूं वयर भासाभास करतालो आनी बराबरूच तेगां जणांक आध्यात्मीक साधना (रेतीर) दिंवक लागललो: हे तेग म्हळ्यार पेद्रू दे पेराल्ता, कास्त्रो, आमादोर. ह्या तेगांच्या जिवितांत जायती अदलबदल जाली, तांणीं सगळें आसलें नासलें सोडलें आनी गरिबांक दिलें, आपलीं पुस्तकां परयान. मागीर तेच भीक मागूंक लागले, कोलेज सोडली आनी सांतियागाच्या होस्पितालांत रावूंक गेले. हें सगळें इनासाक लागून जाल्लें.

सगळें पारीस इनासाचेर कल्पलें आनी अदीक करून एस्पात्रांतले विद्यार्थी. ही उचांबळाय उत्पन्न जाताली तेदनां, इनास पारिसाक नासलो. कोलेजिचो प्रिंसिपाल गोवेया (पुर्तुगेज) इनासाक ख्यास्त लांवक सोदतालो आनी इतल्यान सगळें निटायेर पडतलें म्हण समजतालो. एक दीस इनास कोलेजींत भितर

सरना फुडें प्रिंसिपालान ताचे पाटल्यान दार बंद केलें आनी कांपीण वा घांट वाजयली. सगळे विद्यार्थी एका सालांत एकटांय जाले. इनासाक दुबाव पडलो, आनी सालांत भितर सरचे आदीं, प्रिंसिपालाशीं पयलो उलोंवक गेलो. आनी परिणाम वो फळ कितें जालें? प्रिंसिपालान आपली येवजण फिसकटायली : एकटांय केल्ल्या मेस्तिरिंक आनी विद्यार्थ्यांक इनासाची स्तुती करूंक वा सांगूंक लागलो आनी ताका दुसरो सांत जेरोम म्हण पाचारलो. दुसऱ्या वर्सा आपलेच कोलेजींत गोवेयासान इनासाक घेतलो.

गोवेयास कितें करूंक सोदी? इनासाक सभेमाजार सयतीर काडूंक येवजितालो. हें सयतीर काडप अशें आसलें गुन्यावकारांक पेंगट परयान विंगळो करीत, आनी दोन पांतीं वा वळीं मदल्यान चलता आसताना, मेस्तीर ताचेर सयतिचो मार घालीत आनी हें कर्तूब सगळ्यां विद्यार्थ्यां हुजीर तांकां देक दिवपाक करीत. हो सयतिचो मार इनासाक पडलो जाल्यार, ताचें सगळें काम बिगडतलें आसलें, ताचो पाटलाव कोण करचो नासलो, जेज्वितांची पळतण आयज आसची नासली, गोंयचो सायब आमकां मेळचो नासलो.

ही सगळी खबर फ्रांसिस्काक ठावी जाता. इनास पांप्लोना झुजा मळार आपल्या भावां विरुद्ध लडललो तीय माहिती फ्रांसिस्काक आसली. फ्रांसिस्क इनासाशीं लागीं सर नासलो. इनास सोसणिकायेन रावलो. फ्रांसिस्काक गरज आसली तेदनां, इनासान ताका दुडू परयान दिले आनी तेय बी जायते पावटी. फ्रांसिस्काक मानान लेकलो आनी फ्रांसिस्काक दिवपाक विद्यार्थी परयान एकटांय केले, हे परीं फ्रांसिस्काक दुडू मेळपाक. पूण तेच बराबर ताचे इश्टागती विशीं शिटकावणीय दिली.

इनासाचें काम सार्थक करपाक, आनीक एक वस्त घडली: 1533 पेद्र फाव्र पारिसांतलो भायर सरलो, आनी त्या कुडांत इनास आनी शाव्येर दोगूच उरले. शाव्येराक इनासाच्या चपक्यांतलो पळून वचूंक जाय नासलें. शेकीं फ्रांसिस्क बागवलो, थंडावलो. फ्रांसिस्क आतां सारकोच दुसरो मनीस जालो; फाव्र 1534 वर्सा परततच, फ्रांसिस्क वेगळोच मनीस जाल्लो देकलो.

इनास फ्रांसिस्काच्या कानार बगर बगर जेजुचीं हीं उतरां सादयतालो म्हणतात: *सगळो संसार जोडीत आनी आपलो जीव इबाडीत जाल्यार, मनशाक कसलो आदाव* (मातेव 8.36). ह्या उतरांक लागून फ्रांसिस्कान आपलें मन बदल्लें म्हण थोडे बरोवपी म्हणतात पूण दुसरे ह्या उतरांची बेपर्वा करतात.

## 8. मोंतमार्त्र : 1534

शाव्येर, बोवे कोलोजिचो गुरुजी, एका दुर्बळ विद्यार्थ्याचो शीस जांवक पावता; 1533 वर्स सोंपता म्हणसर, त्या कुडांतल्या तेगां जणांचो जमो वाडता आनी तेग पारीस युनिवेर्सिदादिंतले विद्यार्थी त्या जम्यांत घुसतात: i) शिमांव रुद्रिगीश द आजावेद, पुर्तुगेज (1510-1579), ii) जायम लायिनेज (1512-1565) आनी iii) हाचो इश्ट आल्फोन्सुस साल्मेरोन (1515-1585). ह्या जम्याक शेवटीं तेंकतलो आनीक एकलो, निकोलास बोबादिल्या (1508-1590). ह्या सातां मदले, सगळे एस्पानी विद्यार्थी, भायरावन दोगूच, ल फाव्र (1506-1546) साव्वाचो फ्रांसेज, आनी शिमांव रुद्रिगिश, पुर्तुगेज.

हो जमो एकवटान रावलो आनी भक्तीन वाडतालो पूण तांचो फुडार कसलो? वेनिसाक (इतालिया) आनी थंय थावन जेरुजाल्याक, आनी थंय आत्म्यांची सेवा करून सगळें जिवीत सारपाक तांणीं येवजिल्लें म्हण इनास सांगता. पालेस्तिनाक वा जेरुजाल्याक रावूंक परवानगी मेळना जाल्यार ते सगळे रोमाक परततले, आनी पापसायबाचे आदीन जण एकल्याक घालतले, आनी देवाच्या अनंदाक आनी आत्म्याच्या बरेपणाक किते करचें तें तो तांकां सांगतलो. वेनिसाचे खाडींत ते एक वर्सभर तारवाचेर चडपाक रावतले, आनी ह्या काळा भितर तारूं मेळना जाल्यार जेरुजाल्या वेची आंगवण फिस्कटतली, आनी ते रोमाक परतून वेतले (M.H.S.J. 66, p. 34).

शिमांव रुद्रिगिसा प्रमाणें, तांणीं तीन वर्सां धर्मशास्त्र (*Theology*) शिकपाक आनी पाद्री वा याझीक जावन देवाचें उतर परगटावपाक, आनी भावार्थ्यां कडलो एक पयसो परयान घेनासताना साक्रामेंत दिवपाक तांणीं येवजिल्लें.

हो जमो सदांच एकटांय दवरपाक, आंगवण्यो करपाक तांणीं येवजिल्लें. अशें येवजून 1534 आगोस्ताचे 15 तारकेर कुडी आत्म्या सैत सर्गार व्हेल्ले सायबिणिचे परबे दिसा, ते सगळे पारीश शारा भायर, मारतिरिंचे दोंगुर्लेर ( मोंमार्त्र) गेले आनी एका कपेलांत फाव्र ह्राणे मीस भेटयलें (त्या जम्यांतलो तो एकलोच पाद्री) आनी जण एकल्यान कोमुञांव शेंवचे आदीं आपापल्यो आंगवण्यो केल्यो: निर्मळपण सांबाळपाक आनी जेरुजल्याक वचपाक; धर्मशास्त्र शिकल्या उपरांत जेरुजाल्या वचूंक जाय ना जाल्यार, ते रोमाक वेतले आनी आपल्याक पाप सायबाचे सुवादीन करतले. हें कपेल म्हळ्यार सांत देनिसाक भेटयल्लें आनी तें आजून आसा. त्या आल्तारार ह्या सात जणांनी आपल्यो आंगवण्यो

केल्यो. त्या आल्तारार मीस भेटोंवचें भाग हें पुस्तक बरयतल्याक 1958 वर्सा मेळलें.

त्या कपेलांत एके सुवातेर एके फातुर्लेर उतरां घातल्यांत ते प्रमाणें जेजुची पलटण पारिसाक जल्मली आनी तिचो बापूय म्हळ्यार सांत इनास लोयोला. *"Societas Jesu quae Sanctum Ignatium Loyolam Patrem, Lutetiam Matrem habet, Anno Salutis MDXXXIV, Aug. XV, hic nata est."*

ह्यो आंगवण्यो केल्यो तेदनां, (15-8-1534), जेजुची पलटण स्थापचीं चिंतनां परयान इनासाच्या मनांत नासलीं. फकत पापसायबान एक धार्मीक संस्था जल्मा हाडूं येता आनी गरज पडल्यार ती नपयतूय करूं येता. सेतेंब्राच्या म्हयन्यांत फ्रांसिस्क शाव्येरान एका म्हयन्याचो रेतीर केलो. पयले चार दीस फ्रांसिस्कान उपास करून सारले – जेवण आनी पिवण कांय घेतलें ना. स्पोर्टांत बऱ्यो उडयो मारतालो देखून, फ्रांसिस्कान आपल्या जांगडांक, पोटाक आनी हातांक दोरयो मासांत रिगसर अर्नून दोरयो बांदल्यो. त्यो दोरयो जीव संकटांत घालिनासताना कातरून काडूंक जाय ना जाल्यो. ताचो हात कातरचो पडता कसो दिस. ताचे वांगडा आशिल्ले प्रार्थना करूंक लागले. दर दिसा फ्रांसिस्काक बरीच फोडाफोड जाताली पूण मागीर देवाच्या उपकारान मासांत रिगलली दोरी तुटली आनी सारकी भायर सरली आनी फ्रांसिस्क बरो जालो. (M.H.S.J. p.454)

**9. वेनीस शारा**

भलायकेक लागून वैजांनी इनासाक आपल्या गांव देसा वचूंक बूद दिली. इनास सात वर्सां त्या शारांत रावल्या उपरांत पारिसांतलो मार्स 28, 1535 तारकेर भायर सरलो. आनी केन्नाच त्या शारांत तो येंवचो ना. शाव्येरान इनासा कडे आपल्या भावाक, जुवांव दे आजपिल्कुयेताक, एक चीट धाडली. ही चीट 1535 मार्स 25 तारकेर बरयलली. आपणें एकटांय केल्ल्या जम्याची राकण करपाक इनासान पेद्र फाव्र हाका वडील कसो विंचून काडलो.

आंगवण्यो करून दोन वर्सां भरता म्हणसर आनीक तेग फ्रांसेज – क्लाउद ल जे, पासकास ब्रोये (दोगूय पाद्री) आनी ज्यां कोदीर – त्या जम्यांत रिगले. आपूण पारिसांतलो भायर सरचे आदीं इनासान सगळ्यांनी जानेराचे 5, 1537 दिसा पारिसांतल्यान भायर सरपाची तयारी केल्ली. तो तांकां वेनीस शारांत मेळतलो आसलो, आनी थंय थावन ते सगळे जेरुजाल्या वचूंक तारवार चडतले आसले. पूण फ्रांस आनी एस्पाञा मदें झूज पेटलें आनी तियोलोजिचें शिकप सोंपोवचे आदींच तांकां पारिसांतले भायर सरचे पडले.

पारीस सोडून वचपाची तयारी करता आसतानाच, फ्रांसिस्क शाव्येराक पांप्लोना कातेद्रालाचो कोंग केला म्हण घरा थावन अवचीत चीट आयली, पूण फ्रांसिस्कान कान हालयले नांत, ससाराक ताणें पाट वळलली.

इनासाचे सांगाती वेनिसाचे वाटेक लागले. फ्रांसेज सोलदाद वाटेक मेळतीत म्हण ते पयशिल्यान – लोरेयन, जर्मनी आनी स्विजरलेंड, ह्या देसांतल्यान – गेले. उरलले आनीक पांच स दिसांनी 1536 नोवेंब्राचे 15 तारकेर वाटेक लागले. वाटेर तांकां जायते प्रोतेस्तांत मेळले. सात साताळ्यांची वाट तांकून ते सगळे वेनिसाक जानेर 8, 1537 तारकेर पावले, आनी थंय तांका इनास भेटलो. वेनिसाक आसताना पाद्री जांवक नासलले ते होस्पितालांनी वावरूंक वेताले, पाद्री ते आपले मुनियारपण चलयताले.

वेनिसाक आसताना फ्रांसिस्कान एक मर्दिवंत करणी केली. होस्पितालांत घायांनी भरललो एक कोडकार आसलो. ताची सेवा करूंक फ्रांसिस्काक वीट येताली पूण आपल्याचेर जैत व्हरूंक फ्रांसिस्कान आपल्या बोटांनी घायांतलो पू काडलो आनी आपल्या तोंडांत घातलो. त्या दिसा क्रिस्ताची उतरां फ्रांसिस्काच्या जिवितांत साकार जालीं आनी : "जीव काडपाचे कितेंय ते पियेतीत बी तांकां तें वायट जांवचें ना." (MK. 16.18)

## 10. पापसायबाचो आशिर्वाद

दोन म्हयने अशे कुडी आत्म्या खातीर वेनिसाक वावुरल्या उपरांत, पालेस्तिनाक वचपाचे येवजणेचेर पाप सायबा कडसून आशिर्वाद घेवपाक आनी परवानगी मागपाक इनासान तांकां रोमाक धाडले. आपणाक लागून त्या दोगांकूय रोमाक कितेंय घडत म्हण इनास वेनिसाकूच रावलो. कार्दियाल काराफा, उपरांत पावलू IV पापसायब आनी दो. पेद्रू ओर्तीज, रोमाक कार्लूस V पातशायाचो मुनियारी वा निरोपी. आपले राकणे खाल आसलल्या पेराल्ताक, पेरिसाक आसताना आध्यात्मीक साधना (*spiritual exercises*) वा रेतीर दिल्लो म्हण कार्लूस पांचवो इनासाचेर रागवललो, आनी हे पारसत पवित्रसभेच्या न्यायसभेत (*inquisition*) इनासाचेर ताणें फिर्याद मांडलली. इतल्यान धर्मशास्त्राचे शिक्षण तांणीं सोंपयल्लें.

अशें आसताना, ते नव जण आनी आनीक तेग जण रोमाचे वाटेक लागले. वेनिसाक आसताना इनासान आनीक तेग जणांक आपले पांगींत घेतलले. भुकेन आनी तानेन ते वाट चलताले.

## 11. सासणाक याझीक : 1537

रोमाक सगळें बरें चल्लें, पापसायबान तांकां भांडारां उगडलीं. हीं भांडारां घेवन ते बारा जण सुभागी खुशालकायेन भरून वेनिसाक परतले मायाक ते वेनिसाक पावले आनी सगळी ही खबर इनासाच्या कानांत फुंकली. जुनाचे 24 तारकेर 1537 वर्सा तांकां एका बिस्पान याझिकाची माखणी दिली. ताचें नांव विंसेंजो नेगुसांती, आर्बेचो वो राबचो बिस्प दाल्मासियानी दर्याचे किनारेर.

हे नवे याझीक म्हळ्यार इनास, शाव्येर, लायिनेज, बोबादिल्या आनी कोदीर. तांणीं दुसऱ्या दिसा पयलें मीस (जशें आमी आदीं उलयतल्यांव – खरेपणीं तें दुसरें मीस) भेटयलें ना; तें जेरुजाल्याक भेटोंवक सोदीत. एक वर्स मेरेन एकूय तारूं जेरुजाल्याक वेचें ना म्हण धास्त पडली. ते भायर वेनिसा आनी तुर्कां मदें जुनाचे तीन तारकेर एक झूज पेटलें.

म्हणतच मीस भेटोंवक तांणीं निर्णय घेतलो पूण दोन म्हयन्यांची तयारी करतच. प्रार्थन आनी मागणें गुपचूप सुवातेर करून ही तयारी करूंक जाय आसली. शाव्येर आनी साल्मेरोन हे दोग मोनसेलीस गांवा लागीं आसलल्या एका एकसुऱ्या घरांत गेले. दुसरे दुसऱ्या गांवांनी गेले. दोन म्हयने सोंपतच विसेंजा शारांत सगळे एकटवले, जंय इनास, फावरेक आनी लायिनेजाक घेवन रावतालो. त्या विसेंजा शारांत फ्रांसिस्कान सेतेंब्र 30, 1537 ह्या दिसा मीस भेटयलें.

रोकडोच शाव्येर आनी रुद्रिगीश आजारी वा पिडेंत पडले आनी तांकां एका होस्पितालांत घालचे पडले. दोगूय एकेच बाजेर न्हिदताले आनी तीय बी बरीच अशीर. एके रातीं शाव्येराक सांत जेरोम ह्या सांताचें दर्शन फावलें. सांतान शाव्येराक इल्ली भुजवण दिली आनी सांगलें तो बोलोञा शारा हिंवाळ्याचो काळ सारतलो आनी थंय जायते कश्ट सोंसचे पडतले म्हण. ह्या दर्शनाची खबर रुद्रिगीश सांगता.

उपरांत ते वावरूंक गेलेः इनास, फाव्र आनी लायिनेज रोमाक गेले, आनी शाव्येर आनी बोबादिल्ला बोलोञाक. बोलोञाक वावुरताना शाव्येर पिडेंत पडलो आनी मरणाचे तणीर पावलो.

## 12. रोमाक 1538

इनास, फाव्र आनी लायिनेज रोमाक गेले आनी सां. *त्रिनिता देई मोंती* हे इगर्जे कुशीक 1538 वर्सा पास्कांचे परबे वेळार तांकां एक घर मेळ्ळें. उरललेय

रोमाक गेले. नव्यान पापसायबा मुखार ते धर्मशास्त्रा वयर भासाभास आनी उजती करीत. पापसायब ध्यान मन दिवन तांकां आयकतालो. एकदां पापसायबान म्हणले "तुमी जेरुजाल्याक वचूंक इतले कित्याक येवजितात? खरें आनी बरें जेरुजालें म्हळ्यार इतालिया जर तुमी देवाचे पवित्र सभेंत फळ हाडूंक सोदतात जाल्यार". इनास आनी हेर आपल्याक पापसायबाच्या हातांत घालपाक कबूल जाले. इतल्यान पालेस्तिनाक वेची आंगवण फिसकटली वा ती पाळूंक जाय नासली.

आतां ते चिंतूंक लागतात: एक धार्मीक संस्था आमी स्थापची? पंदरा दीस मागणें आनी पिराजीत करून हे विशीं ते चिंतूंक लागले. मागीर पाद्र पेद्र फाव्र हाणे मीस भेटयलें आनी कोमुञांवाच्या वेळार जण एकल्या लागीं विचारलें एक धार्मीक संस्था स्थापूंक सोदतात? आनी तांतूं भितर सरूंक तुमकां खुशी आसा? ह्या दोनूय प्रस्नांक जण एकल्यान "हय" म्हण प्रतिपाळ केलो आनी उपरांत कोमुञांव शेवलो.

उपरांत तांणी आपले कायदे-नेम बरयले आनी पापसायबाक दाकयले. पापसायबान 3 सेतेंब्र 1539 वर्सा तोडीं मान्यताय दिली. पूण रोमाच्या खात्यान हे नवे संस्थेक नकार दिलो, बरोवन मान्यताय दिना जाले. पापसायब वोगीच पडलो. हो खटलो पापसायबान दोग जाणार कार्दियालांच्या हातांत सोडलो – गिदिस्सियोनी आनी सेरमोनेत्ता. कार्दियाल गिदिसियोनी एकदमूच विरूद आसलो. ताका नवी संस्था नाका आसली; पवित्र सभेंत आसात त्योच पुरो म्हण ताका दिस. जे दुकुमेंत इनासान धाडलले ते ह्या कार्दियालान वाचले परयान नांत. आनी असो हो खटलो 1540 वर्स परयान उरलो.

इतले म्हणसर इनासान सर्गाचेर लडाय सुरू केली – तीन हजार मिसां भेटोंवक फुडें सरलो. पापसायबान इनासाच्या सांगात्यांक हांगा थंय इताालियाक वावरूक पाटयले. शाव्येर तेदनां इनासाचो चिटणीस वा सेक्रेतार आसलो. ताका इंडियेक पाटोंवक विंचून काडलो.

### 13. इंडियेक धाडपाक वेंचणूक

पंदराव्या शेंकड्याच्या सोंपत्यार, पुर्तुगाल आनी एस्पाञा दर्यार चडतात: पुर्तुगाल उदेंतिची दिशा धरता, आनी एस्पाञा अस्तंती. आफ्रिकेक भोंवाडो दिंवन, वास्कू दा गामा कालिकत (इंडिया) खाडींत मायाचे 22 तारकेर 1498 वर्सा पावता. पुर्तुगाली खलाशी उदेंतेक आयलले आपलें साम्राज्य वाडोवपाक

आनी तेच बराबर नव्या गांवांतल्या लोकाक भावार्थ आनी सभ्यता दिवपाक. अशें आसतां दर एक तारू उदेंतेक येतालें तें मिशनरी पाद्री घेवन येतालें. वास्कू दा गामा इंडियेक आयल्यार ह्या वर्सा 500 वर्सां भरतात.

पुर्तुगालाचो राजा, जुवांव III (1521-57) आपल्या ताब्यांत पडलल्या नव्या गांवांनी भावार्थ परगटपाक एकदमूच उर्बा दाकयतालो. सांता बार्बारा कोलेजिंतले थोडे विद्यार्थी, पाद्री जावन, इतालियाक बेस बरो वावर करताले म्हण पुर्तुगालाच्या राजाच्या कानार खबर सादवली. रोमाक आसलल्या आपल्या राजमुनियाराक राजान बरयलें, आनी तांतले 6 पाद्री उदेंतीक धाडूंक पापसायबा लागीं माग म्हण बुद्द दिली. ही कल्पना पापसायबाक बरी लागता पूण इतल्या पयशिल्या अनवळकी देसांनी वचात म्हण तो कसो म्हण हुकूम दिंवक शकत! ते भायर वाटेर संकट आसलें. दर्याची भिरांत आसली. ही खबर इनासाक पावयली आनी ताका ती पटली पूण दोगांकूच पाटोंवक इनास राजी जालोः शिमाव रुद्रिगीश, पुर्तुगेज, आनी बोबादिल्या, एस्पानी. आनी एक दियोसेजानी तरनाटो पाद्री, पावलू कामेरिनो, आपखुशेन उदेंतेक वचूंक फुडें सरलो. पूण हांतलो एकलोच कामेरिनो इंडियेक पावलो.

येवजिल्ले प्रमाणें, मार्साचे 5 तारकेर 1540 वर्सा, रुद्रिगीश आनी कामेरिनो तारवार बसून लिजबोवाचे वाटेक लागले. पुर्तुगाली राजदूत, पेद्रू मास्कारेञ्ज, जमनी वेल्यान मार्साचे 15 तारकेर, बोबादिल्याक आपले बराबर घेवन वचूंक सोदी. पूण बोबादिल्या बळ्ळिकेक पडलो आनी ते पासत ताचे सुवातेर आनी कोण दुसरो विंचून काडचोच पडलो कित्याक मास्कारेञ्ज आपली वचपाची तारीक बदलूंक तयार नासलो.

इनासाक आतां प्रस्न पडलो. दुसरो पाद्री तेदनां हाताक मेळतालो तो म्हळ्यार ताचो चिटणीस (सेक्रेतार) आनी ह्या सेक्रेताराक सोडूंक इनास राजी नासलो. इनास वेळ काडतालो, कांयच निर्णय घेनासलो. शेकीं निमाण्या वेळार मार्साचे 15 तारकेर, इनास आपल्या चिटणिसाक आपोवन हाडून ताका सांगताः "फ्रांसिस्क, पापसायबाच्या हुकमान आमचे मदले दोग जाण इंडियेक वचूंक जाय म्हण तूं जाणाय, आनी आमी विंचून काडलल्या दोगां भितरलो एकलो बोबादिल्या. ताचे पिडेक लागून आतां ताच्यान वचूंक जायना, आनी तो बरो जाय परयान राजदुताक रावूंक जायना, आतां हें तुजें काम." (M.H.S.J. p. 381).

शाव्येराचें सपन साकार जांवक पावताः तो मिसांवांत वचूंक सोदी आनी आतां त्या कामाक हात घालपाक दीस उदेलो. आपले आवय भाशेन शाव्येरान

इजायास प्रवाद्याच्या अर्थाभरीत उतरांनी जबाब दिलो: "पळे, हांव हांगा आसां तुका खुशी थय म्हाका धाड." (M.H.S.J. 25. p. 381). फ्रांसिस्काची तशीच इनासाची भास आसली बास्क, आनी कास्तेलानी (एस्पानी) न्हय.

ते साजे शाव्येरान पयशिल्या गांवाक वचूंक तयारी सुरू केली; थोडे कपडे (वा रोप) आनी पुस्तकां एकटांय केलीं, चिटणिसाचो वावर सोंपयलो, सांगात्यांक बिदाइ (आदेवस) केलो, पापसायबाचो आशिर्वाद आपल्या नव्या आपोस्तोलीक वावरार खालतेपणीं मागून हाडलो आनी रिगेच जल्मलले संस्थेचे खासगी कारभार हातांत घेतले; तीन दाखले वा दुकुमेंत बरयले आनी तांचेर म्होर मारली आनी तांचे संस्थेक पापसायब मान्यताय दीत जाल्यार ते उगडूं येताले. पयल्या दाखल्यार हे फुडे संस्थेची घटना (*constitution*) बरयतले तिका आपली मान्यताय दिता. दुसरो दाखलो इनासाक मत दिता. ते संस्थेचो सर्ववडील विंचून काडतच ताका आपल्या नांवान आंगवण्यो (आज्ञा पाळणेची, दुर्बळकायेची आनी निर्मळपणाची) करूंक वा दाकोंवक लायिनेजाक विनवणी करता (E.X.1,25).

इडियेक वचूंक देवानूच दिसता फ्रांसिस्काक विंचून काडललो. बोबादिल्या (1508-1590), जाका इंडियेक वचूंक इनासान विंचून काडललो, उपरांत बरोवन दवरतलो "इनासान फ्रांसिसाक त्या राजदुताचे सुवादीन केलो तांतूंत देवाची सासाय आसा कित्याक पेरिसाक आसताना एके रात्रीं फ्रांसिस्काक एक सपन पडले, ह्या सपनांत ताणें एक तुर्की (मुसलमानी) भुरग्याक चोरून व्हेलो आनी ताका बाव्तिज्म दिलो. अन-भावार्थ्याक खऱ्या धर्मात हाडूंक ताका चड उर्बा आसली आनी ताचो आंवडो क्रिस्तान साकार केलो कित्याक ताणें इंडियेक आनी जपानाक 9 हजार अनभावार्थ्याक बाव्तिज्म दिलो" (M.H.S.J. p 618, No. 16).

## 14. लिजबोवाचे वाटेक: 1540

मार्साचे 15 तारकेर दों मास्कारेञ रोमांतलो भायर सरलो आनी ताचे बराबर फ्रांसिस्क शाव्येर; त्या दिसा शाव्येराच्यो भोंवड्यो सुरू जाल्यो, दर्यातल्यान आनी जमनिवेल्यान, जशें फुडे कळतलें. तो सदांच उतावीळ आसलो; ताचें समाधान केदनांच जांवचें ना. एवरोपाक आसताना कसलो आनी कितलो वावर फ्रांसिस्कान केलो ताची खबर चडशी आमकां मेळूंक ना पूण हे फुडें काम करतलो आसलो ताची भरपूर खबर मेळतली आनी तोच ती सांगतलो आपल्या चिटिंनी. आज परयान आमकां 133 चिटी मेळल्यात.

फ्रांसिस्क एका घोड्यार बसून वाट तांकतालो; राजदुताक लोरेटो वचपाची

खुशी आसलल्यान ताणें पयशिली वाट धरली. सायबिणिच्या आश्रमांत फ्रांसिस्कान सगळ्यांचीं कुमसारां आयकलीं आनी तांकां कोमुञांव दिलो. लोरेटो थावन बोलोञा पावले, जंय फ्रांसिस्काच्या बापायन आपलें उंचलें शिकप केल्लें – कायद्याशास्त्र शिकललो. मास्कारेञ आब्रिलाचे एक तारकेर (1540) बोलोञा शारांतलो भायर सरलो, आनी दोन दिसांनी ते सगळे पार्मा शारा पावले, जंय फाव्र आनी लायिनेज वावुरताले. फ्रांसिस्क लायिनेजाक भेटलो पूण फाव्र त्याच दिसा ब्रेसिया गेल्लो. फाव्रूय इंडियेक वचूंक सोदी पूण आगोस्ताचे एक तारकेर 1546 वर्सा तो मेलो.

वाटेर फ्रांसिस्कान दोगां जणांचो तरी जीव सांबाळ्ळो. पार्माचे वाटेक आसताना एक पुर्तुगेज घोड्यार बसून एक न्हंय उतरूंक सोदी. उदकाच्या लोटान तो आनी घोडो न्हंयत पडले आनी लोटोन वेताले. शाव्येरा बराबर सगळ्यांनी मागणें केलें आनी तो दादलो वाटवलो. दुसरें विस्मीतः मासकारेञाचो सेक्रेतार एकलोच घोड्यार बसून फुडें वेतालो सेनीस दोंगर देंवताना तो घोड्या सयत पडलो आनी दोगूय त्या दोंगराच्या पाळसणाक शिरकून उरले. फ्रांसिस्क त्या जाग्यार पावतच तो अपघात ताणें पळेलो. आपलो जीव संकटांत घालून, फ्रांसिस्क त्या भिरांकूळ पाळसणार देंवलो आनी त्या घोड्याक आनी चिटणिसाक सांबाळ्ळो. तो घोडेस्वार उपरांत इंडियेक वेतलो आनी ही खबर मान्वेल तेयशेराक सांगतलो. (M.X. II, 832). ताचें नांव रोद्रिगू आनेज आनी तो दों पेद्रू मास्कारेञा बराबर गोंयां आयल्लो जेदनां दों मास्कारेञास इंडियेचो गोवेर्नादोर नेमललो (1554-1555) – 6वो गोवेर्नादोर.

उपरांत फ्रांसिस्क लियों शारांत पावलो, थंय थावन एस्पाञांत भितर सरले आनी लोयोला परयान पावले. हांगा फ्रांसिस्क, पेद्रू बेत्रान द लोयोला हाका मेळ्ळो. हो इनासाचो भाचो जावन आसलो. लोयोला थावन ते जुनाच्या निमाण्या साताळ्यांत सगळे लिजबोवाक पावले (1540). अशी तीन म्हयन्यांची वाट सोंपली.

## 15. लिजबोवाक : 1540

फ्रांसिस्क लिजबोवाक बरोच उसरां पावलो. इतल्यान तारवां खाडिंतली भायर सरून उदेंतेचे वाटेक लागललीं. शिमांव रुद्रिगीश आनी पावल कामेरिनो दोन म्हयन्यां आदीं लिजबोवाक पावलले, पूण शिमांव पिडेंत आसलो.

तीन चार दिसांनी फ्रांसिस्काक राजान आपोवन व्हेलो. ते उलयता आसताना राणी हाजीर आसली. राजा आनी राणयेन जायतो मोयपास दाकयलो. त्या वेळार पुर्तुगाला आनी जेज्वितां मदें इश्टागतिची गांट बसली आनी ती दोन शेंकडे अदीक तगतली. हो इश्टागतिचो काळ सोंपतलो जेदनां 1759 दुसरो एक राजा जेज्वितांक दुमाळो दितलो, तांकां बंदखणींत घालतलो, आनी जेज्वितांचो वावर इंडियेक आनी दखीण अमेरिकेक इबाडतलो.

आतां दोग जेज्वीत वा इनासाचे सांगाती लिजबोवांत वावुरताले. दों जुवांव III ह्या पाद्रिच्या मोगांत पडलो; ताचे संस्थेक रोकडी मान्यताय दी म्हण राजान पापसायबाक बरयलें. कोयिंब्रा नगरा एक कोलज बांदूंक तयार आसा म्हण भास दिली, आनी अशें जायतें. शाव्येरान आनी रोद्रिगिसान लिजबोवाक जायतो फळादीक वावर केलो आनी राजा तांकां प्रसन्न जालो. ते पासत राजान तांकां इंडियेक धाडिना जांवच्याक पूण पुर्तुगालाक दवरच्याक येवजिलें. उपरांत एक मदली वाट सोदून काडली : शिमांव पुर्तुगालाकूच रावतलो आनी शाव्येर आनी पावलू इंडियेक वेतले. मार्तीन दे आजपिल्कुयेता, नावार्राचो विद्वान, शाव्येराचे मांयचो बापोलभाव वो चुलत भाव, शाव्येराक इंडियेक वचूंक मोडां घाली आनी पुर्तुगालाच्या राजाक परयान चीट बरयलली.

शाव्येरान सगळ्यांच्या मागण्यांक कान भेरे केले आनी इंडियेक वचूंक तयारी केली. ताच्या सांगाता आतां तिगूच भागेली उरले. एकलो रोमा थावन इनासान धाडललो तो. हाचे कडे पुर्तुगेज पासून शिकूंक जालें ना. दुसरो आपणेंच विंचून काडललो, फ्रांसिस्कमानसिल्यास, एक ग्रहस्ती, आनी तो इंडियेक वेतच याज्ञीक जालो. (E.X. I., 87) ताका उपरांत जेजुचे पलटणींत घेतलो आनी मागीर भायर घातलो. तिसरो म्हळ्यार एक तरनाटो, दियोग फेर्नांदीश, शिमांव रुद्रिगिसाचो भाव. घडयेक शिमांवानूच ताका आपले सुवातेर वच म्हण परातलें जायत.

## 16. उदेंतेचे वाटेक : 1541

मार्स म्हयन्यांत राजा शाव्येराक भेटता आनी ताका पापसायबान धाडलल्यो त्यो चार चिटी दिता. पयले चिटिचो (27-07-1540) उद्देश शाव्येराक आनी रुद्रिगिसाक पापसायब '*Apostolicae sedis nuntii*' करता – आतांचे नदरेन पेपल नुन्सियो वा पाप सायबाचे मुनयारी. दुसरे चिटीन (2-8-40) पुर्तुगालाच्या राजा खाल आसलल्या सगळ्या जुंव्यांनी, प्रांतांनी आनी गांवांनी बऱ्या भरवांश्याच्या तोंका (Cape of Good Hope) थावन शिक्षण आनी प्रवचन करूंक आनी

सगळीं पातकां भगसूंक सत्या दिता. तिसरे आनी चोवथे चिटीन (4-10-40) पापसायब आबिसिनियाच्या राजा, दाविदाक, आनी दुसरे सुवाते वेल्या कुंवरांक आपल्या दुताची वळक करून दिता.

आब्रिलाचे सात तारकेर फ्रांसिस्क उदेंतेची वाट तांकच्याक सुरू करता त्या दिसा ताका सारकींच 35 वर्सां भरतालीं. *सांतियागो* ह्या राजतारवार फ्रांसिस्क चडलो. त्याच तारवार इंडियेचो गोवेर्नादोर दों मार्तीस आफोंस द सोज, सफर करतालो, पूण हें तारू गोंयां पावूंक निर्मण नासलें. तें जुनांत 1542 गोंयां पावचे आदींच वसइच्या (बसीन) सामकार बुडतलें (E.X. I. n. 12). उरललीं चार तारवां खासगी आसलीं, न्हय सरकारी. फ्रांसिस्का बराबर आसलो पोल आनी तो तिसरो भागेली मानसिल्यास आनी दियोग फेर्नांदीश. तांकां पेद्रू माल्दोनादो म्हण कारभारी दिल्लो तांचें जेवण पळेवपाक, आनीक दोन सेवक. सगळ्यो गरजेच्यो वस्तू – न्हेसण, जेवण, वखदां राजान तांकां दिंवक लायल्लीं. पूण फ्रांसिस्कान ह्यो सगळ्यो वस्तू नाकारल्यो. तारवार आपले म्हेळे कपडे धुंवक परयान शाव्येर तयार आसलो.

फ्रांसिस्क लिजबोवा खाडिंतलो 1541 आब्रिलाचे सात तारकेर भायर सरलो, दुसऱ्या दिसा पयशिल्या रोमा शारांत, इनासाक जेज्वितांचे सुपुर्ले पलटणिचो सर्व वडील जावपाक विंचून काडलो पूण ती खबर शाव्येराक आनीक सुमार दोन वर्सां उपरांत मेळतली.

*सांतियागो* तारवार 700 तारवटी आसले, सगळे दादले, सगळ्यां भासांचे, एकामेकाक तेंकून म्हयन्याचे म्हयने एकटांय जियेल्ले. शाव्येर दोन म्हयने तरी पिडेंत पडलो. फकत देवाच्या मोगाक लागून आनी न्हय गिरेस्तकायेच्या, हे कश्ट शाव्येरान स्विकार केलले. (M.H.S.J. 67, p. 92, 113). ही फ्रांसिस्काची पयली दर्या यात्रा आसली. उपरांत उरलल्या धा वर्सां पटीं आनीक जायत्यो आसतल्यो.

फ्रांसिस्कान सगळ्या पिडेवंतांची सेवा केली. मरतल्यांक दीस आनी रात पावलो. शिक्षण दिलें आनी झगडीं थंडायलीं. तारवट्यांनी ताका नांव घातलें पाद्र सांतु म्हणजे भागेवंत पाद्री. शाव्येर बरो नासलो तेदनां सात पावटी ताच्यो शिरो मारून रगत काडलें – आतांचे वैज रगत घालतात.

पावसाचो काळ सोंपतच पांचूय तारवां मोजाम्बीक (आफ्रिकेक) पावलीं. दुसरो पावसाळो सुरू जाय परयान सगळीं तारवां थंयच रांवचीं पडलीं. त्या काळार तारवां वाऱ्याच्या लोटान आनी जोरान चलतालीं.

आजून नवो गोवेर्नादोर गोयां पावूंक ना! तें पळेवन गोयां थावन गोवेर्नादोराचे सुवातेर आसलो ताणें खबर घेवक एक तारूं मोजाम्बीक पाटयलें. *कोवलम* त्या तारवाचे नांव. नव्या गोवेर्नादोराक गोयची बरी खबर मेळली ना, देखून ताणे रोकडोच गोयां वचूक येवजिले. त्याच *कोवलम* तारवार गोयां वचूंक गोवेर्नादोर चडलो आनी फ्रांसिस्काकूय आपले बराबर व्हेलो. दुसऱ्यांक पिडेवंतांची चाकरी करपाक थंयच मोजाम्बीक दवरले.

*कोवलम* तारूं सोकोत्रा जुंव्यार तेंकलें. थंय आदलीं क्रिस्तांवां, पूण फकत नांवाचीं, शाव्येराक मेळलीं. शाव्येरान थोड्या भुरग्यांक बाव्तिज्म दिलो आनी थंयच आपलें पेणें करून रावूंक सोदी. पूण गोवेर्नादोरान ताका आडवारलो, ताचें मन बदल्लें. फ्रांसिस्कन मिशनरिनी त्या जुंव्यार इल्लो वावर केल्लो पूण उपरांत तो जुंवो ते सोडून गेले. आज सोकोत्राचो सगळो लोक मुसलमान. सोकोत्रा थावन *कोवलम* तारूं गोंयां शारा मायाचे 6 तारकेर 1542 वर्सा – 13 म्हयन्यां उपरांत पावलें.

*सांतियागो* तारूं गोंयां शारा पावलेंच ना, वाटेर तें बुडलें.

## 17. गोंय शार.

मायाच्या म्हयन्यांत 20 तारकेर, 1498 वास्कु दा गामा आफ्रिकेक भोंवाडो दिवन आनी अरबी समदीर उतरून इंडियेच्या अस्तमती किनारेर पावतच, कालिकत खाडींत उत्तर केरळांत देंवलो. परतून वेताना जायतो मोलादीक सांबार, वेपाराचो म्हाल घेवन गेलो. पुर्तुगाली तारवटी आनी वेपारी मागीर इल्ले इल्ले अरबांच्या हातांतलो मिरयां-जिऱ्याचो आनी सांबार मसाल्याचो धंदो काडून घेवपाक इंडियेक येतले. सुरवातेक थावन पुर्तुगाली वेपारी नीट अरबी खाडिंनी आनी केंद्रांनी वेतात थंयसरले तांकां धांवडावपाक. भारतीय समदिरांत दीव, कालिकत, टुटिकोरीन, मालाक्का आनी ओरमूज (पेर्सियानी उपसागरांत) – हे सगळे केंद्र पुर्तुगेजांनी आपल्या ताब्यांत केले, भायरावन फकत कालिकत. आतां उरले तें गोंयचें केंद्र जंय अरबी व्यापारी मिरयां आनी घोडे विकते घेवन आनी दिवन वेपार चलयताले ह्या शारां थावन उदेंतिचे मुसलमान मुसलमानांच्या पवित्र शाराक, मक्का वेताले. अशें आसतां पुर्तुगेजांचें लक्ष आनी ध्यान मन गोंय शाराचेर ओडून वचुंकूच जाय आसलें.

ज्या गोंयां शारांत फ्रांसिस्क शाव्येरान 1542 मायाचे 6 तारकेर आपलो पांय दवरलो, तें शार आफोंस द आल्बुकेर्कान नोवेंब्राचे 25, 1510 वर्सा आपल्या

ताब्यांत केल्लें. 1479 वर्सा मुसलमान लोक होन्नावर आनी भटकळ थावन येवन त्या शारांत पेणें करून रावललो, आनी तें शार उदरगतिच्या रस्त्यार घातललें. ते आदीं गोंयचें शार खंय आसलें जायत? मुसलमान लोक गोंयांत कसो पावलो? ह्या प्रस्नांक सकयल पुरतो जबाब मेळतलो.

## 18. व्हडलें गोंय

आदीं हिंदू राजांची, म्हणजे कदंबा राजांची राजधानी (capital) आसली व्हडल्या गोंयां, जुवारी नदिच्या कांटार. पिलारच्या दोंगरा लागींच एका माडाच्या भाटांत रस्त्या कुशीक घातललो एक तकटो हे राजधानिचो आज उगडास करता.

ते राजधानिची पुर्विल्लीं नांवां म्हळ्यार गोवापुरी, गोपकपूर, गोपकपटम आनी गोंय. पुर्तुगेजींत ह्या आदल्या शाराक नांव दिल्लें गोवा वेल्या म्हण – गोंय-पोरनें पूण कोंकणितल्यान सदांच म्हणून आयल्यात व्हडलें गोंय, जशें आमी आदल्यांक वो जाणट्यांक मान आदरान लेकतात, व्हडलोपाय, व्हडलिमांय म्हण. हे राजधानींत कदंबा राजकुळयेंत हिंदू राजा शेंकड्यांचे शेंकडे राज करताले, पूण 1366 थावन विजयनगरच्या राजाचे राजपाल वो गोवेर्नादोर राज करूंक लागले. विजयनगर म्हळ्यार हिंदू राज्य दखीण इंडियेक आनी तें केदनां आनी कशें उत्पन्न जालें तें सांगूंक कोण नकळो पूण ह्या हिंदू राजाची धावळी गोंयां पावली.

फ्रांसिस्क शाव्येर मांडवी न्हंयच्या कांटार बसयल्ल्या गोंय शारा पावलो तेदनां कदंबांची राजधानी एक चालतो खेडो गांव जांवक पावलली. आदीं कलेन आनी नकशेन भरललीं देवळां, ब्राह्मण विद्वान जाणार, वेपार धंदो आनी दर्याचेर पदवी आनी सत्ता – हें सगळें नपयत जाल्लें. महमद घावान, ह्या महमद तिसऱ्या पदवेदार बाहमनी राजाच्या सरदारान वो कप्तानान ती राजधानी 1471 वा 1470 वर्सा आपल्या ताब्यांत केल्ली आनी तिचें निसंटन केलें. आज ते राजधानिचो फातरार फातर मेळना. हांगा थंय नकशेन कांतयल्ले फातर आनी खांबे झळकतात, आनी तीं आदलीं तळीं. ते राजधानिच्यो थोड्यो रेलिको (अवशेश) पिलारचे म्हासेमिनारिंतल्या मुज़ेवांत पळेंवक मेळतीत. कदंबा राजकूळ राजवट चलोंवक लागललो इकराव्या शेकड्यांत, पयलीं चंद्रापुरा (*Chandra*) थावन उपरांत आपली राजधानी तांणीं गोवापुरी जुवारी नदिच्या कांटार पावयली.

बहमनी राज्य हसन गंगू म्हणलल्यान 1347 वर्सा स्थापललें.

## 19. येला

बहमनी राजा 1470 वर्सा गोंयांत भितर सरले, आनी त्या गोवापुरी शाराचो नास केलो म्हण वयर आमी पळेलां. ते राजा ती राजधानी मागीर येला म्हणलल्या गांवांत, मांडवी न्हंयच्या कांटार, उत्तरेक व्हरतात. उपरांत येला गांव एक व्हडले फांकी मुसलमानी शार जांवक पावतलें. 1489 बहमनी राजाचें बळ मोडले आनी ताचे राजवटकिचे पांच कुडके जाले; तांतलो एक बिजापूर (1489) आनी ह्या बिजापुरची राजवटकी गोयां पावतली. ही नवी राजवंशावळ, वा राजकूळ, युसूफ अदील शाह हाणें स्थापली (1489-1510). ताचें आडनांव सावाय वा साबायो (पुर्तुगेजां प्रमाणे) – महमद घावानाचो एक चाकर. महमद घावानाक जिवेशीं मारतच (1481), युसूफ अदील शाह बिजापुरचो राजपाल जांवक पावलो. 1489 अदील शाह स्वतंत्र जालो. युसूफ अदील शाहान गोवा शार शृंगारायलें आनी गिरेस्तायलें, आनी तें एक फांकी बंदर जाले. ताचे भोवतणीं दुर्गा बांदून तें बळिश्ट केल्लें. बिदरच्या सुल्तानान (बहमनी) वा मुसलमानी राजान ताका आदीं अदील खान म्हण एक पद दिल्लें. ह्या अदील खानान गोंय शार इतलें नटयल्लें आनी घट बांदललें की सुलतान आपूण गोंयांतूच येवन रावूंक चिंतालो, आनी गोंय शार आपल्या राज्याची राजधानी (capital) करूंक सोदी.

अदील खानान ह्या शारांत वेपार धंदो भितर काडलो आनी ताची राकण करूंक व्हडलीं दुरगां बांदलीं. सांत कायतानाचे इगर्जेत (पोरन्या गोंयां) वेता तेदनां पोरसांत दावे वाटेंतल्यान आजून अदील शाहच्या वा खानाच्या राजघराचो दारवंटो दिश्टी पडता. सांत पावलुची कोलेज आसली थंय एक मुसलमानी मशीद आसली. देखून आज मुसलमान थंय एक समाधी बांदून आपली देवसपणां करूंक लागल्यात. आज कातेद्राल आसा थंयसरूय एक मशीद आसली.

## 20. पुर्तुगेज गोंयांत रिगतात.

अदील खानान बांदललें आनी सुदारललें शार आनी बंदीर पुर्तुगेजांच्या दोळ्यांत वचुंकूच जाय आसलें. तें शार मुसलमानांचें जावन आसलें. आपल्या गांव घरा एक मुसलमान म्हळ्यार पुर्तुगेजांचे इतिहासीक दुस्मान. 1470 थावन मुसलमान होनावर आनी भटकळ थावन पळून गोंयां आयले कित्याक थंय तांकां हिंदू लोक धुमाळो आनी पिडणूक दिताले. गोंयां येवन हांणीं आपलो आदलो धंदो सुरू केलो : आरबी आनी फारशी घोडे हाडून विकूंक लागले. गोंय जालें मुसलमानांचें

राज. ते आदीं गोंय बिजापुरचें सफळ बंदर जांवक पावललें. आतां हे मुसलमान आपलो राग काडूंक गोंयच्या हिंदूंक धुमाळो आनी पिडापीड दिंवक लागले.

गोंयच्या हिंदूंक हे मुसलमान नाका आसले. हांणीं गोवापुरिचें निसंटन केल्लें. तो गुन्यांव गोंयकार तांकां केदनांच भगसूंक तयार नासले. असल्या प्रसंगार पुर्तुगाली तारवटी भारती समदिरांत दिश्टी पडले आनी ह्या समदिरांतले अरबांक धांवडांवक लागले. हे अरब मुसलमान, पुर्तुगेजांचे सास्वत दुस्मान जावन आसले. 1084 पासून सात शेंकडे मुसलमानांची जुलुमशाय पुर्तुगालांत चल्ली.

अदील खानाचे दोग गोंयकार हिंदू अधिकारी वा ओप्शाल, आनी वेर्ण्याचो म्हाळ पै – जो सरदेसाय आसलो – मुसलमानाच्या विरुद्ध आसले. देखून हांणीं भितरल्या भितर तजवीत करून मुसलमानाचेर लढाय करपाक आनी तांकां गोंयांतले भायर धांवडावपाक पुर्तुगेजांक आमंत्रण दिलें.

असल्या वेळार आफोंस द आल्बुकेर्क, पुर्तुगालान धाडललो दुसरो राजपाल, होनावरच्या बंदरांत पावलो आनी थंय ताका एक तिमोजा म्हणललो एक हिंदू फुडारी मेळलो. हाणें आफोंसाक गोंया शारार रोकडोच हल्लो करूंक बूद दिली. युसूफ अदील शाह तेदनां बिजापुरा गेल्लो आसलो आनी ताचो राजपाल बरे भाशेन शाराची राखण करी नासलो देखून ताका ही बूद दिता. गोंयचे खाडींत मुसलमानांनी व्हडलीं तारवां बांदूक वावर सुरू केल्लो. तिमोजा सगळो सहकार दिंवक तयार जालो. तिमोजाचीं सोयरीं धायरीं गोंया आसलीं. ताच्या नांवाचें देशी रूप म्हळ्यार तिम्मय्या पूण पुर्तुगेजांनी तिमोजा केलें.

ही सगळी बंदोबस्त केल्या उपरांत 1510 वर्सा फेब्रेरांत आल्बुकेर्क आपल्या बराबर 23 तारवां घेवन मांडवी न्हंयतल्यान भितर सरलो, आनी ताचो भाचो वा पुतण्यो, दों आंतोनियो द नोरोञान जमनी वेल्यान पणजे आसलल्या कोटाक (आज सरकारी घर वा सचिवालय) हल्लो केलो. गोंयचें शार रोकडेंच पडलें आनी शाराचीं दारां उगडलीं. मार्साचे 1 तारकेर वा दुसऱ्यां प्रमाणें फेब्रेराचे 17 तारकेर मुखेली मुसलमानी फुडारी आयले आनी दिंबी मारून आल्बुकेर्काक शाराच्यो चावयो दिल्यो. आल्बुकेर्कान घोड्यार बसून शारांत प्रवेस केलो आनी शार आपले सुवादीन केलें.

ह्या जैताची खबर बिजापुरा पावली अदील शाहान साट हजार झुजारी तयार केले (हो आंक पुर्तुगेजांचो पूण दुसऱ्यां प्रमाणें तीन हजार) आनी घांट उतरून देंवलो, आनी तीन म्हयन्यां उपरांत शाराक वेडो घातलो. शारांतलेय मुसलमान

उटले. देखून आल्बुकेर्क उगीच शारांतलो 1510 मायाचे 23 तारकेर भायर सरून गेलो. पावस लागीं पावतालो देखून तारवां मांडवी न्हंयेंतल्यान भायर काडून तीं पणजेच्या कोटा सामकार मांडलीं.

पावस सोपतच आल्बुकेर्क नव्यान शाराचेर हल्लो करूंक सोदी. आंजदीप जुंव्यार वचून ताणें आपलीं तारवां दुरुस्त केलीं आनी थंय ताका आनीक धा पुर्तुगाली तारवां सांपडलीं. कनानुराक तिमोजान आपले झुजारी दिले. ते भायर आल्बुकेर्का कडे आतां 28 तारवां आनी 17,000 झुजारी आसले. आदील शाह तेदनां मरून गेल्लो आनी ताचो पूत इस्मायेल आदील शाह राजवट चलयतालो. 1510 नोवेंब्राचे 25 तारकेर आल्बुकेर्कान नव्यान गोंय शाराचेर हल्लो केलो आनी तें जिकून घेतलें. त्या दिसा आल्बुकेर्कान सुमार 6,000 मुसलमानांक, दादल्यांक तशें बायलांक तरसादीन मारूंक लायले. हे गोंय (आतां पोरनें शार) 1961 वर्सा पासून 451 वर्सां पुर्तुगेजांच्या ताब्यांत उरलें.

## 21. फ्रांसिस्क गोंयां शारा

हे निसंटन जाल्ले शार पुर्तुगेजांनी नव्यान बांदून काडलें. ह्या शाराची खबर करून फ्रांसिस्क बरयता: "आमी गोंयां इंडियेक पावल्यार चार म्हयने अदीक जाले. गोंय म्हळ्यार सगळे क्रिस्ती शार आनी ते दोळेभर पळेवपाचे *cosa para ver* (E.X. I, 124. n.5). ह्या शारा एक मठ आसा आनी तांतूं जायते सांत फ्रांसिस्काचे मठवाशी, एक सोबीत कातेद्राल आनी तांतूं जायते कोग, आनी जायत्यो इगर्जो." *(E.X. I.121.)*

ह्या सोबीत गोंयां शारांत पावना फुडें, शाव्येर रोकडोच बिस्प सायबाक, फ्रे जुवांव दे आल्बुकेर्क, एक फ्रांसिस्कन रेकोलेक्त हाका मेळूंक गेलो, आनी तो फ्रासिस्का भाशेन एक एस्पानी, बरो जाणटो आनी पिडेवंत आसलो. तो इंडियेक पयलो बिस्प जावन जुटी चलोवक पावललो. कित्या पासत पापसायबान आनी पुर्तुगाली राजान आपणाक इंडियेक धाडला हें फ्रांसिस्क शाव्येरान ह्या बिस्पाक कळीत केलें. पुर्तुगेजांक आधार दिंवक, नव क्रिस्तावांक शिक्षण दिंवक आनी अनभावार्थ्यांक खरो धर्म परगटूंक आपणाक धाडला म्हण सांगलें. उपरांत शाव्येरान आपले दाखले वा दुकुमेंत, जाचे वरवीं ताका पाप सायबान उदेंतेक आपलो दूत नेमललो, बिस्पाक दाकयले. आपणाक दिल्ल्यो सगळ्यो पदव्यो शाव्येरान त्या बिस्पाचे सुवादीन केल्यो, पूण बिस्पान ते दाखले परतून दिले, आनी गरज तेदनां त्यो पदव्यो वापर म्हण सांगलें. *(M.X. II,842).*



मागीर फ्रांसिस्क विगार-जेरालाक मेळूंक गेलो. ताचें नांव मिगेल वाज कुतीञ, एक गृहस्थ आनी न्हय पाद्री.

शाव्येर होस्पितालांत रावूंक गेलो आनी थंय पिडेवंतांची सेवा करूंक लागलो. गोंयां शारा तेदनां आफ्रिका, शिलांव (श्रीलंका), मालाया आनी चीन देसांचे जायते लोक आसले. थंयच्या क्रिस्तांवांक चडशें शिक्षण मेळूंक नासलें देखून शाव्येर एके नवे मांडणेन हें शिक्षण दिवपाक फुडें सरता. रस्त्याचेर भोंवून कांपीण वाजयतालो आनी भुरग्यांक एकटांय करतालो. हीं भुरगीं एकटांय जाल्या उपरांत शाव्येर तांकां एके इगर्जेंत व्हरतालो. ही दोतोर्न तो कांतार करून शिकयतालो. शाव्येराचे हे नवे मांडणेक बरेंच फळ मेळलें. दादले तशें बायलो, जाणटीं तशीं नेणटीं रस्त्या वेल्यान चलताना परयान धा उपदेस कांतार करी, तशींच निस्तेकारां आपल्या होड्यांनी आनी शेतकार आपल्या शेतांनी ती एक करमणूक वा वेळ पासार करचें एक साधन जाल्ले परीं. (M. X. II., 843).

फ्रांसिस्क ते भायर कोडकारांच्या होस्पितालांनी आनी बंदखणिंनी वावुरतालो. असो आनीक कितलो काळ फ्रांसिस्क वावुरतलो आसलो तें आमी नकळो पूण पांच म्हयन्यां उपरांत मारतीन आफोन्स द सोज (1542–45) गोवेर्नादोरान ताका खारव्यांच्या किनाऱ्यार, दखीण इंडियेक धाडललो, जरी ताचे वांगडी आजून गोंयां शारांत पावूंक नासले. 1542 सेतेंब्रांत फ्रांसिस्क गोंयां शारांतलो भायर सरून गेलो आनी आपलें वावरा मळ दुसऱ्याच जाग्याचेर पावयलें. गोंयां

शारा आनीक तो वावुरचो ना, पूण कांय कारणांक लागून थोड्याच दिसांक तीन पावटीं गोंयां शारा परतून येतलोः देजेंब्र 1543, आब्रील 1548, नोवेंब्र 1548. फ्रांसिस्क गोवा शारांत वावरूंक पावलोच ना.

## 22. सांत पावलुची कोलेज

गोयच्या जुंव्यार नवीं क्रिस्तांवां जाल्लीं तांकां सोयरीं धायरीं आपल्या घरा घे नासली. पुर्तुगेज अधिकारीय तांची सूद घेनासले. ही दशा सुदारूंक गोंयच्या कातेद्रालातलो एक प्रवचन करपी पाद्री, फुडें सरलो. पुर्तुगेजां कडे बाप्तिज्मांत पोदोन मोदोन जांवक फुडें सरपाक मागले. त्या पाद्रिचें नांव दियोग द बोर्बा.

ते फुडे कोन्वेर्सावाचो वावर फुडें व्हरपाक '*सांता फे*' हें नांव दिवन एक '*कोन्फ्रारी*' स्थापली, आनी ही कोन्फ्रारी सांत पावलुच्या, अनभावार्थ्याच्या प्रेशिताच्या (आपोस्तोलाच्या) आसऱ्या खाल घाली. विगार जेराल, मिग्वेल वाज कुतीञ, एक गिरेस्त गृहस्थ आनी न्हय पाद्री, हाणे दियोग द बोर्बाक ह्या वावरांत आदार दिलो. देशी भुरग्यांक पाद्रिपणाचें शिक्षण दिवपाक आनी आपल्या गांवांत वावरूंक तयार करपाक एक शाळा वा कोलेज उगडूंक येवजिताले. कोस्मे आनेस हाच्या घरांत दियोगान पयली एक शाळा उगडली. तांतूं दोतोर्न, पुर्तुगेज आनी लातीन तो शिकयतालो. हे पयले विद्यार्थी इल्ले पुर्तुगेज शिकतच, कोंकणितल्यान भाशांतर करूंक उपकारताले. (Sch. II. 237). ते फुडें तिसवाडिंतले तेग फुडारी आनी महाजन बामण – कृष्णा, लोकू आनी गोपू – आनी गांवचे प्रतिनिधी वर्साक दोन हजार *tangas brancas* (तेदनाचे दुडू) दिंवक कबूल जाले. हे दुडू म्हळ्यार मोडलल्या देवळांच्या भाटांची येणावळ वा रेंद. मागीर चोडणेचो *लोकू*, जांवक पावलो *लुकास.* ताका पुर्तुगालाक परयान व्हेललो.

अशी येणावळ रुजू जातच रुवा द कार्रेरा दुश कावाल्युश ह्या रस्त्याशीं एक जमीन घेतली आनी शाळा बांदूंक सुरू केली. सुरवातेक फ्रांसिस्कांनी मठवाशी ते कोलेजींत शिकोवपाक कबूल जालले, पूण निमाण्या वेळार शेंपडी कवळून गेले. असल्या प्रसंगाक फ्रांसिस्क गोवा शारा पावलो. ते कोलेजिच्या स्थापणारांनी फ्रांसिस्काची इश्टागत केली. फ्रांसिस्क पारिसाचे सोर्बोन युनिवेर्सिदादिंतलो प्रोफेसर जावन आसलो. गोंयचे शाळेंत 60 विद्यार्थी आसले आनी बार्बोजा म्हणललो त्या भुरग्यांक शिकयतालो. बोर्बान फ्रांसिस्का कडे विनंती केली आनी फ्रांसिस्क इल्लो राजी जालो. अशी सां पावलुची कोलेज आख्या संसारांत जेज्वितांची पयली कोलेज जांवक पावली.

1542 सेतेंब्राचे 20 तारकेर एक चीट बरोवन हे शाळेची खबर फ्रांसिस्कान रोकडीच इनासाक, आपल्या वडिलाक, दिली. पूण ही शाळा हातांत घेंवचे आदीं फ्रांसिस्क गोंय शार सोडून दखीण इंडियेक गेलो. इतल्यान ओतुब्राच्या म्हयन्यांत पावल कामेरिनो आनी फ्रांसिस्कमान्सिल्यास गोंयां शारा पावले. तेदनां फ्रांसिस्क नासलो. गोवेर्नादोरान ती शाळा रोकडीच पोल कामेरिनो हाच्या ताब्यांत केली, आनी तो बाबडो ते शाळेंत 1560 वर्सा मर परयान वावुरलो. 1543 देजेंब्रांत शाव्येर गोंयां शारा परतलो आनी पावल कामेरिनो *सांता फे* कोलेजींत शिकयतालो तो ताका मेळलो. फ्रांसिस्क शाव्येरान फकत 1548 वर्सा ती कोलेज आपल्या ताब्यांत घेतली. तीन वर्सां उपरांत पुर्तुगालाच्या राजान फेब्रेराचे 20, 1515 तारकेर ती कोलेज सारकीच जेज्वितांक दिली (M.H.S.J. 72,p.182). हे कोलेजींत जायत्यो देशी दियोसेजानी पाद्री उत्पन्न जाले. 1556 वर्सा ते कोलेजींत 110 विद्यार्थी आसले. ते 14 वेगवेगळ्या देसांतले: आजियेंतले आनी आफ्रिकेंतले आनी थोडे पुर्तुगाली. देशी भुरगे आसले ते मलबारचे, कानाराचे, देकानचे, गुजाराताचे, बंगाळाचे आनी पेगुचे; तशेच चिनाचे, जापानाचे, जावाचे, मालाकाचे; आर्मेनी, काफ्री, मोयर आनी आबिसिनी (D.I.; IV,117). सां पावलुची कोलेज चल्ली 1759 वर्सा पासून, जेदनां पुर्तुगाली सरकारन जेज्वितांचे पलटणिचो नाश केलो. उपरांत 1761 वर्सा गोंयचे आर्चदियोसेजीन आपली सेमिनार उगडतली. ती सेमिनार आजून रायतुरा चालू आसा, सांत इनासाचे कोलेजींत.

सां पावलुचे कोलेजिची एक रेलीक आजून उरल्या ती ही. करेज्मांत जेजुच्या खांदार खुरीस दिवन काडतात तें पुरसांव, फ्रांसिस्क शाव्येराच्या काळा थावन येता, 1550 वर्सांतल्या पवित्र वर्सा थावन. जेजुच्या खांदार खुरीस दिवन पुरसांव भायर सरतालें सां पावलुच्या कोलेजिंतलें आनी शारांतल्या मुखेली रस्त्या वेल्यान भोंवतच सांत आगुस्तिनाचे इगर्जेंत पवित्र दोंगरार तें चडतालें *(Historia de Goa, Vol. II – Hist. Arquelogica por M.J. Gabriel de Saldanha 1926, p. 80).*

## 23. माणकां-मोतयां-मिरयां 1542

सेतेंब्राच्या म्हयनांत, उणेशे पांच म्हयने गोंयां शारा रावल्या उपरांत दखीण इंडियेक वचपाक फ्रांसिस्क भायर सरलो. वेचे आदीं, सेतेंब्राचे 20 तारकेर फ्रांसिस्कान तीन लांब चिटी सगळ्योच एकाच दिसा बरयल्यो. रोमाक आसलल्या

आपल्या भावाक चीट बरयल्ली तांतूं तो सांगता : गोवेर्नादोर म्हाका एका गावाक पाटयता जय हांव जायती क्रिस्तांवां करतलो म्हण सगळे सांगतात. म्हजे बराबर हांव त्या गांवच्या तेगा जणांक घेवन वेतां, तांतले दोग जण चीट आनी शुभवर्तमान वाचूक उपकारता तसले. ते आपले देशी भाशेवून पुर्तुगेज बरे जाणात. तिसऱ्याक फकत सकयल्या थराचे मुन्यारपण. हांव वेता त्या गांवचें नांव कन्याकुमारी.

हे तेग जाण कोण जायत? ते घडये तुटिकोरिनचे जायत आनी तांका भुरगेपणार गोयां शारा हाडून शिकयलले जायत. मानवेल आनी गास्पार हांकां याज्ञिकपणाची माखणी दिल्ली 1544 वर्सा, ते मुल्कान पारावा लोकांतले आसले जायत.

तुटिकोरिनच्या पारावा लोकाक बाव्तिज्म दिल्लो चडूच जाल्यार 1535-च्या सात वर्सां भितर ते दियाकोन जांवक पावले? तांकां पुर्तुगाली भाशेन शिक्षण दिल्लें?

## 24. पारावा लोक क्रिस्तांव जातात

पारावा म्हळ्यार कन्याकुमारी थावन रामेश्वरम् परयान दखीण किनाऱ्याक रावताले आनी आजून रावतात ते नुस्तेकार. थंयसरले राजा ह्या गरीब लोकाचेर जुलूम शाय चलयताले. हे खारवी दर्यात बुडून कालवां काडताले आनी ह्या कालवांनी माणकां मोतयां मेळतालीं, आनी ह्या माणकां मोतयांक बरेच मोल आसलें.

ते पासत आरबी व्यापाऱ्यांक ह्या किनाऱ्या वेलो वेपार धंदो जाय आसलो. कालिकत थावन (अस्तमती किनार) ते रामेश्वराक (उदेती किनार) आरबी वेपारी माणकां मोतयांचो, मिरयांचो आनी घोड्यांचो धंदो करी. भारती दर्यातलो वेपार धंदो आरब्यांच्या ताब्यांत आसलो. ह्या दर्यात अवचीत वास्को द गामा दिश्टी पडलो, आनी मायाचे 20,1498 तारकेर कालिकतचे खाडींत भितर सरलो. पुर्तुगेज आपल्या गांवदेसा सदांच आरबी मुसलमानाचे दुस्मान जावन आसले. सुमार सात शेंकडे मुसलमानांनी पुर्तुगालाक जुलूम चडयल्लो. ते पासत ते पुर्तुगेज वेपारी भारती समदिरांतले आरब्यांक वा मुसलमानांक नांच करूंक सोदी.

मुसलमान आनी तशेच देशी राजा पारावा लोकाक जायते त्रास दिताले, लडाय करताले. तांच्या वावरान आपूण गिरेस्त जांवक सोदी. असल्या प्रसंगाक एक दों जुवांव दा क्रूज म्हणललो त्या किनाऱ्यार पावून सरलो. तो आरबी घोडे विकून वेपार धंदो करी. तो आसलो कालिकतचो, आनी 1513 वर्सा तो

लिजबोवाक गेलो आनी थंय क्रिस्तांव जालो. क्रिस्तांव जावन आपल्या गांव घरा परततच कालिकतच्या राजान (जामोरिनान) ताका आपले चाकरे वेलो काडलो आनी ताचीं भाटां विटां काडून घेतलीं. जुवांव कणिश्टायेक सांपडतच, निस्तेकारांचे किनारेर पावलो थंयच्या पारावा लोकाक क्रिस्तांव जावन पुर्तुगेजांच्या आसऱ्या खाल रावात म्हण तो तांकां बूद दिंवक लागलो. वीस मुखेल्यांक जुवांवान कोचिनाक व्हेले आनी कोचिनाच्या कापितांव पेद्रू वाजाक दाकयलो. त्या दिसांनी मिग्वेल वाज, गोंयचो विगार जेराल कोचिनाक आसलो. ह्या दोगांय, सरकाराच्या आनी इगर्जमातेच्या अधिकाऱ्यांनी, त्या मुखेल्यांक खुशेन घेतले पूण हो प्रस्न गंभीर आसलो देखून पारावा लोकांचे आनीक प्रतिनिधी जाय म्हण सांगलें. एकलो पारावा गांवांत गेलो आनी 70 फुडाऱ्यांक कोचिनाक हाडले.



इतल्यान ही खबर मुसलमानांच्या कानार पडली, आनी हांणीं दोग मुखेल्यांक 8 माणकां, 20 हजार फानाम (दुड्डू) अमोलीक लुगटां घेवन कापितांवाक लोंच भरूंक कोचिनाक पाटयले. पूण कापितांव कान हालयना जालो (Ex. I, 281,7). कापितांवान म्हणलें : म्हजे उंचाये येदी परयान भांगराची रास तुमी म्हाका दिल्यार, तांचो बाव्तिज्म हांव बंद दवरचों ना. (Or.C.I.130).

अशें आसतां मिग्वेल वाजान, विगार जेरालान, 85 पारावा मुखेल्यांक बाव्तिज्म दिलो. जायत्या जाणांनी आपलें बऱ्या मागतल्यांचें आडनांव बाव्तिज्मांत घेतलें. आजून परयान त्या निस्तेकारांच्या किनाऱ्याक दा क्रूज आनी वाज म्हण कुटुंबां आसात. पुर्तुगाली तारवांनी तांकां घरा पावयले तांच्या बराबर विगार जेराल

आनी कोचिनाचो विगार, पेद्रू गोन्साल्वीस, हे दोगूय आपल्या बराबर तेग पाद्री घेवन गेले. ह्या पाद्रिंनी वीस खेड्यांनी बाप्तिज्म दिलो. त्या लोकाक शिक्षण दिवपाक, ते पाद्री तामीळ भास नकळो आसले देखून परतून कोचिनाक गेले. (Sch. II, 259-263).

ह्या कोन्वेर्सांवां वरवीं दोन गूण पडले : राजकी गूण, मन्नारच्या गल्फांतली मुसलमानी पदवी सदासर्वदा सोंपली. आनी दुसरो धार्मीक गूण, जेज्वितांक इंडियेक आपयले, तांतलो पयलो म्हळ्यार फ्रांसिस्क शाव्येर.

## 25. वेदलयाची लडाय

पारावा लोक क्रिस्तांव जावन, पुर्तुगेजांचे पांगींत पडतलो म्हण सगळ्यांक खबर आसलीच. माणकां मोतयांचो वेपार धंदो आतां पुर्तुगेजांच्या आदावाक पडतलो म्हण हिंदू राजा बरे जाणा आसले. कालिकतचो राजा वा जामोरीन, आनीक दुसऱ्या फुडाऱ्यांचो आदार घेवन, 1537 वर्साच्या सोंपत्यार 50 व्हडलीं झुजारी तारवां आनी 2 हजार झुजारी घेवन माणकांच्या वा खारव्यांच्या किनाऱ्यार गेले. पुर्तुगेजांक आपालिपा करीत ते कशेय तरी खारव्यांच्या किनाऱ्यार पावले आनी क्रिस्ती खेड्यांक वा गांवांक हल्लो वा आताक केलो. तांचीं होडीं आनी बोटी आपले सुवादीन केल्यो आनी तुटिकोरीन गांव चोरलो आनी ताका उजो घातलो आनी जायत्या नव्या क्रिस्तावांक कैदी केले आनी जिवेशीं मारले. हे जांवक जाय ते किनारे वेले पयले मार्तीर जर ते खरेच भावार्था पासत मेले म्हण सिद्ध करून दाकोवक जायत जाल्यार. उपरांत कालिकतचीं तारवां वेदालय म्हणतात ते खाडींत किलाकरय आनी रामेश्वरम गांवां मदें गेलीं आनी थंय इल्लो विसव घेंवक तीं तारवां थारलीं. हो विजय वा जैत सोपेपणी तांकां प्राप्त जालें देखून ते सगळे झुजारी खुशाल आसले. उपरांत ते सिलांवांक वा श्रीलंकेक वचूंक सोदी. वेदलय थावन श्रीलंकेक वचूंक दर्या वाट एकदम थोडी.

खारव्यांच्या वा माणकांच्या किनाऱ्यार कितें घडलां तें दों मार्तीन आफोंस द सोजा ह्या पुर्तुगाली दर्या कापितांवांक कळना फुडें, तो आपलीं तारवां घेवन दुस्मानाची पाट धरूंक धांवीं धांवीं गेलो. वाटेर बरें खूब वारें मार्तिनाक मेळलें ना आनी ते पासत तो आपलीं तारवां दुरुस्त करपाक परतो कोचिनाक गेलो. ही खबर वेदलय पावतच पाते मारक्कार, कालिकताचो कोपीत वा सरदार पोटभर हांसलो समजून दों मार्तीन भिरांतेन शेंपडी कवळून परतलो म्हण, पूण चड आर्दीच हांसलो.

जानेराचे 28, 1538 तारकेर दों मार्तीन द सोजा, हल्लो करूंक परतलो आनी वेदलय वचूंक तारवां बांदलीं. जानेराचे 30 तारकेर उजवाडचे आदींच दों मार्तिनाचे 600 मनीस थंय पावले आनी मातशे थारले. ती खबर मुसलमानांक कळना फुडें हांणीं आपले झुजारी रोकडेच तयार केले आनी त्या दर्या किनाऱ्यार एक मारेकार लढाय पेटली. लढाय बरी खर चलताली, दोनूय बाजू बऱ्यो घट आसल्यो. अवचीत मलबाराचो कोपीत, आंतोन्यु फेर्नांदिसान (Sch.II,467) दर्या देगेक आसलल्या तारवांक उजो घाल म्हण मार्तीन द सोजाक बूद दिली. जेदनां मुसलमानांनी आपल्या तारवांक उजो पेटललो आनी तांचो भस्म जातालो देकलो, तेदनां ते मुसलमान भिरांतीन पळून गेले आनी अशी पुर्तुगेजांक विजय प्राप्त जाली.

1538 जानेराची 30 तारीक ती, सकाळचीं 2 वाजतां लडाय सोंपली, जैत मेळलें. मुसलमानांचे तिगूय कोपीत 800 मोडीं आनी सगळो झुजाचो म्हाल दवरून पळून गेले. कालिकताच्या जामोरिनान शांती मागली (Sch. II, 264-265). पारावांक तांचीं तारवां परतून मेळलीं आनी पुर्तुगेजांनी झुजाचो म्हाल वा जिकून मेळललें तें सगळें गरिबांक वाटलें. आतां पारावा खारवी मुसलमानांच्या जुलुमांतले वाटावले आनी मन्नार उपसागरांतली (*Gulf*) मुसलमानी सत्ता सारी पुरी सोंपली.

ह्या जैताची खबर मागीर फ्रांसिस्क शाव्येरूच तुटिकोरीन थावन सुमार तीन वर्सां उपरांत, 1542 ओतुब्राचे 28-वेर एवरोपाक एक चीट बरोवन दितलो. (Ex.1,150 n. 4).

## 26. जेज्वितांक इंडियेक हाडची राटावळ

तुटिकोरिनाच्या पारावा खारव्यांक लागून, जेज्वीत इंडियेक पावले. पारावा खारवी क्रिस्तांव जाल्यात म्हण तारवट्यांनी पुर्तुगालाक 1538 वर्साच खबर पावयल्ली. आजून जेज्वितांची पलटण स्थापूंक नासली पूण तयार जाताली. 60 हजार खारवी क्रिस्तांवपणांत भितर सरल्यात म्हण जुवांव तिसऱ्याच्या कानांत पडलें, पूण हो आंकडो एकदमूच व्हडलो. राजान ती बरी खबर पापसायबाक कळयली पूण हे बाबतींत आजून इनासाचे भागेली भितर सरनांत जाल्यार मागीर कशे भितर सरले तर? घडलें अशें: दों जेरोनिमु ओजार्यु पारिसाचे कोलेजींत, फ्रांसिस्क शाव्येराचो सांगाती जावन आसलो. ताणें ही खबर दो. दियोग द गोवेया हाका कळयली, आनी हो आदीं सांता बार्बाराचे कोलेजिचो प्रिंसिपाल

जावन आसलो. हो प्रिंसिपाल पुर्तुगेजांच्या ताब्यांनी वा पुर्तुगेजांचे पदवे खाल पडलल्या गांवांनी पाद्री तयार करून धाडूंक भारी वावुरतालो. हाणे शिमांव रुद्रिगिसाक इंडियेक वच म्हण रोकडेंच बरयलें. इनासाच्या सांगात्यां मदें शिमांव एकलोच पुर्तुगेज जावन आसलो. हे चिटिचो जबाबूच मेळलो ना कित्याक ती चीट शिमांवाक पावलीच ना.

दुसरी चीट बरयली ती पेद्र फावरेक कित्याक हो त्या समाजाचो फुडारी जावन आसा म्हण तो समजलो. नोवेंब्राचे 23,1538 तारकेर फाव्रेन जबाब दिलो : ते सगळे सांगाती पापसायवाचे आदीन घातलले आसले, आनी पापसायब धाडता थंय वचूंक ते तयार आसले. इतलेंच न्हय असलीच मागणी पातशायानूय (Carlos V) अस्तमतेंत मिसांवाच्या नांवान (म्हणजे अमेरिकेक वचूंक) केल्ली. **(M.H.S.J., 22, p.132).**

ही चीट गोवेयान पुर्तुगेज राजाक दाकयली आनी आपल्या आदल्या विद्यार्थ्याची हिंसपा भायर व्हडवीक सांगली (M.H.S.J.,1935, p. 220).

राजान रोकडीच 1539 आगोस्ताचे 4 तारकेर आपल्या राजदुताक, दों पेद्रू मास्कारेञासाक चीट बरयली. ह्या राजदुतान कितें केलें आमी आदीं पळेलां. 6 मिशनरी मागलले, ते दोगूच मेळले, आनी निमाण्या वेळार इंडियेक धाडूंक शाव्येराक विंचून काडलो आनी असो तो त्या खारव्यांच्या किनाऱ्यार पावलो.

## 27. शाव्येराचो वावर

1542 ओतुब्रांत, शाव्येर आपल्या बराबर तेग देव मुनियारी घेवन खारव्यांच्या किनाऱ्यार, घडये मानापाड खाडींत, पावलो. दोन वर्सां सुमार शाव्येर माणकांच्या किनाऱ्यार आसलो. कसलो वावर करी? शिकयतालो, प्रवचन करी, घास घेवन वावुरतालो जसो खंयचोय एक मिशनरी आजून परयान वावुरता. आट वर्सां पाटीं पारावा खारव्यांक बाव्तिज्म दिल्लो, पूण धर्माची शिकवण त्या लोकाक कांय नासली. असल्या लोकाक शिक्षण दिंवक जाय आसले. गांव गांव भोवून फ्रांसिस्कान जायत्या भुरग्यांक, तशेंच जल्मलल्या बाळकांक, बाव्तिज्म दिलो. ताचे फाटल्यान इतलीं भुरगीं लागतालीं की ब्रेवियार रोजार करूंक, जेंवक वा न्हिदूंक फ्रांसिस्काक वेळ मेळनासलो. पिडेवंताचेर आशिर्वाद घालूंक फ्रांसिस्काक लोक आपोवन व्हरीत.

भुरग्यांक दोतोर्न शिकोंवक तामीळ भाशेत एक कातेसिस्म केलो आनी मागीर हींच मागणीं तो पाठ वा देकोर करून शिकतालो आनी उपरांत भुरग्यांक

शिकयतालो. हीं भुरगीं मागीर घरा वचून तीं मागणीं पिडेवंतांक आनी जाणट्यांक शिकयतालीं. (E.X. I, 147& 166).

मानापाड थावन फ्रांसिस्क रोकडोच तुटिकोरिनाक गेलो. वाटेर ताका येवजलें : इतलो वावर आपूण करतलो जाल्यार पयले सुवातेर सगळी दोतोर्न तामीळ भाशेंत घालूंक जाय. आनी हे पासत पुर्तुगेज आनी तामीळ जाणा आसलले मनीस ताणें सोदून काडले, आनी तांचे वरवीं भाशांतरां केलीं.

हीं भाशांतरां फ्रांसिस्क पाठ करून शिकतालो आनी हातांत एक कांपीण घेवन भुरग्यांक तशेंच जाणट्यांक एकटांय करून तांकां कातेसिस्म तामीळ भाशेंत शिकयतालो. हीं भुरगीं आपल्या आवय बापायक भावां भयणींक आनी शेजाऱ्या सामाऱ्यांक शिकयतालीं. (EX. I, 162).

## 28. राणयेचीं चिनेलां

अशी दोतोर्न शिकोवन शाव्येरान चार म्हयने तुटिकोरिनांत सारले. उपरांत तो दुसऱ्या गांवांनी गेलो. असो एक वरस अदीक, एकलोच वावुरलो. आपूण गांवांतलो भायर सरतच दर आयतारा लोकाक एकटांय करून दोतोर्न शिकोवपाक गांवच्या व्हडिलांक तो हुकूम दितालो. पूण ही मांडावळ बरी चलना जाली. देखून येत्या वर्सा ताणें कातेकिस्त दवरले, आनी तांकां फारीक करूंक लागलो. पूण दुडू खंयचे येतले? त्या किनाऱ्या वयलीं माणकां मोतयां विकून फायदो जातालो ताचो एक भाग पुर्तुगालाचे राणयेक वेतालो तो तिकां चिनेलां करूंक. हे दुडू राणयेक धाडचे वा कितले धाडचे तें गोवेर्नादोर थारायतालो. हांतले 4 हजार *'peças de oiro'* (भांगराचे नाणे) दों मार्तीन द सोजान फ्रांसिस्काक दिंवचे केले (E.X.I.,168). पूण ही देणगी सदांच दिवपाक राणयेची परवानगी मेळून घेंवक जाय आसली. फ्रांसिस्कान राणयेक सुचयलें: चिनेलां घालून सर्गाचे पांवडे तूं चडूंक सोदताय जाल्यार, तुज्या दुडवांनी सांबाळलल्या आनी शिक्षण दिवन वयर काडलल्या, खारव्यांच्या किनाऱ्या वेल्या भुरग्यां इतलीं उत्तम चिनेलां आनीक मेळचीं नांत. (M.X. II,852). असलीं मागणीं एक क्रिस्तांव राणी आयकनासताना कशी रावत? फ्रांसिस्काक दर वर्सा 4 हजार *फानाम* मेळले.

## 29. सामाजीक वावर

फ्रांसिस्कान सामाजीक वावरूय हातांत घेतलो. त्या गांवचो लोक जायतो सोरो पियेतालो. हें नश्ट कशेंय तरी नपयत करूंक जाय आसलें. कोण कोण

सोरो पियेताले तें पळेवपाक फ्रांसिस्कान पोलीस कशे थोड्यांक दवरले. दर एके बायलेक आर्राक सोरो पियेलली धरीत ताका एक *फानाम* आपूण दितलो म्हण फ्रासिस्कान आपल्या आदाऱ्याक सांगलें. गुन्यांवकारांक तीन दीस बंद करून दवरूंक येताले. ही खबर पुणायकायल गांवांतली.

## 30. परतून गोवा शारा : देजेंब्र 1543

फ्रांसिस्क 1542–43 वर्सा दखीण इंडियेक आसलो पूण गोंयची आजून ताका खबर मेळूंक नासली. मोजबीक आपल्या सांगात्यांक दवरलले तांचें कितें जालां ताची खबर फ्रांसिस्काक कोणेंच दिली ना. म्हणतच गोंयां परतून येंवक ताणें थारायलें. सुमार देजेंब्रांत 1543 वर्सा फ्रांसिस्क गोयां शारा पावलो आनी ताका आपले सांगाती थंय मेळले. तांकां गोवेर्नादोरान सां पावलुचे कोलेजींत मेस्तीर नेमलले.

हांगा फ्रांसिस्काक एरोपाच्यो चिटी मेळल्यो, एक इनासान बरयलली आनी दोन रोद्रिगिसान. हे चिटी वरवीं फ्रांसिस्काक गमलें जेजुची पलटण 1540 सेतेंब्राचे 27 तारकेर रोमाक स्थापली म्हण, आनी पलटणिचो सर्वव्हडील जांवक इनासाक 1541 आब्रिलाचे 8 तारकेर विंचून काडला म्हण. ही पयली वेंचणूक इनासान स्विकार केली ना देखून नव्यान वेंचणुको केल्यो आनी नव्यान इनासाक आब्रिलाचे 13 तारकेर विंचून काडलो आनी ती वेंचणूक फकत 19 तारकेर ताणें स्विकार केली, मागीर आब्रिलाचे 22 तारकेर पारिसाच्या पांच मिस्तिरिंनी जेज्वीत कशे आपल्यो आंगवण्यो दुरगा भायले सां पावलुचे बाज़िलिकेंत, रोमाक केल्यो. ही खबर आयकून फ्रांसिस्क एकदमूच खुशालकायेन भरलो. मागीर फ्रांसिस्कान आपल्यो आंगवण्यो गोयच्या बिस्पाच्या हातांत केल्यो. हे आंगवणिची एक प्रत आनी आपल्या सांगात्यांच्यो निशाण्यो एके तांब्याचे रेलिकारींत दवरून गोमट्यांत घालून फ्रांसिस्क भोंवतालो. ही रेलिकारी उपरांत शाव्येर मरतच, मेल्कियोर नुनेज ह्या जेज्वितांक मेळली ती एका तारवट्या कडे आसली खंय (Or. Con. I. 424).

## 31. नव्यान माणकांच्या किनाऱ्यार 1544

मानसिल्यास आनी दोग भारती पाद्री, हांकां आपल्या वांगडा घेवन, फ्रांसिस्क शाव्येर फेब्रेरांत, 1544, गोंय शार सोडून गेलो. एका पाद्रीक आपले बराबर आनी दुसऱ्याक आनी मान्सिल्यासाक आनीक दोन वेगळ्या गांवांनी दवरले. मान्सिल्यास आजून पाद्री जांवक नासलो आनी जेज्वितूय जांवक नासलो. आपणें

आदीं वावर केल्लो तसोच शाव्येरान मान्सिल्यासाक शिकयलो आनी शिडकायलो. एकेच सुवातेर रावूं नाका म्हण सांगलें पूण वेगवेगळ्या गांवांक भेट दिंवक लायली.

शेळयां थांय आपलो मोग आनी जतनाय दाकोवपाक आतां प्रसंग पावलो. दुसऱ्यांक करूंक लावपाक शिडकायतालो तें आतां आपुणूच करून दाकोवपाक वगत पावलो. आता फ्रांसिस्कान आपूण खरेंच बरो गोंवळी म्हण कर्तुबांनी दाकोवन दिवपाक फुरसत पावली.

चार हिंदू राजा पारावा लोकाक त्रास दिंवक फुडें सरले; दर्यांत त्या लोकाक वावरूंक दिना जाले. आरबी जुलुमदारांचीं पाकां आतां सारकींच मोडून पडललीं तें खरेंच, पूण पुर्तुगाली अधिकारीय त्या गरीब लोकाक त्रासांत घालूंक लागले. वादळ उप्रासलें दखिणेंतल्यान. बादागा (उत्तरेचे शिपाय, विजयनगरांतली फौज) म्हणललो भितरल्या गांवचो लोक येवन कन्याकुमारिचेर हल्लो केलो. दुर्बळ पारावा लोक आपल्या गांवांतलो भिरांतीन आपली होडीं बोटी घेवन लागशिल्या जुंव्यांचेर पळून गेलो, थंय जेवण पिवण नासताना मरणाचे तणीर पावताले. शाव्येर ह्या प्रसंगार एक वीर कसो उबो जालो. खूद वावुरलो, आपल्या आदाऱ्यांक चिटी बरयल्यो, निरोप धाडले. दुसऱ्या गांवांतलीं सगळीं होडीं तयार करून, पळून गेलल्या पारावा खारव्यांक उदक आनी खाण पावोंक जाय आसलें (Ex. I. 207. 212). सगळ्यांनी दुस्मानाचेर दीसरात पारो करून दोळो दवरूंक जाय आसलो आनी भावार्थ्यांक रोकडेंच कळीत करूंक जाय आसलें. (E. X. I. 214). अशी सवस्ताय दखिणेक परतून आयली. पूण उत्तरेक तुटिकोरीन गांवाचेर हल्लो केलो. शाव्येराचे ध्यान मन ते वाटेंतल्यान आतां वळून गेलें. एक कोंबी जाल्ले भाशेन फ्रांसिस्क आपल्या पाकाट्यां पोंदा आपल्या भुरग्यांक आसरो दिंवक वावुरतालो. पुर्तुगेजूय त्या दुर्बळ लोकाक त्रास दितात तें पळेवन फ्रांसिस्काचें काळीज दुखावतालें आनी रडतालें. हे दुखीन आनी खंतीन भरून, आनीक आपले लागीं करूंक जांवचें ना म्हण चिंतून त्या गांवांतलो भायर सरूंक ताका ताळणी येताली. इंडिया सोडून तो आबिसिनियेक (आफ्रिकेक) वचूंक चिंततालो (E. X. I, 235) इंडिया सोडून जपानाक वचूंक सोदता म्हण ताणें जुवांव राजाक एक चीट बरयली, (E. X. I., 61) पूण राजान जपानाक परयान वचूंक आनी थंय रावूंक मजत दिली (E. X. II, 273).

**32. अपरूब वरस**

पाद्र फांसिस्क शाव्येराच्या जिवितांत 1544 वरस जावन आसा *annus mirabilis* (अपरूब वा विचित्र वर्स), तशेच पुर्तुगालाच्या जुवांव III राजाच्या आनी पवित्र सभेच्या जिवितांत. त्या वर्सा फेब्रेरांत मान्सिल्यासाक वांगडा घेवन, फ्रांसिस्क शाव्येर गोयां शारा थावन नव्यान माणकांच्या वा खारव्यांच्या किनाऱ्यार परतून गेलो. त्या वर्सा त्या नव्या क्रिस्तांवांक दोतोर्न शिकोंवची शिकोवन, बाडागा लोक पारावा लोकांचेर धाड घालतालो तांतले, जायते त्रास घेवन आनी घास काडून, जुनाच्या म्हयन्यांत पारावांक वाटायले. तशेच तुटिकोरिनाचो पुर्तुगाली कोपीत जबरदस्ती करतालो तांतलेय त्या पारावा लोकाक राखले. त्या वर्सा सेतेंब्रांत शाव्येरान एका मुनियाऱ्याक कारिया लोकाक बाव्तिज्म दिवपाक पाटयलो. तांतले 600 जण देजेंब्रांत मन्नार जुंव्यार, श्रीलंके लागींच, रगत वारोवन आपल्या नव्या भावार्थाची साक्षी दितात. आनी शेकीं त्या वर्सा नोवेंब्रांत तेरा खेड्यांनी मानाकुडी परयान त्रावांकोर किनारेर शाव्येर खूद आपल्या हातांनी मुक्कुवा लोकांक बाटयता.

ह्याच वर्सा श्रीलंकेंत, (शिलांवांत) कोटे गांवांतल्या भुवानेका वाहुच्या दोगां पुतांक बाव्तिज्म फावो जालो. तांतलो एक, म्हालगडो तो, मार्तीर जांवक पावलो – तांच्याच बापायन ताका कातोल्क भावार्थाक लागून जिवेशीं मारलो. त्याच वर्सा जाफनाचो (शिलांवांक) कुंवर, जो कायद्यान राजाच्या शिंवासनार चडूंक सोदी, ताणें पुर्तुगेज आपल्याक शिंवासनार बसयतीत जाल्यार क्रिस्तांव जांवक भास दिली. आनी शेकीं कांडिचो (शिलांव) राजान मिशनरी मागले.

ह्या सगळ्या कौतुकांनी शाव्येराक व्हड खुशालकाय दिली. 1544 वर्सा एका पुर्तुगाली अधिकृत वावराड्यान सुपा आनी सियांव ह्या गांवच्या राजांक बाव्तिज्म दिललो आनी ताचे बराबर तांच्या रैतांनी माकासार आनी सेलेबेस गांवांनी बाव्तिज्म घेतलो. आपल्या रैतांक आनी अदीक खोल शिकोवण दिवपाक त्या राजांनी मिशनरी पाद्री मागले. त्याच वर्सा जेदनां अरबी आनी तुर्क आबिसिनिया (आफ्रिकेक) देसाचें निसंटन करूंक सोदी पुर्तुगेजांनी त्या देसाक वाटायले. असलें अपरूप आनी कौतूक वरस पुर्तुगालाक आनी इगर्ज मातेक खंय मेळत?

ह्या सगळ्या कौतुकांची खबर दिंवक कोचिनाक थावन जुवांव तिसऱ्या राजाक, शाव्येरान एक चीट बरयली आनी ताचेर तारीक आसा जानेर 20, 1545. हे चिटी परमाणें जरी पुर्तुगाली राजान ताचेर जायते उपकार केल्ले कोटेच्या राजान

पाटी पावल मारले आनी क्रिस्तांवपण नाकारलें. हाची खबर मिग्वेल वाज, विगार जेराल, राजाक बारकायेन सांगतलो कित्याक तो पुर्तुगालाक वेतालो.

## 33. एवरोपाक खळखळ

तारवां पुर्तुगालाक वचपाचीं आसलीं. ते पासत जानेराचे 27, 1545 तारकेर शाव्येरान एकाच दिसा तीन चिटी बरयल्यो; एक शिमांव रुद्रिगिसाक, आनी दोन एस्पानी (कास्तेलानी) भाशेन, एक इनासाक आनी दुसरी रोमाक आसलल्या आपल्या भावांक. ह्यो दोन चिटी उगत्यो धाडल्यो रुद्रिगिसान त्यो वाचपाक आनी उपरांत रोमाक पावत्यो करपाक (Ep. 49, n.1). रोमाच्या भावांक बरयलले चिटीन (Ep. 48) एवरोपाक बरोच खळखळ केलो.

जीं सगळीं अपरूप कौतुकां 1544 वर्सा घडलीं तांची खबर शाव्येरान हे चिटींत दिल्लीं. तारवाचेर आसलल्यांक मिग्वेल वाजान सगळी खबर दिली. ते आदीं वेगान धांवत्या तारवां उदेशीं त्यो खबरो रोकड्योच लिजबोवाक पावयलल्यो. उपरांत 1545 सेतेंब्राचे 18 तारकेर तारवां लिजबोवा पावलीं तेदनां मिग्वेल वाज आनी ती चीट त्या खबरांची बारिकसाण दितलीं .

ती उगती चीट पुर्तुगाली राजान वाचली आनी ताच्या राजवाड्यांत सगळ्यांक भोव खुशाली भोगली. असली खबर आदीं राजान केदनांच आयकूंक नासली. ही खबर सगळ्या इगर्जांनी पुलपुत्रार थावन परगटपाक राजान फर्मायलें. कोयिंब्राचे उनिवेर्सिदादींत जेज्वीत विद्यार्थी शिकताले तांकां सरकारी दुडवांची मदत मेळताली, ती शेंबर जणांक दिंवची म्हण राजान आपल्या पोतेकाराक वा भांडाऱ्याक हुकूम घातलो, आनी येत्या वर्सा बारा जेज्वितांक इंडियेक धाडूंक फर्मायलें (M.H.S.J. 22, p. 392).

ती चीट कोयिंब्राक ओतुब्राचे 19 तारकेर पावली, उनिवर्सिदादिचो रेयतोर आपूण ही युनिवर्सिदाद सगळीच इंडियेक व्हरपाक तयार आसा अशें म्हणूंक पावलो. ही चीट लातीन भाशेन उतरायल्ली (M.H.S.J.48,p.408) आनी दोनूय भासांनी त्या चिटिंच्यो प्रती सगळ्या जेज्वितांच्या इश्टांक आनी बरें मागप्यांक वांटल्यो.

फावरेक ही चीट माद्रीद शारा (एस्पान्याक) आसताना मेळली आनी तो उर्बेन भरून आपल्या इश्टाच्या आधाराक वचूंक सोदी (M.H.S.J. 48, p. 372). एसपान्याच्या फिलीप राजान ही चीट एस्पानी भाशेन वाचली. नोवेंब्राचे 19 तारकेर, फावरेन त्यो मूळ चिटी रोमाक पाटोवन दिल्यो आनी तांच्यो प्रती

बोबादिल्याक कोलोन (जेर्मानाक) शारा धाडल्यो (M.H.S.J.46,p.75). सर्व शेकीं त्यो चिटी रोमाक 1545 वर्साच्या सोंपत्यार पावल्यो, आनी त्यो रोकड्योच इतालियानी भाशेंत उतरायल्यो. तांची एक प्रत पारिसाच्या जेज्वीत विद्यार्थ्याक 1546 जुनाचे 17 तारकेर पावती केली. दो. दियोग गोवेया, जो पयल्या जेज्वितांक इंडियेक धाडपाक वावुरललो, एकदम उरबेन भरलो. फ्रांसेज भाशेन उतरावणी केल्ली तिका दियोगान आपली मान्यताय दिली (M.H.S.J., 67, p.157). लुवेन उनिवर्सिदादीक (बेल्जिका) धाडलली ती प्रत 1546 मार्साचे 24 तारकेर पावली.

लायिनेज तेदनां त्रेंत विश्व-सभेंत आसलो. विश्व सभेचो एक अध्यक्षक, कार्दियाल सेरवानीन ती चीट जेवणाच्या वसऱ्यांत वाचूंक लायली. हो कार्दियाल उपरांत (1555) मार्सेलस दुसरो हें नांव घेवन पापसायब जांवक पावतलो.

पुर्तुगाली राजान 1546 फेब्रेरांत ती चीट पाप सायबाक धाडली. रोमाक आसलल्या पुर्तुगाली राजदुतांक इंडियेची सगळी खबर दिवन एक सुपुरली पुस्तिका छापून काडली आनी ते चिटिचे भाग तांतूंत घातले.

ही चीट वाचून इनास कितलो खुशाल जालो तें सांगची गरज ना. ते चिटीक इनासान 1546 मार्साचे 24 तारकेर जबाब दिवक लायलो. मार्तीन लुथेराक लागून थोडो एवरोपी लोक कातोल्क इगर्जमातेंतलो भायर सरलो ताची भरती फ्रांसिस्क उदेंतेक करतालो म्हण इनासाक दिसलें.

त्या काळार खबर सडसडीत वितरावपाक, दैनीक वा दिस्पट्टीं पत्रां नासलीं, रेडियो नासलो, दूरदर्शन नासलें, एकूच उपाय आसलो तो हातांत चिटी बरोवप आनी त्यो चिटी मागीर तारवां वेतात तेदनां धाडताले आनी सगळ्यांच्या फायद्याक पडतात तसल्यो खबरो आसात जाल्यार त्या चिटिंच्यो प्रती करीत आनी इश्टां मदें वांटताले, आनी हाका लागून एक एक चीट पावूंक वर्स परयान लागतालें. आज विमानां आसात वीज गाडयो आसात देखून थोड्याच दिसांनी चिटी एका देसांतल्यो दुसऱ्या देसांत पावतात. शाव्येराच्या काळार आनी मळार असलें कांय नासलें.

**34. कसल्यो खबरो एवरोपाक पावलल्यो?**

कन्याकुमारी किनारेर तीन जातिंचे खारवी लोक आसले: i) पारावा ii) सेरेया आनी iii) मुक्कुवा. पारावा खारवी पयलीं क्रिस्तांवपणांत भितर सरले आनी ते पासत दुसरे खारवी तांचे शेजारी, क्रिस्तांवपणांत भितर सरूंक खुशी दाकयताले.

### i) कुक्कुवा लोक

हो लोक त्रावांकोर गांवांत वो राज्यांत रावतालो. एका म्हयन्या भितर शाव्येरान धा हजारां वयर दादल्यांक, बायलांक आनी भुरग्यांक बाव्तिज्म दिलो. त्या नव्या क्रिस्तावांक शाव्येर दोतोर्न शिकयतालो – सांता खुर्साची कुरू, आमच्या बापा, नमान मारिये आनी हेर. हीं सगळीं मागणीं शाव्येरान दोन वर्सां पाटीं तामीळ भाशेंत घातललीं आनी तीं देकोर वा पाठ करतालीं. कुम्सारूय जांवक शिकयतालो. दर एकल्यान खुशी दाकयल्या उपरांत, बाव्तिज्म दितालो आनी बाव्तिज्म दिल्या उपरांत तांकां नांवां दितालो पुर्तुगेजितल्यान पूण तामीळ अक्षरांनी बरोवन. मागीर कुड्ड्यां देवांचीं देवळां मोडूंक लायतालो. एका एका गांवांत वचून फ्रांसिस्क दोतोर्न शिकयतालो आनी ती बरोवन त्या गांवांत दवरतालो. आपूण त्या गांवांतलो भायर सरून वेतच, ती दोतोर्न दर दिसा म्हणूंक जाय आसली, सकाळीं आनी सांजेर.

हें काम शाव्येरान 1544 देजेंब्राची 15 सावन सुमार एक म्हयनो भर केलें (E.X.I. 244). अशी दोतोर्न शिकोवन शिकोवन मानाखुडी, निमाणो गांव, हांगा पावता म्हणसर, मान्नारच्या मार्तिरांची खबर शाव्येराच्या कानार पडली. मार्तीर क्रिस्तांवपणाची गवाय दिता तें खरें पूण दर एक राजा असो नव्या क्रिस्तावांक मारून मारून वचत जाल्यार क्रिस्तांवपण कशें किर्लतलें आनी वाडतलें. ह्या राजाक कसली तरी ख्यास्त लांवक जाय, अशें चिंतून शाव्येर गोंयां गोवेर्नादोराक ही खबर सांगूंक धांवून गेलो. गोवेर्नादोरान शाव्येराची येवजण मान्य केली आनी त्या नश्ट्या राजाक ख्यास्त लांवक एक *लडायान* (लडाय करची तारवां यात्रा) करात म्हण सांगून दखिणेक आसलल्या पुर्तुगाली कोपितांक हुकूम दिलो (Or.Con.c.2.d.1.,p.25) पूण हें लडायान जालेंच ना. हें लडायान करची खात्री आनी चीट घेवन शाव्येर परतलो आनी 1545 वर्साचे सुरवातेक कोचिनाक पावलो.

### ii) मन्नारचे रगतसाक्षी

मन्नार म्हळ्यार श्रीलंकेक तेंकून एक सुपुरलो जुंवो, आनी तो जाफनाच्या राजा खाल आसलो. मन्नारच्या लोकान क्रिस्तांव जांवक खुशी दाकोवन शाव्येराक आपोवणें केलें. शाव्येरान एक क्लेरीक वा मुनियारी धाडलो (घडये जायत जुवांव द लिजानो). हाणें त्या लोकाक बाव्तिज्म दिलो पूण ह्या कर्तुबाक लागून जाफनाच्या राजाचो राग पेटलो – चेकाराजा सेकरम् त्या राजाचें नांव. त्या

राजान मन्नारच्या जायत्या नवक्रिस्तांवांक, ते क्रिस्तांव जाल्यात देखून, जिवेशीं मारले. पयल्या क्रिस्तांवां मदे मार्तीर मेल्ले म्हण पयलीं शाव्येर खुशाल जालो.

ही खबर इंडियेच्या राजपालाक वा गोवेर्नादोराक कळना फुडें, तो चड चिंतेस्त जालो आनी शाव्येरान ताका ह्या कर्तुबाची बारिकसाण दिल्या उपरांत, ताणें आपल्या कोपितांक तारवां तयार करून त्या राजाक धरून नांच करपाक आज्ञा घाली. मागीर गोवेर्नादोराचो राग इल्लो न्हिवत म्हण शाव्येरान दुसरी मांडणी येवजून दिली; त्या राजाक एक भाव आसलो, आनी तो आपल्या राजा भावाक भियेवन तो आपल्याक जिवेशीं मारीत म्हण राज्या भायर निवास करतालो. हो भाव त्या राज्याचो कायदेशीर राजा जावन आसलो. आपल्याक गोवेर्नादोर शिंवासनार चडयत जाल्यार, ह्या भावान आपूण, आपणाचे मनीस आनी रैत क्रिस्तांवां जातलीं म्हण खात्री दिल्ली.

त्या नश्ट्या राजाक शिंवासना वयलो निकळांवक आनी गरज पडल्यार मारूंक परयान गोवेर्नादोरान आपल्या कपतानांक आज्ञा घातली, आनी ताच्या भावाक शिंवासनार चडूंक लायलो.

**iii) शिलांवाचो एक मार्तीर कुंवर**

कोटेचो मुकुटायललो कुंवर, जुगो नांवाचो, क्रिस्तांव जांवक सोदी, पूण ही खबर राजा बापायच्या कानार पडना फुडें, ताणें आपल्या पुताक मारलो. ह्या कुंवराक मारलो तेदनां, हाजीर आसलल्यांनी अंतराळार एक उज्याचो खुरीस देकलो आनी ताका मारलली ती जमीन खुरसाच्या आकारान उगती जाली; आनी ह्यो खुणा देकलले ते अनभावार्थी क्रिस्तांव जांवक फुडें सरले. ह्यो खुणा पळेवन, कुंवराचो एक भाव बाव्तिज्म मागूंक लागलो आनी थंय आसलल्या पाद्रिंनी ताका बाव्तिज्म दिलो. हें आखें राज्य एक दीस क्रिस्तांव जातलें म्हण शाव्येर रावतालो, बाव्तिज्म घेतललो तो कुंवर मागीर गोवेर्नादोराक मेळूंक गेलो ताचो आदार सोदपाक, कित्याक तो आपल्या बापायक भियेतालो.

**iv) माकासारच्या राजांक बाव्तिज्म दितात**

माकासार म्हळ्यार एक पयशिल्या जुंव्यां वेलो गांव. आट म्हयन्यां फाटीं थंयच्या तीग धनयांनी आनी जायत्या लोकांनी बाव्तिज्म घेतललो. ह्या धनयांनी आपल्या लोकाक शिक्षण दिवपाक मिशनरी मागले आनी थंयच्या कोपितांनी कांय मुनियारी पाटयले. फ्रांसिस्क इतले उंच आंवडे खेळयतालो की त्या वर्सा 100 हजारां वयर नवे क्रिस्तांव करतलो कशें ताका दिस. हो येदो महिमेवंत आनी

आनंदवंत वावर चालू दवरपाक पुर्तुगाली राजा आनीक मिशनरी धाडतलो म्हण शाव्येर आस बाळगितालो.

### 35. मैलापुरा

एवरोपाक चिटी बरोवन धाडल्या उपरांत, पाद्र फ्रांसिस्क खारव्यांचे किनारेर गेलो ना, ना म्हण आपल्या नव्या क्रिस्तांवांक, मुक्कुवा लोकांक, भेटूंक गेलो ना. जाफनाच्या (शिलांव) राजाचेर लढाय करूंक जाय म्हण सांगून गोंयच्या राजपालान वा गोवेर्नादोरान दखीण बंदिरांतल्यान कोपितांक चिटी दिल्ल्यो त्यो फ्रांसिस्का कडे आसल्यो. त्यो घेवन तारवार बसून फ्रांसिस्क क्विलोनाक, कोलंबाक आनी नागपटमाक गेलो. फ्रांसिस्काक जाफनाच्या राजाक ख्यास्त लायल्ली जाय आसली. नागपटमाक आसताना फ्रांसिस्काक कळून आयलें की असल्या आक्रमणाक धाडूंक तेदनां घड नासलें. म्हणतच तो आतां खारव्यांचे किनारेर वचूंक येवजिता. वारें आड मारतालें.

नागपटमाक थावन फ्रांसिस्कान मान्सिल्यास हाका, एक चीट बरयली. गोंयां शारा हाका रिगीच याझिकपणाची माखणी फावो जाल्ली. हे चिटी वरवीं फ्रांसिस्क मान्सिल्यासाक मिशनरी वावराची ओड लावपाक दखिणेक आपोंवक सोदतालो. फ्रांसिस्क दुसऱ्या गांवांत – मोलुक्का जुंव्याचेर वचूंक सोदी. मोलुक्का जुंव्यांचेर नवीं क्रिस्तांवां आसलीं तांकां शिकोवण दिंवक पाद्री नासले; त्या प्रस्नाचेर फ्रांसिस्काचें मन धुंवतालें. मालाकाचोय उगडास फ्रांसिस्क करतालो. थंयचो लोक क्रिस्तांव जांवक सोदतालो पूण तांचें मदें वावरूंक मुनियारी वा वावराडी नासले, आनी ते पासत क्रिस्तांवांचो आंकडो वाडत वच नासलो. मालाका वेचें वा ना त्या वयर फ्रांसिस्क फाटीं फुडें सरतालो. माकासार जुंव्याचेरूय फ्रांसिस्क वचूंक सोदी कित्याक थंय निकतींच जायतीं जणां क्रिस्तांवपणांत रिगललीं. थंयच्या राजान पाद्री मागून मालाकाक विनवणी केल्ली. इतलो वावर पळेवन आनी तो करूंक कोण ना देखून, फ्रांसिस्क सारकोच चडफडतालो आनी मिरमिरतालो. (E.X.I,284).

हें सगळें बरे भाशेन चिंतून आनी नियाळून पळेंवक इल्ली फुरसत जाय आसली. ते पासत त्या वर्सा मायाच्या म्हयन्यांत फ्रांसिस्क शाव्येर मैलापुरा गेलो आनी सांत तोमास प्रेशिताच्या (आपोस्तलाच्या) फोंडाशीं वा समाधिंशीं थोडे म्हयने ध्यान नियाळ करून सारले. आगोस्त पासून फ्रांसिस्क मैलापुरा आसलो.

मायाचे 8 तारकेर फ्रांसिस्कान बोर्बाक आनी पावलूक गोंयां एक चीट बरयली, आनी तांतूं फ्रांसिस्काचें मन आमकां उगतें जाता. फ्रांसिस्कान मोलुका जुंव्यांचेर वचूंक निर्णय घेतललो. ही एक खुशालकायेची खबर पूण दुसऱ्या अर्दान जाफनाच्या राजाक ख्यास्त पडली ना म्हण ताका दूख भोगतालें. जाफनाच्या शिंवासनार नव्या राजाक बसयल्लो जाल्यार, तो राजा, ताचे बराबर ताचे रैत क्रिस्तांवपणाक वेंग मारतले आसले. तें लडायान वा झुजारी दर्या यात्रा बंद दवरची पडली कित्याक पेगू थावन पुर्तुगाली राजाचें तारूं येतालें तें वाटेर अडचणेक सांपडलें, आनी जाफनापटनाच्या राजान तें धरलें आनी पकडलें, आनी सगळो म्हाल चोरून व्हेलो. हो म्हाल परतून दिले बगर गोंयच्या गोवेर्नादोराचो हुकूम पाळूंक दखिणेचे कोपीत कबूल नासले. जर लडाय केल्ली जाल्यार तो म्हाल परतून मेळची आशा परयान बिगडतली आसली. तरीय ते लडायान एक दीस जायत म्हण फ्रांसिस्क आशेवन आशेतालो.

मैलापुरा आसताना फ्रांसिस्क देवा लागीं ताची खुशी कितें ती जाणा जांवक उजवाड मागतालो. मालाकाक आपणें वचुंकूच जाय ही देवाची खुशी कशी ताका दिसली. थंयच्या नव्या क्रिस्तांवांक शिकोवण दिंवक जाय आसली. ते पासत दोतोर्निचे पैक भाशांतर करपाक वा त्या लोकांचे भाशेंत घालपाक फ्रांसिस्कान येवजिलें.

तेदनां फ्रांसिस्क द मान्सिल्यास आनी मलबारचे दुसरे पाद्री कन्याकुमारिच्या क्रिस्तांवां मदें वावुरताले. चार म्हयन्यां वयर फ्रांसिस्क मैलापुरा रावलो. मालाकाक वचूंक तो तयारी करतालो. पुर्तुगाली तारूं मेळना जाल्यार, कोणाच्याय तारवार, मोयरांच्या वा अनभावार्थ्यांच्या परयान, फ्रांसिस्क वचूंक राजी आसलो. इतले म्हणसर, जो निरोपी गोंयां धाडललो गोवेर्नादोराच्यो चिटी घेवन परतलो. ह्यो चिटी मालाकाच्या कोपिताक बरयल्ल्यो. हाणें फ्रांसिस्काक तो मालाकासर वेता तेदनां सगळो आदार दिंवक. ह्या निरोप्यान एक सुपुरलो ब्रेवियारूय फ्रांसिस्काक हाडून दिलो. (E.X. I, 293).

मैलापुरा आसताना फ्रांसिस्क आपलें मुनियारिपण त्या लोकां मदें चलयतालो. थंयच्या विगारान फ्रांसिस्काक आपोस्तोलाच्या हाडाचो एक कुडको दिलो आनी ही रेलीक फ्रांसिस्क मर पासून आपल्या गोमट्यांत घालून भोंवलो. फ्रांसिस्कान एका पुर्तुगेज वेपाऱ्याक बऱ्या मार्गार हाडलो. हाणें आपलें नवें तारूं विकलें आनी सगळो फायदो गरिबांक वांटलो आनी शाव्येरा वांगडा आंबोयना जुंव्यार गेलो, आनी उपरांत फ्रांसिस्कन मठवाशी जालो. ताचें नांव जुवांव देयरु.



सर्व शेवटीं पाद्र फ्रांसिस्काक राजाचें एक तारूं मेळलें, तांतूं तो कालिकत बंदिरांत चडलो, आनी मालाकाक सुमार 1545 आगोस्ताच्या सोंपत्यार गेलो (Sch. II, 612-603).

## 36. मोलुका जुंव्यांचेर 1545

मैलापुरा थावन एका म्हयन्याची दर्या यात्रा केल्या उपरांत, शाव्येर सेतेंब्राच्या सोंपत्यार मालाका पावलो. फ्रांसिस्क लोकाक शिटकायतालो, प्रवचन करी, आनी पिडेवंतांची निगा घेतालो. तरूय मलेय भाशेंत मागणीं उतरांवक फ्रांसिस्काक वेळ मेळलो. मलेय मोलुका जुंव्यांतल्या लोकांची साधारण वा समेस्तांची भास जावन आसा.

पूण अवचीत सेलेबेस जुंव्यांर माकाजा गांवांत राजकी गडबड जाता म्हण खबर आयली. ते पासत फ्रांसिस्क, ह्या बदला आंबोयना जुंव्यार गेलो (फेब्रेर 1546), आनी थंय थावन तेरनाते आनी मोरोताय जुंव्यांचेर. ह्या जुंव्यां वेल्या लोकांक तो गीत गायनां घडोवन दोतोर्न शिकयतालो (E.X.I.377).

थंयचे दर्या सदांच संकटांचे जावन आसले, आनी होडीं वा पातमारी अस्कत वा हलक्यो. एक दीस तो आंबोयना थावन दर्यातल्यान भायर सरलो आनी वाटेर

मोड उप्रासलें. हें मोड थंडावपाक ताणें आपल्या गोमट्यांतलो क्रुसिफिक्सूच काडलो, आनी तो त्या उंचाबळ जाल्ल्या दर्यांत बुडयतालो तेदनां तो क्रुसिफिक्स ताच्या बोटांतलो सुटलो आनी बुडलो. फ्रांसिस्क एकदमूच उदास आनी चिंतेस्त जालो. मागीर दुसऱ्या दिसा सेराम जुंव्याचे किनारेर फिरय मारतालो तेदनां ताका आनी ताच्या वांगड्यांक एक विचित्र कुर्लो नदरेक पडली आनी ती तांचेशीं येताली तिच्या धांवळ्यांनी तो क्रुसिफिक्स आसलो. शाव्येरान दिंबी मारली आनी ते कुर्ले कडसून तो क्रुसिफिक्स घेतलो आनी तसोच मागण्यान बुडोन उपकार आटोंवक लागलो. (M.H.S.J. M.S.II,144, 713, 782, 783).

## 37. इंडियेक परतता 1547

1547 पास्कांची परब जातच, फ्रांसिस्क इंडियेचे वाटेक लागलो. आपल्या बराबर तीग देशी चेड्यांक तो हाडतालो, तांकां गोंयचे सां पावलुचे कोलेजींत शिकोवपाक आनी उपरांत तांकां याज्ञीक (पाद्री) वा कातेकिस्त करपाक. मालाका पावतच फ्रांसिस्क एकदम खुशी जालो कित्याक थंय ताका तीग जेज्वीत मेळले. ते मोलुका जुंव्यांचेर वचूंक रावताले आनी असो फ्रांसिस्कान त्या नव्या मिशनरींक मिशनरी वावर कसो करचो ताची वळक दिली, आपल्यो येवजण्यो कळयल्यो, मार्गदर्शन दिलें आनी खुशाल जालो.

मालाका आसताना एक विचित्र घडणी घडली; तसल्यो घडण्यो दुसऱ्या सांतांच्या जिवितांत आर्दीं घडलल्यो आसल्यो. पयशिल्यो वस्तू लागींच आसलल्या भाशेन ताका दिसल्यो. त्या दर्यांत दर्या डाकू वा चोर आसले तांणीं एके रात्रीं मालाका बंदराक हल्लो वा आताक केलो. आगोस्ताच्या सोंपत्यार, पुर्तुगाली तारवां त्या दर्या चोरांचे फाटीक लागलीं. चाळीस दीस ह्या तारवांची खबरूच नासली आनी मालाकाचो लोक हुसक्यांत आसलो. देजेंब्राचे 4 तारकेर फ्रासिस्क सदांचे भाशेन प्रवचन करून आपल्या शेळयांक देवाचेर विस्वास दवरात म्हण उपदेस करतालो. ताका एक दर्शन दिश्टी पडलल्या भाशेन अवचीत फ्रांसिस्क बंद पडलो.

"हांगा बायलो आनी दुसरीं जणां आसात जीं नशीब विचारूंक पारक्यांगेर आनी घाडयांगेर वेतात, आनी हे आमच्या तारवांचो भस्म केलो, आनी तांचे घोव सगळे मेले म्हण सांगतात. हें करचे बदला तांणीं आर्गां दिवन आपलीं काळजां देवाक उबारूंक जाय आसलीं आनी दिनवासून एक आमच्या बापा आनी एक नमान मारिये म्हणूंक जाय आसलीं, कित्याक हांव तुमकां सांगतां आज, ह्याच

दिसा आमच्या तारवांक एक व्हड जैत प्राप्त जालां, आनी दुस्मानांची दुस्पट जाल्या." (M.X. II, 225, 1057).

थोड्याच दिसांनी त्या तारवां वेलो एक निरोपी पावलो. लोकांच्या उरपंजिनी ताका वेढो घातलो आनी तें जैत खंयचे तारकेर आनी दिसा मेळलां तें विचारूंक लागले. शाव्येरान आदीं फुडेंच सांगललें तशेंच सगळें घडललें. अशेंच 25 वर्सां उपरांत 1571 ओतुब्राचे 7 तारकेर सांत पियूस V मुसलमानांच्या तारवांचेर क्रिस्तांवांनी लेपांतो खाडींत जैत व्हेलें तो दीस आनी हार परयान कळीत करतलो.

## 38. जपानाक दार उगडता

मालाका आसताना फ्रांसिस्कान जपाना कडे संबंद जोडलो आनी ह्या कारणाक लागून तो एक दीस जपानाक पावतलो. वादळ मोड समदिरांत जालें देखून, एक पुर्तुगाली तारूं एका जपानी जुंव्यार पावलें. ही खबर 1542 वर्सांतली. ही खबर तो मालाका आसताना फ्रांसिस्काच्या कानार सादली. इंडियेच्या लोकावून जपानाचो लोक अदीक बरे भाशेन देवाचें उतर मांदून घेतलो, अशें फ्रांसिस्काक दिसून आयलें. पुर्तुगाली वेपाऱ्यां बराबर अंजिरो म्हणललो कोण एक फ्रांसिस्काक सोदूंक आयलो. पुर्तुगेजांनी पाद्र फ्रांसिस्काची इल्ली खबर ताका सांगलली. तो तरनाटो आपलें पातक स्विकार करून फ्रांसिस्का कडे कुम्सार जांवक आयल्लो. ताणें आपल्या तरनेपणार कांय पातकां आदारललीं आनी ह्या पातकांचें भगसणें देवा कडचें कशें मेळून घेंव येता काय म्हण तो त्या पुर्तुगेजां कडे विचारतालो. पुर्तुगाली वेपाऱ्यांनी फ्रांसिस्काक मेळपाक त्या तरनाट्याक मालाका आपयलो. पूण आंजिरो मालाका उतरतच, फ्रांसिस्क थंय नासलो. तो मोलुकास हांगा गेल्लो देखून तो तरनाटो जपानाक परतून वचपाक नव्यान तारवार चडलो. पूण आतां एक विचित्र घडणी घडली. जपान देश नदरेक पडच्या वेळार एक व्हड तुफान दर्यार दिसलें. तांणीं आपलें तारूं परतिलें आनी मालाका येंवची दर्या वाट धरली. तेदनां फ्रांसिस्क मालाका आसलो. आंजिरोक फ्रांसिस्क मेळलो. हो आंजिरो देवधर्माच्यो वस्तु शिकोंवक एकदम खोशी दाकयतालो. तो इल्ली पुर्तुगेज जाणा आसलो देखून फ्रांसिस्क ताचे कडे बरो उलयलो. फ्रांसिस्काक दिसलें सगळो जपानी लोक आंजिरो भाशेन जांवक जाय, आनी देखून देव धर्म शिकूंक अत्रेकांनी भरललो.

आपूण जपानाक वचत जाल्यार जपानी लोक क्रिस्तांव जातलो जाल्यार फ्रांसिस्कान आंजिरो कडे विचारलें. आंजिरोन बेश्टेंच हय म्हणलें ना. तो लोक

जायतो विचार करतलो, प्रस्न घालतलो आनी बरें समाधान करतले तसले जबाब मेळत जाल्यारूच, ते क्रिस्तांव जांवक कबूल जातीत. अशे आंजिरोन सांगलें इतलेंच न्हय शिकोवण दिता त्या परमाणें गुरूजी चलत जाल्यार, जपानी लोक क्रिस्तांव जांवक फुडें सरतलो, ही खात्री आंजिरोन दिली.

आंजिरोन दिल्ल्या उतराक लागून फ्रांसिस्कान जपानाक वचूंक निर्णय घेतलो.

## 39. मिशनरिंची जमात :1548

मोलुकास जुंव्यांर थावन जानेराचे 13, 1548 तारकेर शाव्येर कोचिनाक परतलो. त्या म्हयन्याचे 20 तारकेर एकाच टिसा स चिटी बरयल्यो. आनी त्यो बरयतच कन्याकुमारिच्या दोनूय बाजुंनी मिशनरी वावर केल्लो आसा ताची सूद घेतली. सगळ्या मिशनरींक – सात जेज्वीत आनी तांचे आदारी – मानापाड गांवांत, अस्तमते किनाऱ्यार, एके जमातीक आपयले. ही जमात पंदरा दीस तगूंक जाय आसली. पाद्र आंतोन्यु क्रिमिनाली हाका व्हडील केल्लो ताका फ्रांसिस्कान मान्यताय दिली. आनी जण एकल्या मिशनरी कडे गजाल मात्र करून तांची, तांच्या आत्मीक जिविताची, वावराची, अडचण्यांची बारकायेन खबर घेतली. ह्याच गांवांनी फ्रासिस्कानांनी आदीं मिशनरी वावर केल्लो. थंयच्या भुरग्यांनी पाद्र फ्रांसिस्काक ताणेंच शिकयललीं गितां आनी मागणीं गायन करून येवकार दिलो (Or.Conq.I, 160).

ती जमात सोंपतच फेब्रेराच्या म्हयन्यांत फ्रांसिस्क शाव्येरान सगळ्या मिशनरींक मिशनरी नेम दिले आनी परजेची आनी भावार्थ्यांची सेवा कशी करूंक जाय तें शिकयलें. हो सगळो वावर केल्या उपरांत, फ्रांसिस्क कोचिनाक गेलो.

## 40. कोचिनाक जेज्वीत कोलेज 1549

जानेरांत 1545 शाव्येर कोचिनाक आसलो. उपरांत तो 1548 जानेराचे 13 वा 12 तारकेर, आनी एकदम 1552 जानेराचे 24 तारकेर नव्यान कोचिनाक आसललो दिश्टी पडता. कोचीन 1506 वर्सा पुर्तुगेजांच्या ताब्यांत पडललें. कोचीन एक म्हत्वाचें बंदीर जावन आसलें. गोंयां थावन मालाकाक वेतालीं तीं तारवां सदांच कोचीन खाडींत थारतालीं. कोचिनाक थावन सगळ्यो चिटी एवरोपाक वेताल्यो. शाव्येर सवे पावटी तरी कोचिनाक पावललो, खारव्यांच्या किनाऱ्यार आनी पयशिले उदेंतेक येता वेताना, आनी जायते म्हयने ते खाडींत तो रावललो. त्या ताब्यांत फ्रांसिस्कन मिशनरी वावुरताले, आनी तेय बी सिरियानी

क्रिस्तांवां मदें. अशें आसतां शाव्येरान आपलें चालतें मुनियारपण ते खाडींत चलयलें, पूण ते खाडींत थावन ताणें एवरोपाक – इनासाक रोमा शाराक, रुद्रिगिसाक पुर्तुगालाक आनी पुर्तुगालाच्या राजाक – 29 अदीक चिटी बरयल्यो.

त्या वेळार कोचिनाच्या म्हाजनांनी एक शाळा वा कोलेज थंय उगडपाक शाव्येराक एक मागणी केली. गोंयचे सां पावलुचे कोलेजिची खबर कोचिनाक पावलली. 1549 पाद्र बालताजार गागो हाणें एक कोलेज खरेंच कोचिनाक उगडली.

## 41. आनी एक कोलेज क्विलोनाक :1549

क्विलोन त्रावांकोर राज्याची राजधानी जावन आसली. ह्याच वेळार एक कोलेज त्या शारांत उगडली. राजाराम वर्मा राजवट चलयतालो, आनी ह्याच राजान शाव्येराक मुक्कुवा लोकांक क्रिस्ती सुमूर्त परगटपाक रजा दिल्ली, आनी हें परीं विजयनगराच्या राज्याचेर आट पुर्तुगेजांचो आदार मेळोवन घेंवक सोदी. हो आदार मेळलो तेदनां, त्या राजान आपल्या राज्यांत क्रिस्ती सुमूर्त परगटूंक आडवारलें. पूण कोलेज उगडली ती 1549 वर्सा, आनी रोकडेंच 40 भुरगे भितर सरले.

## 42. सांत पावलुचे कोलेजींत गडबड

सांत पावलुची वा *सांता फे* कोलेज शाव्येराच्या दोळ्यांतली बावली जावन आसली. ते कोलेजींत वा सेमिनारींत शाव्येर देशी पाद्री तयार करूंक सोदी. देशी पाद्री आसल्यार कातोल्क धर्म उदेंतेक पावलां घेतलो म्हण तो रावतालो. ते पासत एवरोपाक थावन बरोसो रेयतोर ते कोलेजीक धाडात म्हण तो मागतालो. हो आंवडेल्लो रेयतोर, एक पुर्तुगाली जेज्वीत, आंतोन्यु गोमीश म्हणललो, 1548 आतुब्राचे 9 तारकेर गोंयां पावलो. ह्या पयल्याच रेयतोरान शाव्येराक जायतो त्रास दिलो. तो गोंयां येसस्वी वा फळवंत जांवक पावलो ना, कित्याक ताचें मन आनी धन वेगळेंच आसलें. इंडियेच्यो आनी उदेंतेच्यो गरजो आनी परिस्थिती तो केदनांच शिकूंक पावलो ना. तो समजलो आपूण एवरोपाकूच आसासो.

आंतोन्यु गोमीश कोयिम्ब्राचे उनिवेर्सिदादींत शिकललो. तो बरो प्रवचन करपी उतरललो. पूण ताका अक्कल नासली, खालतिकाय नासली, मायेमोग नासलो. आपूण व्हडलोच म्हण तो समजतालो. आपणाक लागता तसलो दुसरो आनी कोण ना म्हण तो समजतालो. गोंयची शाळा वा कोलेज सुरवातेच्या पांवड्यार आसली, तरीय आंतोन्यु ती कोलेज कोयिम्ब्राची उनिवेर्सिदाद जाल्ले

भाशेन चलोंवक सोदी. सांत पावलुचे शाळेंतले विद्यार्थी पयले आनी नवे क्रिस्तांव जावन आसले. तांच्यो रिती रविसो वेगळ्यो जावन आसल्यो, म्हणजे उदेंतिच्यो, न्हय अस्तमतेच्यो. सुरवातेकूच थावन आंतोन्यु लोकंडाच्या हातान कसो ही शाळा चलोंवक लागलो.

ताचे आदीं व्हडील आसलो ताणें सगळी पदवी रिगीच आंतोन्यु गोमिसाच्या हातांत घातलली. तो हे गडबडिचें अशें वर्णन करता:

> "आंतोन्यु गोमीश एकदम बरो मनीस, इतलो जाणवायेन, उर्बेन आनी खतखत्यान भरललो की आमची पलटण वा सभा कित्याक घडल्या ती जाणा जांवचे आदींच परयान. इंडियेक आयल्ले सगळे भाव नव्यान जल्मलले ताका जाय. ते पासत ताणें आपली राजवटकी सुरू केली सगटाचेर आपली दावली मारून, जेवणाचेर, पिण्याचेर, न्हिदपाचेर, वाचपाचेर, प्रार्थनाचेर, आनी मिसाचेर परयान. ताचो ब्रीद जावन आसलो पोरणें तितलेंय नपयत जांवदी आनी नवें तितलेंय भितर सरुंदी.
>
> फकत आमीच सोसूंक पावूंक नांव बगर कोलेजींत आसलल्या इंडियानांच्या पाटल्यान परयान लागून, तांकांय त्रास दिंवक लागलो. जायते कायदे आनी नेम काडले: प्रार्थन करपाक, ध्यान करपाक आनी अंतस्करणाची चवकशी करपाक वेळ थारायलो. त्याय विद्यार्थ्यांनी इल्लो विसव घेतललो आनी भक्ती दाकयनासताना रावलले, ताच्यान पळेवक जाय नासलें. हांव त्या विद्यार्थ्याक बरो वळकतां आज जालीं कितलींच वर्सां. तांच्यान ही कडक राजवटकी तोलूंक जांवची ना म्हण हांव बरो जाणा आसलों. हे पासत हांवें आंतोन्यु गोमिसाक सांगलें नवो सोरो पोरण्यां बाटल्यांनी घालूंक फावो ना म्हण. ह्या तरनाट्यां कडे आमी पावलान पावल मारून चलूंक जाय. पूण तो म्हजें उतर आयकच ना जालो आनी पाद्र मेस्त्र फ्रांसिस्काच्या हुकुमान हांव कोचिनाक वेतच, कोलेजितले सगळे इंडियन विद्यार्थी दुरगां उडून पळूंक लगले...." (D.I.II,170).

ही खबर फ्रांसिस्क शाव्येराक जपानाक पावली. ताणें गोमीश व्हडील जांवक उपकारना म्हण रुद्रिगिसाक सांगलें, आनी गोंयचे कोलेजीक नवो रेयतोर नेमूंक इनासा कडे विनवणी केली. इश्टां आनी बरें मागतल्यांचें आयकून शाव्येरान अशें केलें: गोमिसाक कोलेजिचोच कारभार दिलो आनी उरलल्या जेज्वितांक पावल

कामेरिनो हाचे खाल धातले. मालाका आनी जपानाक थावन बरोवन शाव्येरान माणसुगेन आनी मोयपासान गोमिसाक बरी बुद्ध दिली – सगळ्या मठवाश्यां कडे, म्हणजे फ्रांसिस्कानां आनी डोमिनिकानां कडे खालतो आनी मोयपाशी जा म्हण शिडकायलो, आनी सगळ्यां बराबर मोगाळ जा म्हण मागलें. (E. X. II, 128).

पूण ह्यो सगळ्यो शिडकावण्यो भेऱ्या कानार पडल्यो – आपूण एक व्हडलो जाणार आनी विद्वान म्हण समजून आपलोच वाद चलोंवक लागलो. ताच्या कर्तुबां वयर आफोन्स द नोरोञा ह्या उपराजान फ्रांसिस्क जपानाक थावन परतून येंवचे आदीं एक चीट बरोवन (5-5-1551) रुद्रिगिसाक सगळी खबर दिली,

तो उपराजा बरयताः

पाद्र आंतोन्यु गोमीश एक एकदम बरो मनीस, आनी असो हांव ताका मान आदर दितां. पूण ताणें ह्या गांवच्या लोकाक खोटी देक दिल्या दोन कारणांक लागून.... एक दीस बिस्पाची वा आनीक कोणाची सरकारी मनशाची परवानगी नासताना आनी फकत जोर्ज काब्राल (आदलो गोवेर्नादोराचे सुवातेर आसललो) हाचे दोळे धांपून, ताणें सांत पावल कोलेजिंतल्या सगळ्या विद्यार्थांक भायर धांवडायले, आनी ती सुवात दिसूंक लागली सोडलली आनी सांडलली जशें एक पिडा पडतच घडता. असली अदलबदल पळेवन आख्या गोंया शाराचेर आकांत आयलो. बिस्पान आनी दुसऱ्या कुलीन मनशांनी आंतोन्यु गोमिसाक आपलें मन बदलूंक मागणी केली पूण सगळें ओमथ्या कळशार उदक. तो म्हण, म्हाका कोलेजींत फकत पुर्तुगेज फामिलिंतले पुत्र जाय.... (D. I. II, 140).

ह्या आंतोन्यु गोमिसाक लागून सगळ्या जेज्वितांचो मान आदर उणो जालो. (D. I. II, 181). ही खबर उपराजान जुवांव तिसऱ्याक दिल्ली.

सांत पावलुचे कोलेजींत जाताली ती गडबड निवारूंक उपराजान आपलें बोट घातलें. हें करतूब गोमिसाक बरें पटलें ना, देखून ताणें राजिनामो दिलो आनी एक सैनिकी कपेलांव कसो शिलांवांक 1551 वर्सा गेलो. फ्रांसिस्क गोंयां येतच ताणें गोमिसाक निर्वाशीत करून दिवाक धाडलो, आनी थंयचो भायर सरत जाल्यार जेज्वितांचे पलटणेंतलो ताका भायर घालतलो म्हण भेंकडायलो. फ्रांसिस्क उदेंती प्रांताचो प्रांतीक व्हडील जावन आसलो.

आपणाच्या कर्तुबांचो जबाब इनासाक दिवपाक 1553 आंतोन्यु गोमीश एवरोपाक वचूंक भायर सरलो, पूण दर्या वाटेर ताचें तारूं बुडलें आनी तो ह्या संसाराक काबार जालो. असो आंतोन्यु गोमीश आसलो.

## 43. जपानाचे वाटेक: कागोशिमा 1549[1]

गोवा शारा थावन उदेत्या सुर्याच्या देसाक (निपोन, जपान) वचपाक फ्रांसिस्क भायर सरलो. आपल्या सांगाता ताणें व्हेले पाद्र कोस्मास द तोर्रेस आनी ब्रदर जुवांव फेर्नांदीश – दोगूय एस्पानी; आंजिरो जाका इतल्यान गोवा शारा बाप्तिज्म दिल्लो आनी पवित्र भावार्थाचो पावल *(पावलु द सांता फे)* म्हण ताणें नवें नांव घेतलले, आनी ताचो सेवक जुवांव; आनी आंतोन्यु, आनी एक जपानी; एक चिनाचो मानुवेल म्हणललो, आनी शेकीं आमादोर, मलबारी क्रिस्तांव – एक अंतराश्ट्रीय जमो. हो जमो गोंयां थावन आब्रिलाचे 15 तारकेर भायर सरलो आनी मायाचे 31 तारकेर मालाका पावलो .

मालाकाक एकूय पुर्तुगाली तारूं मेळना जावन, हो जमो जुनाचे 24 तारकेर एका चिनी तारवार चडलो, आनी सात साताळ्यांची कश्टांची यात्रा केल्या उपरांत एका जपानी जुंव्यार ते देंवले. हो जुंवो म्हळ्यार अंजिरोचो गांव वा नगर, कागोशिमा. ते खाडींत देंवले तो दीस म्हळ्यार आगोस्ताची 15, 1549, सायबीण मांयक कुडी आत्म्या सयत सर्गार व्हेलली ते परबेचो दीस.

आंजिरोच्या लोकान ह्या परक्यांक बरो येवकार दिलो; सुमार चार म्हयने ते कागोशिमा रावले. फ्रांसिस्क शाव्येराक जपानी लोक एकदमूच मांदलो. तो लोक अदीक माणसुगेचो कसो शाव्येराक दिसलो. शाव्येरान बरयलां: जपानी लोक बऱ्या सभावाचो, समजिकायेचो. थोडें जेवपाचो पूण बरेंच पिवपाचो. ते सट्टे खेळनांत, चोरिनांत, एक बायल एक घोव आसलले, आनी अशें जायतें. देवाचें उतर आयकूंक ते आयते आसात अशे बरोवन फ्रांसिस्क नव्या मिशनरीक आपोवणें करतालोसो दिसता. ही चीट नोवेंब्राचे 5 तारकेर गोंयच्या जेज्वितांक बरयल्ली .

एका वर्सा वयर ते मिशनरी कागोशिमा पेणें करून रावले. पावलुचो आदार घेवन क्रिस्ती धर्माची थोडी शिकवण जपानी भाशेंत उतरायली, आनी ती शिकवण तांणीं छापून काडली कित्याक जपानी लोक वाचूंक जाणा आसलो. लातीन अक्षरांनी बरयल्ली चोपडी घेवन शाव्येर मठाच्या (मोनास्तेरी) दारवंट्याचेर बसतालो आनी येता वेत्यांक वाचतालो. असो वागून ताणें शेंबर-एकांक भावार्थाच्या उजवाडाक हाडले. आनिकूय भावार्थांत भितर सरतले आसले पूण बोंज (जपानी पुरोहीत वा पाद्री) मोडां घालूंक लागले. त्या बोंजांनी कागोशिमाच्या नायकाक वा फुडाऱ्याक शिडकायलो सांगून : जर ताचे रैत देवाची सुमूर्त स्विकार करीत

जाल्यार, ताचो गांव पिर्देर जातलो आनी लोक सगळीं देवळां मोडतलो. कित्याक देवाची सुमूर्त ताचे सुमुर्तिचेर आड वेताली. कोन्वेर्सांवांक आडवारूंक कायदो घालूंक लायलो आनी कोणूय कोन्वेर्तेर जायत जाल्यार मरणाची ख्यास्त फावो जाताली, आनी तशेंच धर्म परगटणी मना केली. (EX. 11, 259).

### 44. हिरादो

हे पासत 1550 सेतेंब्रांत वा ओतुब्रांत शाव्येर आनीक दुसऱ्या जुंव्यार गेलो आनी आपलें पेणें हिरादो नगरा केलें. धर्म परगटणी करपाक पातशायाची परवानगी घेंवक सुरवातेक थावन शाव्येर सोदतालो आनी आतां कोगाशिमा नगरांत घडलां ताचो अणभव घेवन तो आतां पातशायाक मेळूंक राजधानींत वचूंक वाटेक लागलो.

### 45. फ्रांसिस्क क्योतो वता

त्या वेळार जपानाक वेता थंय झुजाची गडबड चलताली आनी वेता थंय चोर भोंवताले. तरूय फ्रांसिस्क काळीज हातांत घेवन वाटेक लागलो. पाद्र कोस्मास हाका हिरादो जुंव्यार दवरलो, आनी आपल्या सांगाता हांकां व्हेले: ब्रदर जुवांव फेर्नांदीश आनी एक जपानी तरनाटो, बेर्नार्द नांवाचो, जाका कागोशिमा नगरा बाटयल्लो. हिंवाळ्याचो काळ जावन आसलो आनी वाट 500 मैल पयस. हे वाटेक फ्रांसिस्काक थंडाय लागताली, बर्फ पडतालो, जेवण मेळ नासलें, थंडायेक न्हेसूंक नासलें. ते भायर खानावळी बऱ्यो नासल्यो आनी ह्या परक्या मनशांक इश्ट नासले. ही यात्रा 1550 ओतुब्राच्या सोंपत्यार सुरू केल्ली.

इतले त्रास आनी कश्ट घेतल्या उपरांत, सगळें ओमथ्या कळशार उदक. शेकीं ते तिगूय मिशनरी क्योतो राजधानी पावले, आनी पातशायाच्या राजमहालाच्या दारवंट्या मुखार इकरा दीस बसून उट्टून रावले. पूण कोणेंच तांची पर्वा केली ना. येत्या वेत्यांनी पातशायाक त्या परक्या मनशांची खबर सांगली ना. पातशायाक मेळूंक आनी ताच्या देसांत क्रिस्ती धर्म परगटपाक रजा मागूंक फ्रांसिस्क गेल्लो.

जपानाच्या पातशायाक *मिकादो* वा *तेणो,* म्हणजे सर्गाचो पूत वा देवाचो पूत, म्हण पाचारताले. हो मिकादो क्योतो शारा आपल्या राजघरांत रावतालो, पूण देवाचो पुत्र जाल्ल्यान ताचे बगलेक कोण वचनासले, सगळे पयस रावताले. अशें आसताना ह्या देवाच्या पुत्राक फ्रांसिस्काची खबर कोण सांगतलो? पवित्र मिकादोशी एक चालतो गरीब कसो न्हेसलल्लो मिशनरी कसो म्हण पावतलो? हें

फ्रांसिस्क नकळ आसलो. ते पासत फ्रांसिस्क आनी ताचे सांगाती मिकादोच्या दारवंट्यारूच सुकून उरले. क्योतो शारा लागींच सुमार तीन मैल पयस, हियेय-जान म्हण एक पदवेदार मठ आसलो. ह्याय मठांत त्या गरीब युरोपी प्रवाशांक वा यात्रेकारांक आपलीं दारां उगडलीं नांत.

इल्लो अणभव मेळतच फ्रांसिस्काक आनीक एक जाणीव मेळली. त्या मिकादोक कांय पदवी ना, ताचो हुकूम राजघरा भायर तीन मैल परयान पावना. खरेपणीं सगळ्या प्रांतांनी दायमी म्हणलले सुपुर्ले कुंवर राज चलयताले. ती गत पळेल्या उपरांत फ्रांसिस्क परत्या पायांनी हिरादोक परतलो पूण वेगळे आनी अदीक अडचणेचे वाटेंतल्यान ते 1551 मार्सांत पावले.

### 46. यामागुची!

यामागुची नगरांत एक सैनिकी (military) धनी आसलो. ह्या धनयाची परवानगी घेंवक फ्रांसिस्काच्या मनांत आयलें पूण हे पावटी नवी मांडणी ताका सुचली, कित्याक इतल्यान जपानी लोकाचो दबाजो आनी व्हडवीक ठावी जाली. आतां तो, न्हय एक गरीब मिशनरी कसो! पूण पाप सायबाचो आनी पुर्तुगाली राजाचो दूत कसो आपल्याक दाकयता. इंडियेच्या उपराजाच्यो आनी गोंयच्या बिस्पाच्यो चिटी घेवन फ्रांसिस्कान आपली वाट धरली. राजदूत कसो अलंकारी कपडे न्हेसून आनी अमोलीक देणीं घेवन फ्रांसिस्कान अधिकारी रितीन यामागुची नगरांत प्रवेस केलो. तीं देणीं खरेपणी पातशायाक वा मिकादोक भेटोंवक हाडललीं.

यामागुचिच्या नायकान वा धनयान कितें केलें ताची खबर फ्रांसिस्कान आपले चिटींत सांगल्या. ही चीट 1552 जानेराचे 29 तारकेर एवरोपाक बरयल्ली.

त्या नायकान खुशालकायेन भरून जायत्यो वस्तू फ्रासिस्काक भेटयल्यो आनी जायतें भांगर आनी रुपें दिंवक तो कबूल जालो. पूण फ्रांसिस्कान ह्यो देणग्यो स्विकार केल्यो नांत. ताची खुशी आनी मागणी जावन आसली इतलीच, क्रिस्तांवपण परगट करपाक परवागनगी आनी खुशी आसलल्यांक क्रिस्ती धर्म वेंगोवपाक सत्या इतलेंच, आनी कांय ना. त्या नायकान ही मागलली परवानगी दिली आनी आपणें असली परवानगी दिल्या म्हण लोकाक कळोवपाक जाहीर जाग्यांचेर आपली सय वा निशाणी आसलले तकटे मारूंक लायले. ते भायर पेणे करपाक एक रिकामी बौधीक मठ आसलो तो दिलो. त्या मठांत दिसाक दोन पावटीं जमाती भरताल्यो आनी ह्या जमातींक जायतो लोक येतालो. प्रवचन

जातच, संवाद वा भासाभास जाताली. बुद्ध पाद्री आनी माद्री फ्रांसिस्काक आयकूंक येतालीं, तशेंच कुली लोक आनी हेर बारिकूय लोक. जायते पावटीं तें घर लोकान भरून वततालें, आनी अशें करून थोड्यांनी क्रिस्तांवपणाक वेंग मारली (E.X.II, 263).

हो मिशनरी वावर चार म्हयने चल्लो आनी हाचें फळ कितें? 500 जण क्रिस्तांव जाले.

## 47. ओकिनोहामा

1551 सेतेंब्राच्या म्हयन्यांत फ्रांसिस्क आपल्या वांगडा तीग जपानी क्रिस्तांवांक घेवन ओकिनोहामा (ओकिनावा) खाडींत गेलो. ते खाडींत एक पुर्तुगाली तारूं पावलां म्हण ताच्या कानार पडललें. फाटल्या तीन वर्सांनी फ्रांसिस्काक एवरोपाक आनी इंडियेक आसलल्या भावांची कांय खबर मेळूंक नासली. गोंयां शारा थावन जेज्वीत जपानाक धाड म्हण फ्रांसिस्कान मागणी केल्ली हे विशीं कितें जालां ताची बारिकसाण तो घेंवक सोदी. ते पासत त्याच तारवार बसून गोंयां शाराक देजेंब्राचे 17,1551 परतून वचूंक थंयच्या थंय ताणें थारायल्लें. तें तारूं (चिनालागीं) कांतोन खाडी मुखार सांचियान जुंव्याक तेंकलें. एका वर्सा भितर फ्रांसिस्क नव्यान त्या जुंव्यार येतलो पूण ही जावन आसली ताची निमाणी यात्रा.

## 48. चिनाक वेची येवजण

सांचियान जुंव्यार कितें चाली भायलें घडलें ताका लागून शाव्येराच्या मनांत चिनाक वचपाची येवजण भितर सरली. चिनाची वळक पुर्तुगेजांक भोव आदीं पासून आसली. बेंतो गोयीश, एक जेज्वीत भाव, गोंयां थावन जमनी वेल्यान शेतांमळां मोडून नदी उतरून आनी दोंगर काडून, आपलो वेस भेस आनी नांव परयान बदलून, चिनाचे देगेक पावलल्लो, आनी तो देस काथेय म्हण ताणें सांगललें. पूण मागीर काथेय आनी चीन म्हणतात तो एकूच देस म्हण सिद्ध जालें. फ्रांसिस्काक चिनी भुरग्यांची माहिती आसली. गोंयां शारा सांत पावलुचे कोलेजींत चिनी आसले, फ्रांसिस्क जपानाक गेलो तेदनां ताच्या वांगडा एक चिनी (मानुवेल) आसलो. पूण हे जावन आसले व्यक्ती (एकलो) जे फ्रांसिस्काक चीन देसा भायर मेळ्ळे. पूण चिनाक परके मनीस नाका आसले आनी परक्यां कडे वेपार धंदो परयान करूंक चिनाच्या पातशायान आडवारललें आनी कोणूय परको वेपारी चिनाक पावल्यार ताका मरणाचें फरमाण पडतालें वा जिवीत भर बंदखण.

पूण भांगाराची आस आनी तान इतली बळवंत आनी शक्तिवंत जावन आसली की तेदनांचे तारवटी ते खास्तिची आनी संकटांची परवाच करी नासले. चिना कडे चोरयां वेपार धंदो चालूच आसलो आनी तो सांचियान जुंव्यार थावन ते वेपारी करताले. सांचियान म्हळ्यार चिना देसा लागींच एक सुपुर्लो जुंवो, आनी थंय थावन वेपारी चोरयां चिनाक येता वेताले, आनी तांतले थोडे चिनाच्या अधिकाऱ्यांच्या बोचक्याक सांपडलले आनी तांकां बंदखणींत घालून दवरलले. हांतल्या एका निर्भागी कैद्यान एक चीट बरयली आनी ती चोरयां फ्रांसिस्क शाव्येराच्या इश्टाक पावली. हो इश्ट म्हळ्यार दियोग पेरेर. हे चिटींत कितें बरयल्लें जायत? तो निर्भागी कैदी पेरेराक, सांताक्रूज तारवाच्या कोपिताक, एक सुचना करता: कोणेय चिनाच्या पातशायाशीं पुर्तुगालाचो एक राजदूत कसो वचून नेमणूक करून घेंवक जाय. हे परीं चिनाचीं बंदिरां वेपार धंदो करूंक उगतीं जांवक पावतलीं, आनी हें पावल मारतच कैद्यांक सुटका मेळचो भरवांसो उदेतलो.

त्या कोप्तान ही चीट शाव्येराक दाकयली आनी हो हेतू सार्थी पावोंवक जायत जाल्यार शाव्येराक आपल्या बराबर चिनाक व्हरतलो म्हण पेरेरान आस्वासन दिलें. ह्या आस्वासनाक लागून शाव्येराच्या मनांत आतां नव्यो येवजण्यो घुसल्यो. तो जपानाचेंच चिंततालो. जपानाच्या राजाच्या पालवान आनी आदारान, शाव्येर त्या आडवारलल्या देसांत - चिनाक मिशनरी पाद्री धाडूंक सोदी. पूण घडलें तें वेगळेंच. शाव्येराक तेदनां कळून आयलें जपानाचो लोक चिनाचे जाणवायेक एकदम अजापतालो म्हण. कितें जाणवाय आसा ती चिनाच्या विद्वानांक आसा, आनी चिनाक थावन जपानी लोकान सगळीं पुस्तकां आनी आत्मीक शास्त्रां हाडललीं. चिनाक क्रिस्तांवपण पावूंक ना जाल्यार, जपानी लोक तें स्विकार करचो ना, मांदून घेंवचो ना, कित्याक सगळें बरें आनी वरतें चिनाक थावन जपानाक येंवक जाय. आतां ते चिटीक लागून चिनाक वचूंक शाव्येरान घट निचेव केलो.

हीं नवीं चिंतनां आनी कल्पना खेळोवन, शाव्येरान आपली दर्या यात्रा चालू दवरली आनी 1552 जानेराचे 24 तारकेर तो कोचिनाक पावलो. आंवडेवन आंवडेललीं पत्रां आनी चिटी शाव्येराक कोचिनाक मेळलीं. हांतली एक चीट रोमाक थावन येताली आनी हे चिटी परमाणें शाव्येराक ओतुब्राचे 10,1549 तारकेर उदेंतिच्या सगळ्या जेज्वितांचो प्रांतीक व्हडील म्हण इनासान नेमललो,

म्हणजे आफ्रिकेच्या बऱ्या भरवांशाच्या तोंकार थावन ते जपानाक परयान. हो जांवक पावतलो उदेंतेक जेज्वितांचो पयलो प्रांत.

कोचिनाक जायतो वावर शाव्येराक रावतालो. सगळ्यां जेज्वीत घरांचो आनी तांतूं रावतल्यांचो कारभार आपआपल्या जाग्यार घातलो, स्थानीक व्हडील नेमलले तांकां आनी तशेंच हर एक जेज्वितांक मार्गदर्शन केलें. तो करता आनी उलयता तें पळेवन तो पयस वचूंक सोदता वा तांकां तो आनीक मेळचो ना म्हण दिसतालें. हें सगळें तो करी कित्याक कोचिनाक पावचे आदींच चिनाक वचूंक तांणें निचेव केल्लो (E.X.96-120).

इतले म्हणसर शाव्येरान आपले येवजणेची खबर पुर्तुगालाच्या राजाक 1552 आब्रिलाचे 8 तारकेर एक चीट बरोवन दिली. ते चिटीर तो म्हणता: आनी पांच दिसांनी गोंयां शारा थावन हांव तारवा वेल्यान मालाका वेतलों. ही ती चिनाची दर्या वाट. दियोग पेरेरा वांगडा हांव चिनाच्या राजाच्या राजवाड्यांत प्रवेस करतलों. आमचे बराबर आमी मोलादीक देणीं व्हरतांव – अमोलीक लुगटां जीं दियोग पेरेरान आपल्याच दुडवांचीं विकतीं घेतल्यांत आनी ते भायर तुमच्या नांवान हांव आनी एक देणें व्हरतलों तसले आदीं कोचिनाच्या राजान वा पदवेदारान धाडूंक ना, म्हणजे जेजू क्रिस्ता, आमच्या सोडवणारा धनयाची खरी सुमूर्त.

म्हजे भायर आसतलो आनीक एक पाद्री आनी एक भाव (ब्रदर).... (E.X.II, 361-371).

असल्या उमाळ्यांनी शाव्येरान आपली दर्या यात्रा सुरू केली पूण ताचो शेवट वेगळोच जातलो; इतल्यान शाव्येराच्यो दर्या यात्रा सोंपतल्यो.

## 49. निमाणी दर्या यात्रा

1552 आब्रिलाच्या मदेकात फ्रांसिस्क शाव्येर गोंयां शारांतलो भायर सरलो, आनी तो केदनांच परतून येंवचो ना. ताच्या सांगाता आसले पाद्र बालतासार गागो, आल्वारु फेरेर (एक जेज्वीत विद्यार्थी), एक जपानी आंतोन आनी जुवांव, एक चिनी तरनाटो आंतोन जाका सांत पावलुचे कोलेजीन वयर काडललो, आनी क्रिस्तोफेर (एक मलबारी क्रिस्तांव) एक सेवक कसो कित्याक फ्रांसिस्क हे पावटी एका पुर्तुगाली राजदुता बराबर चिनाक वचूंक सोदी, आनी तेदनां ताका एका सेवकाची गरज पडतली आसली. वाटेर वादळ मोड उप्रासलें पूण सगळेच जण सलामतीन मालाकाक पावले. मालाकाक आनीक एक व्हड मोड फ्रांसिस्काक रावतालें, आनी ह्या मोडान फ्रांसिस्काची पाखां मोडलीं. ताचे सगळे आंवडे विस्कटले आनी ताका सासणाची हार पडली पूण सासणाक विजय प्राप्त केलो.

दियोग पेरेरा, एक वेपारी, हाका दों आफोंस द नोरोञा ह्या पांचव्या उपराजान (1551- 54) राजदूत नेमललो. ही खबर मालाकाच्या कापितांवाच्या कानार पडना फुडें तो बरोच तिडलो आनी चाळवलो. आपूण त्या म्हा वास्कु दा गामाचो निमाणो पूत, दों आल्वारु द आथायदे दा गामा जावन, चिनाच्या सम्राटाशीं (Emperor) वचूंक विंचून काडूंक ना म्हण ताका एकदमूच वायट दिसलें. फ्रांसिस्क शाव्येर पेरेराच्या *सांताक्रूज* तारवार बसून मालाकाक आयलली आनी आतां तो चिनाक वचूंक सोदी. दों आल्वारु द आथायदे मालाकाचो गोवेर्नादोर दियोग पेरेराक राजदूत नेमला म्हण कुण्णाटकायेन भरललो. ते पासत ताचें तारूं आपल्या ताब्यांत केले आनी ताका आनी फ्रांसिस्काक फुडें वचूंक दिना जालो. दों आल्वाराक समजांवक आनी ताचें समाधान करपाक फ्रांसिस्क शाव्येर आनी जायते दुसरे वावुरताले. दों पेद्रू द सिल्वा दा गामा, आल्वाराचो भाव जाणें ही जपानाची यात्रा तयार केल्ली, तो परयान फुडें सरलो, पूण सगळें ओमथ्या कळशार उदक. आल्वाराचे आदीं दों पेद्रू मालाकाचो गोवेर्नादोर जावन आसलो.

दियोग पेरेरान चार वा पांच हजार पारदांव मोडून चिनाच्या पातशायक देणीं तयार केललीं. हो सगळो खर्च उदकांत वेता तो पळेवन आनी तारूंय व्हेलें म्हण फ्रांसिस्क दुखावलो.

तरी फ्रांसिस्क शाव्येर दों आल्वाराक आपूण कोण तो दाकोवन दितलो, पापसायबाचो आपोस्तोलीक नुन्सियो वा मुनयारी. थोडे म्हणतात शाव्येरान आपली पदवी वापरून दों आल्वाराक पवित्र सभेंतलो भायरो (Excommunicated) केलो. क्रिस्ताचें राज परगटूंक मोडां घालतालो देखून शाव्येरान अशें केलें जायत.

त्या समयार मालाकाक, झुजा उपरांत पिडा पडलली. फ्रांसिस्क पिडेवंतांची सेवा करूंक थंय रावलो. थंय एक जेज्वितांची कोलेज आसली ती पिडेवंतांक दवरूंक एक होस्पिताल केली.

मालाकाचो गोवेर्नादोर देवाक, ना म्हण पापसायबाक, ना म्हण राजाक मातूय भियेनासलो. तरूय सर्व शेवटी सांताक्रूज तारवाक फुडें वचूंक दिलें पूण दियोग पेरेराक राजदूत कसो वचूंक दिलोच ना. तारवाक आपलो कापितांव आनी पंचवीस खलाशी दिले. ह्या मनशा सांगाता फ्रांसिस्काक चिनांत भितर सरूंक

जांवचेंच नासलें. म्हणतच पाद्र गागोक आनी हेरांक फ्रांसिस्कान जपानाक पाटयले. आतां कोणूय मोयर वा एक अनभावार्थी आपल्याक चिनाक पावयत म्हण भरवांसो धरतालो.

आनी असो निराशी जावन फ्रांसिस्क आगोस्तांत चिनाचे किनारेर, सांचियान जुंव्यार पावलो थंय थावन आपल्याक कोणूय वेपारी चोरयां चिनाक पावयत गाय म्हण तो आशा बाळगून आसलो. सांचियान जुंवो कांतोन थावन तीस मैल आसलो. कांतोन थावन चिनी वेपारी सांचियान जुंव्यार पुर्तुगेज वेपाऱ्यांक मेळूंक येताले. कोण चिनी वेपारी फ्रांसिस्काक व्हरूंक कबूल जाले नांत. पूण शेकीं एकलो कबूल जालो पूण 200 क्रुजादुश मागूंक लागलो. एका सुपुर्ल्या होड्यांतल्यान फ्रांसिस्काक तो गुपीत कांतोनाक पावोंवक सोदी. हें होडें ताचे पूत आनी सेवक तांडतले आसले आनी न्हय दुसरे कोण. हे परीं कांतोनाच्या गोवेर्नादोराक कांय कळचें नासलें.

तो मनीस ते दुडू घेवन गेलो आनी परतून आयलोच ना. सदांकाळ फ्रांसिस्क दोळ्यांत तेल घालून ताची वाट पळेतालो (E.X. II, 499). आशेन रावून रावून फ्रांसिस्क पिडेंत पडलो.

## 50. एकसुरें मरण 1552

नोवेंब्राचे 21 तारकेर फ्रांसिस्क पिडेंत पडलो. ताका जोराची पिडा लागली. इतल्यान सगळीं पुर्तुगाली तारवां त्या जुंव्या वेलीं गेल्लीं. आनी तांचे बराबर आल्वारु फेरेराय गेलो कित्याक फ्रांसिस्कान ताका जेज्वितांतलो भायर घातललो. फकत *सांताक्रूज* तारूं रावलें फ्रांसिस्काक घेवन तें वचूंक सोदी पूण फ्रांसिस्क आपली येवजण मनांतली भायर उडोंवक कबूल नासलो. आंतोन आनी क्रिस्तोफेर आपल्या मिस्त्रिची सेवा करूंक सांचियान जुंव्यार रावले. तारवट्यांनी शाव्येराक एक खोंपटी बांदली. शिरो मारून जायते पावटीं फ्रांसिस्काचें रगत काडलें.

फ्रांसिस्क शाव्येराचे निमाणे दीस आनी ताची खबर आंतोन सांगता:

– नोवेंब्राचे 28 सोमारा शाव्येराची वाचा तीन दीस बंद जाता;

– मंगळारा दोनपार पासून तसोच तो उरता;

– ब्रेस्तारा तो सैराणार येता, पूण फकत उलो मारी पवित्र त्रित्वेक, बापाक, पुत्राक आनी पवित्र आत्म्याक. "जेजू, देवाच्या पुत्रा, म्हजी काकळूत कर." "आंक्वार देवाचे माये, म्हजो उगडास कर" असो तो मागणें करी, सुक्राराचे रातीं परयान.

– सनवारा तो मरतालो तेदनां आंतोनीन एक वात पेटोवन ताच्या हातांत घातली "जेजूस" म्हणून ताणें प्राण सोडलो. (M.X. II, 896).

असो पाद्र मेस्त्र, फ्रांसिस्क शाव्येर ते सुक्रारा-सनवारा राती मदें मेलो. देजेब्राचे दोन वा तीन, 1552 तारकेर 46 वर्सांचे पिरायेर आनी 7 म्हयने आनी 26 दीस. तांतलीं 10 वर्सां आनी 7 म्हयने (4 दीस उणें) ताणें आजियेक सारलीं. असो पाद्र मेस्त्र एकसुरपणान ह्या संसाराक अंतरलो.

---

[1] जपान व्हा निपोन म्हळ्यार जायत्या जुंव्यांचो जमो; होंदो, शिकोकु, क्युशु अनी हांक्कायदो आनी आनीक सुमार 500 सुपुरले जुंवे. हिरादो एक भोंव सुपुरलो जुंवो जंय पुर्तुगेज पयले पावले. कागोशिमा म्हळ्यार क्युशिन जुंव्याची खाड. क्योतो जावन आसली होंदो जुंव्याची राजधानी, बुद्धिस्तांचें केंद्र – 945 देवळां.

# भाग - 2

## मरणा उपरांत

### 1. कुसूंक नासलली कूड

असो आमचो फ्रांसिस्क, गोंयचो सायब, मेलो सुक्रारा आनी सनवाराचे रातीं मदें, 2 वा 3 देजेंब्राचे 1552. दुसऱ्या दिसा ताची कूड मातयेक लायली दुर्बळ मनशाक पुरतात तसो ताका पुरलो, एकसुरपणान. मातयेक लांवक फकत चोवग जण आसले आंतोन्यु (एक चिनी), फोंड काडपाक दोग चाकर, आनी पुर्तुगेज, फ्रांसेज सांचेस. मडें फोंडांत देंवोंवपाच्या वेळार, त्या चिनी दादल्याक हाजीर आसलल्या कोण एकल्यान सुचयलें: काशींत वयर आनी सकयल चुनो घातल्यार बरें जायत, आनी हे परीं ती कूड रोकडी कुसूंक पावतली, आनी हाडां रोकडीं मेळतलीं, आनी हीं हाडां एक दीस इंडियेक व्हरूंक जातलीं. हे पासत कायशांव नव्यान वयर काडलो. तारवार वचून चार साक चुनो हाडलो, दोन पोंदाक आनी दोन वयर घातले. मागीर नव्यान तो कायशांव बंद केलो आनी फोंडांत देंवयलो. चिनी दादल्यान तो फोंड खंय आसा तो दाकोंवक भोंवतणी फातर दवरले आनी असो एक दीस कोणूय जेज्वीत तो फोंड सोदूंक वचत जाल्यार, तो ताका मेळतलो आसलो (M.X. II, 897).

मागीर अशें घडलें. *सांता क्रूज* तारूं ते खाडींत पावलें आनी 1553 फेब्रेराचे 17 तारकेर नांगर घालून रावलें. आंतोन्युचे विनवणेक लागून, तारवाच्या कोप्तान एका मनशाक तडीर धाडलो तो फोंड उगडून पळेवपाक आनी हाडां तयार जाल्यांत जाल्यार तीं हाडपाक. शाव्येराची कूड कुसूंक नासलली त्या दादल्याक मेळली – आतां सुमार अडेज म्हयने जावन गेल्ले. ताणें काळजिदारपणान मांसाचो एक कुडको कातरलो – बोटा येदो दाव्या पांयाचे दिंबये सकयलो आनी तपासून पळेंवक कोप्ताशीं व्हेलो.

हें पळेवन तो कायशांवूच तारवार हाडूंक लायलो, आनी थंय तो सांबाळून दवरलो. चुनो आजून तसोच आसलो. दर्याच्या वाऱ्यान ती कूड रोकडी कुसतली म्हण तो समजतालो. ही कूड घेवन *सांताक्रूज* तारूं 1553 मार्साचे 22 तारकेर मालाकाच्या बंदरार पावलें. ती कूड पावता म्हण वेगान धांवपी तारवा उदेशीं आदीं फुडेंच मालाकाक निरोप पाटयलो. सांताक्रूज तारवाचो धनी आनी शाव्येराचो इश्ट दियोग पेरेरा ती कूड घेंवक धक्यार रावलो आनी ताचे बराबर जायतो लोक आसलो.

कायशांव मोंत सायबिणिचे इगर्जेत व्हेलो. सदांच्यो मरणा रिती पाळतच, मीस भेटयतच, त्या चुनो आसलल्या कायशांवांतली कूड भायर काडली. मदल्या आल्तारा कुशीक एक खडपांत फोंड कांतयललो आसलो त्या फोंडांत तें मडें पुरलें, कालूच तो मेल्ल्या भाशेन चुनो लागललो तो तसोच आसलो. त्या गांवचे रिती परमाणें कायशांव वापरूंक नासलो, पूण नव्या नितळ चादरिंनी रेवडूंक नासली पूण फकत एक रुमाल तोंड धांपूंक घातललो. तो फोंड इल्लो मोटवो आसलो देखून, तकली बागवलली कशी सदांच मागीर उरली. मागीर फोंड मातयेंत भरलो आनी ती माती बरीच घट आसली – हे पासत कुडीक आनीक मार बसलो.

अशी ती कूड पुरून उरली सुमार आनीक पांच म्हयने 1553 आगोस्ताचे 15 तारके पासून. ह्या वेळार जुवांव दे बेयरा, मोलुका मिसांवाचो व्हडील मालाका थावन आपल्या वावरा मळार वेतालो. आपल्या आदल्या व्हडिलाची कूड पळेनासताना, तो मोलुकाक वचूंक सोदिनासलो. म्हणतच मध्यान रातीर ताणें आनी दियोग पेरेरान तो फोंड उगडलो आनी ती कूड भायर काडली. ही कूड आजून जिवीच आसलली पळेवन ते अजापले. ते घट मातयेक लागून कुडीक मार बसललो ताचे गूण शेंकड्यांचे शेंकडे उरतले. नाक चेपललें, तोंड फापसललें आनी दावे वाटेन एक खडबडीत फातरान एक घाय घातललो. (Or.C. I., 412).

तांणीं तो फोंड गुप्तीं नव्यान पुरलो पूण जिवी आसलली कूड रातचीच चोरयां पेरेराच्या घरा व्हेली. ती अमोलीक वस्त्रांनी न्हेसयली. हीं वस्त्रां पेरेरान आनी शाव्येरान चिनाच्या पातशायाक एक देणें कशें दिवपाक तयार केल्लीं. ती कूड मागीर एका नव्या कायशांवांत घातली आनी अशी ती 1553 देजेंब्राचे 11 तारकेर पासून उरली. त्या दिसा ती कूड एक पोरण्या तारवार घातली आनी गोंयां शारा व्हरून दवरची केली. ब्रदर इमानुयेल द तावोरा ही कूड घेवन वेतालो. तारवा वेलो लोक त्या कायशांवा मुखार वाती पेटयतालो आनी धूंप घालतालो.

### 2. ती कूड गोंयां शारा पावता

1554 मार्साचे 16 तारकेर, सुक्रारा, ताळयांच्या आदल्या आयतारा, शाव्येराची कूड गोंयां शारा पावली. ती मानान घेंवक सगळो शारांतलो लोक धक्यार गेलो – अधिकारी मनीस, उपराजा, कातेद्रालाचे कोंग, कोंफ्रारी, परजा गिरेस्त तसो दुर्बळ लोक, दादले, बायलो आनी भुरगीं अलंकारी न्हेसण न्हेसून भायर सरलीं. उपराजाचे हुकुमेन सगळ्या इगर्जांच्यो घांटो वाजल्यो आनी कोटांतल्यो सगळ्यो

नाळी मारूंक लायल्यो. बंदरार थावन सांत पावलुचे कोलेजींत ती कूड व्हरूंक एकदम कठीण जालें -- रस्त्याचेर लोकांची खेट जाल्ली. इगर्जेंत पावतांच कायशांव उगडलो. हे इगर्जेचो फुडोच आतां उबो आसा.

उपराजान ती कूड तपासून पळेंवक लायली पूण लोक ती कूड पळेंवक सोदी. तीन दीस ती कूड उमावाक दवरली. लोक पांयांचो उमो घेतालो; कोंतां, खुरीस, आर्लुको, लेंस लायताले. निमाण्या दिसा मद्यान रातीर, ती कूड एक नव्या कायशांवांत घातली आनी आल्तारा कुशीक एके समाधींत वा तुंब्लांत घालून दवरली. (M.X.II, 901-909; D.I.,III, 75-77).

### 3. दुबावी मनीस

शाव्येराची कूड घेवन येतालें तें तारूं भोव सवकास येतालें. ती कूड पवित्र साताळ्यांत पावलली गोंयच्या अधिकाऱ्यांक नाका आसलें, कित्याक ते कुडीक लागून पवित्र साताळ्यांतल्या धर्मसेवीक रितींक वायट परिणाम पडतलो आसलो. देखून पाद्र नुनेस बार्रेत जो आतां शाव्येराच्या मरणां उपरांत प्रांतीक व्हडील जाल्लो, ती कूड वेगीं गोंयां हाडूंक गेलो. अशें करूंक ताणें उपराजाचें वेगान चलपी तारूं मागून घेतलें.

पूण बार्रेताचो हेतू वा शेवट जावन आसलो वेगळो. ती कूड गोंयां शारा पावचे आदींच खरेंच जिवी आसा जाल्यार तो आपल्या दोळ्यांनी पळेंवक सोदी कित्याक गोंयां शारा सगळो लोक हे जिवे कुडी विशीं गजाली करी, आनी ती एक फट वा फकांड जायत म्हण बार्रेताक भिरांत पडलली. ह्या हेतून बार्रेत तें तारूं घेवन गेलो, आनी भटकळ (उत्तर कानारा) म्हणतात त्या गांवा सामकार तें पोरणें तारूं गोंयां येतालें तें ताका मेळलें. तो त्या तारवार भितर सरलो आनी ती कूड आपणाचे हात लावन तपासली आनी ती खरेंच जिवी आसा म्हण ताका खात्री जाली. ही खबर तो मागीर इनासाक देजेंब्राचे 3, 1554 तारकेर एक चीट बरोवन पाटयतलो. (M. X. II, 750). बार्रेता वांगडा मानुवेल तेयशेर आसलो आनी ताणें ते कुडिची आनी न्हेसणाची बारिकसाण दिल्या. कुडीक लागलल्या न्हेसणाक कांयच जांवक नासलें. तेंच न्हेसण घालून पाद्र मेस्त्र जपानाच्या राजाशीं वचूंक सोदी. हेंच न्हेसण घालून शाव्येर चिनाच्या पातशायाक भेटूंक सोदी. (M. X. II, 905).

हें एक विजमीत म्हण चालत्या लोकान मांदून घेतलें पूण जाणारांक, व्हडले तकलेच्या मनशांक, दुबाव आसलो. ते म्हणत ती कूड बाल्सामार केल्या,

पोटांतलें सगळें काडलां दिसता, आनी अशें पोट आनी हरडें पोल्कें आसा. उपप्रांतीक व्हडिलाक परयान अधिकाऱ्यांच्या दोळ्यां मुखार ती कूड तपासून पळेले बगर परजेची भक्ती आनी उमो नाका आसलो. विगार जेराल, कोंग, धार्मीक मनीस आनी उपराजा हांचे हुजीर पूण गुप्तीं ते कुडिची परिक्षा करूंक जाय आसली. (D. I. III, 123-429). ह्या दुबावाक लागून धार्मीक जमो वा समुदाय (religious communities) (D.I.III, 123, n. 5) त्या उत्सवीक आनी दबाजीक मिरवणुकेंत वा पुर्सांवांत वांटो घेंवक सांत पावलुचे कोलेजींत गेले नांत. (M.X.II, 907) जरूय व्यक्तिगत धार्मीक (individual religious) मागीर कूड पळेवपाक गेले (D.I.III, 76, n. 10,13; XIII, 573, n. 22). पूण परजेची भक्ती जावन आसली इतली की फ्रांसिस्कान मठवाशी दुसऱ्या दिसा गेले आनी सायबिणिचें मीस गायलें आनी न्हय मेलल्यांचें (D.I.III, 77, n.12).

**4. तपासणी**

हे सगळे दुबाव पयस करपाक, दों आंफोस द नोरोञा, ह्या उपराजान रोकडीच दुसऱ्या दिसा एक तपासणी करूंक फरमायलें (मार्स 17, 1554) (M.X.II, 910). ही तपासणी केली दों. कोस्मास सारायवा ह्या वैजान आनी दों आम्ब्रोसियु रिबेयर, विगार जेरालान, कित्याक तोय वैज जावन आसलो.

हे तपासणेचो निकाल छापून दवरललो आसा तो आमी हांगा दिनांत पूण इतलेंच सांगतां. ती कूड त्या वैजांक जिवी मेळली पोटांतल्यो आंतकड्यो आसल्यो, रगत आसलें. हरड्याचे दावे कुशीक एक सुपुर्लो बुराक आसलो तांतूं दो. रिबेयरान बोट लोटलें. दो. सारायवान दोगां जेज्वितांक त्या बुराकांत बोट घालूंक लायलें. तांच्या बोटांक रगत लागलें ताचो दो. सारायवान वास घेतलो आनी तें ताजें आसा म्हण ताका कळलें. (M.X.II, 911; M.H.S.J.II, p. 911). ते दोग जेज्वीत म्हळ्यार एक विद्यार्थी जुवांव ब्रावु (1529-1575) आनी एक ब्रदर आंतोन्यु दियास.

शाव्येराची कूड सांत पावलुचे कोलेजींत उरली 1560 वर्सा पासून, जेदनां ती इगर्ज मोडून वाडोंवची पडली. मागीर शाव्येराचो कायशांव एके कुडिंतलो दुसरे कुर्डीत दवरचो पडलो आनी शेकीं तो नवे इगर्जेचे साक्रिस्तींत दवरलो. 1613 वर्सा ती कूड सांत पावलुचे कोलेजिंतली एक दीस भायर सरली आनी बऱ्या जेजुच्या कोंवेंतांत वचून रिगली. 1560 वर्सा बारदेसांत आनी साश्टींत क्रिस्तांवपण रिगेंच भितर सरतालें.

## 5. कुडिंतलें रगत व्हांवता

शाव्येर मार्तीर जांवक सोदी. ताचे कुडीक कोणें हात लायलो ना, रगत व्हारयलें ना. पूण तो मरतच ताची कूड जायते पावटीं कातरली आनी शिंदली आनी तेदनां रगत व्हांवलें (Or.C.I, 384,415).

पांच पावटीं शाव्येराचे कुडिंतलें रगत व्हावलें म्हण पाद्र फ्रांसिस्क शाव्येरान बरोवन दवरलां. (Or.C.I.416).

i) सांचियान जुंव्यार, फोंड उगडून त्या कोप्ताच्या सेवकान दिंबये सकयल दाव्या पांयाच्या मासाचो बोटा येदो कुडको कातरलो तेदनां रगत भायर सरलें.

ii) मालाकाक दुसरे पावटीं ती कूड पुरली तेदनां, गोमटी मोडली म्हण वयर आमी पळेलां. हेय पावटीं रगत व्हांवलें जेदनां गोमटेची कात पिंजली.

iii) मालाकाक ती कूड पुरता आसताना, कायशांव नासताना खडबडीत फातरांची माती वा शेंकरे त्या फोंडांत चेपून घातले तेदनां दाव्या पोल्याक एक घाय पडलो, नाक चेंचलें, आनी हरड्याचे दावे कुशीक घाय वा बुराक पडलो ह्या सगळ्यां घायांतलें रगत व्हावलें. कितलें? कोणेंच हाचेर ध्यान मन दिलें ना. तोंडार लेंस घातललो तो शितळ रगतांत भिजललो दिश्टी पडलो. (Or.C.I. 412).

iv) गोंया शारा पावतच, इजाबेल द कारोन हिणें उजव्या पांयाच्या किरमळेक घांस मारलो तेदनांय रगत व्हांवललें. (Or.C.I. p. 416).

v) आनी शेकीं पांचवे पावटीं रगत दिश्टी पडलें जेदनां दो. कोस्मास द सारायवान कुडिची तपासणी केली आनी हरड्या वयल्या बुराकांत वा घायांत बोट घालात म्हण दोगां जेज्वितांक त्या वैजान सांगलें. तेदनांय तांच्या बोटांक रगत लागलें.

ह्या पांच पावटीं रगत कितलें व्हांवलें आनी तें कशें बंद पडलें ते सांगूंक कोण शकना. अशें ते कुडिंतलें रगत उणें जावन गेलें दिसता. दो. आंब्रोजियो रिबेयर ह्या वैज विगार जेरालाक झोळयो मेळल्यात पूण सुकलल्यो ती सगळी खबर मार्साच्या म्हयन्यांतली 1554 वर्सा. तेदनां शाव्येर मेल्यार साडे तीन म्हयने जाल्ले उपरांत रगताची खबर मेळना. हात कातरललो तेदनांय रगताची खबर मेळना.

## 6. कूड कातरली, शिंदली

i) सांचियान जुंव्यार *सांताक्रूज* तारवाच्या कोप्ताच्या सेवकान दाव्या पांयाच्या मांसाचो बोटा येदो कुडको कातरलो (17-2-1553).

ii) मालाकाक दुसरे पावटीं ती कूड पुरताना, गोमटी मोडली कित्याक तो फोंड मोटवो आसलो. (22-3-1553).

iii) उजव्या पांयाची किरमळी दोना इजाबेल कारोन म्हणलले मर्दिवंत अस्तुरेन चाबून काडली (मार्स 1554) कित्याक ते कुडिचो एक उगडास जाय आसलो. ही रेलीक आपल्या घरा आसा म्हण 1782 वर्सातली दाकोवण जांवचे आदीं कुडिची तपासणी करताले तेदनां गोयच्या इन्सपेक्टर जनरलान सांगून दिलें. ह्या बोटाचो एक कुडको त्या इन्सपेक्टराचे पिळगे कडेन पुर्तुगालाक आसा आनी दुसरो कुडको शाव्येर कोटांत 1902 वर्सा पावलो. (Sch.Varia 1,346).

iv) 1890 वर्सातली दाकोवण जातच उजव्या पांयाचें एक बोट पडलें. दों वालेंतीन आर्चबिस्पान तें मागीर 1894 वर्सा एके रेलिकारींत घातलें, आनी आतां तें साक्रिस्तींत दवरलां एक ऊंच हारश्या पेटेंत, जी पाद्र जोर्ज द सान, 1974-75 वर्सातली दाकोवण जातच करूंक लायल्ली. तें हारशा पेटूल पणजे एका सालेजियन ब्रदरान केल्ले. हे रेलिकेचें बेसांव सुक्राराच्या सुक्रारा मिसार 1981 वर्सा पासून मिसा उपरांत साल्व कांतार करतच भावार्थ्याक दिताले. आतां हें बेसांवूय काडलें, पूण उमो मेळता.

v) उरलल्या दोन बोटांची खबर खात्रेन मेळना. पूण 1910 वर्सातले दाकोवणे वेळार चवथ्या बोटाचीं दोन पेरां एके कातीर लांबतालीं म्हण आमी जाणांव, आनी तीं मागीर पडलीं, आनी दों माथेवस द उलिवेयरा शाव्येर ह्या पात्रियार्कान मागीर ते साक्रिस्तींत आसा ते रेलिकारींत 1911 फेब्रेर 11 तारकेर तीं घालूंक लायलीं.

vi) उजवो हात दोन पावटी कातरलो. पयले पावटीं 1614 नोवेंब्राचे तिसरेर कोंपर परयान. हें कातरप करूंक फा. क्लावद आक्वाविवा, जेज्वितांच्या सर्व व्हडिलान हुकूम सोडललो. हो क्लावद कुंकळेचो मार्तीर रुदोल्फ आक्वाविवाचो बापोलयो जावन आसा. येत्या वर्सा तो हात रोमाक धाडलो आनी आतां जेज्वितांचे जेजू इगर्जेत, रोमाक, दिश्टी पडता. हे रेलिकेचो सुपुरलो कुडको मालिन्स शारा, बेल्जिकेक धाडून दिल्लो.

vii) दुसरें कातरप जालें आब्रिलाचे 27, 1619 तारकेर. तेदनां उरललो उजवो हात भुजार परयान कातरलो आनी हेंय कातरप करूंक त्याच जेज्वीत सर्वव्हडिलान आज्ञा घातलली. जपानाच्या जेज्वितांक ही रेलीक धाडची केल्ली कित्याक थंयच्या जेज्वितांनी ती मागलली. तेदनां जपानाक एक मारेकार धुमाळो चलतालो आनी जपानाच्या पयल्या प्रेशिताची आनी मिशनरिची मजत ते मागूंक सोदी.

हाताचो वयलो कुडको जपानाक धाडलो पूण भुजाच्या हाडाचे तीन वांटे केले: एक कोचिनाचे कोलेजीक धाडलो, दुसरो मालाकाक, आनी तिसरो माकाव (चीन) (BEAG, 1956 P. 128). जेदनां डच वा होलांडेजांनी 1643 वर्सा मालाका, आनी 1663 वर्सा कोचीन आपल्या ताब्यांत केल्लीं ह्यो रेलिको सांडल्यो (Sch. Varia I, 346). जेदनां जेज्वितांक थंयसरले धांवडायले जपानाचीय रेलीक सांडली.

फकत माकावुची रेलीक सांत जुजेचे सेमिनारिंत आजून आसा (*The Fourth Century of St Ignatius of Loyola*, p. 20).

viii) 1952 वर्सा धावी दाकोवण जाल्ली तेदनां एका पांयाची सुकलली कात लांबताली ती दों जुजे द कोश्ता नुनेस ह्या पात्रियार्कान (उपरांत कार्दियाल) कातरली आनी ते कातिच्यो जायत्यो सुपुर्ल्यो रेलिको केल्यो. 1964 हे कातिचो एक बरो सुमाराचो कुडको मो. फ्रांसिस्क शाव्येर रेबेल द पियेदाद बिस्प आसलो तेदनां मुंबय दाबुलचे सांत फ्रांसिस्क शाव्येराचे इगर्जेक दिलो.

ही रेलीक मों. आयरीश फेर्नांदीश, तेदनां दाबुलचो विगार, हाणें मागलली. दाबुलांत आतां मार्सांत ही रेलीक घेवन उपकार मागून घेंवपाचें नोवेन जाता. (मार्स 4–12).

1556 वर्सा सांत पावलुचे कोलेजींत एक रेलिकारी आसली आनी तांतूं खंय सांताचे केंस आसले, घडये कायशांवांत पडलले ते एकटांय केल्ले दिसता.

ix) 1636 वर्स जाता म्हणसर पोटांतले सगळे सांदे काडले आनी रेलिको कश्यो उदेंतेक तश्यो अस्तमतेक वांटल्यो. ह्यो रेलिको म्हळ्यार हरड्यांतल्यो, आंतकड्यांच्यो, मासाच्यो आनी भितरल्या सांद्यांच्यो (Sch, Varia I. 348).

दुबाव ना, ह्या कारणांक लागून ती कूड इल्ली इल्ली सुकूंक लागली आनी ते सगळे कुडिचो भंगस्थळ जालो.

## 7. कूड सुकून गेली

शाव्येर मरतच, पंदरा म्हयन्यां उपरांत परयान कुडींत रगत आसलें म्हण आमी वयर पळेलां. मार्साचे 17 तारकेर 1554 वर्सा ती कूड दोग वैजांनी तपासली तेदनां ते कुडींत जिवें रगत आसलें.

पूण 1614 वर्सा उजवो हात कातरलो तेदनां त्या हातांत कांय रगत नासलें. कुडिंतलें रगत पाजरत जाल्यार तो हात कातरचो न्हय म्हण थोड्या पाद्रिंनी जेज्वीत प्रांतीक व्हडिलाक शिडकायल्लो.

1654 वर्सा ते कुडिची आनीक एक तपासणी केल्ली वा ते कुडीक हात लावन ती कशी आसा ते तरीं पळेली. हें सगळें करतच, ते तपासणेची खबर एक फ्रांसेज जेज्वीत पाद्री, जोस सिमों बायार्द, म्हणलल्यान बरोवन दवरलां. गोंयां शाराचें आनी फ्रांसिस्क शाव्येराचे कुडिचें हें सगळें वर्णन, त्या फ्रांसेज जेज्वितान फ्रांसाच्या जेज्वितांक बरोवन धाडललें. ह्या वर्णनांत बायार्द ते कुडिची बारिकसाणेन खबर दिता. ती कूड एका जिव्याच मनशाची कशी पळेंवक दिसताली. रगत व्हांवता तसलें, ओंट हालोंवक जातात तसले, मास घट, रंग रसरशीत, पांय नीट उबे आनी नाकशो वाडलल्यो... (आनी अशें जायतें). हें विस्मीत पळेवन एक होलांदेज प्रोतेस्तांत, होलांदेज उदेंती कंपणेचो जाळवणदार (Commissary of the Dutch East India Company) मिनहेर वानद्र्येर्स कातोल्क धर्मांत भितर सरूंक कबूल जालो (M.S. II, 777).'

अशें जाल्यार ते कुडींत इल्लें तरी रगत (fluid) आसलें जायत पूण न्हय भायर सरून व्हांवता तसलें.

पूण 1698 वर्सा ती कूड इतली सुकली की हाडां धील जावन गळगळीत कशीं जाल्लीं. हे पासत रोमाच्या अधिकाऱ्यांनी ती रेलीक बंद करूंक फर्मायलें आनी फकत हारश्यांल्यान पळेंवक जाता तशी दवरूंक लायली पूण नीट हात लांवक जाता तशी न्हय. हो हुकूम पाळलो म्हण पाद्र फ्रांसिस्क द सोजा, बऱ्या जेजुच्या घराचो व्हडील, जेज्वितांच्या सर्वव्हडिलाक रोमाक कळीत करता: ती रेलीक एक पेटुलांत बंद केल्या ताच्यो दोन चावयो धाडल्यात – एक रायतुरच्या रेयतोराक (सांत इनासाची कोलेज, आतां म्हान सेमिनार) आनी दुसरी वसई (बसीन) धाडल्या. म्हजे लागीं तिसरी चावी आसा ती दर्याचे खोरीक उडोंवक म्हाका रजा दी.

आनी अशें कित्याक पाद्र फ्रांसिस्क चिंततालो? हो बऱ्या मनाचो मनीस, कुडिची खरी दशा लोकाक कळत जाल्यार आनी ती आजून याज्ञिकाच्या आंगवस्त्रांनी न्हेसयल्ली आसली, तो लोक ही सगळी नाड वा लबाडी आनी दगलबाजी म्हण जेज्वितांचो गुन्यांव करतलो म्हण भियेतालो. (M.X.II, 778,780).

पाद्र फ्रांसिस्क द सोजाक इतलो निराशी जांवची गरज नासली. ती कूड जरूय रगत तांतूं नासलें, कुसनासताना 150 वर्सां तरी उरलली जायत्या जणांक तिची तपासणी करता आसताना मेळली. पूण पाद्र फ्रांसिस्काचें करतूब आनी चिंतप जावन आसलें सुमार 145 वर्सां जातच. त्या उपरांत ती कूड इल्ली इल्ली

विरगून गेली जायत आनी आयज तिका कूड म्हणूंक जायना बगर हाडां, आनी तीं सगळीं एत्तोरे ब्रांदिज्ज़ी ह्या इतालियानी इंजिनेरान 1955 फेब्रेराच्या म्हयन्यांत नीट बसयल्यांत. तोंडाक इल्लें सुकललें मास वा कात आसा. दावो दोळो आदले भाशेन भायर सरललो कसो ना. आसकिट्यो अजून आसात. तोंडाची कात सुकल्या, आंकुडल्या आनी थोडे सुवातेर खडबडीत जाल्या, आनी खाडाचे केंस खाडकेक चिटकवलले आसात. सकयले दाडयेशी एक बुराक कसो वा खोणकूल आसा, आनी तांतुंतल्यान स्पश्ट हाड दिश्टी पडता. उजव्या कानाची कानपय सारकी झरून वा सुकून गेल्या हातांत आनी पांयांत शिरो दिश्टी पडतात. उजवी खोंट कडसरल्या पूण ती आपले सुवातेर दवरूंक एक तार बांदल्या. जे भाग आतां दिश्टी पडतात तांची कात आतां मातयेची कशी दिसता वा सुकललें लांकूड कशें दिसता.

आतां अशी आसा त्या रेलिकांची दशा आनी भेस. हे पासत *कूड* म्हण आतां पाचारिनांत बगर *रेलीक,* म्हणजे जें कितें ते कुडिचें उरलां तें.

**8. विस्मीत सोंपलें?**

तो मेल्या उपरांत देड शेंकडो तरी शाव्येराचे कुडीक मनशाचे कुडिचो आकार आसलो जायत, जरूय रगत आटललें आसलें जायत. उपरांत ती कूड सुकून सुकून आंकुडली, अदीक करून भितरल्यो आंतकिट्यो, झोळयो काडल्यो तेदनां. आतां रेलिकूच वा चड करून हाडांच जाल्यांत जाल्यार, पयल्या शेंकड्यांतलें विस्मीत आमच्यान नाकारूंक जायना. पूण तें विस्मीत सदांच संसार सर परयान उरचें म्हण ना. जेजून मेल्ल्यांतलीं जिवंत केल्लीं तीं परयान मागीर मेलीं म्हण विस्मीत घडूंक नासलें, अशें आमच्यान म्हणूं येत? शाव्येरानूच कितल्या जाणांक जिवीं केललीं पूण मागीर उपरांत तीं मेलीं. जेजून जिवंत केल्लो लाजारुसूय उपरांत मेलो. हीं मरणां, आदलीं विस्मितां नाकारिनांत. त्या काळार जेदनां उदेंतिचें क्रिस्तांवपण तरनें आनी भुरगें आसलें, तें सांबाळूंक आनी ताची परामस करूंक ह्या विस्मितांची गरज आसली जायत. सांत म्हा ग्रेगोर म्हणताः सुपुरल्यो रोंपयो आसतात त्यो पाळ घेय परयान आमी त्यो शिंपतांव आनी मागीर शिंपप बंद दवरतांव. तशेंच शाव्येराचे कुडिच्या विस्मिता विशीं आमी चिंतूंक जाय. त्या काळार नव्या क्रिस्तांवां खातीर त्या विस्मिताची गरज आसली, 150 वर्सांनी तरी, न्हय उपरांत.

वर्सा गेलीं तशी विरगळलली फ्रांसिस्क शाव्येराची कूड एकूच न्हय. अशें जायत्या कुडीं विशीं घडललें आसा – थोडीं वर्सां सांतांच्यो कुडी कुसनासताना उरल्यात आनी उपरांत त्यो सुकल्यात, विरगळल्यात आनी पाड जावन सोंपल्यात. अशेंच घडलां फ्रांसिस्क शाव्येरा बराबर सांत केल्ल्या भागेल्यां विशीं. 1622 वर्सा एकाच फाराक पांच जणांक सांताचे पद फावो जालें: लोयोलाचो सांत इनास, फ्रांसिस्क शाव्येर, माद्रिदचो इजिदोर, आविलाची तेरेजा आनी फिलीप नेरी. हांतल्या चौगां जणांच्यो कुडी जिव्यो कश्यो उरल्यो, भायरावन सांत इनासाची. शाव्येराचे कुडिची गजाल आमी लांब-दीग हांगा केल्या. उरलल्यो तीन कुडी खंय पावल्यो. त्यो तीन कुडी आज नपयत जाल्यात. (Thurston: *The Physical Phenomena of Mysticism*, ch. X. Incorruption).

आल्बा द तोर्मेस ह्या गांवांत, एस्पाञाक, कार्मेलीत माद्रिंच्या कोवेतांत एका आल्तारा पोंदाक सांत तेरेजाच्यो रेलिको दवरल्यात एक मडें कशें. एक दीस त्यो पळेंवक हांव पावलों. 1976 वर्सा ह्या रेलिकांची खबर विचारूंक हांवें त्या माद्रींक एक चीट बरयल्ली. जबाब असो मेळलो: त्यो रेलिको आमी केदनांच उगडलल्यो पळेंवक नांत, आनी आतां कश्यो आसात तें अमी नकळोंव.

## 9. कुसूंक नासलल्यो कुडी

सांत फ्रांसिस्क शाव्येराचे कुडिची भरपूर खबर केल्या; 150 वर्सां तरी मरणां उपरांत त्या सांताची कूड जिवी कशी आसली जरूय रगत नासलें. उपरांत ती कूड, अदीक करून पोटांतल्यो झोळयो आनी आंतकिट्यो काडतच, ती सुकून आनी आंकडून गेली. आंकडून गेली जाल्यार, पयल्यां वर्सांनी विस्मीत दिसलें ताचें मोल उणें जावन वचना. अशें जायत्या कुडींक घडलां. जायत्यो कुडी थोडीं थोडीं वर्सां जिव्यो कश्यो उरल्या उपरांत त्यो नपयत जावन गेल्यो.

सांत फ्रांसिस्क शाव्येरा बराबर, मार्साचे 12 तारकेर 1622 वर्सा ग्रेगोर XV पापसायबान पांच जणांक सांत म्हण पाचारले 1) लोयोलाचो इनास 2) फिलीप नेरी 3) आविलाची जेजुची तेरेजा 4) माद्रिदचो इजिदोर आनी 5) फ्रांसिस्क शाव्येर. लोयोलाच्या इनासाची कूड कुसली पूण ताची तकली बरे भाशेन सांबाळून दवरली, आनी ते तकलेचो, फोटू काडून जायत्या विद्यार्थ्यांनी अभ्यास केला. पूण उरलल्या चार सांताच्यो कुडी कांय वर्सां कुसनासताना उरलल्यो तांकां आल्ताराचो मान मेळलो तेदनां त्यो जिव्यो कश्यो आसल्यो पूण उपरांत त्यो सुकल्यो (Thurston: *The Physical Phenomena of Mysticism*, ch. X,

Incorruption). (पळे *St. Francis Xavier and his Shrines* by P. Rayanna, S.J., p.161). आविलाची सांत तेरेजाचे कुडिची वा रेलिकांची खबर 'Carmelitas Descalzas' आल्बा दे तोर्मेस, (Spain), ह्या कोंवेंताची व्हडील (प्रियोरा) मारिया लूज तेरेज दे ला युकारिस्तिया सेतेंब्राचे 11 तारकेर 1974 वर्सा एक चीट बरोवन आमकां खबर दिताली अशी:

"आमचे भागेवंत आवयचे कुडी आनी काळजा विशीं तूं खबर मागताय ती हांव व्हड खोशेन दितां. ती कूड आज कशी आसा ती सांगूंक म्हजे कडे घडचें ना, कित्याक 1914 वर्सा थावन तिची समाधी वा कायशांव उगडुंकूच ना. म्हज्यान खात्रेन इतलेंच सांगूं येता: त्या वर्सा ती कूड इतली निगूत आसली की ती एका उश्यार उबी करून दवरली. हें उशें आजून सांबाळून दवरलां. तिका अशी उबी केली कित्याक, जशें तूं जाणा जातलोय, तिका एक पांय ना, आनी तो रोमाक व्हरून दवरला. हाची गवाय दिता एक गवायी, ह्या कोंवेंतांतली भोव आदली माद्र. ती तेदनां रिगीज कोंवेंतांत भितर सरलली.

"तिच्या काळजा आनी बावळ्या विशीं कितें सांगूं? दोनूय एका हारश्यांत घालून दवरल्यांत आजून बरे गतीर आसात. दर वर्सा हजारांनी लोक तांचें दर्शन घेंवक येता. हांकां कूस पडूंक ना पूण सुकलले भाशेन जाल्यांत. जो रंग आंगार दिसता तो घडये जायत चुन्याक आनी फातराक लागून जे तेरेजा दे लायज, कोंवेंतांची स्थापणारीण, हिणें सांत तेरेजाचे कुडीर घालून लायलली, हे परीं ती कूड वेगीं खावन वा कुसून वचपाक , आनी हांगासरली व्हरना जावपाक.

"देवान तिका भगसुंची, पूण तिचें करतूब उपकारलें हें कुसनासताना उरललें विस्मीत अदीक उगडापें करून दाकोवपाक. आनीक एक विचित्र वस्त : ज्या हारश्याच्या बोक्सांत तिचें काळीज घातलां, त्या हारश्याक बुराक आसात बुराक नासताना सगळें वारें काडून बंद केल्लें जाल्यार, तें बोक्स फुटतलें आसलें. तिचें काळीज आजून धबधबता कशें दिसता.... इतलेंच म्हज्यान तुका कळीत करूंक जाता आनी इतल्यान तूं धादोशी जातलोय म्हण समजतां."

## 10. आनिकूय कुसूंक नासलल्यो कुडी

सोंपलली फादर ए. रेह्म, जे. स. 1974 वर्सा ही खबर आमकां दितालो:

1) जो फोटू हांवें तुका दाकयलली तो म्हळ्यार सांत बेर्नादेत सुबिरुचो. ह्या चेडवाक लुर्दिसाक सायबीण दिश्टी पडली आनी तिची कूड हांव पळेंवक गेलों. तिची कूड नेवेर गांवांत 1879 वर्सा फ्रांसाक पुरलली. 46 वर्सां तिची कूड

सिमित्रेंतूच उरली. 1925 वर्सा थावन ती कूड एका हारश्याचे पेटेंतल्यान पळेंवक मेळता. आनी ती पेट नेवेर गांवांत त्या माद्रिंच्या कपेलांत दवरल्या.

2) ते भायर आनिकूय कुसनासलल्यो कुडी आसात:

a) सांत कातारीन लाबोरेची, जिका सायबीण दिश्टी पडली पारीस शारांतल्या कोंवेतांत आनी अचर्यांची आर्लूक दिली.

b) आविलाची सांत तेरेजाची कूड. (वयर बारिकसाण दिल्या).

c) सांत सोफी बाराची कूड, तिणें पवित्र काळजाची संस्था घडली.

d) सांत जेम्मा गाल्गानिची. तिचे कुडीर जेजुचे घाय पडलले. ती 1903 वर्सा मेली.

e) भागेवंत शारबोल माचलूग, लेबानोनांतलो एक मठवाशी. तो देजेंब्र 24, 1898 तारकेर मेलो.

हे भायर आनिकूय कुडी जिव्यो आसात पूण ह्या नेणाराक तांची खबर ना. हांगा परयान सोंपललो पाद्री. ए. रेह्म, जे. स.

मुंबय थावन कोण एकल्यान नांव घालिनासताना एक पोस्टकार्ड बरयलां:

"1965 वर्सा, सांत पेद्रुचे बाजिलिकेंत भितर सरतल्याक चार सांतांच्यो रेलिको दिश्टी पडताल्यो, आनी त्यो सदांच पळेंवक उगत्यो दवरल्यात: एक पियुस X पापसायबाची, एक इनोसेन्त पापसायबाची, उरलल्या दोगां सांतांचीं नांवां आतां म्हाका येनांत. पियुस X पापसायबाचे कुडीक मिसाची न्हेसोवण घातल्या, आनी ती कूड हारश्यांतल्यान दिश्टी पडता, तोंड धांपललें आसा एका लेंसान गाय? हे कुडी वयर आल्तार आसा. ताचेर मीस भेटोंवक आपली पाळी केदनां येतली ती पळेंवक जायते पाद्री साक्रिस्तींत रावताले.

"लंडनाक Westminster कातेद्रालांत एका सौतवर्क मार्तिरिची ताजी कूड आसा." (हें पोस्टकार्ड पावललें तेदनां म्हज्या ओफिसांत एक इंग्लेज पत्रकार आसलो ताचे कडे ह्या सांताची खबर हांवें विचारली पूण ताचे परमाणें ती कूड त्या कातेद्रालांत आतां ना, आदीं आसली जाल्यारूय तो सांगूंक नकळो आसलो.)

"आसिसी शारांत, रोमाक थावन आगगाडयेन तीन वरांची वाट, सांत कामियांवाचे इगर्जेंत आसिसाचे सांत क्लाराची 800 वर्सांची कूड आसा. सांतीण सवोस्तायेन न्हिदलले भाशेन दिसता. पाद्वा (Padua) शारांत (इतालियेक) एका पुर्तुगाली सांताची ताजी वा जिवी जीभ उम्याक दवरल्या. हो सांत म्हळ्यार सगळ्यांचे आवडिचो सांत आंतोन."

ह्या जायत्या कुडिंची खबर सांत फ्रांसिस्क शाव्येराचे कुडिच्या निमतान हांगा दिल्या. ह्याच सांताची कूड कांय वर्सां जिवी उरली तशेंच आनीक जायत्या कुडींक घडलें म्हण आतां कळून येतलें.

आनीक एक वस्त पाद्री ए. पेरेरा, जे.स. रुदोल्फ आक्वाविवाची खबर करून सांगता: "रुदोल्फाची आवय (मार्गारिदा) शेगुणी, देवमोगी आनी मनीस मोगाळ जावन आसली. भागेवंतपणीं [ती] जियेली आनी भागेवंतपणीं सोंपली. 33 वर्सां उपरांत, तिचो फोंड उगतो केलो [तेदनां], तिची कूड जिवी ताजी आसली, तिचो एकूय केंस झडूंक नासलो." (साश्टिची तांबडी माती, पान 17).

फ्रांसिस्क शाव्येराची कूड आतां हाडांच जांवक पावल्या जाल्यार आदीं विस्मीत जालां ताचेर आमच्यान दुबाव घालूंक जायना. जेम्स ब्रोड्रीक, जे.स. बरयता: "एक विस्मीत सदांच तगना जाल्यार, विस्मीत केदनांच घडुंकूच ना म्हणूं नज. तशें उजत केल्यार, लाजारुसाक जिवंत केलो तें एक विस्मीत न्हय कित्याक तो उपरांत मेलोच, अशें आमी म्हणूंक सोदतांव कशें दिसतलें. जायतो काळ जायत्या सांतांच्या कुडींक मेल्या उपरांत सांत फ्रांसिस्क शाव्येराचे कुडीक गूण आसले तसलेच तांचेय कुडींक आसले म्हणजे सांत इजिदोर, माद्रीद शाराचो आस्कारी; सांत जेम्स देल्ला मार्का, एक फ्रांसिस्कान; बोलोञाची सांत कातारीन; दोगी कार्मेलीत सांतिणी, जेजुची तेरेजा आनी मारिया मागदालेना दे पाज्जी; सांत लुवीस बेत्रांद दोमिनिकान, हांच्यो, पूण दर एक कूड उपरांत सुकली." (*St. Francis Xavier*, New York 1957, p. 327).



ते भायर कासियेच्या रिताचीय कूड जिवी आसा वा आसली म्हणतात. एवरोपाक आसलल्या थोड्या कुडींक मेणाचें रुपणें दिलां आनी ते पासत तांकां

खऱ्यो कुडी म्हणूंक जायनांत. असलेंच रुपणे सांत फ्रांसिस्क शाव्येराचे रेलिकेक दिवपाक दों जुजे कोश्ता नुनेस, तेदनांचो आर्चबिस्प आनी पात्रियार्क 1953 वर्सा सुचयतालो, पूण ती सुचना एका गोंयकार वैजान मांदून घेतली ना, आनी ते पासत त्यो रेलिको आज पासून तश्योच उरल्यो.

---

[1] ही तपासणी कित्याक जाली? त्या समयार (1654) एस्पिनोला म्हणलल्या बिस्पाक, उर्देतिचो विगार आपोस्तोलीक कसो, गोंयां शारा संस्कारलल्लो. एक फ्रांसेज जेज्वीत, पाद्र जुजे शिमांव बायार्द, त्या बिस्पाचो संक्रेतार वा चिटणीस जावन आसलो. ह्या नव्या बिस्पाक फ्रांसिस्क शाव्येराची कूड कशी आसा ती पळेवक जबर खुशी आसली. हे पासत भोंव गुप्तीं रातच्या वेळार तुंब्ल उगडलो, देड वरभर त्या बिस्पान आनी बायार्दान ती कूड तपासली. ती तपासता आसताना उपराजा आनी आनीक तेग अधिकारी आसले.

# भाग तीन

## कुडिच्यो रेलिको

गोंयच्या सायबाची कूड कितले पावटी शिंदली कातरली तें आमी पळेलां (भाग 2, आंक 6). आतां आनी त्या कातरलल्या भागांची इल्ली बारिकसारीक खबर दितांव.

**1. गोंयच्या सायबाक एक हात कित्याक ना?**

सांत फ्रांसिस्क शाव्येराचे कुडिचीं हाडां आज सगळीं आसात? ना. उजव्या पांयाचीं चारूय बोटां नांत ती एक वस्त, पूण उजवोय हात ना म्हण तुमी जाणांत? कितें जालें तर ह्या हाताक? एक दीस कोणें तरी तो कातरलो जायत? आनी आतां खंय आसा? हांगा फकत उजव्या हाताची खबर करुंया. हो हात दोन पावटीं कातरलो.

पावल V-व्या पापसायबान गोंयच्या सायबाची रेलीक वा हात मागलो खंय. ती काडूंक जेज्वितांच्या व्हडिलांची रजा जाय आसली, आनी ती पाद्र क्लावदियो आक्वाविवान दिंवची पडली. हो जेज्वितांचो व्हडील म्हळ्यार आमच्या कुंकळेच्या मार्तीर भागेवंत रुदोल्फ आक्वाविवाचो बापलो. ह्या व्हडिलाची खुशी पाळपाक, नोवेंब्राचे 3 तारकेर 1614 वर्सा मद्यान रातीं, कोणाक कळयनासताना, सांताची कूड दवरतात एका कपेलांत आनी हात कातरपाची तयारी करतात ही कातरपाची राटावळ तॉमास दियास ह्या जेज्वीत ब्रदराचे सुवादीन केल्ली. हें कातरप करपाक कसलीं हत्यारां वापरलीं तीं आमी नकळोंव. ही कातरपाची खबर आसलले, जशे पाद्र सिमांव द फिगेरेद, पाद्र फ्रांसिस्क द सोजा आनी पाद्र सेबेस्तियांव गोन्साल्वीश, हांणीं कातरप आपल्यां चिटिंचेर, बरोवपाचेर सांगलां. हें कातरप बऱ्या जेजुच्या कोंवेंताचे तिसरे माळयेर ती कूड पयल्या वर्सांनी दवरलली थंय जालें. ही तिसरी माळी आयज ना ती मोडची पडली, जशें हे फुडें कळतलें. सांत पावलुचे कोलेजिंतली हाडतच, ती आजून इगर्जेंत दवरूंक नासली. इगर्जेंत दवरली सांताक आल्ताराचो मान मेळतच आनी तो मेळलो फकत मार्साचे 12 तारकेर 1622 वर्सा, आट वर्सां उपरांत. हे पावटीं हो हात फकत कोंपर पासून कातरलो, आनी 1615 वर्सा रोमाक पावतो केलो, आनी तो आतां जेज्वितांचे इगर्जेंत जेजू म्हणलल्या आल्तारार आसा तो दिश्टी पडता. 1949 वर्सा, सांताच्या मरणाचो चवथो शेंकडो पाळललो तेदनां हो हात जपानाक व्हेल्लो आनी तसोच एस्पाञाकूय.

हो हात कातरलो तेदनां कितें जालें जायत? ह्या हाताच्यो जायत्यो काणयो कश्यो सांगून आयल्यात त्यो सगळ्यो खरेच घडल्यो जायत? हो हात कातरताना एके पावटीं "रुप्याचें एक आयदन भरसर आनी एक तुवालो भिजसर" रगत व्हांवलें म्हण पाद्रे होरासियो तुरसेलिनो म्हणललो एक जेज्वीत पाद्री 1694 वर्सा खबर दिता, आनी त्या दिसा थावन ती खबर सांगत आयल्यात. पूण हात कातरताना हाजीर आसलले त्या रगताची कांय खबर करिनांत. ही खबर आदल्या गिताचेर आसली ती दुबावाची म्हण आतां नव्या गिताचेर घालूंक ना. तेदनां कूड जिवी आनी ताजी आसली तर रगत व्हांवलां जायत.

आदली खबर सांगलली आसा पूण ती खंय बरयलली मेळता तें हांव नकळों. हो हात कातरताना हाजीर आसलो खंय जेज्वितांच्या सर्वव्हडिलान इंडियेक धाडललो प्रतिनिधी (visitador), गोंयचो प्रांतीक व्हडील (Provincial), तीग बुद्द दिवपी आनी तो ब्रदर. हात कातरूंक वेताना तीन पावटी जमीन कांपली खंय, वणती कोसळून पडतात कश्यो दिसल्यो, कोंवेताचो पाटोस सकयल देंवून पडता कसो दिसलो, तेदनां व्हडिलांनी मागणें करून सांताक उगडास केलो खंय, जसो जिवितांत आपल्या व्हडिलांक राजी जातालो तसोच आतांय जावपाक उलो मारलो. तेदनां सांतान आपलो हात कातरूंक दिलो खंय. पूण सांत फ्रांसिस्क शाव्येराक कोण व्हडील आसले काय? तोच जावन आसलो एक प्रांतीक व्हडील, गोंयां थावन जपाना परयान. ताका फकत दोग व्हडील आसलेशे दिसतात – लोयोलाचो इनास आनी पापसायब. हय, आतांय हुकूम आयलो तो ह्याच व्हडिलांचो न्हय? पाद्र क्लावद आक्वाविवाची आनी पावल V-व्या पापसायबाची. हात कातरतच एक कोपभर रगत व्हांवलें आनी तें एका कोपांत घालून दवरलें जाल्यार आज तें रगत वा कोप खंय आसा तर? कोणेंच सांबाळून दवरलें ना! एका तुवाल्यान तो हात पुसलो जाल्यार, तोय तुवालो एक उगडास कसो दवरलो ना गाय? हो तुवालो मागीर इंडियेच्या उप्रराजान, कोंद द लिञारेस, दों मिंगेल द नोरोञा हाणें पुर्तुगालाक व्हरूंक फिलीप IV हाका दाकयलो खंय.

ह्या हाताचो इल्लो कुडको, घडये जायत कातिचो कुडको, बेल्जिकेक धाडलो कित्याक थंयच्या प्रांतीक जेज्वीत व्हडिलान पाद्र कार्लोस सेरिल्या हाणें एक रेलीक मागयल्ली. ती रेलीक आतां मालीन शारांत जेज्वितांचे इगर्जेंत दवरलली आसा. 1659 वर्सा थावन हात रोमाक व्हरताना ज्या तुवाल्यान वा लुगटान गुटलायल्लो, तो ऑस्ट्रियाक आसा खंय, स्टायर मार्क सां. बार्बाराच्या कपेलांत.

वयर सांगल्या ती खबर पयल्या कातरपाची; पयले पावटीं कोपर परयान उजवो हात कातरलो.

हें कातरप करून एक व्हडली रेलीक रोमाक धाडल्या म्हण जपानाच्या जेज्वितांक खबर पावली. तांकांय असलीच एक व्हडली रेलीक जाय आसली त्या सांताचो आदार मागपाक, धीर सोदपाक, अदीक करून धुमाळ्यांच्या वर्सांनी. सांत फ्रांसिस्क शाव्येरान कातोल्क धर्म जपानाक व्हेलो तर तो जावन आसलो जपानाच्या मिसांवाचो स्थापणार आनी बापूय. उपरांत दुसरे जेज्वीत असलें मागणें करूंक लागले. ते पासत ह्या उदेंती जेज्वितांच्या मागण्याक कान दिवपाक, उरललो बावळो कातरपाचो थारायलो. हें केल्लें आब्रिलाचे 27, 1619 वर्सा, चार वर्सां उपरांत. हो बावळो कातरताना भुजाचें हाडूय कोसळून भायर सरलें.

हो बावळो कातरतच, दुसऱ्यांय जेज्वीत घरांक धादोशी करपाक, बावळ्याचे वयले दोन कुडके करून एक कोचिनाचे, आनी दुसरो मालाकाचे कोलेजींत धाडलो. भुजा फाटलें हाड माकावचे कोलेजीक दिलें. उरललो बावळो जपानाक पावयलो.

ह्या दुसऱ्या कातरपाची खबर, हें कातरप करतल्या पाद्र जाकोमे द मेदेयरुश, गोंयच्या प्रांतीक जेज्वीत व्हडिलान, दिल्ली आसा: "ताच्या उजव्या हाताचें आखें आनी सगळें हाड, कोंपर तें भूज लेगून, काडलां आनी जपानाक व्हरूंक पाद्र गाब्रियेल द मातोस हाचे लागीं दिलां." ही व्हडली जपानाची रेलीक आतां माकावाक सांत जुजेचे सेमिनारींत आसा म्हण सांगतात. जपानाची रेलीक चिनाक कशी पावली? जपानाक धुमाळो पडतच जेज्वीत पाद्री ती रेलीक घेवन मकावाक पळून गेलेशे दिसतात. आतां ती रेलीक सारकीच खंय आसा ती सांगूंक जायना. हेरां रेलिकां मदें मिसळ जाल्या जातली. सांत जुजेचे सेमिनारींत जायतीं हाडां आसात तांतलें एक त्या बावळ्याचें जांवक जाय! जेज्वितांचेर पुर्तुगालान धुमाळो धाडून सांत फ्रांसिस्क शाव्येराच्या वावराचो भस्म केलो तेदनां त्यो रेलिको जळीं मळीं पडून वा दुस्मानाच्या हातांत पडून, नांच जाल्यो जायत.

**चत्राय:**

ह्या कातरपाची खबर *'सांत फ्रांसिस्क शाव्येरा'* ह्या आदल्या गितांत आसली ती अशी.

*हात कातरच्या वेळारी,*
*फ्रादिंच्यो जाल्यो हुयेली*

*रगताच्यो जाल्यो झरी*
*भक्ता भागेवंता तुजी कुडी.*

आनी कित्या पासत हे केलें, तेंय थय त्याच गायनार मेळता:

*भागेवंत मेलो म्हणून*
*खबर धाडली रोमा शारा*
*पापा सायबान कुरू मागली*
*भक्ता तुज्या उजव्या हाताची.*

दुसरे सुवातेर हेच देर्स वेगळे भाशेन मेळतात:

*हातू कातरच्या वेळारी*
*फ्रादिंच्यो जाल्यो हुयेली*
*रगताच्यो जाल्यो झरी*
*भक्ता तुज्या लोबा सरी.*

*सांतू जालो म्हणून,*
*रोमाक धाडलो रेकादू;*
*तांणीं कुरू मागूंक धाडली*
*भक्ता तुजो कातरून हातू.*

असलीं घडूंक नासललीं विस्मितां आनी घडितां त्या आदल्या गितांत आसलीं देखून, तें गीत निटायेर घालां, आयज सुमार 37 वर्सां जायत, आनी आतां तें गायनांच्या झेल्यार उजवाडा हाडलां, आनी बऱ्या जेजुचे वाजिलिकेंत सदांच गायन करतात (G.J. p. 24).

## 2. सायबाच्यो रेलिको

आमच्या सांताची कूड केदनां, कित्याक आनी कशी शिंदली आनी कातरली तें आमी आदीं पळेलां (भाग 2, आंक 6) हांगा थोड्याच उतरांनी आदीं सांगलल्याचो आटाप करून, त्यो रेलिको खंय पावल्यो तें पळेवया.

a) **उजव्या पांयाची किरमोळी,** दोना इजाबेल कारोन, हे कुलीन अस्तुरेन, सांत पावलुचे कोलेजींत, गोंया शारा चाबून काडली (मार्स 1554), ती मागीर पुर्तुगालाक पावली आनी जायतीं वर्सां एका रुप्या पेटुलांत घालून ते बायलेच्या घरांत आसली.

ही रेलीक आपल्या घरा आसा म्हण गोंयच्या इन्सपेक्टर जनरलान 1782 वर्सांतली दाकोवण जांवचे आदीं कुडिची तपासणी करताले तेदनां सांगून दिलें.

ह्या बोटाचो कुडको त्या इन्सपेक्टराचे पिळगे कडे पुर्तुगालाक आसा आनीक एक कुडको शाव्येर कोटांत 1902 वर्सा पावलो.

हे भक्तिवंत चोरयेचें फारिकपण दिवपाक दोना इजाबेलीन त्या सांताक एक रुप्याचो मुकूट भेटयलो, तो सगळोच भांगरान नेटयल्लो, आनी माणकां, मोतयां आसलीं, आनी तांचें मोल 1,500 शेराफीन जांवक जाय (F. N. Xavier, *Resumo da Vida de S. Fco. Xavier* p. 240).

हें बोट दोना इजाबेलीन चाबून काडलें तेदनां, त्या बोटांतलें रगत व्हावलें हाची साक्षी क्लारा आल्वारीश, कोस्मेस आनेस *(Vendor da Fazenda)* हाची भाची दिता. तिणें दो क्रिस्तोवांव द सा (1610-1622) ह्या आर्चबिस्पा हुजीर सोपूत घेतलो. (Or. Cong. 1,P.416). हें रगत व्हांवप म्हळ्यार चवथे पावटीं.

आनिकूय इल्ली खबर त्या बोटाची. त्या बोटाचो एक कुडको, दोना इजाबेलीन, मरणाचे तणीर पावलली तेदनां, तेदनांच्या जेज्वितांक परतून दिलो. दुसरो कुडको आंतोन्यु द सोजा, फिदाल्ग, हाच्या घरा आसलो. शेकीं दोना वेरोदियाना कोन्स्तांजा लेयत द काश्त्रु पेस्ताना, दों जुजे मारिया इ काश्त्रु इ आल्मेदा हाची विदवा, हिणें तो कुडको पुर्तुगालाक व्हेलो.

b) हे वयले रेलिके भायर, काश्त्रोच्या घरा आनीक एक रेलीक आसली – **सायबाचें अर्दे काजूल** (मिसाचें भायलें आंगवस्त्र). ही रेलीक दों रुद्रिगु दा कोश्ता, इंडियेचो उपराजा, हाका पाद्र गाशपार आफोंस ह्या जेज्वितान दिल्ली. ते भायर त्या सांताच्या खाडाचे थोडे केंस पाद्र रुद्रिगु दा एश्त्रादा ह्या जेज्वितान दिल्ले.

आंतोन्यु द सोजा कुतीञ हाका रेलीक दिल्ली ती पिळगेच्या पिळगे हाका ताका दिवन शेकीं 1757 वर्सा दों लुवीस कायतान द आल्मेद, आदीं इंडियेचो राजपाल, हाच्या ताब्यांत आसली म्हण कळता. हाणें तेस्तामेंत केल्लो ते वरवीं गमता, ती रेलीक आपल्या पुताक आनी दायज्याक दवरलली.

c) **मदलें बोट वा तिसरें बोट**: ह्या बोटाच्या पेराची खबर दिवपाक 1891 वर्सा, जानेराचे 6 तारकेर, दों आंतोन्यु वालेंत ह्या पात्रियार्कान सगळ्या कोंगांची जमात भरली. हें बोट 1890 वर्सा दाकोवण जाल्ली तेदनां एका सांद्यार उमकळतालें तें पडलें. घडये उमो घेताना हात वा वोंट लागून तें बोट मोडलें जायत.

हें पेर सांबाळून दवरपाक, एक खेरीत रेलिकार केलो आनी हांतूंत घालून ती दवरली, हें एके चिटी वरवीं गमता. ती चीट जानेराचे 6 तारकेर 1891 वर्सा

हो कुडको अजून शाव्येराचे बाजिलिकेंत आसा. सांत फ्रांसिस्क जल्मललो त्याच जाग्यार हे बाजिलिकेचो आल्तार बांदला. लियो XIII पापसायबाक फुडें धालून, विलाहेर्मोजा गांवचे कुंवर्नीन (Duquesa), सांत फ्रांसिस्क शाव्येराची सोयरी, हिणें ती रेलीक मागलली. 1902 वर्सा पांप्लोना थावन शाव्येर कोटा परयान एक व्हडलें पुर्सांव काडून ती रेलीक व्हेली.



d) **चोवथें बोट**: चोवथ्या बोटाचीं (आखांड्याक तेंकून) दोन पेरां 1910 वर्सा दाकोवण जाल्ली तेदनां भूंय पडलीं. 1911 वर्सा फेब्रेराचे 17 तारकेर हीं दोनूय पेरां काडून तिसऱ्या बोटा बराबर रेलिकारांत दवरलीं. हो रेलिकार साक्रिस्तींत एका हारश्यांत मदेकात उमावाक दवरला आनी आदीं सुक्राराच्या सुक्रारा, आठ वरांच्या व्हडल्या मिसा उपरांत, भावार्थ्यांक ताचो आशिर्वाद दिताले आनी तशेंच नोवेनां जातात तेदनां, पूण आतां न्हय.

ह्यो रेलिको खऱ्यो म्हण दाकोंवक मातेवस पात्रियार्क सायबान (1890 – 1910) आपली म्होर मारून दवरल्या.

e) **सांत फ्रांसिस्काचो उजवो हात**: (वयर पळे, नं. 1)

f) **पांयाची कात** : 1952 वर्सा दाकोवण जाल्ली तेदनां एका पांयाची कात भायर सरली ती दों कोश्ता नुनेसान, तेदनांच्या पात्रियार्क सायबान, कातरली आनी उपरांत जायत्यो रेलिको केल्यो. हे कातिचो बरो कुडको मों. फ्रांसिस्क रेबेलान, गोंयचो आपोस्तोलीक कारभारी आसताना, दाबुलचे (मुंबय) इगर्जेक दिलो. ती रेलीक घेवन आतां, ते इगर्जेंत उपकार मेळोवन घेंवचें नोवेन मार्साच्या म्हयन्यांत करतात.

g) **सांत फ्रांसिस्क शाव्येराचे केंस** : 1556 वर्सा सांत पावलुचे कोलेजींत एक रेलिकार आसलो तांतूं त्या सांताचे थोडे केंस आसले. तेदनांच्या जेज्वितांनी ते केंस घडये कायशांवांतले कुडिचे कातरून दवरलले.

h) **भितरले सांदे** : 1636 वर्स जाता म्हणसर, पोटांतले सगळे सांदे काडलले आनी तांच्यो रेलिको करून हांकां तांकां उदेंतेक तशें अस्तमतेक दिले. त्यो रेलिको म्हळ्यार काळजाच्यो, झोळयांच्यो, मासाच्यो, इत्यादी.

## चत्राय :

बऱ्या जेजुचे बाजिलिकेंत रेलिकार आसा तो 1948–49 वर्सा मों.वी. स्कुदेरी ह्या सालेसियानी पाद्रीन इतालियाक व्हेल्लो, तो मागीर पाद्र आय. कारेन ह्या सालेसियानी पाद्रीन परतो हाडलो.



# भाग चार

## दाकोवण्यो

### अ) खासगी : जेज्वितांच्या काळार

सुरवातेक फ्रांसिस्क शाव्येराक आल्ताराचो मान मेळतच दर वर्सा परबे दिसा, कुडिची दाकोवण जाताली. ताका आल्ताराचो मान मेळलो मार्साचे 12, 1622 वर्सा. त्या वर्सा थावन 1686 वर्सा पासून वर्साच्या वर्सा दाकोवण जाताली. तेदनां सायबाची कूड ताजी कशी आसली.

1) **मालाका :** पयली दाकोवण जाली ती, आमच्यान म्हणूं येता मार्साचे 22 तारकेर 1553 वर्सा जेदनां ती कूड सांचियान थावन मालाका पावली तेदनां फ्रांसिस्क शाव्येर मेल्यार, दोन म्हयने आनी सुमार 20 दीस जाल्ले. *सांताक्रूज* तारू खाडींत पावलें तेदनां रात जाल्ली कोण जेज्वीत त्या रातच्या वेळार भायर सरले नांत, कित्याक दों आल्वारो द आतायद, मालाकाचो कोपीत जेज्वितांक कितेंय वायट करीत म्हण भिरांत आसली. देखून रातचे भायर सरूंक नोवेंब्राच्या म्हयन्यांत शाव्येरानूच आडवारललें. (1552) जेज्वीत आयले नांत देखून दर्या खाडी कुशिकूच एक घर आसलें तांतूंत ती कूड दवरली. विगारान कायशांव उगडलो, कूड जिवी मेळली. दुसऱ्या दिसा व्हड पुरसांव काडून ती कूड मोंत सायबिणिचे इगर्जेंत व्हेली. ही जेज्वीत इगर्ज जावन आसली. त्या दबाजीक पुर्सावांत आल्वारो द आतायदान भाग घेतलो ना. तो आपल्या इश्टांक घेवन दामांनी खेळतालो. तेदनां ताका कोड फुटलेशें दिसतालें. उपरांत ताका जुटये वेलो देंवयलो आनी तो पुर्तुगालाक वचून लिजबोवाचे एके बंदखणींत मेलो.

2) 1553 आगोस्ताचे 15 तारकेर जुवान द बेयरा, जे.स. हाणें, तो मालाका पावललो आनी मोलुकाचे वाटेर आसलो तेदनां शाव्येराचो फोंड उगडूंक लायलो. ह्याय वेळार थोड्यांनी तरी ती कूड पळेली. खरेपणीं एक दकोवण म्हणूंक जायना.

3) **कोचिनाक** : शाव्येराची कूड मालाका थावन 1553 देजेंब्र 11 तारकेर भायर सरली ती लोब द नोरोज्राच्या पोरण्या तारवार, आनीक तारू तेदनां मालाकाचे खाडींत नासलें. दोग जेज्वीत भाव मानवेल द तावोरा आनी पेद्रू

आल्कासुवा ते कुडी बराबर गोंयां येताले, आनी कोचिनाक पावतच कायशांव उगडललो जाल्यार आमकां खरी खबर मेळूंक ना. पूण थोडे म्हणतात ती कूड पळेवक लोक आयल्लो, घडयेक तारवारूच जायत.

4) **भटकळ** : फ्रांसिस्क शाव्येराची कूड गोंयां शारा हाडतात म्हण खबर गोंयच्या जेज्वितांक पावतच, बऱ्या जेजुचो रेयतोर नुनेस बारेत, आपल्या सांगाता फेरनांव मेंदीश पींत हाका (एक गृहस्थ), तीग जेज्वितांक आनी चार भुरग्यांक घेवन एका सुपुरल्या तारवार (*फुस्ता*) चडलो. हें वेगीं धांवपी तारूं म्हळ्यार दों आफोंस नोरोञा ह्या उपराजाचें, आनी तें ताणें ह्याच कामाक दिल्लें.

हें *फुस्ता* तारूं भटकळ म्हणतात थंय लागीं पावतच नोरोञाचें तारूं येता तें हांकां सांपडलें. ह्या तारवाक बावटे आनी बोंदेरां बी लायल्लीं. हांगा ती कूड ह्या *फुस्ता* तारवार घातली आनी तें गोंयचे वाटेक लागलें. ह्याय वेळार त्या हाजीर आसलल्यांनी ती कूड देकली आनी तिका नमान केलें.

5) **रायबंदरा 1554** : मार्साचे 15 तारकेर रातच्या वेळार तारूं मांडवी न्हंयेंत भितर सरलें आनी रातचो वेळ देखून रायबंदरा थारलें कित्याक असले काळके रातीं गोंयचें शार ती भागेवंत कूड आपल्या गोपांत घेंवक तयार नासलें. ती कूड ते पवित्र रातीं आदले पयले इगर्जेंत वा कपेलांत दवरली खंय, दुबाव ना ते रातीं तेदनांचीं पयलीं क्रिस्तांवां ते कुडीक नमान करूंक येतलीं. पयली इरमीत उबारली 1551-1554 वर्सा मदें आनी ती चिंबलाचे लिव्रा फेब्रेस सायबिणिचे इगर्जे खाल आसली. दुसऱ्यां परमाणें (G. Schurhammer, S.J. Vol. II p. 190) रायबंदरा इगर्ज आसली 1539 वर्सा आदीं, आनी ती 1553 वर्सा आदीं पारोकियाल इगर्ज जाल्ली.

ते पवित्र रातिचो उगडास कसो नोवेंब्राचे 29 तारकेर 1552 वर्सा रायबंदराचे इगर्जेंत भावार्थ्यांनी सगळी रात दबाजो करून सारली 1552 दाकोवणेची एक तयारी कशी. (*Resumo Histórico da Exposição das Sagradas Relíquias de S. F. Xavier em 1952,* pelo Conego F.X. de Costa, p. 84, Bastora, 1954).

6) **गोंयां शारा 1554** : ती कूड दबाज्यान शारांत भितर काडली मार्साचे 16 तारकेर, प्राजीत काळांतल्या पांचव्या साताळ्याच्या सुक्रारा. ती कूड सांत पावलुचे कोलेजींत व्हेली आनी तीन दीस हजारांनी लोक तिचो उमो घेवपाक,

तिका कोंतां, खुरीस, आर्लुको, रुमाल आनी हेर वस्तू लावन व्हरपाक येतालो. ही दाकोवण तीन दीस चालू आसली. पवित्र साताळ्याची धर्मसेवा सुरु जांवची आसली देखून ती कूड बंद केली.

7) सांत पावलुचे कोलेजींत ती कूड आसताना कांय खासगी दाकोवण्यो घडल्यो नांत. उपरांत ती कूड बऱ्या जेजुच्या घरांत 1613 वर्सा पावली. ती तिसरे माळयेर (आतां ती माळी ना) आसली, आनी 1622 वर्सा ती कूड सकयल इगर्जेत हाडली, कित्याक त्या वर्सा फ्रांसिस्क शाव्येराक सांतपणाचें पद फावो जालें. ही बरी खबर गोवा शारा फकत 1643 मायाचे 11 तारकेर पावली.

8) 1654: बिस्प एस्पिनोला हाका गोयांत बिस्पाची ओर्द दिल्ली आनी ताका उदेंतिचो विगार आपोस्तोलीक नेमललो आनी सायबाची कूड पळेंवक तो सोदतालो. देखून मध्यान रातीं कायशांव गुप्तीं उगडलो. पाद्र जुजे शिमांव बायार्द, हो फ्रांसेज जेज्वीत, त्या बिस्पाचो सेक्रेतार जावन आसलो. ती कूड तपासून आनी बारकायेन पळेल्या उपरांत, ताणें ती कूड कशी आसा तिचें वर्णन केलें आनी तें फ्रांसाक धाडलें. म्हणतच हे उगडणेक दाकोवण वा एक्सपोसिसांव म्हणूंक जायना. उपराजा आनी तेग अधिकारी हाजीर आसले.

9) 1678 : आंतोन्यु पायस द सांदे, हो गोवेर्नादोर (1678–1681) ती कूड पळेंवक बगर बगर मागतालो म्हण कायशांव उगडचो पडलो.

10) 1683 : संभाजी हो मराठा राजा गोंयांत भितर सरललो आनी जायतें नुकसाण करतालो तेदनां कायशांव उगडललो. हें घडलें नोवेंब्राचे 24 तारकेर.

11)... सांताची बार्रेत काडपाक आनी ती कोंद द आल्वोर (1681-86) हाणें व्हेली.

12) 1690 : कोण एक गरजेक लागून. ह्या वेळार सांत जुवांव द ब्रिटो, मदुरेचो मार्तीर, हाणें एक बिर्रेत ते कुडीक लावन आपले आवयक पुर्तुगालाक धाडली आनी पाद्र बायार्द हाणें कूड कशी आसा ताचें वर्णन केलें.

13) 169?: इतालियाक थावन जेमेल्ली कार्रेरी म्हण एक भोंवडेकार गोंयां पावललो आनी तो ती कूड पळेंवक सोदी. गोंयच्या उपराजान जेज्वितांच्या व्हडिलाची परवानगी मागली, आनी तो कायशांव उगडूंक लायलो.

14) 1698 सायबाची कूड सुकून सुकून, सगळीं हाडां गावललीं. ते पासत कायशांव आनीक केदनांच उगडिना जावपाक रोमाक आज्ञा घातलली पूण हारश्यांतल्यान पळेंवक जाताली, नीट हात लांवक आडवारललें. तेदनां चावयां भितर ती रेलीक एके पेटेंत बंद केली. ती पेट उगडूंक अवगड करपाक एक चावी रायतुरच्या रेयतोराचे स्वाधीन केली, दुसरी वसइचे (मुंबय) कोलेजींत दवरली, आनी तिसरी चावी बऱ्या जेजुच्या घरांत आसली ती त्या घराचो रेयतोर, पाद्र फ्रांसिस्क द सोजा, दर्याचे खरीक उडोंवक सोदी.

तरूय कांय गंभीर कारणांक लागून तो कायशांव उगडचोच पडलो, त्यो दोन चावयो हाडूंक बरो त्रास पडलो जायत, अदीक करून वसई थावन.

15). 1744 वर्सा गोंयां शारा एक नवो उपराजा पावलो, दों पेद्रू मिंगेल द आल्मेद (1744-50) आनी नवो आर्चबिस्प, दों फ्रेय लोरेंस द सांता मारिया (1742-50). हांकां दोगांकूय सायबाची कूड पळेवपाक खुशी आसली आनी अशें करूंक तांणीं पुर्तुगालाच्या राजाची परवानगी हाडलली. ते भायर दोना मारिया सोफिया हे राणयेन सायबाची कूड न्हेसोंवक नवीं आंगवस्त्रां धाडललीं. आपल्या नांवान रेलिकांचो उमो घे म्हण पुर्तुगालाच्या दों जुवांव पांचव्यान नव्या राजपालाक हुकूम घातललो.

ही आपली येवजण तांणीं जेज्वीत प्रांतीक व्हडिला:क कळीत केली, पूण हाणें कान हालयलोना कित्याक रोमाच्या जेज्वीत सर्वव्हडिलान तो कायशांव उगडिना जावपाक धारूण हुकूम घातललो. पूण हे दोग म्हामनीस म्हणतात आमकां राजाची परवानगी आसा तुमच्या सर्वव्हडिलांचे आडवारणेचें आमकां कांय पडूंक ना. कांयच धड ना तें पळेवन, जेज्वीत प्रांतीक व्हडिलान आपल्या बुद्ध दिणाऱ्यांक एकटांय केले आनी तांणीं आपल्या प्रांतीक व्हडिलाक सर्वव्हडिलाची आज्ञा तितले कडक नदरेन आनी अर्थान पळेना जावपाक बुद्ध दिली.

अशें आसताना देजेंब्राचे 12 तारकेर 1744 वर्सा जेज्वितांनी आर्चबिस्पाक आनी उपराजाक ते कुडीक नमान करपाक आमंत्रण केलें. आदल्या दिसा कायशांव उगडललो आनी कायशावांतली कूड भायर काडून ती पुर्तुगालाचे राणयेन धाडलल्या वस्त्रांनीं न्हेसयल्ली – आल्ब (धवी लांब कोबाय), मानिपूल (हातांतलें), स्तोल (गळ्यांतलें) आनी काजूल आनी तोपी (बिरेता) आनी परतून ती त्या कायशांवांत घातली. आदली तोपी वा बिरेत राणयेक धाडून दिली. ही कूड पळेंवक फकत ते दोगूच, उपराजा आनी आर्चबिस्प इगर्जेंत आयले. ह्या वेळार कुडिचो कांय वास वा घाण येनासली.

16). **1751** : नव्यान एक नवो उपराजा, फ्रांसिस्क द तावोरा (1750-54) आनी नवो आर्चबिस्प, दो तावेरादा नेयवा ब्रून (1750-73) ती पवित्र कूड पळेंवक सोदताले, पूण हे पावटीं जेज्वितांच्या सर्वव्हडिलाची परवानगी हाडलली. कायशांव मार्साचे 16 तारकेर 1751 वर्सा उगडलो. जुटी सोडून वेता तोय राजपाल आसलो (दों पेद्रु मिगेल द आल्मेद). ह्या उपराजान ते कुडिचो वाको वा रिपोर्ट बरोवन दवरला : पांय आनी हात बरे गतीर आसलले पूण सुकलले, तोंड ताजे दिस, केंस आनी खाड आपले सुवातेर आसलीं.

**ह्यो खासगी दाकोवण्यो बंद**: आतां पुर्तुगालाचोय राजा ह्यो खासगी दाकोवण्यो बंद दवरूंक लायता. 1755 वर्सा आब्रिलाचे 2 तारकेर एक चीट बरोवन ही आडवारणी केली, कित्याक ती कूड पळेंवक वेतात ते कुडिच्यो रेलिको बी कातरून व्हरतीत म्हण भिरांत आसली.

पूण ह्यो दोन आडवारण्यो, जेज्वितांच्या सर्वव्हडिलाची आनी पुर्तुगालाच्या राजाची, निर्फळ जांवक पावल्यो. कित्याक? 1759 वर्सा पुर्तुगालान जेजुचे पलटणिचो भस्म केलो आनी जेज्वितांक बऱ्या जेजुच्या घरांतले चोर नागवणे जाल्ले भाशेन धरून बांदून व्हेले आनी पुर्तुगालाच्या बंदखणिंनी तांकां वळवळावन मारले. तेदनां जेज्वितांचें घर आनी बऱ्या जेजुची इगर्ज गोंयच्या आर्चबिस्पाच्या ताब्यांत पडली.

जेज्वीत गोंयांतले आनी इंडियेंतले भायर सरतच आनी फ्रांसिस्क शाव्येराची कूड बावून सुकून वेतच, दबाजीक आनी जाहीर दाकोवण्यो सुरू जाल्यो.

ह्यो जाहीर दाकोवण्यो सुरू जातच परयान केदनां केदनांय ती रुप्या पेट उगडपाक गरज पडताली, जशें घडलें :

i) 1933: दोग जेज्वीत पाद्री रोमाक थावन गोंयां पावले आनी रेलिकांचे फोटू काडूंक वातिकानाच्या अधिकाऱ्यांनी तांकां पाटयल्ले, पाद्र वान स्प्रिकेन, होलांदेज, आनी पाद्र पेद्र ल्हांधे, फ्रांसेज, खडेगांट बरयणार आनी *नोत्र दाम* कातेद्रालाचो प्रवचन करपी. हो बरयणार फ्रांसिस्क शाव्येराच्या रेलिकां विशीं किते बरोवक फुडें सरललो. हें गुप्तीं उगडप जानेराचे 6 तारकेर 10.30 वरांचेर, साक्रिस्तींत जालें. तेदनां दों तियोतोन्यु मानुवेल रिबेयरु द काश्त्रु पात्रियार्क जावन आसलो आनी जनरल क्रावेयरु लोपीश गोवेर्नादोर.

ii) 1950 : जानेराचे 22 तारकेर, एका दिसाची दाकोवण. ही दाकोवण कार्दियाल गिलरोय, सिडनिचो आर्चबिस्प (ऑस्ट्रेलिया) हाचे पासत केली. हो

कार्दियाल पियुस XII पापसायबाचो दूत कसो इंडियेचे पयले, पुर्णसभेची (First plenary council of India) येजमानकी चलोंवक आयल्लो. हो कार्दियाल बेंगळुरा थावन गोंयां आयल्लो तेदनां ताचे बराबर मुंबयचो आदारी बिस्प, मों. वालेरियन ग्रासियास आसलो, मागीर आर्चबिस्प आनी कार्दियाल.

ही उगतावणी गुपीत केल्ली आसतां, लोक येंवचो आसलो तो येनासताना रावलो ना. कायशांव सकाळच्या इकरा वरांचेर उगडलो. गोवेर्नादोर किंतानिल्या द मेंदोन्सा इ दियाश आपली चावी घेवन तो कायशांव उगडूंक आयलली. गोवेर्नादोरा कडेन एक चावी दवरची पद्दत मागीर भितर काडलली. दुसरी चावी गोंयच्या आर्चबिस्पा कडे आसताली. तिसरी बों जेजुच्या कारभाऱ्या कडे.

**जेज्वीत बऱ्या जेजुज्या कोंवेंतांतले भायर सरतच**

1. 1763 : कायशांव सारको करूंक
2. 1767 : कसलेय एके गरजेक लागून
3. 1768 : कायशांव सारको करूंक
4. 1770 : पुर्तुगालाच्या राजकारभाऱ्यांनी तो कायशांव उगडूंक लायल्लो.
5. 1887 : मों. आग्लियार्दी, आपोस्तोलीक देलेगाद गोंयां आयललो तेदनां.

**जेज्वीत नव्यान त्या कोंवेंतांत भितर सरतच :**

197 वर्सां उपरांत जिवंत जाल्ले जेज्वीत पलटणिचे पूत नव्यान बऱ्या जेजुच्या कोंवेंतांत भितर सरले. 1956 आब्रिलाचे 3 तारकेर पाद्र एस्तानि-स्लावस जे.स., ह्या पुर्तुगाली जेज्विताक, रेयतोर नेमलो आनी तांणें तें घर फकत आब्रिलाचे 30 तारकेर आपले स्वाधीन घेतलें. उपरांत ह्यो सकयल्यो खासगी दाकोवण्यो जाल्यो.

i) 1960 : जानेराचे 11 तारकेर सुपुर्ली दाकोवण केल्ली जेदनां सिञोर मिनिश्त्रु दा प्रेग्दिंसिया, दों तियोतोन्यु पेरेरा, पुर्तुगालाक थावन आयल्लो. भावार्थी येंवक लागले देखून ही दाकोवण 18 तारके परयान चालू दवरची पडली. तुंब्ल मदल्या आल्तारार आसलो देखून तो उगडूंक आनी हारश्या पेट भायर दवरूंक सोंपें जातालें.

ii) 1961: मायाचे 6 तारकेर, जे तारकेर सांत फ्रांसिस्क शाव्येर 1542 वर्सा गोंयां शारा पावललो, आंगोलाक (आफ्रिकेक) सवरत्ताय मागपाक एक पिराजिताची रोमारी वा यात्रा आसली. तेदनां आंगोला एक पुर्तुगालाचो ताबो जावन आसलो

आनी थंय कांय राजकी चळवळ सुरू जाल्ली. त्या दिसा रुप्या पेट उगडली आनी हारश्या पेट भायर काडली आनी सात दीस उगती आसली.

iii) 1961: जुलायचे 1 तारकेर, सनवारा, पाद्र आद्रियान ले तेलियेर, जे.स. बेल्जिकेचो जेज्वीत, रायबंदरा होस्पितालांत आसलो सायबाचो आशिर्वाद मागपाक ताका बाजिलिकेंत हाडललो; इल्लोसो वेळ रुप्यापेट उगती केल्ली. पाद्र. आ. ले तेलियेर गोंयच्या सायबाचो व्हड भक्त आसलो, आनी तो जायत्यो पयशिल्या गांवांच्यो रोमारी जाहीर दाकोवण्यो जाताल्यो तेदनां हाडी. गोयच्या सायबाच्या पायांशी तो मरूक सोदी. ह्याच म्हयन्याच्या 12 तारकेर तो भक्त अंतरलो आनी ताका पोरण्या गोंयच्या सिमित्रींत पुरलो. जेज्वितांक गोयातले भायर धांवडायतच गोयां मरूक हो पयलो जेज्वीत. ताचीं हाडां रेतिराच्या घरांत, बागांत, कळंगुटे घातल्यांत.

iv) 1964: बाजिलिका दुरुस्त करताले देखून, रुप्या पेट मदल्या आल्तारार आसली ती जुलायाचे 4 तारकेर साक्रिस्तींत व्हरची पडली. ही रुप्या पेट फेब्रेराचे 13, 1955 वर्सा मदल्या आल्तारार दवरललिशी दिसता कित्याक ही तारीक दोन कार्तावांचेर बरयल्ली आसली आनी तिचेर म्होर मारलली एकाचेर पात्रियार्क दों जुजे आल्वेर्नाज हाची सय आनी दुसऱ्याचेर पावलु बेर्नार्दु गेदेश ह्या तेदनांच्या पुर्तुगेज गोवेर्नादोराची सय आसली. ह्या वेळार ती हारश्या पेट भायर काडची पडलली, पूण ती खबर कोणाक नासली. नव्यान ती पेट सेतेंब्राचे 11 तारकेर इगर्जेत व्हरची पडली जेदनां साक्रिस्त दुरुस्त करूक आयल्ले.

आगोस्ताचे 23 तारकेर दिल्ली थावन मों. जे. आर. नोक्स इंडियेचो इंतेरनुन्स त्यो रेलिको कसल्या भेसांत आसात त्यो पळेवपाक आनी ते परमाणें बारावी दाकोवण जाहीर करपाक गोंयां आयल्लो. मों. फ्रांसिस्क रेबेल ह्या बिस्पान ती दाकोवण सेतेंब्राचे 9 तारकेर जाहीर केली.

v) 1967 : जुनाचे 6 तारकेर मों. जेम्स नोक्स, दिल्ली थावन निमाणे पावटीं गोंयां आयल्लो ताका मेल्बर्नचो (ऑस्ट्रेलिया) आर्चबिस्प नेमललो. ताका आदेवस करपाक एक सुपुर्ली दाकोवण केली. मिसा उपरांत उमो सुरू जालो आनी तो 11 तारके पासून चालू आसलो.

vi) 1968: मार्साचे 12 तारकेर, उपकार मेळून घेंवचें नोवेन सोंपतालें त्या दिसा, दिल्लीक थावन नवो प्रोनुन्स, जोसेफ काप्रियो, गोंयां आयल्लो. मिसा उपरांत सायबाच्यो रेलिको उमावाक उगडल्यो. हो उमो 17 तारके पासून चालू उरलो, आयतारा 18 तारकेक हारश्या पेट समाधीर चडयली.

vii) 1973: अ) जानेराचे 2 तारकेर ती हारश्या पेट समाधी वेली देंवयली आनी साक्रिस्तींत व्हरून तिचे भोंवतणी पाद्र पेद्रू आरुपे जेज्वितांचो आदलो सर्वव्हडील, हाणें आपल्या सांगाता चाळीस जेज्वीत पुतांक घेवन, रातच्या 10.00 वरांचेर मीस भेटयलें, ती हारश्या पेट परतून समाधीर चडयली.

viii) 1973 : ब) जानेराचे 21 तारकेर मों. जॉन गॉर्डन आर्चबिस्प, इंडियेक पापसायबाचो दूत, गोंयां पयलेच पावटी आयल्लो. त्या वेळार सुमार धा हजार तरी लोकांनी सायबाच्या रेलिकांचो उमो घेतलो.

## ब) भोवशीक दाकोवण्यो

**(1). पयली दाकोवण:** ही दाकोवण 1782 वर्सा फेब्रेराचे 10-12 तारके परयान फकत तीन दिसांक जाली. तेदनां फ्रांसिस्क मेल्यार वर्सां जाल्लीं. कसल्या कारणांक लागून ही दाकोवण करची पडली गाय? त्या शेकड्यांत पुर्तुगालाक आनी त्या देसा खाल आसलल्या वसणुकांचेर एक काळें किट्ट कूप दिश्टी पडलें; पुर्तुगालाच्या सरकारान कातोल्क इगर्जमातेक धुमाळो दिंवक सुरू केलो. त्या काळार जेज्वीत पाद्री आनी मिशनरी, कातोल्क इगर्जमातेचो कारभार चलोंवक आनी भावार्थ परगटूंक एक फौज कशी सगळ्यां फुडें एवरोपाक, अमेरिकेक आनी आशियेक झुजा मळार आसली. ह्या जेज्वितांचें बळ मोडल्यार कातोल्क इगर्ज असकत जांवक पावतली, अशें घडये तेदनांच्या पुर्तुगाली सरकाराक दिसलें. पूण एक वस्त मात्र तो सरकार विसरलो : हीच इगर्जमाता विस्तारूंक आनी घट करूंक, 16-व्या शेकड्यांत पुर्तुगाली सरकारान जेज्वितांक अमेरिकेक आनी आशियेक धाडलले. आतां तेच मिशनरी पुर्तुगालाक जड जाले, दुस्मान जाले. ह्या दुस्मानांक नपयत केल्यार अदीक बरें जायत!

1759 वर्सा जेज्वितांचे पलटणिचो पोंबालान पुर्तुगालांत आनी सगळ्या आपल्या वसणुकांनी नास केलो. दों सेबास्तियांव द कार्वाल्य इ मेल जाका मार्केज द पोंबाल म्हण सगळीं वळकतात, पुर्तुगालाचो प्रधानमंत्री जावन आसलो. बऱ्या जेजुच्या कोंवेंतांत जेज्वीत पाद्री आसले तांकां कैदी केले, आनी तांकां धरून बांदून आनीक एका कोंवेंतांत बंदखणींत कशे दवरले. जेज्वितांक बऱ्या जेजुच्या कोंवेंतांतले भायर घालतच, तो कोंवेंत सरकारी मनशांनी भश्टायलो, सांत फ्रांसिस्क शाव्येराचो कायशांव दोन पावटी रातचो फोडलो, कोंवेंताची लूट मारली, थोड्यो मोलादीक वस्तू पांवणेर घालून विकल्यो आनी उरलल्यो पेटांनी भरून लिजबोवाक

पावयल्यो. त्या दिसा थावन त्या कोंवेताचे भोगणार जांवक पावले. धनयाक भायर घातलो. हे आनी ते त्या कोवेताचे धनी जावक पावले.

उपरांत सगळ्या एवरोपी जेज्वितांक चोर नागवणे कशे बांदून एका तारवार घालून लिजबोवा थंयच्या सांत जुलियांव आनी सांत जेरांज बंदखणिंनी वळवळ्यांनी आनी उपासांनी मारपाक पाटयले.

असल्या वळवळ्यां मदें त्या जेज्वितांक गोंयचे आनी इंडियेचे भायर घालून काळ्या पाण्याक धाडून दिल्ले आसतां, जेज्वीत आपल्या भावाची कूड घेवन गेले आनी आतां कायशांव रिकामो आसा म्हण आख्या गोयाक अवचीत धास्त पडली. ही फट म्हण लोकाक सिद्द करून कशें दाकयतलें आसले ते नवे धनी? एकूच उपाय उरललो ती रुप्याची पेट उगडून, तो कायशांव भायर काडपाक, आनी तातूं कितें आसा वा ना तें लोकाक दाकोवपाक. हें घडलें 1782 वर्सा. आनी त्या दाकोवण्यांची सांकळ सुरू जाली.

ही दाकोवण करचे आदीं, जानेराचे 1 तारकेर सायबाच्यो रेलिको तपासूंक कायशांव उगडलो. तेदनां एक वाको वा रिपोर्ट दिल्लो तो असो : सायबाची कूड मिसार घालतात ते न्हेसोवणेंत न्हेसयल्ली मेळली. तकली निगूत आसली. खड्ड्याक थोडे केस आसले पूण खड्डो दिश्टी पडूं येतालो ताड आंकुडललें पूण कात आसली. आनी उजवे वाटेत एक सुपुर्लो घाय पडललो ताचो दाग आसलो. दोनूय कान निगूत आसले; सगळे दांत (भायरावन एक नासलो तो) दिश्टी पडताले; दावो हात आंकुडललो पूण कात आसली; उरलली कूड निगूत आसली पूण पोटांत झोळयो नासल्यो. आर्चबिस्पसायबान न्हेसणा पोंदाक हात घालून पळेतच, झोळयो नांत म्हण कळ्ळे. जांगडां आनी पांय आंकुडललें पूण आजून कात आसली आनी शिरो दिश्टी पडताल्यो; पांयांच्या बोटांक नाकशो आसल्यो पूण एक बोट नासलें. अशी तपासणी केल्या उपरांत, ती कूड लोकाक दाकोवक शकता अशें त्या अधिकाऱ्यांक दिसलें. (*Memória histórico-Eclesiástica da Arquidiocese de Goa*, p. 578-80)

**(2). दुसरी दाकोवण** : देजेंब्र 3, 1859 – जानेर 8, 1860.

ही दाकोवण 78 वर्सां उपरांत जाली, आनी 37 दीस तगली. ही दाकोवण करूंक पुर्तुगाली राजाची खेरीत रजा हाडची पडली, आनी ती गोंयच्या राजपालान (गोवेर्नादोरान) कोंद द तोर्रेस नोवास हाणें मागतच, दों पेद्रू V ह्या पुर्तुगाली राजान दिली. ती खेरीत रजेची कित्याक गरज आसली गाय? जाणा जायात

1755 वर्सा आप्रिलाचे 2 तारकेर, तेदनांच्या पुर्तुगाली राजान कायशांव गुप्ती परयान उगडूक आडवारललो, आनी तशेंच जेज्वितांच्या सर्वव्हडिलान सगळ्यो दाकोवण्यो मना केल्ल्यो.

हे दाकोवणेक पयलेच पावटीं इंडियेचो आनी शिलांवाचो लोक येंवक लागलो. इतलो लोक जालो की दाकोवण आनीक 8 दीस वाडोंवची पडली. ह्या 37 दिसांनी दोन लाख यात्रेकारांनी सांताचो उमाव घेतलो. आट पिडेवंतां बरीं जालीं खंय आनी सात जाणांनी बाप्तिज्म मागलो.

**(3). तिसरी दोकोवण :** देजेंब्र 3, 1879 – जानेर 6, 1879.

ही दाकोवण करूंक दों आयरीश द ओनेलास द वाश्कोन्सेलुश, गोंयचो आर्चबिस्प, फुडें सरलो. ही दाकोवण पयलेच पावटीं कातेद्रलांत केली, कित्याक ती इगर्ज व्हडली आसली आनी चड लोक तांतूं जमू येतालो. एक दूजभर तरी बिस्प आनी तिनशीं गोंयां भायले पाद्री हाजीर जाले. निमाण्या दिसा पुर्सांव कातेद्रलांतले भायर सरून बऱ्या जेजुचे इगर्जेंत गेलें आनी थंय थावन सायबाच्यो रेलिको घेवन परतून आयलें. ही दाकोवण 35 दीस जाली. तीन लाख तरी यात्रेकारां आयलीं आनी तांचे मदें हैद्राबादाचो निजाम (वा राजा), तो एके खेरीत आगबोटीर आयल्लो. चोवदा विजमितां जालीं आनी तीं सगळीं तपासून पळेलीं खंय. हे दाकोवणेच्या वेळार पयलेच पावटीं कायशांवांत आसलल्या रेलिकांचो फोटू काडलो. (पळे *St. Francis Xavier and his Shrine*, p. 206 by P. Rayanna, S.J. 1982).

**(4). चोवथी दाकोवण :** देजेंब्र 3, 1890 – 1 जानेर 1891. ही दाकोवण करूंक गोंयचो पात्रियार्क दों आंतोन्यु सेबास्तियांव वालेंत फुडें सरलो. उगतावणेच्या समारंबाक ब्रिटीश इंडियेंतले जायते बिस्प हाजीर जाले, कोलकाताचो आर्चबिस्प मों. गेथाल्स, दाक्काचो बिस्प मों. गाश्मियेर, हैद्राबादाचो बिस्प मों. कापरोती, पुणेचो बिस्प मों. बायडर लिंडन, ते भायर पुर्तुगाली बिस्प कोचिनाचो आनी मैलापुरचो. ह्यो दोन दियोसेजी पाद्रोवादाच्यो आसून थंयचे बिस्प सदांच पुर्तुगेज जावन आसले. तेदनांच्या अदमासा परमाणें, 171,000 लोकान रेलिकांचो उमो घेतलो. 57 पिडेवंतां अचर्यानी बरीं जालीं म्हणतात.

**(5). पांचवी दाकोवण :** देजेंब्र 7–10, 1900.

1900 पवित्र वर्स जावन आसलें, ह्या वर्साच्या उगडासाक म्हण एक एवकारिस्तीक कोंग्रेस भरूंक दों आंतोन्यु सेबास्तियांव वालेंत, उदेंतेचो पात्रियार्क

येवजितालो. ते भायर त्या शेकड्याचें तें निमाणें वर्स जावन आसलें. ह्या एवकारिस्तीक कोंग्रेसाक इंडियेचे सोळा बिस्प हाजीर जाले. हो कोंग्रेस भरलो बऱ्या जेजुच्या कोंवेताचे साक्रिस्तींत देजेंब्राचे 4 तें 6 तारके परयान. ह्या कोग्रेसा उपरांत सायबाच्यो रेलिको चार दिसांक, 7 ते 10 तारके पासून उगडल्यो.

दो आंतोन्यु सेबास्त्यांव वालेंत, गोंयचो आर्चबिस्प आनी उदेंतेचो पात्रियार्क कोंग्रेसाचो अध्यक्ष जावन आसलो. कातेद्रालांत थावन एक पुर्सांव काडून हो कोंग्रेस सुरू जालो. तें पुर्सांव बऱ्या जेजुचे इगर्जेत दबाज्यान भितर सरलें. दुसऱ्या दिसा म्हणजे देजेंब्राचे 5 तारकेर कोचिनाच्या बिस्पान प्रवचन केलें आनी 6 तारकेर मैलापुरच्या बिस्पान. ह्या दिसा पवित्र साक्रामेंतांत रावलल्या जेजुच्या मानाक एक मुजगाचो कोंसेर्त आसलो, आनी हो कोंसेर्त कातेद्रालांत जालो. रायतुरचे सेमिनारिच्या सांत सेसिलियाच्या संगीत पंगडान तो दिलो.

ह्या तीन दिसांनी तेग बिस्पांचीं मिसां जालीं : पयलें मीस बऱ्या जेजुचे इगर्जेंत सिरियाक रितींत. हें मीस मों. मातेवस माकील, त्रालेसचो बिस्प आनी चंगनचेरिचो आपोस्तोलीक विगार हाणें भेटयलें. ह्या मिसार तमीळ भाशेन प्रवचन जालें तें केलें पारालुसच्या बिस्पान, ताका त्रिचुरचो आपोस्तोलीक विगार नेमललो.

दुसऱ्या दिसा कातेद्रालांत मीस जालें तें मुंबयच्या आर्चबिस्पान, मोन्सिञोर तियोदोरो डाल्होफ, हाणें भेटयललें. हें मीस लातीन भाशेंत जालें. कोचिनाच्या बिस्पान, मों. दों मातेवस द उलिवेरा शाव्येर, उपरांत गोंयचो आर्चबिस्प, हाणें प्रवचन केलें.

तिसऱ्या दिसा कातेद्रांलांत मीस जालें, आनी तें वेरापोलिच्या आर्चबिस्पान, मों. बेर्नार्दु द जेजूस, ओ. सी. डी. हाणें भेटयलें. मैलापुरच्या बिस्पान प्रवचन केलें. हो बिस्प म्हळ्यार दों तियोतोन्यु वेयरा द काश्त्रु, उपरांत गोंयचो आर्चबिस्प.

हो कोंग्रेस सोंपतच सायबाचो कायशांव उगडलो. म्होर मारलली ती फोडतच, त्यो तीन चावयो घेवन कायशांव उगडलो. पयली पात्रियार्कान आपली चावी घेवन चावी काडली, उपरांत गोवेर्नादोरान आपली चावी लायली, आनी शेकीं बऱ्या जेजुच्या कोंवेंताच्या आदमिनिस्त्रादोराची चावी घेवन, मुंबयच्या आर्चबिस्पान चावी काडली.

सायबाच्यो रेलिको 1891 वर्सा आसल्यो तश्योच मेळल्यो. कांय अदलबदल जांवक नासली. सायबाचें तोंड निगूत आसलें पूण न्हेसणाचो रंग बदल्ललो आनी तें न्हेसप झगझगीत दिसनासलें. पांय, हात आनी नाक निगूत आसलें जशें 1890 वर्सा दिश्टी पडतालें.

निमाण्या दिसा त्या कायशांवाक चावयो केल्यो पात्रियार्कान, कोचिनाच्या बिस्पान आनी गोवेर्नादोरान, आनी म्होर मारली. कोचिनच्या बिस्पाक कोंवेंताच्या आदमिनिस्त्रादोरान आपली चावी दिल्ली. शेकीं म्होर मारली आनी कायशांव तुंब्लांत भितर घातलो.

**(6). सवी दाकोवण :** नोवेंब्र 26, देजेंब्र 28, 1910.

आफोन्स द आल्बुकेर्क ह्या पुर्तुगाली फुडाऱ्यान 1510 वर्सा, नोवेंब्राचे 25 तारकेर गोंय शार मुसलमानांच्या हातांतलें दुसरे पावटीं जिखून घेतलें. ते घडणुकेचो चोवथो शेंकडो 1910 पडतालो देखून त्या शेंकड्याच्या उगडासाक दों मातेवस द उलिवेरा शाव्येर, उदेंतिच्या दुसऱ्या पात्रियार्कान सायबाच्या रेलिकांची दाकोवण करूंक येवजिलें, आनी ते दाकोवणे आदीं एक एवकारिस्तीक कोंग्रेस भरूंक तो पात्रियार्क सोदतालो.

नोवेंब्राचे 25 तारकेर गोंयचें शार सर्व शेवटीं पुर्तुगेजांच्या ताब्यांत पडललें आनी तें तशेंच देजेंब्राचे 19 तारकेर, 1961 पासून उरलें.

ह्या वर्सा व्हड व्हड दबाजे गोंयांत करचेले आसले पूण अवचीत पुर्तुगालाक एक बंड जावन सरकाराची ताडिमिडी जाली आनी एक क्रांतीक सरकार स्थापून आयलो तो कातोल्क पवित्रसभेक धुमाळो दिंवक लागलो. ह्या वर्सा पुर्तुगालाचें रायपण (मोनार्की) सोंपलें आनी त्या वर्सा थावन पुर्तुगालाक राजा ना.

ते पासत गोंयांत थोडेच दबाजे जाले. एवकारिस्तीक कोंग्रेस भरूंक घडलें ना. दाकोवणेची कार्यावळ एकदमूच धाकटी केली.

i) एक पुर्सांव कातेद्रालांतलें भायर सरलें आनी सांत कातारिनाच्या कपेलांत गेलें. थंय मैलापुरच्या बिस्पान मीस भेटयलें. दोनपारां नाळी गुळ्यांचे फार आयकले आनी रातच्या वेळार जायतो फोग.

ii) उपरांत सायबाच्यो रेलिको उगडल्यो पूण व्हडल्या घणघणान न्हय, कित्याक पुर्तुगाल दुखांत पडललें.

ही दाकोवण बंद दवरूंक सोदीत पूण लोकाच्या मनार फार बसतलो आसलो कित्याक सगळ्याक हे दाकोवणेची खबर विस्तारून गेल्ली आनी सगळो लोक तयार जाल्लो आनी निमाण्या वेळार सगळेच दबाजे बंद! अशें करूंक पुटवलें ना.

पुर्सांवांत दिश्टी पडताले : दों तियोतोन्यु वियेयरा द काश्त्रु, मैलापुरचो बिस्प; दों जुजे बेंत मार्तींश रिबेयर, कोचिनचो बिस्प; मों. विज्मारा, हैद्राबादचो बिस्प;

मो. पेद्रू जुजे हुर्त, सी. एस. सी., डाकाचो बिस्प (पूण ताणे जुटी सोडलली); मो. पेरिनी, मगळुरचो बिस्प; एलन, मद्रासचो आदारी बिस्प; आनी ताच्या सगळ्याच्या पाटल्यान **गोंयचो पात्रियार्क.**

नोवेंब्राचे 12 तारकेर, दोनपारच्या तीन वरांचेर, बऱ्या जेजुच्या कोवेंतातले साक्रिस्तींत, कायशांव उगडूंक हार्जीर आसले : दो. मातेवस द उलिवेयरा शाव्यर, पात्रियार्क सायब, श्री फ्रांसिस्क मानवेल कुसेयर द कोश्ता, गोवेर्नादोर, कातेद्रालाचे कोंग, वैज मिगेल कायतान आनी जुज आवगुस्श्त मांतेयर द सांजा माशाद, आनी हेर. त्यो तीन चावयो घेवन ता कायशांव उगडलो. त्या दिसा रेलिकांची तपासणी जाली आनी त्यो दाकोवक जातात तसल्या भेसार आसात **म्हण सिद्द जालें.**

त्या दिसा पात्रियार्क सायबान मीस कातार कले आनी मिसाच्या शेवटाक पापसायबाचे बेंसांव दिलें. एक तेलेग्राम करून तें बेसाव पियूस X-व्या पापसायबान धाडललें आनी त्या तेलेग्रामार कार्दियाल मेरी देल वाल हाणे सय केल्ली.

हैद्राबादचे, मंगळुरचे, बेळगांवचे, मैलापुरचे, दामांवचे क्रिस्तांव रोमारी करून आयल्ले. हैद्राबादचे क्रिस्तांव स्वादीक देशी गिता करीत, तसलीं आदीं गोयात आयकूंक नासलीं . गोंयां तेदनां एवरोपीच गिता कातार करीत आनी अजून गोयांत कोंकणी गितांचो नाद एवरोपीच.

**13 अचर्यां जालीं म्हण सांगतात.**

**(7). सातवी दाकोवण :** देजेंब्र 3, 1922 – जानेर 7, 1923.

देजेब्राचे 3 तारकेर, सकाळीं सात वरांचेर सगळ्या लोकांक आपोवपाक कातेद्रालाची भांगारी घांट वाजली. सगळे आयलले ते बिस्प आनी कोंग न्हेसून तयार जाले. दबाजीक पुर्सांव, बिस्प, कोंग, पाद्री, कोंफ्रारी, कातेद्रालांतले भायर सरून, सगळे साक्रिस्तींत गेले जंय आदीं फुडेंच कायशांव सकयल हाडून दवरललो. पुर्सांवा फाटल्यान पात्रियार्क सायब, दो मातेवस द उलिवेयरा शाव्येर, चलतालो. आपोस्तलीक देलेगाद पुर्सांवांत दिश्टी पड नासलो. दामांवाच्या, कोचिनाच्या, त्रिंकोमालिच्या, मैसुरच्या, विशाखपटणाच्या, ह्या पांच बिस्पांनी आनी कातेद्रालाच्या दियांवान कायशांवाक खांद मारलो आनी कुरेंदोरातल्यान पुर्सांव काडून रेलिको बाजिलिकेंत व्हेल्यो.

ह्या वर्सा ही दाकोवण कित्याक केली जायत? मार्साचे 12 तारकेर, 1622 वर्सा, ग्रेगोरियो XV पापसायबान फ्रांसिस्क शाव्येराक आल्ताराचो मान दिल्लो

अशें आसतां 1922 वर्सा हे घडणुकेचो तिसरो शेंकडो पडतालो आनी तो दबाज्यान पळेंवक जाय आसलो.

सांत फ्रांसिस्क शाव्येराक आल्ताराचो मान मेळलो म्हण गोंयां खबर पावतच, तेदनांच्या जेज्वितांनी घणघणान फेस्तां केल्लीं आनी हीं फेस्तां जायते दीस उरललीं. ह्या फेस्तांक एक रोमाचो फिदाल्ग, पियेत्रो देल्ला वाल्ले आसलो, आनी ताणें ह्या फेस्तांची खबर बरोवन दवरल्या.

असलीं फेस्तां उपरांत केदनांच जालीं नांत कित्याक उपरांत जेज्वितांक बऱ्या जेजुचे बाजिलिकेंतले भायर धांवडायले. अशें आतां हो तिसरो शेंकडो तरी दबाज्यान पळेंवक जाय आसलो.

1922 वर्सा, बऱ्या जेजुच्या कोंवेंतांत मार्साचे 4 तारकेर 'उपकार मेळून घेंवचें नोवेन' सुरू जालें. निमाण्या दिसा, म्हणजे मार्साचे 12 तारकेर 16 हजार तरी लोक पोरन्या गोंयां एकटावले. इतलो लोक आदीं केदनांच गोंयां पळेंवक नासलो. पांच हजार कोमुन्नांव कातेद्रालांत आनी 9 हजार कोमुन्नांव बऱ्या जेजुच्या कोंवेंतांत जाले. फेस्ता दिसा कोंवेंतांत 68 मिसां भेटयलीं आनी नोवेनाच्या दिसांनी 1,500.

पात्रियार्क सायबाच्या मिसा उपरांत, पियूस XI पापसायबाचें बेसांव दिलें. ही दाकोवण मार्सांत केली ना पूण देजेंब्रांत. मार्सांत फकत उपकार मेळून घेंवचें नोवेन करून एक तयारी केल्ली. दाकोवण केली फकत शेवटाच्या म्हयन्यांत देजेंब्र 3 तारकेर ते 1923 जानेराचे 7 तारकेक परयान. जात्रेकार येतात तें पळेवन, ही दाकोवण आनीक चार दीस वाडयली, अदीक करून गोंयां भायल्या जात्रेकारांक लागून. ही दाकोवण करतलो म्हण दों मातेवसान आब्रिलाचे 3 तारकेर जाहीर केल्लें. दाकोवणेच्या आदल्या दिसा गोंयांत पावले आपोस्तोलीक देलेगाद, मों. पियेत्रो पिसानी; दों सेबास्तियांव जुजे पेरेरा, दामांवाचो बिस्प आनी क्रांगानोरचो *आद होनोरेम* आर्चबिस्प; मों. जे. जुजे बेंत मार्तींश रिबेयर, कोचिनाचो बिस्प; मों. रोसियों, विशाखपटणाचो सहकारी बिस्प; मों. गास्तों रोबीशे, जे.स., त्रिंकोमालिचो बिस्प (शिलांव) आनी मों. देस्पारेजेस, मैसुरचो बिस्प.

देजेंब्राचे 2 तारकेर 1922 वर्सा, मेल्लें गोंय नव्यान जिवें जालेंशें दिसलें, सात बिस्प, 25 हजार तरी जात्रेकारां वेगवेगळीं वस्त्रां घालून आनी भासो उलोवन वेता थंय दिश्टी पडतालीं. हे दाकोवणेच्या 35 दिसांनी कोणें एकल्यान 16 भासो पोरन्या गोंयां उलयल्ल्यो आयकल्यो खंय.

**कायशांव उगडतात** : आदल्या दिसा साक्रिस्तींत, वेस्प्र कांतार करतच, पात्रियार्क सायब, आपोस्तोलीक देलेगाद, हेर बिस्प आनी कोंग, गोवेर्नादोर, एकटांय जावन, कायशांवाची म्होर फोडली. तो कायशांव एका मेजार दवरललो आनी त्यो तीन चावयो घेवन पात्रियार्कान, गोवेर्नादोरान आनी बऱ्या जेजुच्या कोंवेंताच्या आदमिनिस्त्रादोरान कायशांव उगडलो. रेलिकांची तपासणी ह्या वेळार केली ना पूण आगोस्ताचे 12 तारकेर 1923 वर्सा केली जेदनां सर्व शेवटीं त्यो रेलिको धांपल्यो. ही तपासणी केली दो. फ्रांसिस्क आंतोन्यु वोल्फांग द सिल्वा हाणें.

दाकोवणेच्या दिसांनी अलाहाबादचो बिस्प, तेनेदोसचो बिस्प आनी अरेबियाचो आपोस्तोलीक विगार, अजमेराचो बिस्प, मैलापुरचो कारभारी, त्रिचुरचो आपोस्तोलीक विगार, वेरापोलिचो आर्चबिस्प, मंगळुरचो बिस्प, जाफनाचो बिस्प, माकावचो बिस्प गोंयां पावले. दाकोवणेच्या दिसांनी 23 जणानी बाप्तिज्म मागलो आनी तो वेगवेगळ्या दिसांनी कोंग फ्रांसिस्क शाव्येर वाज हाणें दिलो. गोंयच्यो 100 तरी गांवच्यो रोमारी आयल्यो आनी भायल्यो 27.

जानेराचे 7 तारकेर दाकोवण सोपली पूण रेलिको त्या रुप्या पेटेंत रोकड्योच धांपल्यो नांत. 1923 आगोस्ताचे 12 तारकेर पात्रियार्क सायबान मीस भेटयलें आनी मिसा उपरांत कायशांव नव्यान उगडलो तेदनां एक हजार तरी लोक जमललो तांकां उमो दिलो जरूय सगळें गुपीत दवरललें. उपरांत रेलिकांची तपासणी केली.

**(8). आटवी दाकोवण :** देजेंब्र 3,1931 – जानेर 10, 1932.

ही दाकोवण कित्याक केली गाय? कसलें तरी कारण आसलें! जबरशें नासलें पूण पदवे फुडें शाणेपण कित्याक उपकारता? 1929 वर्सा एक व्हड सेनापती (जनरल) जुवांव कार्लुश क्रावेयर लोपीश म्हण गोंयचो राजपाल वा गोवेर्नादोर जावन गोंयां पावलो. तो खंय सांत फ्रांसिस्क शाव्येराचो व्हड भक्त आनी हे पासत एक दाकोवण करून आपली राजवटकी गोंयां सुरू करूंक तो सोदी. ही तजवीज कोचिनाच्या बिस्पान, दों. जुजे बेंत मार्तीश रिबेयर हाणें मांदून घेतली तेदनां हो बिस्प आर्चदियोसेज चलयतालो कित्याक गोंयां त्या दिसांनी आर्चबिस्प नासलो. पूण इतल्यान नवो आर्चबिस्प नेमून येत जाल्यार ताणें हे दाकोवणेक आपली मान्यताय दिंवक जाय आसली.

शेकीं 1930 गोयांत नवो पात्रियार्क फावो जालो, दो. तियोतोन्यु मानवेल रिबेयर वियेयरा द काश्त्रु. 1931 फेव्रराचे दोन तारकेर हो पात्रियार्क गोयां येवन जुटयेर चडलो आनी रेलिकांची दाकावण करूक खुशी दाकयली.

तयारी करपाक 40 हजार रुपय मोडून बऱ्या जेजुचो कोवेंत दुरुस्त केलो आनी पाटांस घातलो. हे पासत फेव्रराचे 10 तारकेर सायबाचो तुंब्ल इगर्जेंतलो भायर काडून साक्रिस्तीत दवरलो. हे समयीं फेव्रेराचे 22 तारकेर 1931 वर्सा साजच्या चार वरांचेर त्यो तीन चावयो घेवन रेलिकांची तपासणी करपाक तो कायशांव उगडलो. ही तपासणी नव्यान दो. फ्रांसिस्क वोल्फांग द सिल्वा ह्या वैजान केली. रेलिकांक मिसाची न्हेसवण आसली आनी हे न्हेसवणेक माणकां आसली तीं दिश्टी पडलीं. उजवे वाटेन भांगराची मूट आसलली बेतकाटी आसली. तिका आनी तिचे मुटीक थिकां आसलीं. आयज खंय पावलीं जायत ही माणकां आनी थिकां !!!

ह्या वैजान कुडिच्या सगळ्या भागांची तपासणी करूंक ना, पूण फकत न्हेसणा भायर दिश्टी पडतात त्या भागांची, म्हणतच ह्या वैजान सांताच्या पोटाक हात लावन पळेंवक ना. पळेल्लें जाल्यार ताका कांय मेळचें नासलें पूण फकत हाडां वा बोरी.

ताचे परमाणें सांताची कूड फातर कशी घट (*petrificação*) जांवक ना, ना म्हण वखदां घालून सांबाळतात (*mumificação*) तशी सांबाळूंक ना. जांगडांच्यो (वा पांयांच्या) पोवट्यो मोव आसल्यो त्यो पळेवन ती कूड आतांच येंबाल्सामार केल्याशी दिसताली. सादारणपणीं ती कूड, जंय जंय तपासणी करूंक जाल्या, मिरयेल्या कशी दिस. थोडे सुवातेर मास झरोन हाडां दिसतालीं. फाटिचो कणो बागवल्लो, उजवो पांय खुब्याशीं बळान ओडलले भाशेन दिसतालो, आनी खोंट फुडल्यान बागवल्ली, हें सगळें दाकयता फोंड काडललो तो कुडिच्या जोकान काडूंक नासलो (पूण इल्लो ल्हान).

तोंडाचें रूप, कानाचो आकार, दोळ्यांच्यो पापण्यो बऱ्यो सांबाळलल्यो आसात; हरड्यार हात दवरला तो देलिकाद दिसता.

*दर एक भाग वा सांदो:*

**खड्डो :** तकलेचे केंस पडून, कात झरोन हाडां दिसतात; फुडल्यान आनी कानाशीं इल्ले केंस आसात.

**तोंड:** मिरयेलां, उजव्या पोल्याक वुराक पडला. दाव्या पोल्याक खाड आसा. तोंडाक माती लागल्या. तोंडाचो आकार बरो आसा. दोन सकयले दांत आनी

एक सुणेरो दांत दिश्टी पडतात : ते ल्हान आनी सदाचे भाशेन. नाक सारकें नीट पूण मातशें फुडल्यान चेपलां वा बागवलां. कानाचे रूप नीट पूण ते कान चुन्यान भरल्यात.

**हात** : दावो हात हरड्यार दवरललो आसा. हाताचे मास विरगळलां, शिरो दिश्टी पडतात तो हात ल्हान आनी बारीक. बोटा बारीक आनी तोकां कशीं आखांड्यांची नाकशी मातशी वाडल्या, हेरा बोटाचीं पेरांच दिसतात मदल्या आनी मुदयेच्या बोटाच्या नाकशेंचे कुडके (वा मुंदां) दिसतात.

**पांय:** *उजवो*: शिरो कश्यो वळकूं येतात. खोट बागवल्या आनी पांय बळान ओडलले भाशेन दिसतात. बोटांचीं पेरा नांच, भायरावन आकांड्याचीं.

*दावो*: शिरो दिसतात. सगळी बोटां आसात.

**जांगडां:** ती धांपललीं आसात देखून पूर्ण तपासणी करूंक ना. जांगडांच्यो पोवट्यो सुकलल्यो कश्यो.

हो वाको सेतेंब्राचे 27 तारकेर 1923 वर्सा दिल्लो पुर्तुगाली भाशेन; ताचें भाशांतर हांवें वयल्या वयर केलां तें नीट जांवक ना कित्याक वैजुकी उतरांचो अर्थ कोंकणिंतल्यान दिंवक जांवक ना. पूण इल्लो अदमास करपाक ही खबर हांगा दिल्या. पोटाची पाटिची तपासणी केल्ली जाल्यार कांय मास मेळचें नासलें पूण बरो पोटाचो भाग जायतीं वर्सां आदीं विरगळून गेल्लो म्हण उगडास धरात.

शेकीं उगतावणेचो दीस उजवाडलो. देजेंब्राची 3 तारीक. सकाळच्या 7 वरांचेर कातेद्रालाच्यो घांटो वाजल्यो, हजारांनी लोक तयार जालो. 8 वरांचेर कातेद्रालांतलें पुर्सांव भायर सरलें आपोस्तोलीक देलेगाद ह्या पुर्सांवाची येजमानकी चलयतालो. पुर्सावांत दिश्टी पडताले : कोलकाताचो आनी बेतानियाचो आर्चबिस्प, मैलापुरचो, तिरुवल्लाचो, कोटायामचो, तुटिकोरिनाचो, कोटारचो, आजमिरचो, नेलोरचो, जाफनाचो, चंगानाचेरिचो, विजयपुरचो आनी गुरजाचो बिस्प. हो निमणो बिस्प म्हळ्यार गोंयच्या आर्चबिस्पाचो आदारी बिस्प, दों मानवेल मारिया फेरेयरा दा सिल्वा. आखे काबीद आनी सुमार 400 पाद्री, सेमिनारिस्त. तेदनां माद्री नासल्यो, धार्मिकांक तेदनां गोंयांत जागो नासलो.

बऱ्या जेजुच्या कोंवेंतांत पुर्सांव भितर सरून साक्रिस्तींत गेलें. सगळ्या लोकाक इगर्जे भायर दवरलें. साक्रिस्तींत पावतच कोलकाताचो आनी बेतानियाचो आर्चबिस्प आनी कोटायामचो, चंगानाचेरिचो, तुटिकोरिनचो आनी जाफनाचो बिस्प हांणीं कायशांवाक खांद मारलो. आतां आनीक पुर्सांव कुरेदोरांतल्यान

भोवून आदरार भायर सरलें आनी मदल्या दारवंटयांतल्यान भितर सरलें. कायशांव रुप्याचे पेटेत घालून उमावाक दवरलो.

उपरांत पात्रियार्क सायबान मीस सुरू केले; 13 बिस्प आनी 200 तरी पाद्री आनी गोवेर्नादोर हाजीर आसले आनी हिसपा भायर लोक. गोवेर्नादोराच्या हातात बेतकाटी आसली. मिसा उपरांत उमो सुरू जालो.

दाकोवणेच्या दिसांनी बऱ्या जेजुच्या कोंवेंतांत 2,157 मिसां जालीं, दिसाक 100 तरी, कातेद्रालांत 600. दाकोवणेच्या दिसांनी पावून सरले पुणेचो बिस्प, हैद्राबादाचो बिस्प आनी आपोस्तोलीक खात्याचो सेक्रेटरी रेव. वी. बेलगेरी. गोंयां भायल्यो 13 तरी रोमारी आयल्यो तांचे मदें एक होंगकोंगची, मुंबयच्यो तीन. यात्रेकारां मदें दिश्टी पड कोल्हापुरची महाराणी आनी इंदोरचो महाराजा. दाकोवणेच्या दिसांनी 13 जणांनी बाव्तिज्म मागलो; 18 तरी विजमितां जावन पिडेवंतां बरीं जालीं.

ही दाकोवण 30 दिसांक जांवक जाय आसली पूण लोकाच्या मागण्यांक कान दिंवक आनीक सात दीस ती चडयली आनी अशी ती दाकोवण सोंपयली, न्हय जानेराचे 3 तारकेर पूण 10 तारकेर. शेवटाच्या दिसा पात्रियार्कान मीस केलें, मिसा उपरांत कायशांव साक्रिस्तींत व्हेलो, गोवेर्नादोराची बेतकाटी सायबाच्या हातांत घातली आनी कायशांव धांपलो.

आदल्या दिसा म्हणजे जानेराचे 9 तारकेर आनीक तपासणी केल्ली ती दो. आल्बेर्त कार्लुश जेर्मान दा सिल्वा कुरेया हाणें आनी आनीक थोड्या वैजांनी. मार्साचे 19 तारकेर सायबाच्यो रेलिको सर्व शेवटीं बंद करून तुंब्लार दवरल्यो.

ह्या समयार काराच्याक, सांत पात्रिकाच्या कातेद्रालांत दवरूंक, पाद्र जिमेनेज ह्या जेज्वीत पाद्रीन एक रेलीक व्हेली ती पात्रियार्क सायबान ताका दिल्ली. हे दाकोवणेच्या उगडासाक तपालाच्यो पांच तिकेटी काडल्यो. हे दाकोवणेच्या वेळार मुंबय थावन 800 पिडेवंतां आयलीं तांची सेवा करूंक 19 वैज आनी 17 वैजुकी शिकपी फुडें सरले. हे दाकोवणेचो सिनेमा केल्लो तो मुंबय शारांत दाकयताले. पाद्र ए. ले तेलियर ह्या जेज्वितान सिनेमा केल्लो तो कोलोंबोक, नेगोबोक आनी गालेक दाकयताले. हो सिनेमा पळेंवक शिलांवाचे जायते भावार्थी लोटोन येताले.

हे आटवे दाकोवणेच्या समयार, पोरन्या गोंयां, आसिसाच्या कोंवेंतांत, तीन दिसांचो युकारिस्तीक कोंग्रेस भरलो हो कोंग्रेस म्हळ्यार पांचवो इंडियेक आनी

दुसरो गोयां. हो कोंग्रेस भरूंक फुडे सरलो पाद्र आपरलियाना, ब्ला. सी. डी. पवित्र साक्रामेंतांत रावलल्या जेजुच्या एकवटाचो राश्ट्रीक दिरेकदर, इंडियेक, बर्माक आनी शिलांवाक.

पयलो कोंग्रेस भरललो मद्रासाक, 1899; दुसरो, पोरन्या गोयां, 1900; तिसरो, बेंगळूर, 1904; चोवथो, मैलापुरा, 1912.

देजेंब्राचे 4 ते 6 तारके परयान, आखो दीस पवित्र साक्रामेंतांतल्या जेजूक उगतो दवरललो : ह्या जेजू मुखार सगळो वेळ एक वात पटलली आसली ती गोयच्या एके एके फामिलीन भेटयलली.

पयल्या दिसा कोटायामच्या मो. अलेक्झांडर चुलापारांबील, डी. डी बिस्पान सिरो मालाबारीक रितीन सकाळच्या वेळार मीस भेटयले. दुसऱ्या दिसा मो. लियो बी. कियरकल्स, सी. पी. डी. डी., उदेंतिच्या आपोस्तोलीक देलेगादान लातीन रितीन मीस भेटयलें, आनी तिसऱ्या दिसा पात्रियार्क सायबान. ह्या मिसार सगळ्यांचो कोमुजांव जालो तो 5 हजार भुरग्यांनी आनी 10 हजार जाणट्यांनी घेतलो. कोमुजांव दिताले नेल्लुरचो, विजयापूरचो, जाफनाचो, गुरजाचो (एवरोप) बिस्पसायब, आनी ते भायर गोयचो विगार जेराल, हैद्राबादाच्या बिस्पाचो प्रतिनिधी आनी अनीक 6 पाद्री. उपरांत तेच सकाळी मार इवानियोस, बेतानियाचो मुखेली आर्चबिस्प सायबान आंतियोकेनी रितीन मीस भेटयले तें पळेवन पुस्कळ लोक जमलो कित्याक ते मीस गोयकारांक एक नवल जावन आसलें.

तेच सांजे साडे पांच वरांचेर तुटिकोरिनचो बिस्प मो. तिबुर्सियुस रोच, इंडियेचो पयलो जेज्वीत बिस्प, हाणें एक प्रवचन केले तें सोपतच कातेद्रालांत थावन एक लांबदीग पुर्सांव भायर सरलें.

ह्या कोंग्रेसाक 15 बिस्पसायब हाजीर जाले : 10 लातीन रितिच, 3 सिरियाक आनी 2 आंतियोकेनी रितिचे; 7 बिस्पांनी आपले प्रतिनिधी धाडले. हे बिस्प सांत आसिसाच्या कोंवेंतांत भितर सरताना *Ecce Sacerdos Magnus* कातार केले तें 100 ताळ्यांनी (*voices*). कोंग्रेस सुरू जायना फुडेंच आपास्तोलीक देलेगाद, ते 15 बिस्प आनी 200 हाजीर आसलले पाद्री, हांणीं पापसायबाक आपलो मान आदर दोकोंवक कार्दियाल पाचेल्लीक तेलेग्राम धाडलें आनी ह्या तेलेग्रामाक रोकडोच जबाब मेळलो.

देजेंब्राचे 5 तारकेर बऱ्या जेजुचे इगर्जेत एक रातचो नमस्कार (*Adoration*) जालो ताका 6 बिस्प, जायते पाद्री आनी सेमिनारिस्त, गोवेर्नादोर आनी हेर

सरकारी मनीस हाजीर जाले. हो नमस्कार पाद्र. ए. ले तेलियर, जे.स. चलयतालो. हो बेल्जिकाचो जेज्वीत फ्रांसेज भाशेन उलयतालो ताचें भाशांतर पुर्तुगेजींत आनी कोंकणींत करचें पडतालें.

**(9). नववी दाकोवण :** माय 6 – 17, 1942.

ही दाकोवण पाटल्या विश्व झुजाच्या दिसांनी पडली, हें मारेकार झूज फकत 1944 वर्सा सोंपतलें आसलें. देखून हे दाकोवणेच्या समयार व्हड दबाजे करूंक जाले नांत, गोंयां भायलो लोक आयलो ना.

ही दाकोवण करचें कारण कितें जायत? तीन कारणां : 1) पाद्र फ्रांसिस्क शाव्येर मायाचे 6 तारकेर 1542 वर्सा गोंयां पावल्यार चार शेंकडे भरताले. 2) पियूस XII पापसायबाक बिस्पाची ओर्द मेळल्यार 25 वर्सां भरतालीं, आनी 3) तशेंच फातिमाक सायबीण दिश्टी पडल्यार 25 वर्सां जातालीं. ही दाकोवण करूंक झुजाक लागून जायत्यो अडचणी आसल्यो. असल्या वेळार त्याच वर्सा उदेंतेचो चोवथो पात्रियार्क गोंयां पावलो, दों जुजे दा कोश्ता नुनेस, आनी ह्या पात्रियार्कान माकावचो बिस्प आसताना कांय भियेनासताना टांच मारलली, तो आदीं 1922 वर्सा सवे दाकोवणेक हाजीर आसललो.

ही दाकोवण आपूण करतलो म्हण, दों कोश्ता नुनेसान मार्साचे 25 तारकेर जाहीर केलें. शेकीं मायाची 6 तारीक पावली. बऱ्या जेजुचे इगर्जेंत, सकाळच्या 8 वरांचेर पात्रियार्क सायबान मीस भेटयलें आनी मिसा उपरांत रेलिको उगत्यो केल्यो. ही दाकोवण मायाचे 13 तारकेर सोंपपाक जाय आसली पूण 17 तारकेर सोंपली.

दाकोवण करचे आदीं, आब्रिलाचे 30 तारकेर, सांजेच्या सात वरांचेर कायशांव समाधी वेलो सकयल देंवोवन साक्रिस्तींत व्हेलो. त्यो तीन चावयो घेवन तो कायशांव उगडलो. ह्या समयीं उमो घेंवक अवचीत लोक एकटावलो; तांकां सगळ्यांक पवित्र रेलिकांचो उमो दिलो. कायशांव उगडतच दो. फ्रोलियान द मेलान त्या रेलिकांची तपासणी केली. त्यो रेलिको बऱ्या भेसार आसल्यो. हाताक आनी पांयांक हात लावन पळेतच, सांद्यांक इल्ली मोवसाण आसली म्हण कळलें.

मायाचे 5 तारकेर, सांजेच्या वेळार त्यो रेलिको साक्रिस्तिंतल्यो व्हरून इगर्जेंत रुप्या तुंब्लांत दवरल्यो. इतले म्हणसर गोंयां दोग बिस्प पावले कोचिनाचो बिस्प, दों जुजे आल्वेर्नाज आनी क्विलोनाचो बिस्प दों जेरोनिमु फेर्नांदीश.

पाद्र फ्रांसिस्क शाव्येर गोयचे खाडीत पावतच *कोवलग* म्हणलल्या तारवा वयलो देवून गोयच्या बिरपाक भेटूंक म्हण आसिसाच्या सांत फ्रासिस्काचे इगर्जेत आनी कोवतांत भितर सरललो. हो बिस्प म्हळ्यार गोयचो आनी इंडियेचो पयलो लातीन रितिचो बिस्प, दो. फ्रेय जुवाव द आल्युकेर्क आनी तो फ्रासिस्कानी मठवाशी देखून त्या कोवेंतांत रावतालो. ते घडणुकेचो उगडास करपाक ते तारकेर आसिसाच्या कोवेंतांत एक मीस जाले.

हे पावटीं रेलिकांचो उमो दिलो हारश्यांतल्यान आनी हे पासत सायबाच्या पांयांक हात लांवक जाय नासलें. पूण असला उमो घेवक भावार्थी तयार नासले तांका जाय आसलो पांयांचो नीट उमो. लोकान पात्रियार्क सायबाक उलो मारलो आनी ताणे तो आयकलो देखून, आनीक चार दीस दाकोवण वाडयली. दिसपट्टो 13 हजार तरी लोक उमो घेतालो.

झुजाक लागून इंडियेचो लोक गोंयां पावलो ना. ते पासत पाद्र आद्रियान ले तेलियेर, हो बेल्जिकेचो जेज्वीत, आख्खे इंडियेंक भोंवलो आनी तसोच घडये शिलांवाक आनी धा हजार लोकांचीं मागणीं एकटांय करून तांच्या नांवान उमो घेंवक गोंयां आयलो. ह्या जेज्वीत पाद्रीन घडये पयलेच पावटीं सात फ्रांसिस्क शाव्येराच्या जिविता वयर *स्लायड्स* दाकयल्यो, म्हणजे सिनेमाच्या रुपान एक एक चित्र बऱ्या जेजुच्या आद्रार दाकयलें 12, 14 आनी 16 तारकेर. ह्या जेज्वीत पाद्री विशीं तुमी गमतिच्यो जायत्यो गजाली आयकल्यात आसतल्यो तांतली एक हे दाकोवणेच्या वेळार घडली. इंडियेच्या लोकांचीं मागणीं कागदार बरोवन ताणें एका साकांत घालून हाडललीं खंय. हो साक खांदार मारून, तो भागेवंत पाद्री व्हडल्यान गाजयतालो इंग्लेजितल्यान म्हणून *'Petitions to st. Francis Xavier from all over India'*. तो कितें म्हणता तें कोंकणी लोकाक समजनासलें. तो पाद्री सांत फ्रांसिस्क शाव्येराक उलो मारता म्हण समजून, गोंयकार ताका जबाब दिंवक लागले अशे : काकूत कर, सायबा. *'Petitions to St. Francis Xavier....'* जबाब : काकूत कर सायबा.

मायाचे 13 तारकेर दोन रुप्योत्सवाचीं फेस्तां पाळलीं : फातिमाक सायबीण दिश्टी पडली, आनी पियूस XII पापसायबाक बिस्प केलो, त्या घडणुकांक 25 वर्सां भरतालीं तांचीं. पापसायबाचो जुबिलेव पाळपाक बऱ्या जेजुच्या कोवेंतांत पात्रियार्क सायबान सायबाच्या रेलिकां हुजीर व्हडलें मीस भेटयलें. फातिमाचो

जुबिलेव पणजे पाळलो; पणजेचे इगर्जेतल्यान एक लांबदीग वातिंचें पुर्साव भायर सरून वयर पात्रियार्काचे पालाशिशीं चडलें. पुर्सावांत क्विलोनाचो बिस्प, 250 पाद्री दिश्टी पडताले, आनी 8 हजार तरी भावार्थी. पापसायबाच्या उगडासाक 25 चेडे हातांत उजवाडाच्यो चुडी घेवन आसले, आनी सायबाच्या उगडासाक 25 चेडवां हातांत फुलांचे तुरे घेवन आसलीं.

मायाचे 17 तारकेर बऱ्या जेजुचे बाजिलिकेंत 8 वरांचेर पात्रियार्क सायबान मीस भेटयलें पूण उमो सांजेच्या 6 वरांचेर परयान चल्लो.

**(10). धावी दाकोवण :** देजेंब्र 3, 1952 – जानेर 6, 1953.

हे दाकोवणेची खबर करूंक म्हाका एक खेरीत उर्बा भोगता; म्हज्या जिवितांत पयलेच पावटीं सांत फ्रांसिस्क शाव्येराच्या पांयांशीं 28 दीस वावरूंक म्हाका भाग मेळलें. तेदनां हांव आजून पाद्री जांवक नासलों पूण सांत पावलु इश्कोलांत, बेळगांव, शिकयतालों. बेळगांवच्या जेज्वितांक पयलेच पावटीं तेदनाच्या पात्रियार्क सायबान, दों जुजे दा कोश्ता नुनेस हाणें हे दाकोवणेची राटावळ चलोवपाक आपोवन हाडलले. तेदनां बेळगांव गोंयचे आर्किदियोसेजींत पडतालें, पूण गोंयचे शिमे भायर उरतालें. जेज्वितांक पुर्तुगाली देसांनी वावरूंक सत्ता नासली देखून ते बाबडे गोंयां भायर वचून बेळगांव पेणें करून रावले. बऱ्या जेजुच्या कोंवेंतांतले पुर्तुगाली प्रधान मंत्र्यान, मार्केज द पोंबालान, 1759 वर्सा तांकां भायर घातलले ते मागीर केदनांच भितर सरले नांत. आतां 192 वर्सां उपरांत पयलेच पावटीं सांत इनासाचे पूत आनी सांत शाव्येराचे भाव आपल्या घरांत 34 दीस बिराड करूंक भितर सरले.

बेळगांवां आनी मुंबय थावन ते आयले, सुमार 40 तरी पाद्री, शिकपी आनी ब्रदर. तांणीं बेळगांवां थावन कानोशियन माद्रींक आपल्या बराबर हाडल्यो इगर्जेच्यो न्हेसवण्यो आनी आल्ताराचे तुवाले बा नितळ करपाक, साक्रिस्तिंचो वावर त्या माद्रिंच्या ताब्यांत केलो. ही सगळी राटावळ सोंपलली पाद्र वॉल्टर माथायस, जे.स. चलयतालो.

त्या वेळीं पुर्तुगाली शिपाय रोमारिच्या यात्रेकारांचो बंदोबस्त करी, मांडावळ सांबाळी, पूण लोकांक बरेच त्रास करताले, हांगा थंय आपल्याक जाय तशेंच करी. हें पळेवन तीन चार दिसांनी जेज्वितांच्या व्हडिलान पात्रियार्क सायबाशीं वचून निशेध मारचो पडलो सांगून, हे पुलीस आपली दादागिरी चलयतात जाल्यार आमी परतून बेळगांवां वेतांव. पात्रियार्कान समजिकायेन पुलिसां कडली

जबाबदारी काडून घेतली आनी उरलल्या दिसांनी उमांवाची रीत शांतिकायेन चलली जशी केदनांच चलूंक नासली. जरूय रोम्बा म्हणललो पुलिसेचो व्हडील केदनां-केदनां बेश्टोच येवन दारां बडयतालो आनी फाटल्या दारांतल्यान अवचीत भितर सरतालो आनी आपल्या बराबर आपल्या इश्टां मित्रांक भितर काडून सगळी मांडावळ मोडतालो. आदल्या दाकोवण्यांक बरीच लूट जाताली म्हण आमचे जाणटे सांगतात. दोन-तीन दीस उमावांक रांवचें पडतालें; लोकांक पयस करपाक घोड्याचेर बसून परयान शिपाय येताले खंय. ह्यां घोड्याक देकललो मनीस परयान गोंया आमकां मेळलो.

हे धावे दाकोवणेक एवरोपाचे जात्रेकार परयान गोंयां पावले; पुर्तुगालाचे, एस्पाञाचे, फ्रांसाचे, इतालियाचे, इंग्लांडाचें, अमेरिकेचे, आफ्रिकेचे पत्रकार. पाकिस्तानाचे आनी आखे इंडियेचे पत्रकार पयलेच पावटीं पोरन्या गोंयां पावले. रेडियो वेल्यान आनी पत्रां वरवीं हे दाकोवणेची बातमी आख्या संसारांत विस्तारून गेली.

ही दाकोवण म्हणल्यार खरेपणीं निमाणी जेदनां भावार्थ्यांक नीट पांयांचो उमो मेळलो; हे फुडें आनीक केदनांच मेळचो नासलो कित्याक उपरांत त्यो रेलिको बरें भाशेन सांबाळपाक एके हारश्या पेटेंत घालून दवरूंक येवजिल्ले.

ही दाकोवण व्हडा दबाज्यान करपाक सायबाचो उमो कातेद्रालांत दिंवचो केल्लो. हे आदीं आनीक एकदां तिसरे दाकोवणेच्या समयार, 1878 वर्सा, त्यो रेलिको कातेद्रालांत व्हेल्ल्यो. हो दबाजो आनिकूय वाडोवपाक, पापसायबाचो दूत (*Legate of the Pope*) मागून घेतलो आनी पात्रियार्क सायबाचें मागणें आयकून पियूस XII पापसायबान लिजबोवाच्या आर्चबिस्पाक आनी पात्रियार्काक आपलो दूत जावपाक विंचून काडलो – दों मानुवेल गोन्साल्वीश सेरेजेयरा. ते भायर पुर्तुगालाचो आनी एस्पाञाचो मंत्री आयले – दों मानुवेल कावालेयरो फेरेयरा आनी दों आंतोनियो इतुरमेंदी बानालेस.

ही दाकोवण कित्याक केली जायत? ह्या वर्सा सांत फ्रांसिस्क शाव्येर, सांचियान जुंव्यार मेल्यार 400 वर्सां भरतालीं. ही दाकोवण परगट करता आसताना, दों जुजे दा कोश्ता नुनेस ह्या पात्रियार्क सायबान फेब्रेराचे 15 तारकेर एक गोंवळीक चीट बरोवन सायबाच्या पांयांचो नीट उमो निमाणे पावटीं मेळतलो म्हण भावार्थ्यांक आदीं फुडेंच कळीत केल्लें, कित्याक रोमाचे हुकुमे परमाणें, ही दाकोवण जातच, सायबाच्यो रेलिको आनी केदनांच उगडिना जावपाक आनी बरे

भाशेन सांबाळून दवरपाक, एका खेरीत कायशांवांत घालून दवरच्यो आसल्यो. हे हारश्या पेटेंत वा कायशांवांत वारें भितर वचना अशें समजतात. गरज पडल्यार वयलें धापणें स्क्रू काडून उगतें करूं येता आनी 1964 वर्साची दाकोवण सोंपतच आनी 1974 दाकोवण जांवचे आदीं तें धांपणें म्हज्याच हातांनी काडून सगळे हारशे पुसचे पडले कित्याक ते गयर-गयर जावन त्या हारश्यांतल्यान बरें निवळ दिश्टी पडनासलें. रेलिकांची वाफ भायर सरून हारश्यांचेर कुपां कशीं बसललीं.

हे दाकोवणे खातीर पोरनें गोंय नितळ करूंक जाय आसलें आनी हे नितळसाणिचो वावर चार तरी वर्सां आदींच म्हणजे 1948 वर्सा सुरू जाल्लो. पोरनें गोंय खंयच्या वर्सा नवसरूंक (*renovate*) सुरू केल्लें ताचो उगडास कसो पुर्तुगाली सरकारान एक सुपुर्लो मारमोरिचो फातर बऱ्या जेजुचे बाजिलिकेशीं, रस्त्यारूच घातललो तो इंडियेच्या पोरनावळ खात्यान (archeological department) काडून उडयला आनी खंय दवरला ती खबर ना. आदीं पोरन्या गोंयां एक रात पासून सारूंक जाय नासली कित्याक जायत्यो जळारी आसल्यो आनी त्यो चाबतच मलेरिया जोर लागतालो. ते पासत कातेद्रालाचे कोंग आनी हेर पाद्री गोंयां रातचे राव नासले पूण भोंवतणच्या गांवांनी, जशें करमळे, खोर्ले आनी दिवाडे वचून आपलें पेणें करताले. इगर्जो राखूंक फकत एक कोंग वा पाद्री दर एका कोंवेंतांत रावतालो आनी तोय बी म्हयन्याचे पंदराच दीस उरलल्या पंदरा दिसांक दुसरो पाद्री रावतालो.

पोरन्या गोंयां आदल्या शाराच्यो शंबरांनी बांयो आसल्यो, आनी तांतूं सांटललें उदक आसून तांतूं जळारिंनी आपलें बिराड केल्लें. झिलकुटां आनी झोंपां आसलीं तीं कातरलीं; घरटाणां आसलीं तीं एका थाऱ्यार घातलीं; सगळ्यो बांयो पुरल्यो; कोंवेंतांनी आनी हेर घरांनी वखदां शिवरायलीं. इतल्यान जळारी मेल्यो, पोरणें गोंय नितळ जालें. सगळे कोंवेंत दुरुस्त केले, हें काम करताना बऱ्या जेजुचे बाजिलिकेचो भायलो चुनो फोडून काडलो आनी तो आतां वायटाक पडता – सगळे फातर खारसाणीन कोसमेल्यात. ते कोण आतां दुरुस्त करीत? ह्या सरकारान पोरने फातर काडून नवे घालूंक वावर सुरू केल्लो पूण एक 35 फातर घालतच तो वावर तांकां कठीण लागलो जायत आनी हे पासत तो सोडून दिलो. 1948 वर्सा पोरनें गोंय नितळ करचो वावर इंजिनेर बाल्ताजार द काश्त्रु चलयतालो.

हो दुरुस्तिचो वावर करता आसताना एक विचित्र वस्त केली ती ही : कातेद्रालाच्या व्हडल्या आल्तारार, सांत कातारिनाच्या पायाशी एक मुसुलमान राजाची इमाज वा पुतळो आसलो, आनी ताच्या माथ्यार एक मुकूट आसलो. हो पुतळो त्या आल्तारार सांतां भक्तां मदे मातृय सोबनासलो देखून तो काडून उडयलो. असलो पुतळो आजून *'Arco dos Vicereis'* हाच्या माथ्यार उबो आसा.

ही दाकोवण म्हळ्यार खरेपणीं निमाणी जेदनां भावार्थ्यांक पांयाचो नीट उमो मेळलो. उपरांतल्यो दाकोवण्यो जाल्यो त्यो सगळ्यो हारश्यांतल्यान. हो उमो नीट दिंवचो पडतालो, भावार्थी मोयपासान आनी मोगान बगर बगर हात लायताले देखून एक वा दोग पाद्री सायबाच्या पांयाशीं उबे रांवचे पडताले. ह्याच कारणाक लागून, जशें आदीं सांगलां, सायबाच्या पांयाचीं तीन बोटां निकळून पडललीं. हे धावे दाकोवणेच्या समयार, एका पांयाची कात सुटलली तिचो म्हाका उगडास आसा पूण खंयच्या पांयाची कात सुटलली तिचो म्हाका उगडास ना. एक दीस पात्रियार्क सायब येवन ती कात ताणें कातरीन कातरली. हे कातिच्यो जायत्यो रेलिको केल्ल्यो एका सुपुल्यां बुशेतांत घालून, एक आर्लूक कशी त्यो आयज हांगा थंय पावून काबार जाल्याश्यो दिसतात. आमचे कडे तरी बऱ्या जेजुचे बाजिलिकेंत कांय ना. आसल्यो त्यो भावार्थ्यानी मागून व्हेल्यो. पूण तरी 1964 वर्स पासून हे कातिचो एक बरो कुडको मों. एफ. एक्स. दा पियेदाद रेबेल तेदनाच्या आपोस्तोलीक कारबाऱ्या कडेन आसलो. ते कातिचो कुडको आज सांत फ्रांसिस्क शाव्येराचे इगर्जेत, दाबूल, मुंबय आसा आनी ती घेवन ते इगर्जेत व्हडलें 'उपकार मेळून घेंवचें नोवेन' मार्सांत दवाज्यान जाता.

ते भायर आनिकूय लुगटाच्यो रेलिको आसात. सायबाचो तुंब्ल उगडतच, कुडीर एक मांत वा चादर धांपूक घातललें ते काडलले, आनी ताच्यो रेलिको केल्ल्यो. उपरांत पोरनो मांत काडतच ताचे सुवातेर नवो घातललो तो श्री निकोलांव सोब्रिनान भेटयललो. पूण हो मांत आज खंय आसा ताची खबर म्हाका ना. हारश्याचे पेटेंत घालताना तो मांत काडून आनिकूय रेलिको केल्यो जायत. ते भायर पाद्र ले तेलियरान ह्या बेल्जिकाच्या जेज्वित पाद्रीन सायबाचे कुडीक लुगट लावन रेलिको केल्ल्यो त्यो आमी भावार्थ्यांक दिवन दिवन काबार केल्यो.

**(11). इकरावी दाकोवण : 14-31 देजेंब्र 1961.**

हे दीस म्हळ्यार गोंयांत मारेकार; इंडियेच्या सरकारा आनी पुर्तुगालाच्या सरकारा मदें गोंयाक लागून एक किजील वसतालें, टांव-टींव चलतालें. पुर्तुगाल म्हणतालो गोंय आपलें आनी इंडियाय म्हण तें आपलें. एक भुरगें दोगां आवयांचें! सोलोमांवानूच ही नीत करूंक जाता. पूण सोलोमांवाचे सुवातेर सांत फ्रांसिस्क शाव्येराक उलो मारलो. हे आदीं संभाजी गोंयांत भितर सरूंक सोदी तेदनां, त्याच सांताक 1683 वर्सा उलो मारललो.

इंडिये आनी पुर्तुगाला मदें तंटो वाजतालो तो सुटावो करपाक आनीक गोंयाचेर भिरांकूळ कुपां उबारतालीं तीं पयसावपाक, सायबाच्यो रेलिको उगडल्यो, पूण जायत्या गोंयकारांक हे उगतावणेची खबरूच नासली. ही दाकोवण भौशीक कशी आमी धरतांव, पूण भिरांतीक लागून आनी खबर नासलीच देकून, लोक आयलोच ना. आमी तेदनां दिवचले आसल्यांव आनी थंय उगतावणेची खबरूच पांवूंक नासली. जी खबर आमकां आसताली ती ही : गोंयचे शिमेर मार फार जाताले, नाळी गुळे थंय दिश्टी पडतात म्हण आयकूं येतालें, सुपुल्र्यो लडायो जावन हो आनी तो मेलो म्हण खबर पावताली. ही असली मारेकार परिस्थिती आख्या गोंयांत पावत म्हण भिरांत आसली, नाळी गुळयांचे फार जाल्ले जाल्यार गोंयचो भस्म जांवचेलो आसलो. ते भिरांकूळ 17-18 तारकेर देजेंब्राचे रात्रीं मावळिंगेचे शिमेर (दिवचले) तीन चार वरां फारांचो आवाज आयकलो ताचो आज म्हाका उगडास येता.

ह्यो रेलिको उगत्यो आसताना, देजेंब्राचे 18-19 तारकेर, 1961 वर्सा, भारतीय फौजो तीन चार वांटांनी गोंयांत भितर सरल्यो, सुमार 30,000 (तीस हजार) शिपाय आनी पुर्तुगाला कडेन फकत 3,000 (तीन हजार) शिपाय आसले म्हण सांगतात. असले दशेर कसली लडाय जातली आसली! नाळी गुळ्यांचो आवाज आयकूंक आयलो ना. भारतमातेन आपले धुवेचेर उजो केलो ना. हाडललीं तीं हतयारां परतून धाडलीं. फाराचो एक आवाज कानार पडलो ना. फकत मुरगांवचे खाडींत आनी दीवच्या जुंव्यार नाळी गुळ्यांचो उजो जालो, पूण गोंयचो भस्म जालो ना. आंजेदिवाच्या जुंव्यार कांय फारपेट जालो आनी लडाय आनीक चार दीस चालू उरली.

हे दाकोवणेक गोंयां भायले आनी भितरले यात्रेकार आयले नांत, आयले जाल्यार पणजेचे आनी लागशिल्या तिसवाडी म्हालांतले जायत. पणजे थावन रोमारी गोंयच्या सायबाशीं येताल्यो म्हण तुमी जाणांत. ही दाकोवण खरेपणी

सोल्दादांचीं. पुर्तुगाली सोल्दादांनी ती उगतावणी केली आनी भारती सोल्दादांनी ती धांपली. रेलिको देजेंब्र 31 तारकेर धांपतच, भारतीय सरकारान नवें वर्स आनी नवी राजवटकी सुरू केली 1962 वर्सा.

**(12). बारावी दाकोवण** : नोवेंब्र 24, 1964 ते जानेर 6, 1965.

मुंबय शारांत नोवेंब्राचे 28, 1964 ते देजेंब्राचे 6 तारीक पासून, 38-वो एवकारिस्तीक कोंग्रेस भरललो. ह्या समयार जायतो लोक, भायल्या गांवचा परयान, मुंबय शारांत येतलो आसलो. तांकां सांत फ्रासिस्क शाव्येराच्यां रेलिको दाकोवक एक बरी संदी आसली देवून ही दाकोवण करची थारायले.

हे दोकोवणेक भायली भितरली तयारी करपाक, इंडियेंच्या केंद्र सरकारान कोंवेंत दुरुस्त करचो वावर आपल्या ताब्यात घेतलो; *Archeological Survey of India* ह्या खात्या खाल वावर सुरू जालो. बऱ्या जेजुचे बाजिलिकें भितरल्यान रंग काडलो, तुंब्ल घासून नितळ केलो, चित्रां नव्यान दुरुस्त केलीं पूण भायल्यान कांच केलें ना, भायले फातर कोस्मेलेले आसले ते तशेच उरले. बाज़िलिकेचो फुडो दुरुस्त करपाक एक व्हडली लोखंडाची प्रांज घातलली पूण काम कांय करिनासताना दाकोवणेच्या आदल्या दिसा, ती आमी काडूंक लायली. भितर बाजिलिकेंत तशीच एक व्हडली प्रांज घातलली पाटसाक रंग काडपाक, पूण निमाण्या दिसा ती काडचो वेळ पावतच कोण एकल्या बेजबाबदारी वावराड्यान सुंबां सोडलीं आनी ती सगळी प्रांज घडांयच करुन सकयल पडली. आनी आमच्या पुर्वजांचे झुंबर फोडले. ते आजून घालूंक नांत आनी घालुंकूय जांवचे नांत. आयज लोकंडाच्यो सरयो देंट कशे उमकळतात ते आजून दिश्टी पडतात. कोरार वयर दोन झुंबर आजून उमकळतात ते म्हळ्यार एक आदलो उगडास.

ही बारावी दाकोवण कातेद्रालांत करची म्हण थारायलले देकून तीय इगर्ज दुरुस्त करूंक लागले. रस्ते इल्ले रूंद केले आनी गरज थंय नवे केले. कातेद्राला आनी बाजिलिके मदें जागो आसलो हजारांनी रुपय मोडून, ताची एक फुलां बाग केली, पूण तेरावे दाकोवणेच्या वेळार ती बाग मोडून घातली आनी तिच्या जाग्यार आनीक एक नवी बाग केली. पयली फुलां बाग पावसाच्या काळार, एक रान कशी दिसताली, जंय जायतें करड किर्लतालें. जमीन नितळ करिनासताना, मायाच्या म्हयन्यांत 1964 हरयाळी लायलली सुके जमनीर ती मरून गेली. उपरांत आनीक एकदां लायली पूण गोंयचें देशी तण वाडचें आसलें तें वाडनासताना रावलें ना.

बाजिलिका दुरुस्त वा सारकी करपाक वावराडी येतच, ती रुप्या पेट मदल्या आल्तारार आसली ती जुलायचे 4 तारकेर साक्रिस्तींत व्हेली. फेब्रेराचे 13 तारकेर 1955 थावन ती पेट मदल्याच आल्तारार आसलिशी दिसता कित्याक ही तारीक दोन कारतांवांचेर बरयलली म्हाका मेळली, आनी ह्या कार्तावां वरवीं ते हारश्या पेटेक म्होर मारलली म्हण कळता. उपरांत साक्रिस्तींत दुरुस्त करूंक आयले आनी नव्यान ती रुप्या पेट बाजिलिकेंत व्हरून मदल्या आल्तारा हुजीर दवरची पडली. ह्या तुंब्ला भोंवतीं मिसां भेटोंवक चार आल्तार घातलले. हें सेतेंब्राचे 11 तारकेर घडलें.

ते आदी आगोस्ताचे 25 तारकेर रेलिको साक्रिस्तींत आसताना, इंडियेच्या इंतेरनुन्स सायबाक त्यो दाकोंवक, रुप्या पेट उगडली. त्यो रेलिको कसल्या भेसार आसात आनी त्यो भौसाक दाकोंवक जातात जाल्यार पळेवपाक इंतेरनुन्स दिल्ली सावन गोंयां आयल्लो. रेलिको दाकोंवक जातात तसल्या भेसार मेळल्यो देखून, नोवेंब्राचे 24 तारकेर बारावी दाकोवण जातली म्हण तेदनां गोंयचो आदारी बिस्प, मों. फ्रांसिस्क पियेदाद रेबेलान सेतेंब्राचे 9 तारकेर परगट केलें.

इतले म्हणसर हो आनी तो वावर करपाक, सगळ्याक वावराडीच दिश्टी पडताले. असल्या गडबडांत चोरयो बा जांवक शकतात. ते पासत सेतेंब्राचे 23 तारके थावन चोवदा वा पंदरा पुलीस रातपाळी करूंक पोरण्या गोंयां आयले. थोडे तुंब्ल राखूंक बाज़िलिकेंत न्हिद. दाकोवण सोंपल्या उपरांत परयान चार पुलीस समाधिशीं न्हिदताले.

दाकोवण लागीं पावतां पावतां, नोवेंब्राचे 18 तारकेर पोरन्या गोंयां बिजली भितर सरली. दुसऱ्या दिसा बेळगांवां आनी हजारिबाग (बिहार) थावन सात जेज्वीत पाद्री पावले; कोडयकानाल (मदुराय) थावन चार, पुण्या थावन आट जेज्वीत शिकपी. ह्या सगळ्या पाद्रींक आनी शिकप्यांक हाडले दाकोवणेचो वावर चलोवपाक, कुमसारां आयकुपाक, मिसां भेटोवपाक. कुमसारां आयकूंक जायत्या भासांचे पाद्री आसले. बारावी दाकोवण लागीं पावतां, म्हज्या ओफिसांतल्या जनेलांतल्यान नोवेंब्राचे 22 तारकेर मैसूर थावन हाडलल्यो 20 नव्यो बशी गोंयांत भितर सरतात त्यो दिश्टी पडल्यो. जेज्वितांच्या व्हडिलांचो प्रतिनिधी (*Representative*) फा. जेरोम द सोजा, जे.स., एक मंगळुरकार, रोमाक थावन पावलो. त्या दिसा गोंय पुणेचो जेज्वीत प्रोविन्शल, फा. चार्ल्स गोम्स, जे.स., आज अहमदाबादाचो निवृत बिस्प, पावलो.

नोवेंब्राचे 23 तारकेर दोनपारच्या वेळार दारां धांपून, रुप्या पेटेंतली हारश्या पेट भायर काडून साक्रिस्तीत दवरली, आनी ती रुप्या पेट सुमार 12 वर्सां उपरांत नव्यान मारमोरिचे समाधीर दवरली.

हे दाकोवणेंचो वावर इतलो नेटान चलता आसताना, दोन तीन दीस आदी परयान वेळार तो सोंपलो ना. पोरन्या गोंयां आनी सगळ्यो इगर्जो एक झुझाचें मैदान कशें दिस, हांगा माती थंय फातर, आनीक खंयसरूय वांशे आनी गुडे. ते भायर पोरन्या गोंयां कांय जेवणा खाणा ओरोव पावूंक नासलो. असले परिस्थितीर थोडे चिंतूंक पावले ही दाकोवण आनीक थोडे दीस फुडें व्हेल्यार अदीक बरे जायत.




शेकीं दाकोवणेचो दीस उजवाडलो. रातीं इगर्जो धुवून बी नितळ केल्यो आनी गडबडान सगळें सामान कोनशाक मारले. उगतावणेंचो दीस नोवेंब्राची 24, 1964. त्या दिसा गोंयां आसले ते बिस्प हे : इंतेरनुन्स, मोन्स जे. आर. नोक्स, सोंपलली बेळगांवचो बिस्प, मो. फोर्तुनात वी. कुतीञ आनी गोयचो आदारी बिस्प, मों. फ्रांसिस्क पी. रेबेल. दोकोवणेच्या दिसांनी मुंबय थावन आनीक जायते बिस्प येंवचे आसले. हे पावटी भायल्या देसांतले बिस्प गोंयां पावले तितले आनीक केदनांच पावूंक नासले आनी पावचेय नांत, सगळे मेळून 45 : तेग कार्दियाल, एक इंतेरनुन्स, 2 आर्चबिस्प आनी 39 बिस्प. इंडियेचे 16, ऑस्ट्रेलियाचे 5, ब्राजिलाचे 3, वेल्जिकेचे 2, थायलंडाचे 2 आनी एक-एक ह्या सकयल्या देसांतले : फिलिपिन्स, आंगोला, जपान, उत्तर अमेरिका, मोनाको, पोलंड, जर्मनी, एस्पाञा आनी गोंयचो आदारी बिस्प.

तेग कार्दियाल गोयां पावले ते हे : देजेंब्राचे 1 तारकेर डलहॅम कॉन्वे, आयरलंडचो प्रथम बिस्प; देजेंब्राचे 4 तारकेर, ग्रेगोरियो पेद्रो आगाग्यानियान, मुंबयच्या एवकारिस्तीक कोंग्रेसाक कार्दियाल दूत; आनी देजेंब्राचे 7 तारकेर जुलियुस कार्दियाल डॉफनर, म्युनिकचो आर्चविस्प (जेरमानी)

शेकीं दाकोवणेचो दीस उदेलो : नोवेंब्र 24, 1964. भोव सकाळीं उटून बाजिलिकेंत फांत्यार 4 वाजतां मिसां सुरू जालीं तीं आट वाजतां सोंपलीं. तेदनां दर एक याज्ञीक एक एका आल्तारार एकलोच मीस करतालो म्हण उगडास धरात.

साडे आट वाजतां लोक इल्लो इल्लो बाज़िलिकेंत घुसूंक लागलो. 9.15 कातेद्रालांतले कोंग पावले. सगळे पाद्री आनी माद्री आनी हेर भावार्थी बाज़िलिकेच्या आद्रार दिल्लिच्या इंतेरनुन्साक रावताले. इंतेरनुन्स सारको 9.30 वाजतां पावलो. ताचे बराबर आसले गोंयचो आदारी बिस्प, सोंपललो मों. फ्रांसिस्क दा पियेदाद रेबेल आनी सोंपललो मों. फोर्तुनात कुतीञ, बेळगांवचो बिस्प. हो बिस्प उपरांत शुभवर्तमानां उपरांत कोंकणिंतल्यान प्रवचन करतलो.

सायबाच्यो रेलिको साक्रिस्तींत आसल्यो. न्हेसून जातच, तेगूय बिस्प आनी पाद्री साक्रिस्तींत गेले, आनी इंतेरनुन्सान रेलिकां वेलें दामास्काचें धांपणें काडलें, धूंप घालो आनी पुर्सांव सुरू जालें. आयशिले पयशिले जेज्वीत शिकपी आनी पाद्री हे दाकोवणेचे कारभार चलोंवक हाडलले ते, तांणीं हारश्या पेटेक खांद मारलो. आतां दुसरे पावटीं आपल्या म्हालगड्या भावाचे दाकोवणेचे कारभार चलोवपाक, जेज्वीत पाद्री, शिकपी आनी ब्रदर वेग वेगळ्या प्रांतांतले आयल्ले. तेरावे दाकोवणेक अशें घडलें ना कित्याक ही दाकोवण पुलिसांच्या हातांत दिल्ली म्हणतच पाद्रिंची गरजूच नासली.

बाज़िलिकेच्या मदल्या दारांतल्यांत पुर्सांव भायर सरून नीट कातेद्रालांत वचूंक लागलें. वाटेर दोनीय कुशिंनी लोक उबो आसलो. तिसरे पावटीं गोंयचो सायब बऱ्या जेजुचो कोंवेंत सोडून वेतालो. कातेद्रालांत रेलिको पावतच उमावाक तयार केल्ल्या एक साद्या आल्तारार त्यो रेलिको दवरल्यो आनी पोंतिफिकाल मीस सुरू जालें. हें इंतेरनुन्स सायबान भेटयलें.

मिसा उपरांत रोकडोच उमो दिंवचो केलो, पूण पाद्रिंनी बरीच लूट केली तिचो दाखलो घेवन गृहस्थांनींय केली. मीस सोंपलें साडे बारा वाजतां आनी उमो तीन पासून चालू उरलो. उपरांत दारां बंद केलीं, आनी उमो घेतल्यांक वळींत उबीं करून साडे चार वाजतां नव्यान दारां उगडलीं तीं फकत साडे-आट वाजतां धांपलीं. पूण दीस धारेर पडच्या वेळार उम्याक चड लोक नासलो.

दुसऱ्या दिसा सांत कातारिनाची परब आसलल्यान, कालचे तेगूय बिस्प नव्यान दिश्टी पडले. बाजिलिकेंत थावन कातेद्रालांत वचूंक, एक पुरसांव भायर सरले काबिदाचे आनी पाद्रिंचें. फेस्ताचें मीस तेदनांच्या आदारी बिस्पान भेटयले आनी कोग निसेफोरस गुदिज्ञान प्रवचन केलें. मिसा उपरांत उमो सुरू जालो. पयली रोमारी पावली ती मंगळुरची आनी ती घेवन ते दियोसेजिचो विगार जेराल आयललो. हे रोमारींत 500 तरी यात्रेकारां भाग घेतालीं. दुसरी रोमारी केरळाची आसून 1300 यात्रेकारां. त्रिचूर थावन 500 यात्रेकारां पावलीं. 26 तारकेर मंगळूर थावन 40 सेमिनारिस्त सांत जुजेचे सेमिनारितले पावले, आनी असो दिसाच्या दिसा गोंयां आनी गोंयां भायलो लोक रोमारी करून पावलो.

28 तारकेर थावन गोंयच्यो रोमारी सुरू जाल्यो, सगळो दीस एकामेका फाटल्यान त्यो येवन 124 जाल्यो. भोव थोड्यो रोमारी आयल्योच नांत. बाज़िलिकेंत थावन पुर्सांव काडून ह्यो रोमारी कातेद्रालांत वेताल्यो.

नोवेंब्राचे 30 तारकेर मुंबय थावन एवकारिस्तीक कोंग्रेसाक एवरोपी लोक आयललो तो गोंयां पावलो : 200 जेरमानी, 80 इतालियानी, 40 दखीण अमेरिकानी आनी 30 एस्पानी. ह्या दिसा मोंतेफियास्कोनेच्या बिस्पान (इतालिया) मीस केलें आनी इतालियानी भाशेन दोन उतरां सांगतच, एक कापुचीन जेरमानी भाशेन उलयलो, आनी एक जेज्वीत कास्तेलानी (एस्पानी) भाशेन.

पयल्या पांच दिसांनी उमो घेवक यात्रेकारां एकेच वळींत भितर सरत आनी असो बरोच वेळ लाग, देखून सव्या दिसा नोवेंब्र 29 तारकेर एक नवल भितर काडलें : दारवंट्याशीं पावतच यात्रेकाराच्यो दोन वळी केल्यो; एक तकलेचो उमो घेंवक वेताली, आनी दुसरी पांयांचो उमो घेंवक वेताली, आनी अशें करून लोकांक रोकडो उमो मेळूंक लागलो. नेमलली रोमारी आसा तिचो लोक पांयांचो उमो घेंवक वेताली. ही वळ वा पांत सदांच मेकळी आसली देखून, रोमारी खंयच्याय वेळार नीट भितर सरत.

जशें वयर सांगलां, रेलिको उम्याक एका आल्तारार दवरलल्यो, आनी ताचेर चार वाती जळताल्यो, हें पळेंवक बरें दिस नासलें. देकून हो आल्तार काडून उडोंवक आदारी बिस्पान हुकूम घातलो. ताचे सुवातेर पणजेच्या डोन बोस्कोच्या कारखान्यांत एक लोकंडाचें मेज करून हाडलें आनी तशेंच लोकंडाचें तिकटें. तें मेज आनी तिकटें ब्रदर जुजेन बरे नक्षेन केल्लें आनी तिकट्या भोवतीं इंडियेच्या सावार भासांनी 'माग आमचे पासून' हीं उतरां चितारललीं. तें तिकटें मागीर उरलल्या तिनूय दाकोवण्यांक वापरलें आनी तें आजून सांबाळून दवरलां.

देजेंब्राचे 3 तारकेर, फेरस्ता दिसा सोंपललो दों आल्तिन रिबेयर, गांवात पर्वरेचो, सा बांदेराचो (आफ्रिका) बिस्प, हाणें पोंतिफिकाल मीस भेटयलें. ह्या फेरस्ता दिसा उम्याक जायतोच लोक जालो, अदीक करून सकाळचो.

देजेंब्राचे आट तारकेर, दखीण इंडियेचीं जायतीं यात्रेकारां दिश्टी पडतालीं. तीं सगळीं मुंबय थावन आपल्या घरा परततालीं. ह्या दिसा भोव सकाळीं दुकाची खबर आयकूंक आयली. गोंयचो राजपाल, श्री सचदेव, अवचीत फांत्यार चार वाजतां ह्या संसाराक सोंपलो. आदल्या दिसा रेयतोर, फादर जोर्ज द सा, गोवेर्नादोरा कडे उलोंवक गेल्लो ताका सांगूंक, पुलीस बाजिलिके आनी कातेद्राला मदें आसा त्या मदल्या रस्त्या वेल्यान, लोकाक चलूंक दिनासले पूण फुलां भागीक एक भोंवाडो मारूंक लायताले कित्याक सगळीं शोपां हे बागे भोंवतणीं उभारललीं. गोवेर्नादोरान ही मांडावळ रोकडीच मोडूंक लायली, आनी मदल्या रस्त्या वेल्यान लोकाक वचूंक रजा दिली. गोवेर्ना-दोराचो हुकूम पोरन्या गोंयां सांजेच्या सात वरांचेर वेव्हारांत घातलो, पूण हाचे आदीं मरणान ताची जीण शेवटाक हाडलली.

तेरा तारकेर मोरयेच्या लश्करान, धवेंफुल्ल न्हेसण घालून, पोरन्या गोंयाचेर आक्रमण केलें. हाचे एदी रोमारी आदीं येंवक नासली आनी हे फुडें येंवचीय नासली. ह्याच दिसा कराची थावन एक हजार यात्रेकारां पावलीं.

हे परीं सगळें दबाज्यान आनी घणघणान जातालें पूण नातालांच्या दिसा इकरा वाजतां इल्लो शिरशिरो पावस पडूंक लागलो तो पांच वाजतां खरेंच एक धडक जाली. सगळीं शोपां भिजलीं, वेपारी आपलो म्हाल घेवन कुर्रेदोरांत आसरो घेंवक धांवून धांवून येताले.

सगळ्यां वून पळेंवक बरी रोमारी दिस ती बेळगांवची. देजेंब्राचे 28 तारकेर ती सांज वेळार पावलली आनी सात वाजतां काळोक जांवच्या वेळार एक वातिंचें पुर्सांव काडून ही रोमारी कातेद्रालाचे दिशेंत चलूंक लागली तेदनां म्हाका लुर्दिसाचो उगडास आयलो. लुर्दिसाकूय सदांकाळ सांजेर आट वरांन्चेर वातिंचें पुर्सांव जाता.

निमाणो दीस : जानेराची 6, 1965. कातेद्रालाचीं दारां सकाळचीं पांच वाजतां उगडतात पूण फकत साडेपांच वाजतां उमो सुरू जाता आनी 8.45 पासून तो चालू उरता. निमाणो दबाजो पळेंवक इंतेरनुन्स आयलो आनी तसोच बेळगांवचो बिस्प, मों. फोर्तुनात कुतीञ. ह्या बिस्पान प्रवचन सोंपयताना सगळ्यांक धिनवासणी दिली सरकाराक, नागरीक आनी सैनीक (*military*) अधिकाऱ्यांक

आनी शेकीं पुलिसांक. रातच्या वेळार *Central Reserve Pulis* आर्मा घेवन सयबाची राखण करताले म्हण उगडास धरात. हीं जावन आसलीं पयलीं दाकोवण भारती सरकारा खाल.

मिसा उपरांत हाजीर आसलल्या दोगाय पिस्पानी आनी कातद्रालाच्या दागा कोगानी कायशावाक खांद मारलो. सगळो लोक वाटेर दोनूय अर्दांनी पुर्सांव पळेवक उबो रावललो. रेलिको बासिलिकेंत भितर सरना फुडेंच, दारवटो धांपलो आनी सगळो लोक भायर सरलो. कायशाव दा हारश्या पेंट सकयल दवरली आनी ते दामास्काचें कवर घालून इतेरनुन्सान ती धांपली आनी अशें बारावे दाकोवणेची संपादणी जाली.

पूण भावार्थ्यांचें समाधान जावक नासलें. थोड्यांनी आजून उमो घेवक नासलो. देखून बारा वाजतां उमो नव्यान सुरु केलो आनी तो तीन पासून चालू उरलो.

उपरांत रेलिको साक्रिस्तींत व्हरून दार बंद केलें. पांच लाखा वयर लोकान उमो घेतलो.

इतल्यान सगळें सोंपना. आफ्रिकेंक थावन यात्रेकारां यवचीं आसलीं तीं आजून पावूंक नासलीं. ते भायर मुंबय थावन लोक येतच आसलो कित्याक थंयच्या पत्रांनी ही दाकोवण आनीक कांय दीस वाडयल्या म्हण धारस्त घातलली. ते पासत जानेराचे 13 तारके पासून रेलिको साक्रिस्तींत उगत्यो दवरच्यो म्हण निर्णय घेतलो. जानेराचे 7 तारकेर दोनपारच्या वेळार ती रुप्या पेट मारमोरिचे समाधी वेली देंवयली आनी तातूत हारश्या पेट घालून साक्रिस्तींत दवरली. उपरांत दिसाच्या दिसा 10-11 पासून आनी सांजे 4-5 पासून उमो मेळतालो. शेकीं आफ्रिकेची बोट 14 तारकेर पावली पूण उम्याक चडसो लोक आयलो ना. 15 तारकेर रुप्या पेट नव्यान समाधीर चडयली आनी हारश्या पेट 17 तारीक पासून साक्रिस्तिंतूच दवरली.

जानेराची 17 खासगी (*private*) दाकोवणेचो निमाणो दीस. ह्या दिसा हारश्या पेट इगर्जेंत हाडली आनी सुमार साडेसात वाजता सकाळीं उमो सुरु जालो आनी सांजेच्या स वरां परयान तो चालू उरलो. जायतीं मुंबयकारां आसलीं. ह्या उपरांत दारां धांपलीं आनी रेलिको समाधीर चडयल्यो रुप्या पेटेंत बंद केल्यो.

इतल्यान कांय सोंपना. दुसऱ्या दिसा, 18 तारकेर मुंबयचे बोटीर जायतो लोक उमो घेवंक आयलो पूण आदल्या दिसा रेलिको बंद केल्ल्यो. ही लोकाची

गत समजांवक बिस्प सायबाक तेलेफोन करचो पडलो. बिस्प सायबान रजा दिली देखून, रुप्या पेट उगडून, सायबाची तकलीच इल्ली भायर काडून, वयल्या जनेलांतल्यान ती दाकयली आनी पयस थावन लोकान उमो घेतलो आनी असोच आनीक दोन दीस उमो दिलो. शेकीं जानेराचे 20 तारकेर सांजेच्या वेळार पुलीस अधिकारी बा येवन, रुप्या पेटेक, एक टेप घालून, म्होर मारली आनी इतल्यान उमो बंद जालो.

**पापसायबाचो दूत गोंयां येता**

देजेंब्राचे दोन तारकेर, 1964, पावल VI पापसायब, शांतिचो दूत, मुंबयच्या शारांत पावलो. ताच्या येण्याची खबर पुलीस स्थानार थावन पोरन्या गोंयां वितरायलली आयकूंक आयली. पावल VI गोंयां येंवक ना, कांय राजकी कारणांक लागून सो दिसता, कित्याक तेदनां तो इंडियेच्या सरकाराचो सोयरो कसो अंतरराश्ट्रीक एवकारिस्तीक कोंग्रेसाक मुंबय आयललो. तेदनां गोंय जरूय इंडियेच्या सरकाराच्या ताब्यांत पडललें, तरूय अंतरराश्ट्रीक नेमां प्रमाणें गोंय कोणाचें तें अजून थारूंक नासलें. ह्या खटल्यांत मिसळ जायना जांवक, पावल VI, वातिकानी देसाचो राजकारभारी, मुंबयच रावलो आनी आपल्या प्रतिनिधीक, सोंपललो कार्दियाल जी. पी. आगाग्यानियान, हाका सायबाच्या रेलिकांचें दर्शन घेवपाक गोंयां पाटयलो.

देजेंब्राचे 4 तारकेर साडे धा वरांचेर पापसायबाचो दूत पोरन्या गोंयांत भितर सरलो आनी आपलीं आंगवस्त्रां बदलूंक नीट सांत कायताच्या कोंवेंतांत गेलो. कार्दियालाची न्हेसवण घालतच, कातेद्रालांत तो भितर सरलो, जंय गोंयचे पवित्र सभेचे अधिकारी ताका येवकार दिंवक रावलले. कातेद्रालांत भितर सरतच सांतिस्माच्या कपेलाक भेट केली आनी उपरांत रेलिकां मुखार इल्लो वेळ दिंबी घालून मागणीं म्हणलीं.

मीस भेटोंवचे आदीं, पापसायबाचो निरोप लातीन भाशेंत बरोवन हाडललो वाचलो आनी ह्या निरोपाक तेदनांच्या आदारी बिस्प सायबान लातीन भाशेंतूच दिनवास दिलो. उपरांत पापसायबाचो दूत लातीन भाशेंत, कागत हातांत नासताना, उलयलो पूण शुभवर्तमानार इंग्लिशितल्यान प्रवचन केलें.

मिसा उपरांत रेलिकांचो उमो घेतलो आनी मागीर ताका नास्तो करूंक कातेद्रालाच्या वसऱ्यांत व्हेलो. हो नास्तो करता आसताना, कार्दियाल सायबान गोंयच्या आदारी बिस्पाक पावल VI पापसायबाचें एक देणें कशें एक काल्स

भेटयली. हो नास्तो करतच, पापसायबाच्या दुतान सांता मोनिकेच्या आनी बऱ्या जेजुच्या कोवेंतांक भेट दिली.

देजेंब्राचे 5 तारकेर सुमार दोनपारच्या दोन वरांचेर पापसायब गोंयां वयल्यान उडून रोमाक परतलो. वाटेर आसताना ताणें गोंयकारांक एक निरोप दिलो म्हण म्हाका इल्लो उगडास आसा.

**(13). तेरावी दाकोवण** : देजेंब्र 23,1974 - जानेर 5, 1975.

ही दाकोवण आर्चबिस्प सायबान आपले पदवेन जाहीर करपाचे आदींच टुरिस्ट खातें प्रचार करूंक लागले. टुरिस्टांक पोरनें गोय दाकोवक येताले ते, तांकां सांगत रेलिकांची दाकोवण धा धा वर्सानी जाता म्हण, आनी हे पासत 1974 वर्साय जातली कित्याक आदली बारावी दाकोवण 1964 जाल्ली. सरकारान पयलेच पावटीं बरोंच भार घेतलो ही दाकोवण करपाक, पुलिसांच्या अधिकाऱ्याक, (*Inspector General*) श्री कौशल, हाका *Exposition Commissioner* म्हण नेमलो आनी हाणें जायते *Posters* छापले ते खंय लायले म्हण खबर ना, आनी दाकोवणेंचो सगळो कारभार आपणाच्याच हातांत घेतलो, खेरीत लोकाक पयस थावन आयलल्यांक आनी अधिकाऱ्यांक सोपेपण म्हण दिंवक *Special Entry Pass* म्हण छापले आनी ते वांटूंक लागलो जरूय तांची गरज नासली कित्याक उमो मांडावळीन चल. ही तेरावी दाकोवण उद्योग धंद्याची कशी दिसली.

शेकीं ओतुब्राचे 23 तारकेर 1974, आर्चबिस्पाच्या घरा थावन अधिकृत रितीन ही तेरावी दाकोवण जाहीर केली. ही दाकोवण पवित्र वर्साचे सुरवातेक पडली जें वरस (1975) पावल VI-व्यान नवसरणेचें आनी देवाशीं परतून येण्याचे वरस कशें जाहीर केलें. त्या समयार WITNESS 75 (साक्षी 75) म्हण सांत मोनिकाच्या कोंवेंतांत एक प्रदर्शन दाकयलें आनी तें पळेंवक 60,100 जाण्टीं गेलीं (तिकेटिच्या अदमासान) आनी सुमार 30,000 भुरगीं.

पयलेच फावटीं ही दाकोवण दूरदर्शीत (टिवी) केली ती मुंबय वितरायली. दाकोवण सुरू जांवचे आदीं दुरदर्शनाचीं मनशां तयारी करूंक देजेंब्राचे 20 तारकेर गोंयां पावलीं. पोरन्या गोंयांतल्या इतिहासीक इगर्जांचे आनी जाणट्यां चित्रांचे फोटो काडले जरूय आर्केयोलोजिकल खातें फोटू काडूंक अडचण्यो घालतालें. देजेंब्राचे 22 तारकेर आग्वादाच्या कोटा थावन एके बोटींत बसून दुरदर्शनाचीं मनशां, ह्या पुस्तकाचोय लेखक तांचे बराबर भितर आसलो, मांडवी न्हंयेचे फोटू काडीत काडीत पोरन्या गोंयां आयले. हे न्हंयेंतल्यान मागां 1542

वर्सा फ्रांसिस्क पयलेच पावटीं गोंयां शारांत भितर सरलो आनी 1554 वर्सा ताची कूड मालाका थावन हाडलली. हे न्हंयेचेय इल्ले इल्ले देखावे दुरदर्शनाचेर दाकोंवक जाय आसले.

बशिंचे येरादारीक सोंपेपण दिवपाक श्रीमती शशिकला काकोडकारान, तेदनां गोंयची मुखेल मंत्रीण, दोंगरा वेल्यान पणजे वचूंक देजेंब्राचे 21 तारकेर कदंबा रस्तो उगडलो.

देजेंब्राचे 24, 1974 तारकेर भारती सरकारान बऱ्या जेजुच्या आदरार एक डाक खात्याचे तिकेटिची उगतावणी केली. ते तिकेटीर रुप्या पुतळ्याची प्रतिमा दाकयलली. हे दाकोवणेक वेता थंय पुलीस दिश्टी पडताले पूण थोड्या दिसांनी कातेद्रालांतले तांकां भायर सरूंक लायले. बाज़िलिकेच्या आद्रार रातच्या वेळार जेवणां केलीं. एकदम सांत कायतानाच्या कोंवेंतांत इंडियन रितीन पिलारच्या जोन पेरेरा पाद्रीन मीस करून दाकयलें. पयल्याच फारा सांगांतीं मिसां भरपूर जालीं लातीन, सिरो-मालांकारा, सिरो-मलबार रितिंनी. शेंबरांनी पाद्री, अदीक करून केरळाचे, तमिळनाडुचे आनी आंध्राप्रदेशाचे. मिसां भेटयताले विवीध – भासांनी मलयाळम, तमीळ, कन्नड, तेलुगू, हिंदी, मराठी, गुजराती, इंग्लेज आनी दुबाव ना कोंकणी. एकदां मीस जालें फ्रांसेज भाशेंत पारिसाच्या 15 यात्रेकारांक. एक एस्पानी जेज्वितान दखीण अमेरिकेंतल्या यात्रेकारांक कास्तेलानी भाशेंत मीस भेटयलें. ओस्ट्रेलियाक थावन 23 यात्रेकारां आयलीं. पोरनें गोंय त्या दिसांनी बाबेलाचें गोपूर, विवीध भासांचें शार, जांवक पावललें.

दाःकोवणेची उगतावणी केली जोसफ पाराकातील कार्दियाल सायबान, येर्नाकुलमचो सिरियानी रितिचो आर्चबिस्प. ताच्या वांगडा आनीक तेग बिस्प आसले : मुंबयचो आदारी बिस्प, मों. सायमन पिमेंता, वालेरियन ग्रासियासाचो प्रतिनिधी; मों. आरुलप्पा, हैदराबादाचो बिस्प; आनी पाद्र रोमुवाल्द द सोजा, जे.स., प्रोविन्शल, जेज्वितांच्या सर्वव्हडिलाचो प्रतिनिधी; आनी जानेराचे 5 तारकेर, 1975 मों. जोन गॉर्डन, आपोस्तोलीक प्रोनुन्स हाणें धांपली. ह्या दिसा मिसाक हाजीर आसले ते बिस्प हे : आल्दो मारिया पात्रोनी, जे.स., कोलकाताचो बिस्प; मातियास फेर्नांदीश, मैसुरचो बिस्प; पी. सी. बालास्वामी, नेलोरचो बिस्प; आनी इग्नेशियस लोब, बेळगांवचो बिस्प; आनी गोंयचो बिस्प.

दाकोवणेच्या दिसांनी 937,544 उमे जाले पूण सोंपेपण आसलें देखून, जायत्या जणांनी तीन चार पावटीं परयान उमो घेतलो. देखून हो आंक यात्रेकारांचोच कसो धरतल्यांव जाल्यार चार पावटी तरी देंवोंवक जाय. ह्या दिसांनी सगळे

मेळून पोरन्या गोंयां पावले 1कार्दियाल, 1 प्रोनुन्स आनी 13 बिस्प. दाकोवण चालू आसताना पावले कांदिचो (*Shri Lanka*) बिस्प; मार ग्रेगोरियोस; विल्लाम गोम्स, पुण्याचो बिस्प; डेन्जील द सोजा, (*Assam*); आरोक्य सामी, बेंगळुरचो आर्चबिस्प; पॅट्रीक नाम, मिरतचो बिस्प.

दाकोवणेच्या दिसांनी पुर्तुगालाचो परराश्ट्र मंत्री श्री मारियु सुवारीश पोरन्या गोंयां आयलो, आनी ताका घेंवक लोक आसलो. इंडिये आनी पुर्तुगाला मदें सालाजाराचे राजवटकेंत इश्टागतिचीं सुत्रां तोडललीं तीं त्या दिसा बांदून आगलीं.

दाकोवणे उपरांत फेब्रेराचे 2 तारकेर, 1975 दो. जुवांव मानुवेल पाशेक द फिगेरेद आनी दो. पेद्रू द आतायदे ह्यां वैजांनी हारश्यांतल्यानूच, टोर्च घालून इल्ली तपासणी केली हाताची, पांयांची आनी तोंडाचीच. तांकां दिसलें तोंडाची जायती अदलबदल जाल्या. दावो दोळो भायर सरललो कसो दिसूंक ना. आसकिट्यो आजून दिश्टी पडताल्यो. तोंडाची कात एकदम सुकून गेल्ली, खडबडीत जाल्ली आनी हांगा थंय कोसमेल्ले कुडके कशे दिस. खाडाचे केंस खाडकेक चिटकून आजून आसले. सकयले खाडकेची कात कोसमेल्या आनी एक हाड निगूत दिश्टी पडता. उजव्या कानाचो भायलो भाग सारको विरगून गेला. हाताच्यो आनी पांयांच्यो शिरो नदरेक पडतात. उजवी खोंट कडसरल्या आनी ती एका तारान बांदून दवरल्या. दिश्टी पडता त्या भागाची कात मातयेच्या रंगाची दिसता.

सायबाच्यो रेलिको सर्वशेवटी फेब्रेराचे 9 तारकेर, 1975 मार्मोरिचे समाधीर चडयल्यो.

हे दाकोवणेची शिस्त चलोंवक, पयलेच पावटी तेग चेडवां पुलीस दिश्टी पडलीं : मारिया फ्लोरिंद, बोस्तोडेचें; रिमा द क्रूज, वेल्लेचें; आनी अनिता फेर्नांदीश (*Sub Inspector*), मेरशेचें.

तेरावी दाकोवण जाल्ली ती निमाणी काय म्हण यात्रेकारां विचारतालीं, अदीक करून गोंयां भायलीं. ती दाकोवण सोंपतच सायबाच्यो रेलिको पुरतले काय म्हण म्हजे कडे जायतीं विचारतालीं, पुरपाची सुवात परयान खंय आसा काय म्हणतालीं. असलोच विचार आतां म्हजे कडे एके माद्रीन तरी केलो.

तेरावे दाकोवणेच्या वेळार, गोंयां भायलीं यात्रेकारां विचारतालीं

– सिमितीर खंय आसा? (म्हणजे रेलिको खंय पुरतले?)
– ही दाकोवण निमाणी? उपरांत ती कूड रोमाक व्हरतले?
– ही कूड मुदलाची वा अडेची?

– ती कूड तुमी धुयनांत? ना जाल्यार कसो येतलो?
– वखदां घालून ती कूड सांबाळल्या?

**निरंतर दाकोवण:**

असें आदीं सामला. सायबाच्यो रेलिकी एके हारश्या पेटेंत फेब्रेराचे 13 तारखेर 1955 वर्सा घालून दवरल्ल्यो. तर त्या सदाच हारश्यातल्यान दिश्टी पडतात तश्यो उगत्यो दवरूंक आतां शकताल्यो. पाटल्या वर्सानी जायतेच भोवडेकार लोंक्शांनी पोरन्या गोंगां देवक लागले. फकत रुप्या पेट भायल्यानूच पळेंवन ते निराशी जांवक लागले. तांकां जाय आसले भितर कितें आसा तें पळेवपाक – *Dead Body* – मेल्ली कूड अशे ते उलयतात. घडयेक भितर कांय ना जायत! *Dead Body* म्हणतात ती सगळी फट! असल्या दुवावी मनशांचें समाधान करपाक, तेरादी दाकोवण जाल्या उपरांत त्यो रेलिको मातश्यो तरी उगत्यो दवरपाक अधिकाऱ्यांनी येवजिले.

म्हणतच 1977 वर्सा 'उपकार मेळून घेवचें नोवेन' वा नव दीस (मार्स 4-12) सुरू जांवचे आदीं, बाज़िलिके थावन पळेताना उजवे बाजुंतल्यान रुप्या पेटेचीं दोन जनेलां आनी एक खांबो निकळायलो; विजलेचो एक बल्ब दीस भर पेटोवन सायबाचें तोंड पळेंवक जातालें. तें दिश्टी पडपाक हारश्या पेट परयान मातशी उंच काडलली. ह्या समयार हारश्या पेट ते रुप्या पेटेंत परती घातली म्हणजे तकली अस्तमतेक केली आनी पांय उदेतेक पूण आदीं तकली उदेते दिशेन आसली. हीं दोन जनेलां काडलीं तेदनां गोंयचो आर्चबिस्प रावूल गोन्सालवीश हाजीर आसलो, आनी ही अदलबदल ताणेच सुचयलली.

पूण ही मांडावळ अपूर्ण आसली; यात्रेकारांचें समाधान जायनासलें. देखून त्याच वर्सा नोवेंब्रांतलें पारंपारीक नोवेन सुरू जांवचे आदीं उरललीं पांचूय जनेलां काडलीं पूण न्हय मदले खांबे आनी अश्यो त्यो रेलिको एका बाजुंतल्यान बाज़िलिकेंत जमनीर थावन दिश्टी पडूंक लागल्यो पूण न्हय तितल्यो बऱ्यो त्यो आनीक सकयलूय हाडूंक जाय नांत कित्याक त्यो दवरल्ल्यो आसात ते मारमोरिचे समाधीर. चडूय सकयलूय दवरूंक फावो नांत कित्याक त्या रेलिकांचें तोंड आतां सारकेंच सुकलां, बावलां आनी पळेंवक कुरूप दिसता.

हीं जनेलां बरे भाशेन काडूंक श्री लोरेंस फेर्नादीश आसलो. हाणें बऱ्या जेजुच्या कोंवेंतांत, भुरग्यापणार थावन, कामाक भितर सरून, 60 वर्सां बरें काम केलें, बाज़िलिकेची मुस्तायकी बी सांबाळलली आनी राकली. ताका बऱ्या जेजुच्या

कोवेंताचो एकदम मोग आसलो; तो कोवेंत आपलेंच घर कशें तो सांबाळतालो, आनी मर परयान शेवटच रावूंक सोदी. पूण 1980 वर्सा ताका बसपगारी कसो करून धरा मादूर गांवांत वेचें पडलें, आनी आपल्या गांव घरा 1983 नोवेंब्राच्या म्हयन्यांत 16 तारखेर तो अंतरलो आनी ताका मातयेक लांवक म्हाका एकल्याकूच भाग मेळ्ळें.

आनीक एक बावराडी कोंवेंतांत आसली. तिचोय उगडास बरोवन दवरूंक जाय. पावलिना द मेल, करमळेची, तीय भुरग्यापणार थावन कामाक लागलली आज 50 एक वर्सां जालीं. आपले असकतायेक आनी जाणटे पिरायेक लागून, ही चोवदावी दाकोवण जातच आपल्या धरा विसव घेंवक ती गेली. आनी आतां आडोशे रावता.

पूण एक मात्र वस्त सांगची पडता : रुप्या पेटेचीं जनेलां काडलीं खरीं पूण त्या समयार पाद्री मास्त्रिल्लीन करूंक लायलली ती रुप्या पेट पयलेच पावटी मोडली. ह्या सातूय जनेलांचीं कवडां आनी तो सुपुरलो खांबो कोंवेंताच्या भुजेवांत दवरला.

अजाप तें हें. हें पावल मारललें आनीक भोवशीक दाकोवण करिना जावपाक. फाटल्या भोवशीक दाकोवण्यांनी सगळें ध्यान मन धंद्या व्यापाराचेर गेललें. सरकार परयान वेगळेच नदरेन वावुरतालो, सगळो भायलो बोवाळ केललो सायबाच्या नांवान. तेंच आतां धा वर्सा उपरांत घडतलें जेदनां चोवदावी भोवशीक दाकोवण जातली आदलो तमासो आनी बोबको दिश्टी पडतलो आनी आत्मीक फळ कितलो येतलो! इतिहास परतून परतून तसोच जाता आनी अशें 1994 आनीक एक दाकोवणेक आमी तयार जांवचीं!!!

**(14). चोवदावी दाकोवण :** नोवेंब्र 21, 1984 ते जानेर 13, 1985.

हीय दाकोवण कातेद्रालांत जाली पांचवे पावटीं. उगतावणेचो दबाजो कार्दियाल जोजफ कोर्देयर, कराचिचो आर्चबिस्प, पाकिस्तान, हाणें चलयलो. हो कार्दियाल म्हणल्यार एक गोंयकार, पायतोनचो, साळय, बारदेस. दाकोवणेच्या दिसांनी नव बिस्प पोरन्या गोंयां पावले. बाज़िलिके भायर एक व्हड माटोव घातललो तांतूंत जायतीं मिसां भेटयललीं विवीध भारती भासांनी आनी रितिंनी (सिरो-मलबार आनी मलंकारा, केरळाच्यो रिती).

सरकारी अधिकाऱ्यांनी जायतो सहकार दिलो, अदीक करून मुख्य चिटणिसान आनी दाकोवणेच्या जाळवणदारान (*Exposition Commissioner*), तशेंच हेर सरकारी अधिकाऱ्यांनी आनी खात्यांनी मदत दिली.

नोव्हेंबराचे 21-वेर उगतावणेचो दवाजो मों. फिलीप नेरी फेर्राव, गोंयचो आर्चबिस्प चलयतलो आनी निमाण्या दिसा शेवटाच्या दवाज्याक मों. रावूल एन. गोन्साल्वीश, आदलो [illegible] सेजमान [illegible]. देजेंब्राचे 3 तारकेर, सायबाच्या फेस्ताक [illegible] फिंसाना, इडेसेक पापसायबाचो राजदूत, हाजीर आसतलो.

गोंयच्या सरकारान आदार दिवपाक कांय समित्यो नेमल्यात. दाकोवणे आदीं पोरने गोंय साफरूफ करून तें उजळ करपाक पावल मारलां.

असली दाकोवण करपाक नवें निमित्त वा कारण आसलें तें म्हळ्यार सायबाचें मरण; हें मरणाक 2002 वर्सा 450 वर्सां भरतालीं. दुसरें निमित्त जांव शकतालें तें म्हळ्यार जल्माचें वरस. फ्रांसिस्क, शावियेर वा हावियेर कोटांत 1506 वर्सा जल्मललो; 2006 वर्सा 500 वर्सां भरतलीं.

# भाग पांच

# बों जेजूस

## 1. कोंवेंत

[illegible] 'Goa D[illegible]' – [illegible], 'Roma do O[illegible]' – [illegible] ते भांगार [illegible] उज्वासूच [illegible] चिकार भरलल्या [illegible] चर्चे. त्या मंदिराचो आनी [illegible] फातर [illegible] मदे आज फकत 11 [illegible] एक बों जेजूस, आता राष्ट्रीय मोनुमेंत

[illegible] म्हळ्यार तुमकां सेकडोंच दा जेजुचे [illegible] फ्रांसिस्क शावेराची कूड एके रुप्याचे पेटेंत दवरलली. ह्या सांतांक लागून बों जेजूस वा बऱ्या जेजुची बाज़िलिका आखे इंडियेंत आनी जगांत फामाद जाल्या. सगळे लोक हे इगर्जेक सां फ्रांसिस्क शावेराचीच इगर्ज म्हण वळकतात.

पूण खरेपणीं बों जेजूस म्हळ्यार न्हय फकत ते देवमंदीर वा बाजिलिका, पूण एक राजवंत आनी वरिश्ट घर वा मंदीर, *edifício soberbo, que teria sido reputado na Europa por uma das mais belas casas religiosas* **(Anquetil du Perrou).**

1636 वर्सा एक एवरोपी भोंवडेकार, मांदेस्लो म्हणटलो, त्या घराची वाखाण्णी करतालो आनी जेज्वितां बराबर जेवणाक रावल्या उपरांत तांच्या जेवणा वसऱ्यांत 200 जणांक सुवात आसली म्हण तो अजाप जाता. (Cfr. J.N. da Fonseca, *An Historical and Archeological Sketch of Goa*, p.279 - 281).

एकेच रातीं बों जेजूस मंदीर बादलें म्हण तुमी केदनां तरी आयकला! आयकूंक ना जाल्यार आतां आयकात आपल्या आयशिल्या पयशिल्या मिशनरीक इल्लो विसव आनी शांती दिंवपाक म्हण ते जेज्वीत शाराच्या मदेकात एक घर बांदूक सोदी *Terreiro dos Galos* ह्या उगत्या जाग्यार. त्या जाग्यार कोंब्यांच्यो धिरयो जातात्यो म्हण तसलें नांव पडलले. उपरांत त्यो धिरयो 1594 वर्सा, मायाचे 23 तारकेर सरकारान आडवारल्यो. तें घर बांदूंक सेनादु दा कामरा, फ्रांसिस्कानी मठवाशी, आनी सांता काजा द मिजेरिकोर्दिया मोडां घालीत. पूण गोवेर्नादोर, दों. दुवार्त द मिनेजीश आनी आर्चबिस्प सायब, दो. फ्रेय जुवांव

विसेंत द फोन्सेका, आड नासले. असल्या अडचणिच्या वेळार त्या जेज्वितांक एक मांडणी येवजली. परवानगी मागपाक म्हण तांणीं सरकाराक एक पत्र बरयलें आनी ती मेळची ना म्हण ते आदींच जाणा आसले. मागीर एक पोरनें घर विकते घेतलें, रातीक तें नितळ करून ताचें एक कपेल केलें. त्या घराच्या दारार मोटया अक्षरांनी एक तकटो मारलो बरोवन जेजूस. सकाळीं दारां उगडलीं, आंतोन्यु पेरेरा ह्या जेज्वीत भावान घांट मारली, लोक एकटांय जालो आनी ताणें कितें देकलें? त्या घरांत एक आल्तार तयार केल्लो आनी पाद्र क्रिस्तोवांव द कोश्ता, जे.स. गिसाची न्हेसोवण घालून तयार जाल्लो. 1585 सेतेंब्राची 4 तारीक ती. त्या दिसा त्या घरांत मीस जालें, ती सुवात पवित्र जाली, जेज्वीत थंयसरले आनीक भायर सरले नांत. त्याच दिसा जेज्वितांक घर बांदूंक परवानगी वा लायसन्स दिना म्हण कळीत करून सरकारी पत्र भायर सरतालें.

उपरांत नवें घर बांदूंक 1586 वर्सा बुन्याद घातली तेदनां पुर्तुगालाक परयान केस पावली पूण सगळे प्रयत्न ओमत्या कळश्यार उदक. 20 हजार पारदांव्स मोडून दोन वर्सांनी तें चार माळयांचे वरिश्ट मंदीर तयार जालें. त्या मंदिराक तीन पाकटे आसले आनी मदीं एक फुलां बाग, आज एक पोरसूं. पूण तें वरिश्ट बों जेजुचें घर वा कोंवेंत आज पळेंवक आमकां नशीब ना. कितें जालें आनी कोणें मोडलें! एके रातीं 1663 वर्सा उजो लागून तें घर लासलें पूण नव्यान दुरुस्त केलें. पूण नव्यान 120 वर्सां उपरांत, म्हणजे 1783 वर्सा, आनीक एकदां लासलें आनी दोन तिसरे वांटे हुलपले. चोवथी माळी 1886-87 वर्सा मोडची पडली. आतां तिसरे माळयेर रेतिराचें घर केलां आनी तांतूं 1967 वर्सा थावन सगळें वर्सभर रेतीर दितात, अदीक करून मेट्रिकेच्या इश्कोलाच्या चेड्या चेडवांक. हो वावर पाद्र जोर्ज द सा, जे.स., आदलो बाज़िलिकेचो रेयतोर (1964-1979) चलयतालो. 1994 वर्सा तो सोंपलो पूण रेतीर आजून चालू आसा.

चोवथे माळयेचो एके खेरीत भाशेन आमी उगडास करूंक जाय. ते माळयेर व्हडले वसरे आसले आनी तांतल्या एका वसऱ्यांत सांत फ्रांसिस्काची कूड दवरलली आनी सुमार 13 वर्सां तरी थंयच आसली. 1613 वर्सा सांत पावलुचे कोलेजी थावन ती कूड बों जेजुच्या कोंवेंतांत हाडलली आनी 1624 वर्सा थावन ते चोवथे माळयेर आसली. ते माळयेर कपेल आसलें तांतूंत पाद्र क्लावदियो आक्वाविवा, जेज्वितांचो व्हडील, हाचे हुकमेन सांत फ्रांसिस्क शाव्येराचो हात

तोमे दियास ह्या जेज्वीत ब्रदरान 1614 नोव्हेंबर 3 तारकेर कातरलो. पयले पावटी हात कातरलला कोपर परसान आनी 1615 वर्सा तो रोमाक व्हेलो. ही रेलीक आतां जेज्विताचे जेजू नावाच्या इगर्जेंत दवरल्या. पांच वर्सा उपरांत, दुसर पावटी उरलली बावळ कातरली तो आक्तोबर 27 तारकेर 1619 वर्सा. हें दुसरें कातरप कित्याक केलें जायत? जपानाक धुमाळो उप्रासललो आनी आंदल्याक भुजवण आनी उजत कशी मेळपाक थंयच्या जेज्वितानी ती रेलीक मागलली. पाद्र गाब्रियेल द मातास ह्या जेज्वीन पाद्रीन ती रेलीक जपानाक व्हेली. हात कातरताना भुजाचे हाडूय कडसरून भायर सरलले. कोचिनाचे, मलाकाचे आनी माकावुचेय जेज्वीत आपल्याक एक रेलीक सोदीत देखून, हाडाचे दोन कुडके कोचिनाक आनी मलाकाक धाडले आनी भुजाचे हाड माकावू धाडलें.



**2. धुमाळ्याचे दीस:**

1759 वर्सा एक काळेंकिट्ट कूप गोंयच्या जेज्वितांचेर पडलें. पुर्तुगाल, एक क्रिस्ती राश्ट्र कशें, इतल्या सगळ्या मिशनरींक उदेतेक धाडताले तेंच राश्ट्र आतां क्रिस्ताचो आनी कातोल्क पवित्रसभेचो दुस्मान जांवक पावले. मार्केज द पोंबाल, दों. जुजे I हाचो प्रधान मंत्री, जेज्विताक एकदमूच जळतालो. देखून आडगां

गाडगां करून आनी जेज्वितांचेर बोगलांटां घालून एक परिश्ट धुमाळो ताणें उत्पन्न केलो. त्या वर्सा सेतेंब्राचे 30 तारकेर गोंयांतूच 228 जेज्वितांक कैदी केले. त्याच म्हयन्याचे 26 तारकेर फ्रांत्यार, दों. सेबारितियांव द कारवाल इ मेल, मार्केज द पोंबाल, हाचे लेबडे बों जेजुच्या कोंवेंतांत भितर सरले आनी तांतल्या पाद्रींक कैदी केले. हें नश्टें काम करूंक लुइस बुतेल (*desembarcador*) आनी कापितांव, फ्रांसिस्क द कुज्मांव, हांकां फुडें घातले. सगळ्यो कोंफरी आनी चाकर आसले तांकां आपले सुवादीन कर म्हण, राजाच्या नांवान, पाद्र प्रोविन्शलाक बुतेलान हुकूम घातलो. सगळ्या सेवकांक वा किर्यादांक, तांचे हात बांदून, बंदखणींत घातले. आर्मां, तरसादी आनी बोम घेवन सोल्दादांक हाडलले. ह्या सोल्दादांक बराबर घेवन बुतेल बों जेजुचो कोंवेंत भोंवलो.

पाद्र प्रोविन्शलाचे कुडींत भितर सरना फुडें, बुतेलान सांत फ्रांसिस्क शाव्येराच्या तुंब्लाची चावी मागली आनी ती पाद्र प्रोविन्शलान दिली, पूण दिताना दोन कडक उतरां उलयलो. चावी घेंवक बुतेल मातसो भियेलो पूण मार्केज द पोंबालाचे भिरांतीक लागून ती चावी नव्यान मागून घेतली. चावी आसली एका रुप्याच्या पेदुलांत; तेंय पेटूल व्हेलें.

उपरांत दुसऱ्या पाद्रींक सोदूंक गेले तेदनां दोनपार जांवक पावललो. पाद्र प्रोविन्शलाक आनी बों जेजुच्या रेयतोराक आपल्या क्वार्तांत भितर सरून इल्लो विसव घेवपाक दिलो, पूण हेरां पाद्रींक सगळो वेळ कुर्रेदोरांतूच उबे दवरले.

शेकीं सगळ्या जेज्वितांक एकटांय करून बों जेजुच्या कोंवेंतांतले तांकां भायर काडले आनी सोल्दादांच्या ताब्यांत दिवन सांत पावलुचे नवे कोलेजींत व्हेले. ही कोलेज सांत आगोस्तिनाची तोर्र आसा ताचे पाटल्यान आसली. बों जेजुचो कोंवेंत राखूंक 4 दोमिनिकान पाद्रींक धाडले. त्या धारूण दिसा 19 तरी जेज्वीत बों जेजुच्या कोंवेंतांत आसले ते सगळे ते रातीं कैदी जाले. मागीर देजेंब्राचे 19 तारकेर 1760 वर्सा, गोंयां आसलल्या सगळ्या जेज्वितांक दोन तारवांचेर घालून पुर्तुगालाक पावयले. त्या तारवांचीं नांवां *Nossa Senhora da Conceição* आनी सांत विसेंत फेरेयरा. तारवाचो कापितांव आसलो बेर्नार्द कार्नेयर द आल्कासांव. मायाचे 10 तारकेर 1761 वर्सा, ते कैदी जेज्वीत लिजबोवाक पावले. सगळ्यांक तांकां आज़ेयतांव इ सां. जुलियांव द बार्रा, तोर्र द बेलेंय, सां. जोर्ज कोट, ह्या बंदखणिंनी कैदी केले. तोर्र द बेलेंय हाची बंदखण आमकां पळेंवक एक दोन पावटीं धारजणें मेळलें आनी आमच्या म्हालगड्या भावांचो उगडास करून आमचें आंग शिरशिरलें. पुर्तुगालाच्या बंदखणिंनी त्या मारेकार

आनी निश्टूर काळार कितले निरप्राधी जेज्वीत पाद्री आनी ब्रदर, इंडियेचे, ब्राजिलाचे आनी एवरोपाचे, कश्ट दगदग्यानी मेले तांची सगळी खबर निमाणे झडते दिसाच कळीत जायत!

इतल्यान गोयाचेर काळोक पडलो, जेज्वितांची घरां, भाटां विटां नागोवन व्हेलीं आनी तीं आजून परतून दिवक नांत. इडियेक आनी ब्राजिलाक सगळो मिशनरी वावर बद पडलो. इंडिया क्रिस्ताक वळकूंक पावली ना; अर्दे गोंय अनभावार्थीच उरलें. पुर्तुगालाचो इतिहास पोंबालान काळ्याकिट्ट अक्षरांनी बरोवन दवरललो मेळता. नवे काविजादिनी (*Novas Conquistas*) वावरूंक तेदनां गोंयांत जेज्वीत नासले.

### 3. गोंयच्या सायबाचो तुंब्ल भश्टायलो

बों जेजुच्या कोवेंतांतले जेज्वीत, शारांतूच बंद आसले तेदनां जायतीं सयनश्टीं कर्तुबां गोंयां शारांत घडलीं. ह्या कर्तुबां मदें आमकां मेळता तुंब्लाची भश्टावणी. तो तुंब्ल केदनांच उगडचे नांत म्हण जेज्वितांच्या व्हडिलांनी रोमाक थावन हुकूम सोडललो आनी उपरांत पुर्तुगाली राजांनी. तुंब्लाक चावयो करून, तो आनीक उगडिना जांवक, त्यो चावयो दर्यांत उडोंवक परयान सोदताले. खेरीत कारणाक लागून तो तुंब्ल उगडूंक जातालो. जेज्वितांक धुमाळो दिंवक सुरू करचे आदीं, दों जुजे I, ह्याय पुर्तुगाली राजान तुंब्ल उगडूंक मना केल्लें आनी तरी त्याच राजाचे राजवटकेंत सगळीं रानटेपणां गोंयांत घडलीं.

त्या तुंब्लाक तीन चावयो आसल्यो पूण वेगवेगळ्यो; एक पाद्र प्रोविन्शला कडे आसली, दुसरी सांत पावलुचे कोलेजिच्या रेयतोरा लागीं (नवी सांत पावल आनी न्हय पोरनी) हाचें नांव पाद्र फ्रांसिस्क फेर्रेयरा (1756-59); तिसरी चावी आसताली रायतुरचे कोलेजिच्या रेयतोरा कडे (आतां व्हडली सेमिनार). ते आदीं एक चावी वसइच्या रेयतोरा कडे दवरलली. ते भायर एक खेरीत मांडणी आसली तो तुंब्ल उगडपाक आनी ती मांडणी फकत दोगूच जेज्वीत जाणा आसले.

1760 वर्सा मार्सांत, मानुयेल द साल्दात्र द आल्बुकेर्क, हो गोंयचो उपराजा सांत फ्रांसिस्क शाव्येराची कुसूंक नासलली कूड पळेंवक सोदतालो. हें एक नीब जावन आसलें, पूण खरेपणी ताका पळेंवक जाय आसली जेज्वितांची गिरेस्तकाय आनी ती तांणीं तुंब्लांत लिपोवन दवरलली खंय. अशें आसतां मार्साचे 16 तारकेर, राजाचो सेक्रेतार, वाज द कार्वाल्यु, आपल्या बराबर घेवन मानुवेल मार्केज द आजवेद (*inquisidor*), राजाचे हुकुमेन तो तुंब्ल उगडपाक बों जेजुचे

इगर्जेंत भितर सरलो. दोन चावयो तांचे कडे आसल्यो. (तिसरी आजून रायतुरच्या रेयतोरा कडे आसली). त्यो वापरून तो तुंब्ल उगडूंक जायना जाल्यार, तो फोडात म्हण राजान उपदेस केल्लो. रातचो वेळ तो; साक्रिलेज करचो वेळ. ते रातीं दोग दोमिनिकानी मठवाशी बों जेजुच्या कोंवेंतांत आसले. दोन चावयांनी तो तुंब्ल उगडूंक जाय ना जाल्यार तो तुंब्ल फोडूंक जाय आसलो. धारूण हत्यारांनी म्हळ्यार विन्नीं, कोयते (*escopos, podões*) आनी हेर लोकंडाचीं हत्यारां. रातचीं दोन वरां जालीं पूण कांय घडना. सगळो वावर निरफळ. दीस उजवाडचे आदीं जुजे वाजान जेज्वितांची गिरेस्तकाय भरूंक साक हाडलले ते रिकामेच घेवन परतून वेचें पडलें.

हीं सगळीं कामां रातचीं चोरयां केललीं, तरी सकाळीं ती खबर आख्या शारांत फांफूं जाली. जेज्वितांच्या इश्टांनी ती खबर पाद्र प्रोविन्शलाक, जो सांत आगोस्तिनाच्या कोंवेंतांत कैदी आसलो, पावयली. ही खबर जेज्वितांक एक दुखिची बालदी कशी बसली आनी जायते जाण रडले. जालें तें जालें म्हणून, आनीक भश्टावणी करिना जांवक, पाद्र प्रोविन्शलान राजाक एक चीट बरयली पुर्तुगालाच्या राजांनी तुंब्ल उगडूंक आडवारललें म्हण सांगून. कांय कारणांक लागून उगडुंकूच सोदतात जाल्यार, तिसरी चावी मागून घेयात म्हण बरयलें, रायतुरचो रेयतोर सांत आगोस्तिनाच्याच कोंवेंतांत तेदनां कैदी आसलो, आनी ताचे लागीं ती तिसरी चावी आसली. तो तुंब्ल उगडूंक दोगूच जेज्वीत जाणा आसले, तांचींय नांवां दिलीं, पाद्र मान्वेल दे गेवारा आनी ब्रदर आंतोनियो दे बास्तोस. सांताची कूड भश्टायनाकात म्हण प्रार्थून मागलें कित्याक ताणें दोन तीन पावटीं गोंयचें शार राखललें.

उपराजान कान भेरे केले. आपली गिरेस्तकाय लिपोवन दवरली ती व्हरना जांवक ही एक मांडणी, चिंतलें उपराजान. दुसरे रातीं तो तुंब्ल फोडपाक, जायतीं हत्यारां घेवन ते दोग पदवेदार मनीस परतले. हें म्हेळें काम करूंक क्रिस्तांव न्हय त्या मनशांक हाडलले कित्याक असलें अळशिकावणें काम करूंक क्रिस्तांव फुडें सरचे नासले म्हण सरकारी मनीस बरें जाणा आसले. त्या दोग दोमिनिकानी मठवाश्यां हुजीर तें म्हेळें काम सुरू केलें : लोकंडाची हत्यारां मोडूंक लागलीं. हें एक अजाप कशें तांकां दिसलें.

तुंब्ल फोडलो खरो पूण कांय गिरेस्तकाय मेळली ना. पूण फकत पाद्रिची न्हेसवण जांतूं सांत फ्रांसिस्काची कूड न्हेसयलली. ते न्हेसवणेक माणकां आनी मोतयां (*diamantes e rubi* ) आसलीं आनी हेर मोलादीक थिकां. तीं पुर्तुगालाच्या

राजांनी आनी एवरोपाच्या कुंवरांनी आंगवणेच्यो भेटो कश्यो दिल्ल्यो. थोडीं गोंयच्या आनी आज़ियाच्या गिरेस्त लोकान दिल्ली, आनी अनभावार्थी राजांनी परयान. आनीक दोन दिसानी आपूण खासा सांत फ्रांसिस्क शाव्येराची कूड पळेवपाक गेलो, आनी तेदनां ते पवित्र कुडिच्यो जायत्यो रेलिको काडल्यो आनी वांटल्यो.

असल्या वेळार बों जेजुचो कोंवेंत नागयलो. तुंब्लाच्यो अमोलीक वस्तू विकल्यो. सांत फ्रांसिस्क शाव्येराच्या हातात वज्रांनी नटयलली एक बेतकाटी आसली तीय एकल्या अधिकाऱ्यान काडून व्हेली. एक व्हड लांप्त काडलो आनी तो पावणेर घालून विकलो. 1779 वर्सा लिजबोवाक एक तारू पावलें आनी तांतूं 19 पेटो आसल्यो; ह्या पेटांनी बों जेजुच्या कोंवेंताचें रुपें आनी तुंब्लाचीं माणकां मोतयां आसलीं.

त्यो पेटो लिजबोवाक पावल्यो तेदनां 1777 वर्सा थावन दोना मारिया I राजवट चलयताली. तिणे त्यो पेटो उगडिनासताना परतून धाडल्यो. ते राणयेन गोंयच्या उपराजाक आनी ताच्या सेक्रेताराक आपोवन व्हेले आनी तोर्र द ओतांव हांतूं दोगांकूय कैदी केले.

जेज्वितांक कोवेंतांतले धांवडायतच पयली भौशीक दाकोवण कित्याक जाली तें आदीं सांगलां. ती दाकोवण 1782 वर्सा जाली.

**4. बाज़िलिका**

बों जेजुची इगर्ज वा देवमंदीर बांदूंक कोणाच्याच मनांत नासले. तें बांदपाची कल्पना मागीर आयली. दों. जेरोनिमु मास्कारेञास, कोचिनचो आनी ओर्मुजचो कापितांव, हाणें सगळी आपली धन गिरेस्तकाय ती इगर्ज बांदूंक दवरलली. तो कापितांव 1593 मेलो, आनी 1594 वर्सा नोवेंब्राचे 24 तारकेर बों जेजुचे इगर्जेक बुन्याद घातली. आनी ती इगर्ज दों. आलेक्शियु मिनेझीश ह्या आर्चबिस्पान मायाचे 15, 1605 वर्सा पवित्र केली. ते भायर जुवांव दियास रिबेयर आनी ताचो पूत, दुमिंगुश, हाणें ती इगर्ज बांदपाक 50,000 सेराफींश (आदले नाणे) दिलले. दों. जेरोनिमाचीं हाडां दावे वाटेन (पुलपुत्राचे दुसरे वाटेन) एका कंत्रेलांत घालून बाज़िलिकेंत दवरल्यांत.

वीस वर्सा उपरांत ती इगर्ज बांदून जातच सांत फ्रांसिस्क शाव्येराची कूड ते इगर्जेंत दवरूंक व्हेली, न्हय आतां आसा त्या जाग्यार पूण दावे वाटेन आल्तार आसा थंय. आज काल कितलेशेच टुरिस्ट एवरोपाचे आनी अमेरिकेचे परयान ती

इगर्ज पळेवपाक येतात. सांत फ्रांसिस्क तांकां वोडून हाडता.

बाज़िलिका, हें पद ते इगजेक मेळून घेवापक मों. फ्रेंक्लीन द सा 1934 वर्सा थावन जेदनां तो रोमाक गेल्लो जायतो वावुरलो. 1916-1956 वर्सा पासून बों जेजुचो कोंवेंत तो चलयतालो आनी तो बों जेजुचो कोंवेंत चलोवपाक निमाणो दियोसेजानी पाद्री जावन आसा. ताच्या मरणां उपरांत (4-2-1956) 197 वर्सांनी जेज्वीत आपल्या पुर्विल्यांच्या घरांत भितर सरले, पूण तें घर तांकां परतून दिलें ना; आतां तें आर्चदियोसेजिच्या ताब्यांत आसा. जेज्वीत पाद्री तांतूं फकत रावतात, तांकां एक मोडलली फातर परयान सारको करपाक कांय हक्क वा दिरेयत ना.

1934 वर्सा मों. कोनेग फ्रेंक्लीन द सा रोमाक गेलो, आनी वेताना एक सुपुर्लो रुप्याचो तुंब्ल पियूस XI पापसायबाक घेवन गेलो. तांतूं सायबाची एक रेलीक आसली. ही भेट पळेवन पापसायब बरोच खुशी जालो. मों. फ्रेंक्लिनाक बों जेजुचे इगर्जेचो भरपूर मोयपास आसलो. देखून ते इगर्जेक बाज़िलिका म्हण एक पद मेळून घेंवक वावुरतालो. हें काम शार्ती पावूंक जायत्यांचो आदार मागचो पडलो. पुर्तुगालाचो मंत्री वातिकान शारांत आसलो ताचो परयान आदार मागलो.

मों. फ्रेंक्लिनाक आदार दिंवक फुडें सरलो तो जावन आसा भोव मानेस्त पाद्र व्लोदोमिरो लेदोकोव्स्की, रोमाक जेज्वितांचो सर्वव्हडील. बों जेजुची इगर्ज जेज्वितांची इगर्ज म्हणतच तांचो व्हडील ह्या कामाक तेंको दिंवक फुडें सरलो जाल्यार एक अजाप न्हय. पाद्र मिगेल मोस्ताजा, जे.स. ग्रेगोरियानी उनिवेर्सिदादिचो मेस्त्री, हाच्या हातांत ती सगळी राटावळ घातल्या म्हण आब्रिलाचे 25, 1934 ताणें कळीत केलें.

हाचे उपरांत रोमाक थावन दों. तियोतोन्यु वियग्रेरा द काश्त्रु ह्या पात्रियार्क सायबाक बों जेजुचे इगर्जेची बारीक खबर विचारूंक एक चीट आयली. पूण पात्रियार्क सायबाचें मन वेगळें आसलें. ताचे प्रमाणें गोंयचो कातेद्राल बाज़िलिका जांवक जाय आसली, कित्याक कातेद्राल जावन आसली, व्हडली आनी पयली इगर्ज, आवय सगळ्या हेरां इगर्जांची. हो विरोध आसलो देखून बाज़िलिकेची चवकशी मागीर कोणेंच केली ना. आनी अशीं आनीक 12 वर्सां लोटोन गेलीं. दों. जुजे कोश्ता नुनेस ह्या पात्रियार्क सायबान 1945 वर्सा नव्यान रोमाक बरयलें, आनी शेकीं पियूस XII-व्यान बाज़िलिका (*Basilica Menor*) म्हण बों

जेजुचे इगर्जेक 1946 वर्सा, मार्साचे 20 तारकेर पद दिले, आनी 1949 वर्सा, देजेंब्राचे 3 तारकेर तें परगट केले.

हे एदे व्हडले पद वो जेजुचे इगर्जेक दिलले जावन आसा गोंयचे आर्च-दियेसंजीक एक मान आनी व्हडवीक. इतलेंच न्हय त्याच पापसायबान आनीक एक मान आमकां दिलो जेदनां आगोस्ताचे 30 तारकेर 1953 वर्सा आमचे आर्च दियेसंजीक भांगरी गुलाब दिलो. तो गुलाब वो जेजुचे बाजिलिकेंत दवरललो आसा. ताची खबर फुडें मेळतली.

ही बाज़िलिका पळेवक आज काल जायते यात्रेकार तशे टुरिस्ट पिशे जातात; किते तिची लांबाय आनी उंचाय, किते तिचे न्हावं. ते फातर खंयचे हाडले आनी कशे वयर उबारले ते आमका कोण सांगतलो! भितर सरताना काळ्या फातरांचे खांबे दिश्टी पडतात. ते फातर एवरोपाक थावन येताले खंय. त्या काळार लिजबोवाक थावन तारवां येतालीं, पूण जायते पावटी गरज तितले वजन आसनासलें देखून फातर हाडीत. ते फातर मागीर ते खांबे करूक उपकारले जायत.

बाज़िलिकेंत भितर सरताना तो लांब रूंद मदलो आल्तार, सगळोच भांगरान नेटयललो पळेवन भोंवडेकारांचे मन पिसवता. हे भांगर मुदलाचे न्हय म्हण सांगतात, पूण ह्याच शेंकड्याचे सुरवातेक काडललें. मदेकत एक वरिश्ट इमाज आसा ती लोयोलाच्या सांत इनासाची. तो जावन आसा जेज्वितांचो स्थापणार आनी सांत फ्रांसिस्क शाव्येराचो आत्मीक बापूय. मिसाची न्हेसवण घालून तो उबो आसा. ताणें आपले दोळे सर्गाक लायल्यात, आनी ताचे नदरेक जेजुच्या नांवाची व्हडली मेदाल पडता; आनी मेदालितल्यान इनासाक झळकता पवित्र त्रित्वी (सांतिस्म त्रिंदाद) जशी तो मीस भेटयताना ताका झळकताली.

### 5. जेजुचें नांव

ते मेदालीर, एक वस्त कशी, ग्रीक अक्षरांनी IHS बरयलले कळीत करता ती बाज़िलिका जेजूक भेटयल्या म्हण. IHS जावन आसा जेज्वितांचे पलटणिची खुणा. ते इगर्जेतल्या जेज्वितांक भायर घालतच ती खुणा वाचूंक नकळ जाले जायत, आनी ते पासत कोणें एकल्यान एक सुपुर्ले बाळका जेजुचे बावले सांत इनासाच्या पायांशीं दवरलें. तें बावलें रोकड्यांतलें रोकडें काडून उडयल्यार बरें जायत, कित्याक तें थंय सोबना, आनी जाणार भोंवडेकार सदांच ताची टिका करतात म्हणून येद्या व्हडल्या जगांत इनासाच्या पांयांशीं एक सुपुर्लो जेजू ल्हान जाला.



### 6. मार्मोरिची समाधी

बाज़िलिकेंत नीट भितर सरतच, उजवे वाटेन एक नाजूक कपेल आसा तांतूं एक मार्मोरिची सोबीत आनी मोलादीक समाधी नदरेक पडता. ती सगळी इतालियाच्या फ्लोरेन्स राज्या थावन करून हाडलली. ती समाधी म्हळ्यार कोस्मास III कुंवराचें – *Duke of Tuscany* (1670-1723) – एक देणें. ही समाधी ज्योवान्नी बात्तिस्ता फोग्गिनी (1653-1737) ह्या शिल्प्याक करूंक लायली. हो वावर करूंक धा वर्सां लागलीं खंय. सगळे फातर तयार जातच, 65 पेटो भरून ते तारवार घातले आनी दोग शिल्पी, तांतलो एक, प्लासिदो फ्रांसिस्को रांपोन्नी. ती समाधी घेवन तारवार बसून गोंयां आयले.

ही समाधी कशी करूंक पावले तें तुमी जाणांत? पाद्र फ्रांसिस्क सार्मेतो हो जेज्वीत पाद्री गोंयां थावन फ्लोन्साक पावलो तेदनां त्या पाद्रीन थंयच्या राजाक वा कुंवराक एक सुपुर्ले उशें भेटयलें. हें उशें सांत फ्रांसिस्क शाव्येराच्या मरणां उपरांत थावन जायतीं वर्सां सांताचे तकले पोंदाक आसलें. हें उशें आपल्याक फावो जालें देखून, तो राजा वा कुंवर इतलो खुशालभरीत जालो की ताणें ती आखीच समाधी करून धाडली. हे समाधिचें वर्णन करूंक हांगा जागो ना.

### 7. रुप्याची पेट: 1637

हे समाधी वयर दवरलली आसा ती रुप्याची पेट. ती पेट इंडियेकूच केल्या आनी तिचेर भारतीय आनी एवरोपीय कला वा नक्षी दिश्टी पडता. रायबंदरच्या शेटिंनी ती केल्या म्हण सांगतात. हाचे आदीं आनीक एक रुप्याची पेट आसली, पूण ती जबरशी नासली; एकदम दुर्बळ आनी धाकटुली. हे पयले पेटेंत सांत फ्रांसिस्क शाव्येराची कूड घालून 1624 फेब्रेरांत एक दबाजीक पुर्सांव काडललें जेदनां फ्रांसिस्क शाव्येराक आल्ताराचो मान मेळ्ळो म्हूण गोंयच्या जेज्वितांनी

एक दबाजीक परब केल्ली. हो मान ग्रेगोर XIV पापसायबान मार्साचे 12 तारकेर 1622 वर्सा दिल्लो, पूण ही खबर गोंयां पावल्ली फकत एक वर्सा उपरात मायाचे 11 तारकेर 1623 वर्सा.



आतां आसा ती रुप्या पेट पाद्र मार्सेलो मेस्त्रिली ह्या इतालियान जेज्वीत पाद्रीक लागून आमका फावो जाली. हो जेज्वीत पाद्री 1635 देजब्राचे 3 तारकेर गोंयां पावललो. ह्या पाद्रीक सांत फ्रांसिस्क शाव्येराचे देवसपण जायतें आसले कित्याक ह्या सांतान ताका अचर्यानी बरो कल्लो आनी बरो जातच जपानाक वचून मार्तीर मरूंक जाय म्हण आदींच कळीत केल्ले. हो पाद्री आतां जपानाचे वाटेक आसलो.

पाद्र मार्सेलो मेस्त्रिली गोंयां पावतच आनी तो आदलो कायशाव देकतच, ताका वायट दिसले येद्या व्हडल्या मिशनरी आपोस्तालाक, एक मोलादीक आनी मानादीक कायशांव फावो, अशें ताका दिसले. नवो कायशांव वा पेट तयार करपाक फूल ना पाकळी एकटांय करूंक तो लागलो आनी ताच्या वावराक भरपूर येस (फळ) मेळलें. आंतोन्यु तेलीश दा सिल्वा ह्या तारवांच्या कापितांवान मरणाचो तेस्तामेंत करताना ती रुप्याची पेट करपाक दोन हजार इश्कूद दवरले. ते भायर आनीक एक हजार इश्कूद पाद्र मेस्त्रिलीन एकटांय केल्ले. हे दुडू गोयच्या जेज्वितांचे स्वादीन करून, पाद्र मार्सेलो मेस्त्रिली 29 आब्रील, 1636 जपानाक गेलो. नागासाकी शारांत ओतुब्राचे 17 तारकेर 1637 वर्सा, मार्तीर मेलो. हो नवो कायशांव वा पेट 1637 वर्सा तयार जालिशी दिसता आनी ताका **14 हजार क्रुजादुश मोडले.**

हो कायशांव आदीं 1659 वर्सा थावन दावे वाटेन (शुभवर्तमानाचे वाटेन) सांतिस्म साक्रामेंताच्या आल्तारार आसतालो. सांतिस्म साक्रामेंत आज नव्यान त्या आल्तारार दवरललो आसा. त्या आल्तारार तीन ताबेर्नाक्ल मेळतात. तो आल्तार मागीर सांत फ्रांसिस्क बोर्जियाक भेटयलो; ह्या सांताक 1671 वर्सा आल्ताराचो पूर्ण मान मेळललो. ह्या वर्सा आब्रिलाचे 24 तारकेर एक पुर्साव काडून ती रुप्याची पेट उजवे वाटेच्या कपेलांत व्हेली. ती पेट व्हरूंक 18 जेज्वितांनी खांद मारललो पूण तरीय जड लागताली देखून आनीक दुसऱ्यांक आदाराक आपोंवचे पडले. त्या दिसा थावन ती रुप्याची पेट ते मारमोरिचे समाधीर आसा. ते पेटेक तीन भाग आसात उदेंतेच्या आपोस्तोलाचें जिवीत ते पेटेर दाकयलां. वयर सर्व भोंवतीं बडवे आसात. हे पेटेंत हारश्याच्या कायशांवांत आयज 43 वर्सां जालीं सांत फ्रांसिस्काची कूड न्हिदलली आसा. आदलो तीन चावयांचो कायशांव भितर मुजेवांत दवरला आनी आयज तो सगळ्यांक पळेंवक मेळना. तो कायशांव एक दीस साक्रिस्तींत दवरची तजवीत आसली; तेदनांच तो सगळ्यांक पळेंवक मेळतलो. तो असो कोनश्याक दवरूंक फावना आनी असो दवरललो आसा म्हण कळतच 1971 वर्सा एस्पानी लोकान आपल्याक जाय म्हण तो मागूंक धाडलो. तुमचे कडे सांत फ्रांसिस्काची कूड आसा, अशें आमकां बरयललें, शाव्येराचे बाजिलिकेंत एक रेलीक कशी दवरपाक आमकां तो आदलो कायशांव तरी दियात.

बों जेजुचे बाज़िलिकेक एक खेरीत नकशी आसा; तिका भारती बारोक म्हण पाचारूं येता. ती सांबाळूंक सगळो उपाय आमी घेंवक जाय. मंदिरां बांदपी कलेंत जी चळवळ रोमाक आनी इतालियाक ब्रुनेलेस्ची, ब्रामांते, मायकलआंजेलो, बेर्नीनी आनी बोर्रोमिनी हाणीं सुरू केल्ली ती पुर्तुगालाच्यान इंडियेक पावली.

# भाग 6

## सांताक मान आनी देणीं.

### 1. सांताचें पद

पाद्र फ्रांसिस्क शाव्येर मेल्या उपरांत ताची कूड विस्मिता वरवीं सवार वर्सां जिवी आनी ताजी उरली. ताच्या जिवितांतूय लोक ताका *पाद्र सांत (सांत पात्तीव)* म्हण पाचारतालो. हें आडनांव आखे उदेंतेक वावर करता आसताना ताका चिटकून रावलें. ताची कूड गोयां शारा हाडली तेदनां दो आफोंस द नोरोञा, उपराजा (1551-54) सगळ्यां इगर्जांच्यो घांटो वाजोवन आनी नाळिंचे फार मारून जय-जयकार करपाच्या नादान आनी मनान ती कूड शारात भितर काडूंक सोदी. पूण जेज्वितांनी असले पावल मारूंक ताका आडवारलो, आनी मरणाच्यो रिती पाळूंक मागलें. मांडवी नदिचें खाडींत थावन मिरवणूक काडून ती कूड सांत पावलुचे कोलेजींत व्हेल्ली तेदनां शारांतले धार्मीक पाद्री ते जैतिवंत मिरवणुकेंत वांटो घेंवक आयले नांत (M.X.II: 907)

आपल्या जिवितांत हांगा थंय फ्रांसिस्क शाव्येरान विस्मितां आदारललीं, मेल्ल्यांक परयांत जिवंत केल्ले पूण ताका आल्ताराचो मान मेळोवन घेवपाक, हीं विस्मितां उपकारलीं नांत. पवित्र सभेन ताच्या जिविताची बारिकसाणेन चवकशी करूंक जाय आसली, ताचीं बरोवपां तपासून पळेंवक जाय आसलीं. ह्या कामाक म्हणतात चवकशी.

असली चवकशी करूंक पयलो वयलो फुडें सरलो तो पुर्तुगालाचो राजा, जुवांव III. ही चवकशी सुरू करूंक त्या राजान मार्साचे 28 तारकेर 1556 वर्सा गोंयच्या उपराजाक हुकूम घातलो (M.X.II;174). गोयांत ही पयली चवकशी 1556 नोवेंब्राचे 18 तारकेर सुरू जाली, आनी 1557 जानेराचे 10 तारकेर सोपली. कोचिनाक 37 जणांनी, वसईक (बसीन) 9 जणांनी, मालाकाक 6 जणांनी साक्षी दिली (M.X.II, 173-431 Sch.II, 678).

हे चवकशेचो नियाळ रोमा पावतच, तरूय कांय जमलें ना, असल्या कामांत पवित्र सभा सवकास वेता. 1616 वर्सा रोमाक थावन धर्मसेवीक रितिंच्या खात्यान कोचिनाक, तुटिकोरिनाक, क्विलोनाक आनी त्रावांकोराक, ज्या गांवांनी फ्रांसिस्क वावुरलो आनीक चवकशी करूंक लायली. ह्या गांवांतल्या 138 जणांनी साक्षी दिली – पिलोत, कापितांव, वेपारी, कुलीन मनीस, पाद्री, धार्मीक, जेज्वीत आनी हिंदू हांणीं परयान साक्षी दिली. एस्पाञाक पांप्लोना शारा 1614 चवकशी सुरू जाली.

शेकीं पावलु V पापसायबान 1619 ओतुब्राचे 25 तारकेर फ्रांसिस्क शाव्येराक भागेवंत म्हण पाचारलो, आनी सर्व शेवटीं ग्रेगोर XV-व्यान फेब्रेराचे 10 तारकेर 1622 वर्सा (M.X.II, 687) सगळो वावर थाऱ्यार हाडलो; आनी 1622 मार्साचे 12 तारकेर, त्या पापसायबान फ्रांसिस्क शाव्येराक (ताचे बराबर आनीक चार जणांक – लोयोलाचो इनास, माद्रिदचो इजिदोर, फिलीप नेरी आनी आविलाची तेरेजा) सांत म्हण परगटलो.

पूण हो नेम परगटचे आदींच ग्रेगोर XV पापसायब अंतरलो. उर्बान VIII पापसायबान आगोस्ताचे 6 तारकेर 1623 तो नेम जाहीर केलो (MX.II.704).

फ्रांसिस्क शाव्येराक आल्ताराचो पूर्ण मान मेळलो म्हण गोंयां केदनां खबर पावली? पयलीं ती खबर तुर्की देसांतल्यान जमनी वेल्यान ओर्मूज गांवांत पावली. ती खबर एस्पाञाच्या दोग ओफिसियालांनी हाडली. तेदनां एस्पाञा आनी पुर्तुगाल एकूच राश्ट्र कशें जाल्लें (1580-1640). ओर्मूज गांवांत थावन ही खुशालकायेची खबर दर्यांतल्यान उदेंतेक आसलल्या सगळ्या पुर्तुगाली ताब्यांनी कळयली. गोंयां ती खबर 1623 मायाचे 11 तारकेर पावली, म्हणजे सुमार नव म्हयन्यां उपरांत.

पूण ही खबर थोडे दीस आदीं गोंयां पावलली; मायाचे 7 वा 8-वेर कार्मेलीत मठवाशी जमनी वेल्यान गोंयां पावलले आनी तांणीं आविलाचे तेरेजाक (एक कार्मेलीत माद्र) आल्ताराचो पूर्ण मान मेळलो म्हण गोंयां खबर हाडलली आनी कार्मेलितांनी मायाचे 20 तारकेर 1623 वर्सा व्हड समारंब पाळलले. हे सांतिणी बराबर लोयोलाच्या इनासाक आनी फ्रांसिस्क शाव्येराक आल्ताराचो मान फावो जाल्लो म्हणतच हीय खबर कार्मेलितांनी जेज्वितांक कळीत केल्ली.

गोंयां शारा व्हड दबाज्यान जेज्वीत पाद्री आपल्या बापायच्यो आनी भावाच्यो परबो समारंबूंक सोदी (Sch. Varia 459). ही व्हड तयारी करूंक वेळ जाय आसलो देखून ती परब जानेरांत (1624) करूंक थारायलली.

हो दबाजो जानेराचे 25 तारकेर सुरू जालो; नवे सांत पावलुचे कोलेजिंतल्यान एक व्हडलें लांब पुर्सांव भायर सरलें. ह्या पुर्सांवांत आज़ियेचे, आफ्रिकेचे आनी एवरोपाचे विद्यार्थी आप आपले देशी कपडे घालून दिश्टी पडले. पुर्सांवांत पांच चित्ररथ चलताले (Sch. Varia I, 469-494). सगळे देखावे चित्रांनी, बावट्यांनी दाखयलले.

हो दबाजो आट दीस चालू आसलो : दर सकाळीं बऱ्या जेजुचे इगर्जेंत

धर्मसेवीक रिती पाळीत. हाका उपराजा आनी मोटे ओफिसियाल, सैनीक आनी अधिकारी हाजीर जातालें. सांज वेळार सामाजीक कार्यावळी आसताल्यो : संगीत खेळ, नाच, घोड्या धांवड्यो, नाटकां, सगळे बऱ्या जेजुच्या आद्रार.

निमाण्या दिसा पोरनें सांत पावलुचे कोलेजींत एक रंगरंगी पुर्साव काडले, आनी त्या पुर्सावातल्यान एक रुप्या पेट (आतांची न्हय) खादार मारून हाडली, सांताचो कायशांव तांतूं घालपाक. 1633 वर्सा पाद्र मार्सेलो मॅस्त्रिलीन ही रुप्या पेट नाकारली आनी दुसरी पेट (आतांची) करूंक लायली. फ्रांसिस्काची कूड इगर्जेंत उत्तरेचे दिशेंत दवरली, म्हणजे आतां सातिरम्याचो आल्तार आसा ताचेर.

## 2. जेज्वीत परतून येतात : 1956

सेतंब्राचे 26 तारकेर 1759 वर्सा गोयांत (आताच्या गोयांत) आसलल्या सगळ्या जेज्वितांक धरले, आनी कैदी केले आनी 1760 देजेंब्राचे 9 तारकेर तांकां दोन तारवांचेर घालून लिजबोवा व्हेले; थय उपासान आनी कश्टान मरपाक सोडले. 14 वर्सा उपरांत क्लेमेंत चोवदाव्या पाप सायबान 1773 जुलायाचे 21-वेर जेजुची पलटण बंद केली आनी तिचो नास केलो. पूण धव्या रशियेक जेजुची पलटण जिवी उरली कित्याक त्या देसांत कातारिना म्हण एक सिजमातीक (कडसरलली) राणी आसली. कडसरलली देखून ती पापसायबाचे सत्ते खाल येनासली. देखून तिणे जेजुची पलटण बंद करपाचो पापसायबाचो नेम आपल्या देसांत जाहीर केलोना, आनी देखून इनासाचे पूत ते रशियेंत जिवे उरले. पूण 54 वर्सा उपरांत पियुस VII पापसायबान 1814 आगोस्ताचे 7-वेर जेज्वितांचे पलटणेक जिवंत केली. त्या दिसा रोमाक जेजू हे इगर्जेंत, सांत इनासाच्या आल्तारार मीस भेटयलें आनी आपलें पत्र वाचूंक लायलें. जेजू भाशेन, जेजुची पलटण मेलल्यांतली जिवंत जाली.

जेज्वितांची पलटण जिवंत जाली खरी पूण तिका पुर्तुगालान येवकार दिलोच ना. देखून जेज्वीत गोयांत भितर सरलेच नांत. ते भितर सरतले फकत 19-व्या शेकड्याच्या सोंपत्यार. दों सेबास्तियांव वालेंत ह्या आर्चबिस्पान पुर्तुगालाच्या प्रांतीक व्हडिला कडे थोडे जेज्वीत वेळगांवां वावर करपाक धाड म्हण मागलें. तेदनां जरूय वेळगांव जिल्लो ब्रिटीश इंडियेंत पडटालो, तरूय तो जिल्लो गोंयचे आर्चदियोसेजिचो भाग जावन आसलो. 1953 वर्सा वेळगांव एक नवी दियोसेज जाली.

गोंयच्या आर्चबिस्पाची मागणी आयकून, पुर्तुगालाच्या प्रांतीक व्हडिलान वंदोवस्त

केलो. 1890 फेब्रेराचे 26 तारकेर दोग पाद्री आनी एक एस्पानी ब्रदर बेळगांवां पावले. तांचो व्हडील पाद्र जुजे मानुवेल गोन्साल्वीश जावन आसलो, आनी तो पाद्री घाट उतरून जायते पावटी गोंयच्या पाद्रींक रेतीर दिवपाक गोंयां येतालो.

1933 वर्सा पुर्तुगालाक नवी घटना बरयली. तिचे वरवीं त्या देसांत रावूंक जेज्वितांक इल्लो हक्क दिलो वा तांचें रावणें कायदेशीर केलें. 1935 वर्सा जेज्वीत गोंयांत रिगले आनी पणजे इन्स्तितूत सां फ्रांसिस्क शाव्येर म्हण तांणीं एक घर उगडलें, कित्याक अशें करूंक दों तियोतोन्यु वियेयरा द काश्त्रु ह्या पात्रियार्क सायबान विनंती केल्ली. पूण हो इन्स्तितूत चड तगलो ना. आतां डॉन बॉसकॉ हाय स्कूल आसा थंय तेदनां जेज्वितांचें तें घर आसलें, आनी तांतूं लिसेवाचे विद्यार्थी रावताले आनी शिकताले.

1940 वर्सा वातिकाना आनी पुर्तुगालाच्या प्रजासत्ते (*Republica*) मदें *कोनकोर्दाता* वा कबलात केली, जाचे वरवीं सगळीं जप्त केल्लीं इगर्जेचीं भाटां विटां गोंयचे इगर्जेक परतून दिंवक जाय आसलीं (A.A.S. 1940, P.221). 1943 सेतेंब्राचे 8 तारकेर पुर्तुगाली सरकारान बऱ्या जेजुचें भाट वा पोरसूं पात्रियार्काक परतून दिलें, पूण इगर्ज आनी घर दिलीं नांतशीं दिसता कित्याक तें घर आनी इगर्ज मागीर राश्ट्रीक यादगिरी (*National Monument*) केलें आनी हो भेस आतां आजून तसोच आसा. भारताचें पोरनावळ खातें ही यादगिरी आपणाची म्हणता आनी ती सांबाळता. कोंवेंत आर्चदियोसेजिच्या ताब्यांत आसा पूण बाज़िलिका न्हय.

1952 वर्सा सांत फ्रांसिस्क मेल्यार 400 वर्सां भरतालीं म्हण धावी दाकोवण जाल्ली, तेदनां जेज्वीत बऱ्या जेजुच्या कोंवेंतांत आयले. हे दाकोवणेचो बंदोबस्त करूंक, म्हणजे बाजिलिकेंत तशें कातेद्रालांत, धर्मसेवीक रिती पाळूंक जेज्वितांक बेळगांवां थावन पात्रियार्कान आपयले तेदनां वेगळ्या वेगळ्या जेज्वीत प्रांतांतले पाद्री, ब्रदर, विद्यार्थी गोंयां पावले. ह्या पुस्तकाचो लेखक तेदनां सांत पावलू हाय स्कूल बेळगांवां हांतूंत शिकयतालो, आनी थंय थावन तो पोरन्या गोंयां आयलो आनी सायबाच्या पांयांशी 28 दीस वावुरलो. हो जावन आसलो पयलो संबंद जेज्वितांचो बऱ्या जेजुच्या घरा कडे.

मागीर आनीक एक वस्त घडली. दों जुजे दा कोश्ता नुनेस, हो पात्रियार्क बऱ्या जेजुचें घर आनी इगर्ज जेजुचे पलटणीक परतून दिंवक येवजितालो. पूण ही येवजण दुसऱ्या पात्रियार्कान, दों जुजे आल्वेर्नाजान, शार्ती पावयली जेदनां ताणें एका पुर्तुगाली जेज्विताक पाद्र एस्तानिस्लावस मार्तीश (तो पुर्तुगालाक

परततच थोड्या वर्सांनी मोटोराचो अपघात जावन मेलो.) हाका आब्रिलाचे 3 तारकेर 1956 वर्सा ह्या जेज्वीत घराचो कारभारी नेमलो.

आट वर्सां उपरांत, जुनाचे पयलेर 1964 चार जेज्वीत पाद्री जेज्वितांच्या आदल्या घरांत 204 वर्सां उपरांत भितर सरले. पूण धनी कशे न्हय बगर राखणदार कशे. पाद्र जोर्ज द सा रेयतोर, पाद्र मोरेन द सोज, रोटयेचो संपादक, पाद्र सी.सी. कुतीञ (सोंपलो), आनी पाद्र आर्थर फेर्नांदीश (1984 ओतुब्राचे 16 तारकेर सोंपलो).

तेदनां तें घर म्हेळें आसलें, काटांदोर आनी वागळां भोंवतालीं. पाद्र जोर्ज द सा ह्या घरांत आनी बाज़िलिकेंत परतून जीव हाडपाक जायतो वावुरलो. बाज़िलिकेक वांक केले, नवी न्हेसवण केली, घर साफ केलें आनी शेकीं वयले माळयेर 1966 वर्सा रेतिराचें घर उगडलें. त्या वर्सा थावन आयज परयान मेत्रिकेच्या भुरग्यांचे रेतीर आजून चालू आसात. आनीक एक सांगपाचे आसा तें हें. नोवेंब्रांत सायबाचें नोवेन जातालें ताका जीव भरलो, आनी इतलो लोक येंवक लागलो, रातचो परयान वस्ती करूंक येंवक लागलो (अदीक करून साश्टिचो) नोवेनाच्या दिसांनी 6 मिसां भेटोंवचीं पडलीं. उपरात मार्सात उपकार मेळोवन घेवचें नोवेन फुलयलें आनी वाडयलें. हीं दोन नोवेनां आनी रेतिराचे घर सदांच उरतलें एक यादगिरी पाद्र जोर्ज द साच्या वावराची. ह्याच घरांत *दर म्हयन्याची रोटी*, जेजुच्या काळजाचें मासीक, कोंकणी भाशेन, जुलाय 1964 वर्सा थावन तें मार्स 1982 चललें, आतां नव्यान 1996 वर्सासान *दर म्हयन्याची रोटी* बऱ्या जेजुच्या घरांत सरल्या. पाद्र जोर्ज द सा, जे.स. जुलाय 24,1994 वर्सा अंतरलो.

### 3. उपकार मेळून घेंवचें नोवेन – 1633

1633 वर्सा नापोलिसाचो उपराजा आपलो गांव निश्कळंक सायबिणीक समर्पूक सोदी. हे परबेक सगळें शार आनी शारांतल्यो इगजो नेटयताले. त्या समयार मार्सेलो मास्त्रिली एक तरनाटो जेज्वित पाद्री एके निसणीर चडून वावर कसो चलता तें पळेतालो. दुर्दैवान वावराड्याच्या हातांतलो वा पोतगेतलो तुतयो सुमार 45 हात उंचायेक थावन भूंय पडलो आनी मास्त्रिलिचे तकलेक बरोच मार लागलो. हें घडलें देजेंब्राचे 11 तारकेर. सुरवातेक कांय न्हय कशे दिस पूण उपरांत वैजांनी जायतो उपाय घेतला आसताना, ती पिडा जडार पडली, 1634 जानेराचे 3 तारकेर मास्त्रिली मरणाचे तणीर पावलो.

ह्या विग्नांतलो निवारूंक सांत फ्रांसिस्क शाव्येराक सगळ्यांनी एक नोवेन सुरू

केलें, मार्सेलो मास्त्रिली ह्या तरनाट्या जेज्वितान आपणाक तो बरो करीत जाल्यार आपूण मिसांवांत वावर करूंक वेतलो म्हण सांताक भास दिली. ते रातीं (जानेराचे 3 तारकेर 1634) जेदनां मास्त्रिली आपलो प्राण सोडता कसो दिस, सांत फ्रांसिस्क शाव्येर एक यात्रेकार कसो न्हेसोन ताका दिश्टी पडलो आनी निगूत बरो केलो, पूण एक दीस मार्तीर मरतलो म्हण आदीं फुडेंच सांगून दवरलें. आपूण सगळ्यांक आदार आनी मजत दिंवक तयार आसा म्हण सांत फ्रांसिस्क शाव्येरान ताका कळीत केलें ह्या उतरांनी : "जीं सगळीं म्हजो आलाशिरो मागतात नव दिसां पटीं, मार्साचे 4 ते 12 तारके पासून, पुरतेपणीं कुम्साराचो आनी कोमुञ्‍ावाचो साक्रामेंत घेवन, तांतल्या खंयच्याय एका दिसा म्हजी खेरीत मजत तांकां फावो जातली देवा कडसून गरज तितलेय उपकार मेळून घेवपाक, पूण ते उपकार सदांच जांवक जाय आपणाच्या अत्म्याच्या बरेपणाक आनी देवाच्या अनंदाक." हें नोवेन सोंपता मार्साचे 12 तारकेर ज्या दिसा 1622 वर्सा शाव्येराक आल्ताराचो मान फावो जाल्लो.

मास्त्रिली सारको बरो जालो, उटलो, जेवलो आनी तेच रातीं ह्या विस्मिताची खबर ताणें बरोवन दवरली. 1636 वर्सा मास्त्रिली, आपणें भास दिल्ले परमाणें, जपानाक वचूंक भायर सरलो. वाटेक लोरेटो (इतालिया) नगरा सायबिणिच्या घरांत एक रात जागरण केलें (सांत फ्रांसिस्क शावेरूय त्या घराक भेट करूंक गेल्लो) ते रातीं कुंकळेचे मार्तीर ताका दिश्टी पडले खंय आनी मार्तिरपणाचें भाग ताका जपानांत रावता म्हण तांणीं ताका शिडकायलो. एका वर्सा भितर जपानाक ओतुब्राचे 18 तारकेर 1637 वर्सा 34 वर्सांचे पिरायेर मार्तीर मेलो (MX.I, 994-1005).

पाद्र मास्त्रिली अर्चयांनी बरो जाल्लो ताची खबर फांफूं जावन गेली न्हयच इतालियेक पूण फ्रांसाक, एस्पाञाक आनी पुर्तुगालाक भावार्थी हें नोवेन करूंक लागले. तांकां मागलले उपकार मेळूंक लागले आनी अशें ह्या नोवेनाक नांव पडलें *उपकार मेळून घेंवचें नोवेन*.

हें नोवेन जायतें फांकारलें नावारीक, शाव्येर कोटांत (एस्पाञाक), तशेंच (संयुक्त अमेरिकेंत) जंय दिसाक 7 वा 9 पावटीं ह्या नोवेनाची रीत करची पडता.

हें नोवेन 1922 वर्सा पोरन्या गोंयां सुरू केलें आनी मों. फ्रेंक्लीन द साक ह्या नोवेनाची जायती अपुरबाय आसली, पूण ह्या नोवेनाची खबर गोंयकारांक कांय नासली. पणजेकारांक आनी लागशिल्या तिसवाडकारांकूच इल्ली आसलिशी

दिसता. 1961 वर्सा ह्या नोवेनाचीं प्रवचनां करूंक म्हाका आपयल्लो तेदना नोवेनाचें एकूच मीस जातालें आनी त्या मिसाक भोव थोडो लोक आसतालो तो हांवें देकललो. 1964 वर्सा मायाचे एक तारकेर हावूच बऱ्या जेजुच्या कावेतांत भितर सरलों आनी जुनाचे एक तारकेर पाद्र जोर्ज द सा, जे.स. ह्या रेयतोरान आनी हांवें हे नोवेन जागृत करपाक जायतो तकस घेतलो; पत्राचेर खबर गाजयली आनी शेकीं 1967 वर्सा ह्या नोवेनाक जीव भरलो, दिसाक 6 मिसां जांवक लागलीं. उपरांत निमाण्या दिसा, मार्साचे बारा तारकेर सांजेच्या वेळार मिसा उपरांत एक पुर्साव काडून सांत पावलुचे पोरने कोलेजींत सगळी वेतालीं आनी थंय एक प्रवचन जातालें. उपरांत तें पुर्साव सकाळचेच केलें आनी पवित्र दोंगरार चडयलें आनी रुजाय सायविणिचे इगर्जेंत सोपयलें. ही मांडावळ आजून चालू आसा, दिसाक 6 वा 7 मिसां भेटयतात आनी जायते भावार्थी येतात चड करून साश्टिचे आनी हे बाज़िलिकेंत रात सारतात.

हे नोवेन सदांच सोपता मार्साचे 12 तारकेर (फेस्त ना) पूण गरज पडल्यार खंयच्याय म्हयन्यांत तें करूं येता.

## 4. बेतकाटी – 1683

ते हारश्या पेटेंत आयज आमकां एक बेतकाटी दिश्टी पडता आनी ती त्या रेलिकां बराबर आडवी दवरलली आसा ती बेतकाटी त्या सांताच्या हातांत कोणें आनी कित्याक आनी केदनां घातली जायत! हे घडणेक बरो खोल इतिहास आसा आनी तो म्हळ्यार 17-व्या शेंकड्यांतलो.

1683 वर्सा नोवेंब्राचे 24 तारकेर रातच्या धा वरांचेर गोंयच्या शारांत अवचीत घांटो वाजल्यो आनी आकांत आसा म्हण जाहीर केलें. ह्यो घांटो आरमां-दस्ते घेवन लडाय करूंक तयार जायात म्हण शारांतल्या नागरिकांक उलो मारताल्यो. त्या दिसा संभाजीन, मराठ्यांच्या फुडाऱ्यान, तिसवाडेचेर हल्लो केलो; 20,000 शिपाय 4-5 हजार घोडेस्वार (घोड्यांर बसलले), 10 हजार हती आनी हेर झुजारी हत्यारां (तेदनाच्या काळा वेलीं) घेवन, ती सुपुर्ली नद उतरून, जुंव्यांत भितर सरललो, आनी त्या जुंव्याचे एके दोगुंर्लेर एक सुपुर्लें कोट आसलें ते आपल्या ताब्यांत केल्लें. हें कोट तिसवाडेची शीम राखतालें. पलतडी (आतां फोंडें तालुका) दुस्मानाचो गांव आसलो. जुंव्यां थावन संभाजिची फौज रोकडीच गोंयां शारा पावतली आसली. माशेलच्यान ती फौज आयलली.

बारदेसचे आनी साश्टिचे गांव संभाजिच्या ताब्यांत पडलले. थिवे गांवांत

नदिचे किनारेर तीन कोटां आसलीं. तीन त्या मराठ्या राजाचे स्वादीन जाल्लीं आनी तशेंच शापोराचें कोट (ह्या कोटांचें निसंटन आजून दिश्टी पडता). रायतुरच्या कोटाक वेडो घातललो आनी मडगांव तांच्या हातांत पडललो. सांत इस्तेवाच्या जुंव्यार संभाजिची फौज भितर सरलली. असली परिस्थिती वस्ता आसताना पुर्तुगालाक गोंयां सोडून वेचो वेळ पावलोसो दिसतालो.

असल्या भिरांतिच्या प्रसंगार, दों फ्रांसिस्क द तावोरा कोंद द आल्वोर, गोंयचो 33-वो उपराजा (1681-86) 400 वा 500 सोल्दादांची एक फौज घेवन सांत इस्तेवच्या जुंव्यार गेलो पूण हे 400 वा 500 सोल्दाद कित्याक उपकारत? झुजूंक ते तयार नासले. संभाजिची वरिश्ट फौज पळेवन, पुर्तुगाली शिपाय पळून गेले. तांतले थोडे नदींत बुडून मेले. शेकीं उपराजा वांगडा पन्नासूच शिपाय उरले. हांणीं सगळी रात लडाय चालू दवरली, आनी सकाळीं हार पडून ते सगळे परतले.

संभाजिचेर नव्यान लडाय करूंक वेचे आदीं सांजे वेळार दों फ्रांसिस्क उपराजा बऱ्या जेजुचे इगर्जेंत गेलो, आनी सांत फ्रांसिस्क शाव्येराच्यो रेल्किो उगडूंक लायल्यो आनी जायतीं मागणीं आनी पिराजितां करतच, आपल्याची कूड सैतीर काडली, आनी ताची देक घेवन जेज्वीत हाजीर आसले तांणींय तशेंच केलें. उपरांत कायशांव उगडूंक लायलो. तेदनां उपराजान आपली सेनापतिची बेतकाटी (*Bastão de general*) सांताच्या हातांत घातली आनी तशेंच सगळ्यो रायाळ चिटी जाचे वरवीं ताका उपराजा नेमललो. तेच बराबर राजाच्या नांवान एक जबानी बरोवन आपली सगळी सत्या आनी पदवी फ्रांसिस्क शाव्येराच्या हातांत घातली. आनी गोंय शार सांबाळ म्हण विनंती केली. उपरांत आपल्या आदाराक ये म्हण उपराजा दिंबी मारून आनी जायतीं दुकां वारोवन सांता कडेन मागूंक लागलो.

उपरांत उत्तरेच्या कोटांत धाडूंक तयार केल्ली ती फौज घेवन नोवेंब्राचे 25 तारकेर रातीं (ह्या दिसा 173 वर्सां पाटीं आफोंस द आल्बुकेर्कान गोंय शार आपल्या ताब्यांत केल्लें), उपराजा सांत इस्तेवाच्या जुंव्यार नव्यान हल्लो (आताक) करूंक गेलो; पूण अजाप तें हें : ते रातीं संभाजी आनी ताची फौज अवचीत गोंयांतली भायर सरून गेली कित्याक अकबर, मोगल पातशाचो म्हालगडो पूत, एक वरिश्ट फौज घेवन मराठ्यांचेर आक्रमण (आताक) करून भितर सरला म्हण संभाजीक खबर पावली. हे पासत आपले गांव राखूंक संभाजी आर्मा-दस्ते

गोंयांतूच दवरून पळापळ काडून गेलो: हें घडलें नोवेंब्राचे 25 तारकेक रातीं (1683).

अशें आसतां सांत फ्रांसिस्क शाव्येरान त्या उपराजाक निराशी केलो ना; मागललो उपकार दुसरेच वाटेंतल्यान आयलो. मराठे पळून गेले आनी गोंय शार राखून उरलें (Or.C.,I,400).

सांत इस्तेवाचें कोट 1668 वर्सा बांदलले म्हण एके फातरीर कांतयल्लीं उतरां आसलीं ताचे वरवीं कळता :

*"Reinando D. Alfonso o 6 e sendo vissorei o Conde de S. Vicente, se obrov este forte, dedicado a protecção do Apostolo do Oriente, S. Francisco Xavier em 8 de Setembro de 1669."*
(आफोसो VI-व्याचे राजवटकेत, सांत विसेताचो कोंद, उपराजा आसलो तेदनां हें कोट सांत फ्रांसिस्क शाव्येर, उदेतिच्या प्रेशिताच्या आसऱ्यार भेटयललें तें, सेतेंब्राचे आट तारकेर 1668 वर्सा बांदललें.)

हें कोट पळेंवक मार्साचे 1, 1978 वर्सा हांव गेल्लों तेदनां, त्या दाराच्या माथ्या वेली फातर्न जमनीर पडलली, तिचे तीन कुडके जाल्ले एक भोव सुपुर्लो, हे फातर्निचें मोल नकळो आसले देकून, थोड्यांनी काजुच्यो बियो भाजून त्या फातरार फोडलल्यो. ही फातर्न भूंय पडल्या म्हण हांवें एका इंग्लेज दैनिकाचेर खबर गाजयल्ली (*The Navhind Times*, 6-4-1978, p.2) आनी ती रोकडीच आर्केयोलोजिकल खात्यान आपल्या ताब्यांत केली. ना जाल्यार ती फातर्न हाडून हांव बाज़िलिकेंत दवरतलों आसलों.

पुर्तुगेजांनी तें कोट बांदचे आदीं, मुसलमानांनी ते दोंगुर्लेर एक कोट उबारललें. हें कोट कृष्णदेव, विजयनगराच्या राजान आपल्या ताब्यांत केल्ले. पूण उपरांत हें कोट ह्या हिंदू राजान 1521 वर्सा दियोग लोपीश द सिकेरा, गोंयचो उपराजा (1518-22) हाचे स्वादीन केल्लें. (Sal.II.272). हेंच तें कोट आतां मराठ्यांच्या ताब्यांत पडललें आनी सांत फ्रांसिस्क शाव्येरान तें विस्मीत कशें करून राकललें.

हे राकणेक लागून उपराजा, तसोच शारांतलो लोक, सायबाच्या व्हड उपकारांत आसलो. तरूय उपरांत ह्या उपराजाचो भावार्थ गळगळूंक लागलो आनी देखून गोंयचें शार निसंटनाक पावयलें. आनीक एकदां मराठे गोंयां शारांत भितर सरत म्हण भिरांत धरून, गोंयची राजधानी (*capital*) तो मुरगांवां व्हरूंक सोदी. मुरगांवां व्हडलीं घरां बांदूक सुरू केल्लीं, गोंयां शारांतलीं घरां मोडूंक लायल्लीं. कोंद द आल्वोर उपरांत लिजबोवाक पावतच थंय तो पुर्तुगाल ताब्यांचो चिटणीस

(*Secretary of the Colonies*) जांवक पावलो आनी ही जुटी हातांत घेवन, हें शार तो मुरगांवाच व्हरूंक बळ करतालो. तेदनां गोंयां शारांत पिडाय पड्ूंक लागलली; उद्योग धंदो कमी जावन वेतालो. कोंद द आल्वोर लिजबोवाक जुटये वेलो देंवतच, गोंयची राजधानी मुरगांव व्हरची येवजण बंद दवरली. शेकीं ती पावली पणजे. पणजेक मार्साचे 22 तारकेर 1834 वर्सा *नोवा गोवा* (नवें गोंय) नांव दिवन शाराचो दर्जो दिलो. तेदनां आदलें शार पोरनें गोंय जांवक पावलें.

बेतकाटी सांत फ्रांसिस्क शाव्येराच्या हातांत घालपाची रीत कोंद द आल्वोर ह्या उपराजाक लागून सुरू जाली. आनी 1779 वर्सा थावन ही दबाजीक रीत पुर्तुगाली गोवेर्नादोर पाळताले, म्हणजे नवो गोवेर्नादोर येतच, बऱ्या जेजुचे इगर्जेंत येवन ती बेतकाटी वा बाश्तांव घेवन राजकारभाराची जुटी आपल्या ताब्यांत करीत. ही रीत जाताली अशी. रुप्याची पेट आसा ताच्या फुड्यांत सांताची एक रुप्याची प्रतिमा आसली, आनी ते प्रतिमेच्या वा इमाजिच्या हातांत आसतालें एक रोत वा बेतकाटी. नेमणुकेचें पत्र वाचल्या उपरांत, आर्चबिस्प सायब हें रोत नव्या गोवेर्नादोराच्या हातांत दितालो आनी मागीर हें रोत घेवन गोवेर्नादोर पणजे आपले पालासींत वेतालो. आपलो सरकारी कारभार सोंपतच, हें रोत परतून हाडून ते प्रतिमेच्या वा इमाजिच्या हातांत घाली. ही रीत उपरांत मात्शी बदलली म्हणजे नवो गोवेर्नादोर आपले पालासींत पयलीं राजकारभाराचीं सुत्रां ताब्यांत करतालो आनी मागीर गोंयच्या सायबाशीं येवन तें रोत व्हरतालो.

1910 पुर्तुगालाक बंड (*Revolution*) जातच आनी लोकराज स्थापून आधर्मीक मनीस त्या देसांत कारभार चलोंवक लागतच, ही रीत थोडीं वर्सां बंद पडलली. पूण निमाण्या वर्सांनी ती नव्यान चालू केल्ली.

1779 वर्सा आदीं 25 पुर्तुगाली गोवेर्नादोरांनी राजवटकेची सुत्रां रेइज मागुसचे (बारदेस) इगर्जेंत आपल्या ताब्यांत केलीं.

ही रीत पाळूंक निमाणो पुर्तुगाली गोवेर्नादोर म्हळ्यार मानुवेल आंतोन्यु वासालो इ सिल्वा (1959-61), आनी ती जानेराचे 9 तारकेर 1959 वर्सा जाली (Diario f-11). हो निमाणो पुर्तुगाली गोवेर्नादोर एक सोयरो कसो गोंयां परतून आयलो जेदनां पुर्तुगाला आनी इंडिये मदें सवस्थायेची कबलात जाली; इश्टागत नव्यान स्थापली. जेनेराल वासालो इ सिल्वा 1980 वर्सा जानेराचे 8 ते 24 तारके परयान गोंयां आसलो. जानेराचे 9 तारकेर आजाद मैदानार उलयता आसताना (जेनेराल वासालो इ सिल्वा तेदनां 81 वर्सांचे पिरायेर) हाणें पयलेच पावटीं

गोंयकारांक कळीत केले सांगून दो. आंतोन्यु उलिवेयरा सालाजारान ताचे कडेन मागललें "सांत फ्रांसिस्क शाव्येराच्यो रेलिको घेवन पुर्तुगालाक परतून यें" म्हण, पूण अशें त्या गोवेर्नादोरान केलें ना. जुनाचे 15 तारकेर गोवेर्नादोर आतां एक चालतो मनीस कसो बऱ्या जेजुचे बाज़िलिकेंत मिसाक आयल्लो, निमाण्या बांकार लोका बराबर बसलो आनी सायबाच्या तुंब्लाशीं गेलो तेदनां ताच्या दोळ्यांनी दुकां व्हांवलीं. हे भेटेर आसताना, जेनेराल वासालान सांगलें, "शेवट परयान गोंय राक" म्हण सालाजारान संदेश धाडललो, आनी न्हय "गोंयचो भस्म करून पुर्तुगालाक यें" म्हण, जशें तोंडा तोंडीं गोंयचो लोक उलोवन एकामेकाक सांगतालो.

### 5. हारश्या पेट – 1955

फाटल्यो पांच दाकोवण्यो जाल्यो तेदनां भावार्थ्यांनी हात आनी ओंट लावन रेलिकांच्या पायांचो उमो घेतलो ना, पूण हारश्या पेटेचो उमो घेतलो. ही रेलीक त्या हारश्या पेटेंत केन्ना घातली तर? आनी कित्याक?

जशें एके सुवातेर सांगलां, 1952 वर्सा धावी दाकोवण जाली ती खरेपणी निमाणी दाकोवण, जेदनां भावर्थ्यांनी मायेमोगान हात आनी ओंट लावन सायबाच्या पांयांचो उमो घेतलो. ही दाकोवण सोंपतच आनी केन्नाच भावार्थी नीट पांयांचो उमो घेंवचे नांत, आनी ती रेलीक बेश्टी उगती आसची न्हय म्हण तेदनांच्या दों जुजे दा कोश्ता नुनेस आर्चबिस्पान निर्णय घेतलो.

हो निर्णय वेव्हारांत घालूंक एक हारश्या पेट करूंक रोमाक ब्रांदिजी ह्या कारखान्याच्या धनयाक मागणी केली. ती हारश्या पेट तयार जातच जानेराचे 30, 1955 वर्सा एत्तोरे ब्रांदिज़ी हो इंजिनेर रोमाक थावन, लिजबोवा खाडिंतल्यांत *इंडिया* हे बोटींत प्रवास करून, मुरगांव खाडींत देंवलो. ही पेट आनीक एके फ्रेमोंत घातलली आनी तीय रुप्याची – दोनायचें मोल 60,000 रुपय जातालें.

फेब्रेराचे 2 तारकेर मास्त्रिलीन केल्ल्या रुप्या पेटेंतलो तो लांकडाचो कायशांव भायर काडलो आनी साडे पांच वरांचेर बऱ्या जेजुच्या कोंवेतांतले दुसरे माळयेर व्हरून एका वसऱ्यांत तो दवरलो, आनी त्यो तीन चावयो घेवन तो उगडलो. हो दसरो जायत्या जणांनी, अदीक करून तरनाट्यांनी देकला, कित्याक त्या वसऱ्यांत आतां रेतीर जातात, आनी हे रेतीर 1967 वर्सा थावन जायत्या तरनाट्यांनी केल्यात.



धा दीस तो इतालियान इंजिनेर ह्या लांकडाच्या कायशांवांतल्यो रेलिको, वा चड करून हाडां, काडून त्या नव्या हारश्या पेटेंत घालपाक वावुरलो. ह्या रेलिकांचे फोटू मोन्स फ्रांसिस्क शाव्येर दा पियेदाद ह्या सोंपलल्या बिस्पा कडे आसले, आनी ते बऱ्या जेजुच्या कोंवेंतांत दवरपाक हांवें मागलले पूण ताणें म्हजी मागणी कानार घेतली ना. त्या समयार त्या रेलिकांक मेणाचें मोयें वा रुपणें दिंवक आडवारलें, जशें एवरोपाक थोड्या सांतांच्या रेलिकांक दिल्लें आसा जेदनां त्यो एक दाकोवण कशी सदांच उगत्यो दवरल्यो.

सांत फ्रांसिस्क शाव्येराक कितेंय करचें पडता तेदनां सदांच इतालियान सगळ्या समयार उबे जातात. मार्मोरिची समाधी इतालियाक थावन आयली; आतांची रुप्या पेट एका इतालियान जेज्वितान केली; रुप्या पुतळो एके इतालियानी अस्तुरेन भेटयलो; आनी आतां शेकीं ही हारश्या पेट इतालियानूच करून दिली. आतां (1998 वर्सा) ती समाधी दुरुस्त करूंक आयले तेय इतालियानीच; वावर चालू आसा.

शेकीं 1955 फेब्रेराचे 13 तारकेर, सगळ्यो रेलिको त्या हारश्या पेटेंत घालून घट केल्या उपरांत, वयलें धांपणें घातलें आनी त्या धांपण्याक स्क्रू लायले, आनी दोनूय वाटांनी कारतांव बरोवन लाक मारून त्या हारश्या पेटेक म्होर मारली. एका कार्तावाचेर दों जुजे वियेयरा आलवेर्नाज ह्या पात्रि-यार्क आर्चबिस्पान सय मारलली; आनी दुसऱ्याचेर पावलू बेर्नार्द गेदीश ह्या पुर्तुगाली सर्वगोवेर्नादोरान – एक म्होर पांयां वाटेंतल्यान आनी दुसरी म्होर तकले वाटेंतल्यान मारलली.

उपरांत ती हारश्या पेट त्या रुप्या पेटेंत घालूंक व्हेली आनी ही हारश्या पेट,

उगडास धरात, 1964 वर्सातली दाकोवण जायसर मदल्या आल्तारार आसली. त्या समयार कळून आयले हारशा पेट एके रुप्या फ्रेमीत घालून रोमाक थावन हाडलली ती मास्त्रिलीन  केल्ले रुप्या पेटेंत भितर वचना जाली म्हण.  ते पासत ती फ्रेम भायर दवरची पडली, आनी आयज, उणिंशीं 43 वर्सा जालीं. ती बेकार आसा. पयलीं साक्रिस्तीत भांगारी गुलाबा फुड्यांत ती फ्रेम दवरलली, पूण आतां साक्रिस्ती भायर एक कुरेदोरांत दवरल्या, आनी ताचेर एक व्हडले सांत फ्रांसिस्क शाव्येराचे कुडिचे, पाद्रिची न्हेसवण आसलले चित्र दवरलां.  ह्या चित्रा सकयल काय पुर्तुगेज गोवेर्नादोरांनी आनी आर्चबिस्पांनी आपल्यो सयो वा निशाण्यो केल्यात.

आदलो तीन चावयो आसललो लांकडाचो कायशांव आतां बेकार आसा बऱ्या जेजुच्या खासगी मुजेवांत.  त्यो तीन चावयो त्या कायशावांक उमकळतात आनी दर एकाचेर नांवां आसात कोणाची चावी ती सांगून.  हो लांकडाचो कायशांव आतां बेकार आसा देखून तो एस्पाञाक व्हरूंक शाव्येर कोटांतले पाद्री मागताले, पूण दिल्लिच्या सरकारान अडचण दाकयली देखून तो रितो कायशांव आजून त्या मुजेवांत आसा.

वयर त्या हारश्या पेटेची बारिकसाणीन गजाल केल्या.  वयलें धांपणे स्क्रू लावन घट केलां म्हण कोण नकळ आसलो.  सगळे जण समजताले ती हारश्या पेट भितरलें वारें काडून घट बंद केल्या म्हण, पूण 1964 वर्सा दाकोवण जाली तेदनां कळून आयलें ते धांपणें काडूंक जाता म्हण, आनी ती बारावी दाकोवण जातच भितरल्यान हारशे म्हेळे जाल्ले ते धुवन काडपाक तें धांपणें काडचें पडलें. हो वावर करूंक आमकांच भाग मेळलें, आनी तशेंच जाले 1974 वर्सातली दाकोवण जांवचे आदीं आनी उपरांत.  त्या रेलिकांची बाफ कशी येवन हारश्यांचेर एक कूप कशें मांडता.  धुल्या उपरांत ते हारशे नितळ उजळ जातात.

### 6. उदेंतेचो राकणदार 1699

संभाजीक धांवडावन पंदरा वर्सां बलांडल्या उपरांत, पेद्रू II पुर्तुगालाच्या राजान (1683-1706), मार्साचे 24 तारकेर 1699 वर्सा एक हुकूम घालून सांत फ्रांसिस्क शाव्येराक उदेंतेचो राकणदार म्हण गोंयच्या शारा परगट करूंक लायलें.  उदेंतेक देवाचे म्हयमेक आनी देसाचे व्हडविकेक लडायो जिकून घेवपाक पुर्तुगेजांक स्फुर्ती आनी उर्बा दिवपाक, आनी तेच बराबर त्या सांता कडसून जायते उपकार (1683 वर्सातलो परयान) मेळून घेतल्यात तांकां आर्गां आटोंवक त्या राजान अशे करूंक लायलें (Or.C.I.399).  बऱ्या जेजुच इगर्जेत

उपराजा ताचे दळबार, कुलीन मनीस आनी शारांतलो लोक हाजीर आसून ही घोशणा वा परगटणी त्या पुर्तुगाली राजान करूंक लायली. ह्या कर्तुबाची समजणी दिंवक एक प्रवचन करूंक जाय आसलें (Xav. 323).

त्या राजान आमच्या सांताक एक नकशेन भरलली सेनापतिची बेतकाटी धाडली, आनी ती आजून ते हारश्या पेटेंत दिश्टी पडता. कोंद द आल्वोर हाणें एक बेतकाटी फ्रांसिस्क शाव्येराच्या हातांत घातलली ती काडून आपणें धाडलली ती घालूंक लायली. हे परगटणेचो उगडास कसो सदांच उरूंक त्या राजान एक भांगारी आर्लूक कुंटूंक लायली आनी ते बेतकाटेक लांवक फर्मायलें; तिचेर हीं उतरां आसलीं :

*फुडल्यान* : Petrus Rex Portugalliae, (पेद्रू ,पोर्तुगालाचो राजा)

*पाटल्यान* : D. Francisco Xavierio, Indiarum Apost. et Orientis Defensori, recens assumpt, duc. An. DMDCXIX.

(सांत फ्रांसिस्क शाव्येराक, इंडियेच्या प्रेशिताक आनी उदेंतेच्या राकणदाराक, रिगोच शिंवासणार चडललो, धनयाच्या वर्सा 1699).

त्याच समयार ताची पतीण, मारिया सोफिया द नॉयबर्ग, राणी (1666-1699) हिणें त्या रेलिकांक एक अमोलीक याझिकी न्हेसवण धाडली. ही न्हेसवण (चाजुबल) राणयेन आपल्या हातांनी बोर्दाद (भरत काम) केल्ली आनी आपल्या हातांनी हीं उतरां ते न्हेसोवणेचेर घातललीं :

"Regina Portugalliae suo S. Xavierio"

(पुर्तुगालाची राणी आपल्या [अपुरबायेच्या] सांत शाव्येराक)

ह्या कर्तुबाक लागून गोंयचो राजपाल आनी उपराजा सरकारी जुटी बऱ्या जेजुचे इगर्जेंत आपल्या ताब्यांत घेंवक लागले. ह्या दबाज्याचीं दोन मोटीं पुस्तकां आसात, सगळीं पानां हातांत बरयललीं आनी तांचेर राजपालांच्यो आनी उपराजांच्यो निशाण्यो दिश्टी पडतात.

हो दबाजो केदनां सुरू जालो जायत? कोंद द आल्वोर हाचे पाटल्यान आयलल्या राजपालां कडसून वा 1699 वर्सा उपरांत वा 1786 वर्सा थावन? 1786 वर्सा पयलेच पावटीं बरयल्लें मेळता.

## 7. उदेंती इंडियेचो आस्कारी : 1748

उणिशीं पन्नास वर्सां बलांडून गेल्या उपरांत, फ्रांसिस्क शाव्येराक आनीक एक पद मेळलें, उदेंती इंडियेचो आस्कारी. हें पद आपल्या म्हालगड्या भावाक दिल्लें तेन्नाच्या जेज्वितांक जाय आसलें. ह्या हेतून आपली मागणी पुर्तुगालाच्या

राजाक पाटोंवक जेज्वितांनी गोंयच्या उपराजा दो पेद्रू मिगेल द आल्मेदा इ पुर्तुगाल (1744-50), मार्कीश द कास्तेलनोवु, हाचे कडे मागलें आनी आपली मागणी पापसायबाक धाड म्हण पुर्तुगालाच्या राजाक विनयलें. हे मागणेक उपराजान 1745 जानेराचे 28 तारकेर आपली मान्यताय दिली आनी पुर्तुगालाक ती पाटोवन दिली (Xav. 327).

ही मागणी शेकीं रोमाक पावली आनी बेनेदिक्त XIV पापसायबान, 1748 फेब्रेराचे 24 तारकेर मागललो उपकार दिलो. त्या पापसायबान सांत फ्रांसिस्क शाव्येराक बऱ्या भरवंशच्या तोंकार (आफ्रिकेक) थावन चिना आनी जपानाच्या राज्यां पासून इंडियांचो मुखेली आस्कारी म्हण परगट केलो.

## 8. रुप्या पुतळो 1670

हो पुतळो इतालियानी भक्तांचें आनीक एक देणें, जशी ती मार्मोरिची समाधी जावन आसा. तो रुप्या पुतळो 1977 वर्सा पासून रुप्या पेटे मुखार आसलो पूण सदांच दाकोवण करचो निर्णय घेतच रुप्या पेटेचीं जनेलां काडून रेलिको दिसतात तशें केलें आनी हो पुतळो त्या रेलिकां मुखार उबो आसून एक अडचण जाली. देखून तो थंयचो काडून साक्रिस्तींत एका कोनश्याक दवरलो. आतां हालींच तो पुतळो तुंब्लाशीं एका जनेलार वयर दावे वाटेन दवरला पूण तो सोंपेपणीं नदरेक पडना.

ह्या पुतळ्याक बरो एक विचित्र इतिहास आसा. जेनोवाची एक कुलीन अस्तुरी, फ्रांसिस्का सोप्रानीस, उर्बान दुराती हाची पतीण, विदवा जाली. आपल्या विदवापणाचेर माद्रिचो भेस घेवन जेनोवा शारांत आसलल्या *Incar-nasanv* ओर्दिच्या एका फांकी कोंवेंतांत तिणें रीग घेतलो आनी कोवेतांत तिका मारिया फ्रांसिस्का शाव्येरा म्हण नांव दवरलें. तिणें सांत फ्रांसिस्क *सर्गिचो यात्रेकार* हाका एक आर्गांची भेट कशी पाद्र सेबास्तियांव द आल्मेदा कडे तीन हजार *क्रुजादुश* दवरले (Or. C.I. 403).

हे दुडू घेवन त्या पाद्रीन एक पुतळो सगळोच निवेल रुप्याचो करूंक लायलो साडे स वेती लांब आनी ताचें वजन 200 मार्क आनी मोल 4800 सेराफीन. उणे जाताले ते दुडू आंतोन्यु बुतेल्यु ह्या प्रांतीक व्हडिलान भरले (Sch. Varia I. 567). ह्या पुतळ्यार इतालियानी पद्दती परमाणे *कोता* न्हेसला, उजव्या हातांत एक रोत आसा वा बेतकाटी आनी ती काडून घेवन गोंयचो पुर्तुगाली राजपाल आनी उपराजा सरकार आपल्या ताब्यांत घेताले म्हण दुरारे सुवातेर सांगलां.

दाव्या हातांत एक खुरीस आसा. त्या पुतळ्याच्या पायदळार वा पेडार अशें बरयललें मेळता :

Sanctissimo Indiarum Apostolo
Francisca de Sopranis Patritia Genuensis
Urbani Duratii Olim Uxor
Nunc Maria Francisca Xaviera
In Celeberrimo Incarnationis Monasterio
Christi Sponsa
Peregrino Coelesti
Peregrini Amoris Votum Et Monumentum
P.P. An. Dni.1670

इंडियेच्या भोव भागेवंत प्रेशिताक
फ्रांसिस्का दे सेप्रानीस, जेनोवाचे कुळयेंतली
आदीं उर्बान दुरातिची पतीण
आतां मारिया फ्रांसिस्का शाव्येरा
भोव फांकी इनकार्नासांवाच्या मठांत
क्रिस्ताची पतीण
सर्गिच्या यात्रेकाराक
यात्रेकाराच्या मोगाचें एक आर्गा देणें आनी उगडास.
प. प. धनयाचें वर्स 1670.

त्या समयार मोजाम्बीक (आफ्रिका) थावन कुवामा नदिंतल्यान गांवचें भांगर एक देणें कशें पावलें, ताचें वजन 3 मार्क. हें भांगर वापरून त्या रुप्या पुतळ्याक एक मुकूट केलो आनी ताचें मोल, अमोलीक माणकां हिसपाक धरून, जातालें 1500 सेराफीन. 1974 वर्सा सरकारान एक तपाल तिकेट छापलली ते तिकेटिचेर हो पुतळो दाकयल्लो.

दों फ्रांसिस्क द तावोरा (1681-86) ह्या उपराजाची देक घेवन, ताच्या पाटल्यान आयल्लो उपराजा दों पेद्रू आंतोन्यु द नोरोञा (1693-98) हाणें 1693 वर्सा आपली बेतकाटी, सगळीच भांगारान आनी मोतयांनी नेटयलली, ह्या पुतळ्याच्या हातांत घातली. उपरांत हे बेतकाटे सुवातेर, 1695 वर्सा तावोराची बेतकाटी घातली. उपरांत जेदनां उपराजा आनी राजपाल आपले राजवटकेची जुटी हांगा

बऱ्या जेजुचे इगर्जेंत घेताले, तेदनां ह्या पुतळ्याच्या हातांतली बेतकाटी घेवन अशें करताले, जी बेतकाटी आदलो उपराजा वा राजपाल जुटी सोडून वेताना थंय दवरून गेल्लो आनी पुर्तुगालाक थावन राजा कडची हाडलली ती बेतकाटी त्या पुतळ्याच्या हातांत दवरतालो (Sch. Varia, 1, 567).

हो पुतळो आतां दावे वाटेतल्यान एका जनेलार बेकार आसा आनी तो नदरेक बरो झळकना. स वर्सा तो पुतळो साक्रिस्तींत एका कोनश्याक दवरललो आसलो पूण चोगमच्या (CHOUGAM) समयार जेदनां 1983 नोवेंब्र ब्रिटीश राजकुळाचे प्रधान सरकारी मनीस गोंयां आयल्ले आनी ते एक दीस बाज़िलिकेक भेट करचे आसले त्या समयार तो रुप्या पुतळो त्या जनेलार चडलो.

## 9. नवी साक्रिस्ती 1654

बऱ्या जेजुच्या कोवेंतांतले इगर्जेची साक्रिस्ती म्हळ्यार एक इगर्जूच दिसता. पोरनी साक्रिस्ती आसली ती 1652 फेब्रेराचे 2 तारकेर मोडूंक सुरू केली, आनी 1652 फेब्रेराचे 29 तारकेर नवी साक्रिस्ती बांदूंक बुनयाद घातली. दोन वर्सां भितर ती तयार जाली आनी 1654 मार्साचे 19 तारकेर तिचेर आशिर्वाद घातलो.

हे साक्रिस्तींत भितर सरूंक एक मोलादीक अखंड फातरांचो एक दारवंटो आसा, आनी तो पळेंवक सगळोच नाजूक कित्याक नक्षेन कांतयललो. दोनूय बाजुंनी अखंड धव्या फातरांचे खांबे आसात आनी तांचेर फातराचो माथो आसा. ताचेर कांतयललें मेळता जेजुचें नांव ग्रीक भाशेंत IHS. दारांचीं कवडां केल्यांत तीं सायल्याचीं बरीं जड आनी दाट. ह्या कवडांचेर आट चित्रां कांतयललीं आसात. तें आखें दार सगळेंच काळें दिसता कित्याक ताका काळी वार्नीज काडल्या. दाराच्या माथ्या वयर लातीन भाशेंत हीं उतरां बरयल्लीं मेळतात : "*Propter Joseph benedixit dominus domui*." (Gen. 39:5). "जुजे खातीर धनयान [ह्या] घराचेर आशिर्वाद घातलो" (उत्पत्ती 39.5) सुरवातेक ही साक्रिस्ती समर्पिल्ली मार्साचे 19 तारकेर 1654 वर्सा सांत जुजेचे परबे दिसा पवित्र कुटुंबाक, अनी पवित्र कुटुंबाचें मस्तक म्हळ्यार सांत जुजे. हेच पासत तीं उतरां त्या दारार घातलीं जायत.

ह्या उतरां सकयल अर्दे वाटकूळ आसा ताचेर कांतयलले मेळतात मोनोग्राम जेजुचो (IHS) आनी मोरियेचो (MA). ते सकयल चार मुकूट कशे आसात. दारांच्या दोनूय कवडांचेर चार सांत उबे आसात. दावे वाटेंतल्या कवडार सांत इनास आसा, दाव्या हातांत ताणें एक उगतें पुस्तक धरलां, आनी उजव्या भुजार

IHS हो मोनोग्राम. आनी दुसरो सांत म्हळ्यार सांत पेद्रू दाव्या हातांत एक पुस्तक घेवन, आनी उजव्या हातांत चावयांचो घोंस. तांच्या पांयां तळा एक ब्रीद आसा : *Potestas Clavium* (चावयांची पदवी). उजव्या कवडार सांत पावलू उबो आसा; ताचे कडे एक पुस्तक आनी एक तलवार आसा. आनी सांत फ्रांसिस्क शाव्येर आनी हाच्या हातांत एक लिली फुलांचो घोंस. तांच्या पांयां तळा एक ब्रीद आसा : *Zelus Animarum* (आत्म्यांचे अत्रेक). ते सकयल चार भागांनी फुलां आसात, आनी फुलां मदें बडव्याची तकली. ते सकयल मागीर चार बडवे. ते खाला चार फुलांचे वाज आनी झाडांच्यो वेली.

सांत फ्रांसिस्क शाव्येराच्या हातांत लिली फुलां कित्याक? लिली फूल जावन आसा निर्मळपणाची खूण आनी फ्रांसिस्क शाव्येर आदीं जावन आसलो आस्कारी निर्मळपणाचो. हें आस्कारिपण आतां एक तरनाट्याक सांत आलोयसियूस गोंजागाक फावो जालें. ह्या तरनाट्याक पूर्ण आल्ताराचो मान मेळलो 1726 वर्सा. ह्याच कारणाक लागून फ्लोरेंतिनी समाधिरूय दोनूय बाजुंनी लांबायेन लिली फुलांचे घोंस दिश्टी पडतात. ह्या फुलां मदें आसात तें कांश्याचे ढाल. लिली फुलांच्यो पाकळ्यो मोडलल्यो त्यो सारक्यो करूंक इतालियेक थावन 1998 वर्सा सेतेंब्रांत तिगी बायलो आर्किटेक्ट आयलल्यो.

त्या दाराच्या पांयदळाशीं आसात दोग बडवे आनी कांय फुलां.

ह्या दारवंट्यांतल्यान प्रवेस करतच, एक इगर्जेंतूच भितर सरलल्या भाशेन दिसता. हे साक्रिस्तींत मातयेचें वा फातराचें बोब्द आसा. साक्रिस्तिच्या दोनूय बाजुंनी याज्ञिकांचीं न्हेसणां दवरपाक लांब लांब आल्मारी आसात. ह्या आल्मारिंची सोबिताय म्हळ्यार तांची नक्षी; काळें लांकूड कातरून दुसऱ्या लांकडांत भरलां आनी पयस थावन चितरायलले भाशेन दिसता.

ह्या आल्मारीं वयर पायणेलां आसात, दावे बाजून सांतांचीं आनी उजवे बाजून सांतिणिंचीं. मदल्या आल्मारिंचेर सांतांचीं पायणेलां आसात तांचेर कोणें एकल्यान फ्रांजुवांव म्हण सय केल्या. कोण जायत हो फ्रांजुवांव?

ह्यो आल्मारी बाल्ताजार द वियेगा हाच्या दुडवांनी केल्ल्यो. हे दुडू 1659 आपल्या मरणा उपरांत ताणें दवरलले. पाद्र गोन्साल मार्तींश हाणें 22 पायणेलां मदल्या आल्मारी वेलीं (11 + 11) आनी 4 वणतीं वेलीं कोचिनाक थावन हाडललीं. त्या पायणेलांक भांगराचो लेप काडूंक दों फ्रांसिस्क द लिमा हाणें 300 सेराफीन दिले आनी पाद्र गोन्सालो मार्तींश हाणें देणगी एकटांय केली.

आयज ते साक्रिस्तींत असलीं 42 पायणेलां दोळ्यांक झळकतात, 22 दर एके बाजूंत.

हे साक्रिस्तिच्या तळाक एक व्हडलें कंत्रेल वा कपेल कशे आसा, ऊंच कमाण (आर्क) आसा तांतल्यान भितर सरूंक जाय. पूण भितर सरचे आदीं दोळे वयर लाय आनी त्या कमाणा वयर एक चित्र काडलले आसा तें पळे. मदेकत जेजू बाळक आनी बाजूक सांत इनास आनी सांत फ्रांसिस्क शाव्येर; वयर वणतीर बोव्दाक लागीं 12 प्रेशितांचीं (आपोस्तोलांची) चित्रां आसात, दर एके वाटेन 6.

त्या कपेलाचो आल्तार सुरवातेक जेजू, मारिया आनी जुजे हांकां भेटयललो. आल्ताराच्या पांयांशीं बाल्ताजार द वियेगा ह्या बऱ्या मागप्याक पुरला; ती साक्रिस्ती उबारपाक ताणें दुडू दिल्ले. 1659 जानेराचे 14 तारकेर तो अंतरलो. आल्ताराच्या पांवड्यार मार्मोरिच्या फातरार पुर्तुगेजींत बरोवन सांगलां समाधींत देवून वचपाची ती वाट जावन आसा म्हण. तो मार्मोरिचो फातर मदेकतूच कोणे फोडला जायत? थोडे म्हणतात, जेज्वितांक त्या कोवेंतांतले धांवडायतच ते समाधींत आपली धन गिरेस्तकाय लिपोवन गेलेशे थोड्यांक दिसले देखून तो फोंड वा फातर फोडून ती गिरेस्तकाय सोदूंक लागले. तशेंच सांगतात इगर्जे मुखार खुरसा रुपान (क्रुजेयरु) जागो आसलो तोय फोडून नव्यान बांदलो. पूण कितली आनी कसली गिरेस्तकाय मेळली ती कोणूच सांगना. ही गिरेस्तकाय सोदूंक सायबाचो तुंब्ल फोडलो आनी भश्टायलो म्हण आदीं सांगलां.

## 10. भांगारी गुलाब

ते साक्रिस्तिचो आल्तार आतां बेकार आसा ताचेर कोण मीस भेटयना. त्या आल्तारार एक व्हड तिक्याची जड जड पेट आसली, आनी तिचेर मोट्या अक्षरांनी बरयललीं मेळतात AMDG (Latin: *Ad Maiorem Dei Gloriam* देवाचे अदीक व्हड म्हयमेक). हें सांत इनासाचें ब्रीद जावन आसले : करता तितलेंय सगळें देवाचे अदीक व्हड म्हयमेक. ही पेट एक तार्बेनाकुलूच कसो दिसता. ती पेट केल्ली फोंड्यां पाद्री एस्तानिसलावस मार्तीश दा गामा जे.स. हो पुर्तुगेज जेज्वीत बाज़िलिकेचो तेदनां कारभारी आसलो. हो नव्या काळा वेलो पयलो जेज्वीत कारभारी. (ही पेट आतां वेगळे सुवातेर दवरल्या.)



ते तिक्या पेटेंत कितें आसा? एक भांगारी गुलाबाचो रोंपो, पियूस XII पापसायबान तो गोंयचे म्हादियोसेजीक 1953 भेटयललो, जेदनां तेदनांचो आर्चबिस्प दों जुजे दा कोश्ता नुनेस आपल्या याज्ञिकपणाचो भांगरा उत्सव मनयतालो. हो गुलाब रोंपो बऱ्या जेजुचे बाज़िलिकेंत दवरूंक जाय म्हण रोमाच्या अधिकाऱ्यांनी आपली खुशी दाकयलली हे विशीं लातीन भाशेंत बरयललो एक व्हडलो दाखलो आसा, फ्रेमींत घालून तो पेटेशीं दवरूंक जाय आसलो पूण अशें आजून करूंक ना.

हो भांगारी गुलाब सात वर्सां कातेद्रालांत उरल्या उपरांत 1961 वर्सा *Lactare* आयतारा दिसा एक व्हडलें पुर्सांव काडून तो बऱ्या जेजुचे बाज़िलिकेंत हाडलो त्या दिसा, मार्साचे 12 तारकेर, उपकार मेळून घेंवचें नोवेन सोंपतालें.

ह्या गुलाबाची इतिहासीक खबर फुडल्या भागांत मेळतली. आतां इतलेंच सांगूंक फुडें सरतां. सोळावो शेंकडो परयान एकूच गुलाब आसतालो पूण आतां कांटे, पानां, बोंगे आनी फुलां आसून तो एक रोंपो जाला. आमच्या रोंप्याक तीन फांटे आसात; एका फांट्याक दोन गुलाब आनी दोन बोंगे आसात; दुसरे खांदयेक एक गुलाब आनी दोन बोंगे आसात; आनी तिसरे खांदयेक एकूच गुलाब आसा. मदल्या भागाक एक व्हडलो गुलाब फुल्ला. त्या सगळ्या रोंपाक 55 पानां सोब

दितात.

पेडा सकयल उदेंती प्रेशिताचे मरण दाकयलां; आनी ताचे खाला हीं उतरां लातीन भाशेंत मेळतात : S. Franciscus Xaverius, आनी वयर MCMLIII Aurea Rosa A Pio XII P. M. Sedi Goanae (1953 भांगारी गुलाब पियुस XII पापसायबाचो गोयचे सदरेक (दियोसेर्जीक))

## 11. गुलाबाचो इतिहास

बऱ्या जेजुचे बाजिलिकेंचे साक्रिस्तींत भितर सरतानाच, नीट दोळे लायल्यार पाटले पारेंदिशीं एका आल्तारार एक ताबेर्नाक्लूच आसासो दिसतालो; आनी अशी समज घेवन थोडीं भावार्थी दिंबी घालून पवित्र साक्रामेंतातलो जेजू तांतूंत आसलले भाशेन मागणीं करतालो. खरेपणीं उलयल्यार तो ताबेर्नाक्ल न्हय पूण तीन चार चावयांची भांडार पेट, उकलूंक जायना तसली आनी तांतूंत भांगाराचो एक गुलाब रोंपो आसा. त्या रोंप्याक भांगाराचीं फुलां, बोगे, खांदयो आनी पानां. म्हणतात भांग्गराचो गुलाब वा फूल; इंग्लेजितल्यान *The Golden Rose*, पुर्तुगेजितल्यान *Rosa do Oiro*, घडये सुरवातेक एकूच गुलाब फूल पापसायब दितालो जायत पूण आज एक गुलाब न्हय पूण गुलाबाचो रोपो.

ह्या गुलाबाची बारीक सारीक इतिहासीक खबर म्हाका मेळूंक ना, पूण मेळल्या ती हो अवेस्वर बरोवपाक पुरो. हो गुलाब वा गुलाब रोपो म्हळ्यार एक खुणा, आनी जेदनां पापसायब एका उत्तम मनशाक वा मनशांक, शारांक, देवमंदिरांक वा पवित्र जाग्यांक कसल्याय कारणांक लागून एक मान दिंवक सोदता तेदनां हो गुलाब दिता.

गुलाब दिंवची संवय केदनां सुरू जाली तें सांगूंक इतिहासकार (*historians*) नकळत वा एकमत ना. धाव्या शेकड्या आदीं दिश्टी पडता ती एक खातरेची वस्त. थोड्यां परमाणें ही संवय पांचव्या शेकड्यांत दिश्टी पडताली.

इतिहासा परमाणें, पिराजिताच्या काळा वेल्या चोवथ्या आयतारा, रोमाचो बिस्पसायब वा पापसायब रोमा शारांत जेरुजाल्याच्या पवित्र खुरसाचे बाजिलिकेंत मीस भेटयतालो. ते बाजिलिकेतले पाद्री पापसायबाक एक भांगाराचो गुलाब भेटयताले आनी हो गुलाब पापसायब त्यो रिती पाळताना आपल्या हातांत घेवन रावतालो आनी गुलाब घेवन आपल्या लातेरानी राजमहालांत वा पालासींत व्हरून दवरतालो. पयल्या शेकड्यांनी पापसायब लातेरानी बाजिलिकेत रावतालो म्हण

उगडास धरात आनी न्हय सांत पेद्रुचे. आतां परयांत लातेरानी बाजिलिका रोमा शारांत, वातिकाना भायर, पापसायबाचो कातेद्राल जावन आसा.

हो भांगारी गुलाब घेवन पापसायब कितें करतलो आसलो गाय? आनी तोय बी वर्साच्या वर्सा दिताले. उपरांत पापसायब कोणाय व्हड मनशाक वा संस्थेक मान दिंवक सोदी तेदनां तो गुलाब भेटयतालो. वर्सा पटीं त्या भांगारी गुलाबांत परमळ घालूंक लागले आनी माणकां मोतयां लावन, एक आत्मीक अर्थ दिलो आनी त्या गुलाबार आशिर्वाद दिताना त्या गुलाबांत परमळाची शिंसली वोतताले आनी असो त्या गुलाबाचो परमळ येंवक लागतालो. गुलाब म्हळ्यार क्रिस्त. पवित्र पुस्तकांत सोलोमोनाच्या काळार थावन तरी, गुलाब जांवक पावललो क्रिस्ताची, भासायलल्या मेसियाची, खुणा. क्रिस्त म्हळ्यार शेतांतलें फूल, गोलांतलें लिली आनी कांट्यां मदलो गुलाब.

भांगाराचो गुलाब वा गुलाब रोंपी पियुस XII पापसायबान गोंयचे आर्च-दियोसेजीक भेटयली, आनी ती बऱ्या जेजुचे बाजिलिकेंत दवरूंक लायली. हो गुलाब रोंपो गोंयकारांक केदनां धाडलो जायत? 1952 वर्सा सांत फ्रांसिस्क मेल्यार चार शेकडे भरताले, ताच्या उगडासाक एक दबाजीक दाकोवण जाल्ली. हे दाकोवणेक पियूस XII-व्यान आपलो दूत परयान धाडललो, कार्दियाल सेरेजेयरा, लिजबोवाचो आर्चबिस्प, आनी देजेंब्र 3 तारकेर फेस्ता दिसा, रेडियो वेल्यान एक निरोप गोंयकारांक वितरायलो. इतल्यान पियूस XII धादोशी जांवक ना. उदेंतेक क्रिस्ती धर्म गोंयचे आर्चदियोसेजीन परगटललो तो मांदून घेवन, ही भांगारी भेट पापसायबान गोंयचे क्रिस्ती पर्जेक दिली. हो गुलाब रोंपो म्हळ्यार सांत फ्रांसिस्क शाव्येराच्या दबाज्याचो एक जिवो उगडास.

हो गुलाब रोंपो पियूस XII-व्यान कास्तेल गांदोल्फाच्या घरांत रावूंक गेल्लो आसताना, आगोस्ताचे 30 तारकेर 1953 वर्सा बेजार केलो. तो मागीर कुंवर एवरिको बार्देनीक हाणें हाडून रोमा शारांत सांत आंतोनीक भेटयल्ले पुर्तुगेजांचे इगर्जेंत दवरलो. हो गुलाब मों. जोजफ मॅक गियो हाणें गोंयां हाडलो. ताका पापसायबाचो दूत कसो धाडललो, ताचे बराबर पाद्र जुलियो मारिन्हो, जे.स. पुर्तुगाली जेज्वीत प्रांताचो तेदनांचो व्हडील आसलो. हे दोगूय बेळगांवां विमानांत आयल्ले ताचो म्हाका उगडास आसा. ते म्हाका पयले बेळगांवां मेळलले, आनी तें भांगारी फूल एक दीस, गोयांत भितर काडचे आदीं बेळगांवच्या *सांत पावलु* च्या घरांत आसलें. बेळगांवां थावन मागीर ते पाद्री गोंयां गेले, आनी नीट पात्रियार्काचे पालासींत वचून थंय तो गुलाब रोंपो दवरलो. पणजे थावन 90 मोटरांचे आनी

20 बसिंचें पुर्साव काडून एके जिपीर दवरून हो गुलाब पोरन्या गोंयां हाडलो. त्या दिसा म्हणगे सेतेंब्राचे 13 तारकेर 1953 वर्सा, पोरन्या गोया जागतो लोक, सुमार 40 हजार तरी, एकटावललो. पाद्रीं मदे तेग बिस्प दिश्टी पडताले, गोयचो पात्रियार्क कोश्ता नुनेस, गोयचो आदारी आर्चबिस्प, जुजे आल्वेर्नाज आनी दिल्ली-शिमलाचो आर्चबिस्प.

हो रोंपो संसाराच्या गुळ्यार रोयला आनी त्या गुळ्यार पियूस XII पापसायबाचो ब्रीद बरयला. *"सवस्तकाय म्हळ्यार नितिचे फळ"* (*A paz é obra da Justícia*) ते सकयल सांत फ्रासिस्क शाव्येराक साचियान जुंव्यार मरता आसताना दाकयला. चारूय कोनशांचेर चार मनशां आसात. पेड हिसपाक धरून, त्या रोप्याचो भार 40 किलो जाता. हो भांगारी रोंपो एके जड भांडारी-पेटेत दवरला तिका भायल्यान तीन वेग वेगळ्यो चावयो आनी ते भायर भितर हारश्याच्या दाराक आनीक एक चावी आसा.

**फ्रांसिस्क शाव्येर केदनां मेलो?**

रोमी रक्तसाक्षिनामा पत्रक (*Martirologium*) आमच्या सांताची परब देजेंब्राचे 2 तारकेर अशी घोशीत करता :

सांचियानाक, चिना लागशिल्या जुंव्यार, सांत फ्रांसिस्क शाव्येर, जेजुचे पलटणिचो याझीक, धर्मवीर आनी इंडियेचो प्रेशीत धनया सवे (सासणाक) न्हिदलो.... ताची परब अलेक्जांडर VII पापसायबाच्या नेमान दुसऱ्या दिसा पाळतात. (Acta Ap. Sedis, 20 (1928), 148, 186).

हो नेम पडलो सेतेंब्राचे 22 तारकेर 1663 वर्सा, आनी आता गमून येतलें कित्या पासत कांय सुवातिंचेर ह्या सांताची परब पाळतात ती देजेंब्राचे 2 तारकेर, आनी कांय गांवांनी जशें गोंयां आनी इंडियेक, देजेंब्राचे 3 तारकेर (पळे M.H.S.J. Monumenta Xaveriana, II, 727).

पाद्री आलेसांद्रो वालिञानो (1539-1606) ह्या उदेंतेक पाटयलल्या व्हडिला, परमाणें शाव्येर देजेंब्राचे 2 तारकेर अंतरलो (M.X.I. 191). हो व्हडील साताळ्याचो दीस खंयचो पडललो तें सांगना. पूण फ्रांसिस्क पेरेज (1515-1583) मैलापुरा थावन एस्पानी भाशेन (म्हणगे कास्तेलानी भाशेन) बरयता शाव्येर एका सुक्रारा, देजेंब्राचे 2 तारकेर दोन वरांचेर दोनपारां उपरांत मेलो म्हण. पाद्र फ्रासिस्क द सोज (Or. Cong. 381) पेरेजाचो पाटलाव करता.

मानुवेल तेशेयरा (1536-1580) हाचे परमाणें शाव्येर सनवारा फांत्या पारार, देजेंब्राचे 3 तारकेर अंतरलो (MX.II,896-D.I.III.663).

शुरहामर हाचे परमाणें फ्रांसिस्क देजेंब्राचे 3 तारकेर, एका सनवारा, फांत्या पारा आदीं जोरान फडफडून आनी वायदमन जावन (D.I.II 281), वा घडयेक रगत व्हांवोन (D.I.III. 251) अंतरलो. त्या काळार सारको वेळ पळेंवक घडयाळां नासलीं पूण रेंवेचे ग्लास घडयाळां कशीं वापरताले. मरणाची तारीक वाद विवादाची (*Obra de controvérsia*) (E. Escalad Pamplona 1944) आनी शुरहामर (D.I. III. 662-665). आपूण खंयच्या दिसा मरतलो तें सांगून फ्रांसिस्क शाव्येरान एक भाकणी *(prophecy)* केल्ली खंय. एकलो बरयता: "*Parece que supo que avia de morir al Viernes,* " *(M. X.. II 757):* (आपूण सुक्रारा दिसा मरतलो म्हण तो जाणा आसलोसो दिसता) पूण शुरहामर त्या उतरांची अशी दुरुस्ती करता *Parece que supo que avia de morir. Al Viernes...* ". (D. I. II 757) (आपूण मरतलो म्हण तो जाणो आसलोसो दिसता. सुक्रारा दीस...)



ह्या पुस्तकार आमी म्हणलां : असो पाद्र मेस्त्र फ्रांसिस्क शाव्येर ते सुक्रारा-सनवारा रात्रीं मदें मेलो, देजेंब्राचे 2 तारकेर वा 3 तारकेर 1552, 46 वर्सांचे पिरायेर आनी सात म्हयने आनी 26 दीस. तांतलीं 10 वर्सां आनी 7 म्हयने (4 दीस उणे) ताणें आशियेक सारलीं. असो पाद्र मेस्त्र एकसुरपणान ह्या संसाराक अंतरलो.

पाद्र विकी, रोमाक एक व्हड जेज्वीत इतिहासकार, म्हाका एक दीस पोरन्या गोंयां मेळलो. हांवें ताका विचारले सांत फ्रांसिस्क शाव्येर खंयचे तारकेर मेल्लो? सट करून जबाब भायर सरलो : “देजेंब्राचे 2 तारकेर.” हांवें म्हणलें : “तर नव्या केलेंडरार फ्रांसिस्क शाव्येराची परब देजेंब्राचे 2 तारकेर घालूंक तूं कित्याक वावुरलो नांय?” ताणें जबाब दिलो: “रोमाक म्हजें कोण आयकता?

## भाग 7

## सांत फ्रांसिस्क शाव्येराचें जिवीत

### वर्सां परमाणें

ह्यो तारको जोर्ज शुरहामर जे.स. ह्या विद्वानान आदीं तयार केल्ल्यो. ह्या जेज्वीत पाद्रीन सांत फ्रांसिस्क शाव्येराचें जिवीत बरोंवक आपलें सगळें जिवीत सारलें. फ्रांसिस्क भोंवललो तितलेय गांव भोंवलो, आनी शेकीं एक लांबदीग जिवीत जर्मन भाशेंत तयार केलें. सांत फ्रांसिस्क शाव्येराचें मरण परयान बरोवन जातच, ताकाच मरण आपोंवक आयलें. मरणाचे खाटीर आसताना, पाद्र शुरहामरान पाद्र विकीक जे.स. आपयलो आनी सांत फ्रांसिस्काच्या मरणा उपरांतली खबर एका पुस्तकांत बरोवन दवरूंक राजी आसा गाय म्हण विचारलें. आपलीं कागदां खंय आसात तीं पाद्र विकीक सांगलें आनी पाद्र विकीन हय म्हणतच, पाद्र शुरहामरान आपलो प्राण सोडलो. ह्या विद्वानान तारको सोदून काडल्यात त्या परमाणें ह्या सांताचें जिवीत बरोंवक जाय. हें जिवीत बरोंवक जोर्जे शुरहामरान 1910 वर्सा, 6-वे दाकोवणेच्या समयार, मुंबय थावन पोरन्या गोंयां येवन, एक आंगवण केल्ली, जेदनां तो एकदम बरो ना जावन मुंबय शारा अस्कत जांवक पावललो. तेदनां तो आजून पाद्री जांवक नासलो. भलायकेक लागून ताका परतून एवरोपाक पाटयलो, आनी थंय फ्रांसिस्क शाव्येराचें जिवीत शिकूंक लागलो.

### I. नावार्रा देसांत

1504, आब्रील, माग्दालेना, सांत फ्रांसिस्क शाव्येराची म्हालगडी भयण गांदिया शारांत आसलल्या क्लारिस्त माद्रिंच्या कोंवेंतांत भितर सरता.

1506, आब्रील 7 फ्रांसिस्क जल्मता.

1512, आना दे जासो, फ्रांसिस्काची भयण लग्न जाता.

1515, जून 11, कास्तेला देसाचो राजा, फेर्नांदो, नावार्रा देस आपल्या ताब्यांत करता

1515, ओतुब्र 16 दो. द. जुवांव दे जासो फ्रांसिस्काचो बापूय मरता.

1516, मार्स कास्तेलाचेर नावार्राचो लोक कल्पता.

1516, मार्स 11-22 शाव्येर कोटाचो इल्लो भाग कास्तेलाचो लोक मोडून घालतात.

1521, माय 20 पांप्लोना झुजा मळार लोयोलाचो इनिगो (इनास) पांय मोडून,

घोड्या वेलो भूंय पडता. नावार्रा देसाक आदार दिंवक फ्रांसेज फौज भितर सरता आनी इनास कार्लूस V पातशायाचो सैनीक, आनी तो फ्रांसेजांचेर आड झुजता.

1522, जून 14, तेन्नाचे संवये परमाणें, सोळा वर्सांचे पिरायेर पांप्लोनाचे दियोसेजींत, इगर्जमातेच्या मुनियारपणांत भितर सरपाक माथ्याक कोपी मारता (तोन्सुरा)

1523, देजेंब्र, जुवांव आनी मिगेल, फ्रांसिस्काचे भाव, झुजांत कैदी जातात.

1524, फेब्रेर, शाव्येराचे भाव जंगलांनी वचून रावतात थंय थावन आपल्या देसा पासत झुजतात. शेकीं फ्रांसेज पिर्देर जावन परतात, नावार्रा नव्यान आरागोनाक आनी कास्तेलाक दसयतात. फेर्दिनांद, आरागोनाचो राजा, कास्तेलाचे कुंवरी कडे लग्न जाता. तीं दोन राज्यां एकटांय करतात. ते कुंवरिचें नांव इजाबेल, कातोल्क. मिगेल आपल्या नांवा उपरांत जासो म्हण बरयता आनी जुवांव घरजांवय जावन आपल्या कुटुंबाचें नांव घेना. फकत फ्रांसिस्क आपल्या नांवा उपरांत शाव्येर वा जावेर म्हण बरयता आनी ज्या कोटांत तो जल्मलो त्या कोटाचें नांव सारें पुरें सांबाळता.

1525, फ्रांसिस्क, सुमार 19 वर्सांचे पिरायेर, आपलें उंच शिकप करच्याक पारिसाक वेता.

## II. पारीस शारांत

1525, ओतुब्र 1, शाव्येर पारिसाक पावता.

1525-26, आपलें शिकप करता.

1526, ओतुब्र 1, सांत बार्बारा कोलेजींत फिलोसोफी आर्ट्स शिकूंक आपलें नांव दिता.

1528, फेब्रेर 2, लोयोलाचो इनिगो पारिसाक पावता.

1529, जानेर 10, शाव्येर 'बाकालावरेयात' हें पद मेळोवन घेता.

1529, जुलाय, फ्रांसिस्काची आवय दोना मारिया दे आजपिल्कुयेता ई आजनारेज दे सादा, मरता.

1529, ओतुब्र इनिगो वा इनास सांत बार्बारा कोलेजींत भितर सरता.

1530, मार्स 15, फ्रांसिस्क आनी पेद्रू फाव्र 'लिसेन्सियात' हें पद मेळोवन घेतात.

1530, ओतुब्र 1, *दोर्मा बोवे* कोलेजींत, फ्रांसिस्क मेस्तीर जावन आरिस्तोतेलेस शिकयता.

1531, फेब्रेर 13, जावेर वा शाव्येर कोटांतलें कुटुंब ऊंच कुळयेचें जाल्यार प्रस्न पडता. हो प्रस्न सुटावो करपाक फ्रांसिस्क आपल्या भावाक मिगेलाक चीट बरोवन एक दोकुमेंत मागता आनी पांप्लोना शारांतल्या कातेद्रालाचो कोंग जांवक अर्ज पत्र धाडता. हे दोनूय दोकुमेंत 1535 वर्सा पारिसाक पावतच तांचो उपयोग करूंक फ्रांसिस्क पावलो ना, कित्याक इतल्यान ताणें आपलें जिवीत बदलूंक येवजिललें.

1533, जानेर 20, माग्दालेना, क्लारिस्तांच्या कोंवेंतांत भितर सरलली ती भयण मरता. फ्रांसिस्क आपलें जिवीत बदलता आनी इनासाचो पाटलाव करूंक लागता.

1533, माय, फाव्र पाद्रिपणाची ओर्द घेता.

1534, आगोस्त 15, पारिसाक मार्तिरिंच्या दोंगरार, आंगवण्यो करतात इनास, फ्रांसिस्क, लायिनेज, साल्मेरोन, निकोलास आलोन्जो (आडनांवान बोबादिल्या), शिमांव रुद्रिगीश (पुर्तुगेज) आनी फाव्र (साव्वा गांवचो). उरलले पांच जण एस्पाञोल. ह्यो आंगवण्यो पाद्र फाव्र हाणें घेतल्यो.

1534, आगोस्त-सेतेंब्र 30 दिसांचो रेतीर करता.

1535, मार्स 25, पारिसाक इनास भलायकेंत बरो पासार जायनासलो देखून, वैज ताका एस्पाञाक धाडतात, आनी ताचे कडे फ्रांसिस्क आपल्या भावाक जुवांव आजपिल्कुयेता हाका एक चीट धाडता.

1536, नोवेंब्र 15, पांप्लोनाच्या कातेद्रालांत कोंगाची जुटी मेळली तिका फ्रांसिस्क पाट करता आनी पारीस शार सोडून वेनेजाक वेता.

### III. वेनेजाक-रोमाक-लिजबोवाक

1537, जानेर 8, वेनेजाक फ्रांसिस्क पावता.

1537, मार्स-माय, रोमाचे वाटेक.

1537, जून 24, पाद्रिपणाचो साक्रामेंत घेता.

1537, गरमेच्या दिसांनी मोंतसेलिचे हांगा रेतीर करून पयलें मीस भेटोंवक तयार जाता.

1537, सेतेंब्र, पयलें मीस वेनेजा शारांत भेटयता. बोलोञा शारांत वावर सुरू करता, पिडेंत पडता.

1538, जानेर 30, रोमाचे वाटेक.

1539, मार्स-जून, जेजुचे पलटणिची घटना (constitution) कशी कात आसची ताचे वयर भासाभास.

1539, आगोस्त 4, इंडियेक पाटोवपाक पुर्तुगालाचो राजा थोड्या जेज्वितांक मागता.

1539, सेतेंब्र 3, पावल III जेजुचे पलटणीक मान्यताय दिता बरोवन न्हय पूण तोंडीं.

1539-40, शाव्येर इनासाचो सेक्रेतार जाता.

## IV. लिजबोवाचे वाटेक

1540, मार्स 5, पाद्र शिमांव रुद्रिगीश लिजबोवाक वचूंक भायर सरता. ह्या पुर्तुगाली जेज्विताक इंडियेक धाडूंक विंचून काडललो आनी तसोच पाद्र बोबादिल्याक, पूण शाव्येराक न्हय.

1540, मार्स 14, बोबादिल्या बरो ना जातच, ताचे सुवातेर इंडियेक वचूंक इनास शाव्येराक नेमता.

1540, मार्स 15, फ्रांसिस्क रोमा थावन लिजबोवाक वचूंक भायर सरता.

1540, मार्स 21, लोरेटो गांवांत पावतच शाव्येर सायबिणिच्या घराक भेट करता.

1540, मार्स 31, फ्रांसिस्क बोलोञा पावता.

1540, आब्रील 4, पार्मा शारांत पावता पूण ताचो इश्ट पाद्र फाव्र थंय मेळना. तो त्याच दिसा भायर सरून ब्रेसियाक गेल्लो.

1540, जुनाच्या शेवटाक, लिजबोवाक पावता तेदनां पाद्र रुद्रिगीश जोरान फडफडता.

## V. इंडियेचे वाटेक

1540, जुलाय 27, पावलु III पापसायब फ्रांसिस्क शाव्येराक उदेंतेक आपलो मुनियारी नेमता.

1540, सेतेंब्र 27, पावलु III जेजुचे पलटणीक मान्यताय दिता.

1541, मार्स, निमाणे पावटीं फ्रांसिस्क पुर्तुगालाच्या राजाक भेटता आनी हो राजा ताका पापसायबाच्यो चार चिटी दिता. पयले चिटीन (1540 जुलाय 27) पापसायब फ्रांसिस्काक आनी रुद्रिगिजाक आपले मुनियारी

कशे (*Apostolicae Sedis Nuntii*) नेमता, दुसरे चिटीन (1540, आगोस्त 2) पुर्तुगालाच्या राजाच्या ताब्यांत आसलल्या सगळ्या गांवांनी शिकोवपाक आनी धर्म पर्गटपाक, सगळे तरेचीं पातकां भगसूंक सत्या दिता. तिसरी आनी चवथी (1540, ओतुब्र 4) आबिसिनियाच्या दावीद राजाक आनी हेर कुंवरांक दाकोवपाक, जांच्या गांवांनी मिशनरी धर्म परगट जायत.

1541, आब्रील 8, पयस पयस रोमाक पाद्र इनासाक जेजुचे पलटणिचो व्हडील जांवक विंचून काडतात. फ्रांसिस्कान आपलें मत इनासाक दी म्हण बरोवन दवरललें, दुसरें मत पाद्र फाब्रेक.

1541, सेतेंब्र, मोजाम्बिकाचे खाडींत, आफ्रिकेक पावता.

1542, मार्स, मेलिंदे आनी सोकत्रा जुंव्यांचेर पावता.

1542, माय 6, गोंयां शारा पावता.

1542, माय-सेतेंब्र, गोंयच्या शारांत वावर करता.

## VI. कन्या कुमारी

1542, सेतेंब्र 20, गोंयचो भायर सरून, तुटिकोरीन वेता.

1542, ओतुब्र, घडये मानापादाक पावता. पावलू आनी मान्सिल्यास गोंयां शारा पावतात.

1542-43, पारावा लोकां मदें शाव्येर वावुरता.

1543, देजेंब्र, गोंयां परतून येता आनी आपल्यो आंगवण्यो करता.

1543, देजेंब्र, गोंयां पावतच सांता फे वा सांत पावलुचे कोलेजींत शिकयता तो पावलू कामेरिनो मेळता.

1544, फेब्रेर, मान्सिल्यासाक आपल्या बराबर घेवन, निसत्या किनारेर, तमिळनाडूक वेता.

1544, जून, बडगा लोक पारावा लोकाक पिडापीड दिता.

1544, सेतेंब्र, कारियास म्हणलल्या लोकाक बाव्तिज्म दिंवक एका पाद्रीक वा कुरोव मारलल्याक मन्नार गांवांत धाडता.

1544, जून 16, कन्या कुमारी वचूंक भायर सरता पूण वेळ बरो नासलो देखून 24 तारकेर मानापादाक परतता.

1544, जुलाय, कन्या कुमारी वेता आनी थंयच्यान काम जातच मानापादाक परतता.

1544, नोवेंब्र-देजेंब्र, त्रावांकोराक, एका म्हयन्या भितर धा हजार अनभावार्थ्यांक बाब्तिज्म दिता.

1544, 15? देजेंब्र, कौलमाक पावतच, कोचिनाक इल्लो रावता.

1544, देजेंब्र, मन्नारच्या नव्या क्रिस्तावांक जाफनाचो राजा सुमार 600 जणांक जिवेशीं मारता. गोंयच्या गोवेर्नादोरा कडे उलोंवक गोंयां वचूंक सोदता.

## VII. पासिफीक समदिराच्या खाडिंनी

1545, जानेर, कोचिनाक परतता आनी थंय आसतां मोलुकासचो लोक कातोल्क धर्मात भितर सरला म्हण ताका खबर मेळता.

1545, मार्स 15? नागपट्टणम पावता.

1545, 22 वा 29 मार्स, सांत तोमे, मैलापुरा वचूंक भायर सरता पूण वेळ बरो ना देखून नागपट्टणाक परतता.

1545, आब्रील, शेवटीं नव्यान मैलापुरा वचूंक भायर सरता.

1545, माय-आगोस्त, मैलापुरा रेतीर करता.

1545, सेतेंब्र, मालाकाक पावता.

1546, जानेर 1, आंबोयनाक वचूंक भायर सरता.

1546, फेब्रेर 14, आंबोयनाक पावता

1546, जून, आंबोयनाचो भायर सरता. तेरनाते पावतच थंय तीन म्हयने रावता.

1546, सेतेंब्र, मोरो जुंव्यार वेता

1547, जानेर, तेरनातेक परतता.

1547, जून-जुलाय, मालाकाक थोडे दीस रावता.

1547, देजेंब्र 4, पुर्तुगाली दर्या फौज जिकली म्हण ताका कळता, आंजिरो ह्या जपानी तरनाट्याक मेळता. उपरांत कोचिनाक वचूंक भायर सरता.

## VIII. एक वरस इंडियेक

1548, जानेर 13, कोचिनाचे खाडींत पावता.

1548, जानेर शेवट, कोरोमांडल किनारेर वेता

1548, फेब्रेर, कोचिनाक परतता

1548, मार्स, गोंयां पावता

1548, मार्स 18, मुंबय लागीं, वसई (बसीन) वेता.

1548, आब्रील, गोंयां परतता.

1548, सेतेंब्र मदीं, कोरोमांडलाक वेता.

1548, ओतुब्र 9, पाद्र आंतोन्यु गोमीश पुर्तुगालाक थावन गोंयां पावता.

1548, ओतुब्र 22, शाव्येर कोचिनाक परतता.

1548, नोवेंब्र 10 शाव्येर गोंयां पावता मागीर कोचिनाक वेता.

1549, जानेर सांत इनास फ्रांसिस्काक परतून एवरोपाक हाडूंक सोदता.

1549, फेब्रेर, कोचिनाक थावन वसई वेता.

1549, मार्स, गोंयां परतता.

1549, आब्रील 7-15, गोंयांतलो भायर सरून 20 तारकेर कोचिनाक इल्लो थांबता.

## IX. जपानाक

1549, माय 31, मालाकाक पावता.

1549, जून 24 मालाका थावन जपानाचे वाटेक लागता.

1549, आगोस्त 15, जपानांत कागोशिमा खाडींत पावता.

1549, ओतुब्र 10, सांत इनास फ्रांसिस्काक इंडियेचो प्रांतीक व्हडील (Provincial) नेमता.

1550, जून, पयले पावटीं फिरांदो म्हणतात थंय वेता.

1550, आगोस्त शेवटीं, कागोशिमा थावन नव्यान फ्रांदोदी.

1550, सेतेंब्र, कागोशिमा सोडता.

1550, ओतुब्र, क्योतो शारांत राजाक भेटूंक वेता, आनी वाटेर आमांगुचीक इल्लो रावता.

1550, ओतुब्र 17, मियोको परयान वेता.

1551, मार्स मदीं, फिरांदाचो परतता. आमांगुचीक आसता.

1551, सेतेंब्र, बुंगोक वचूंक भायर सरता.

1551, नोवेंब्र 15, जपानांतलो भायर सरून इंडियेक वेता.

## X. निमाणी सफारी

1551, देजेंब्र 17, सांचियान जुंव्याक तारूं तेंकता.

1551, देजेंब्र 27, मालाका पावता.

1552, जानेर 24 कोचिनाक पावता.

1552, फेब्रेर 15, गोवा शारा पावता.

1552, आब्रील 14, निमाणी सफारी करूंक तारवार चडता.

1552, आब्रील 17, गोंयचे खाडिंतलो भायर सरता.

1552, आब्रील 25, कोचिनांतलो भायर सरता.

1552, माय, शेवटीं मालाकाक पावता.

1552, जुलाय 16, मालाकांतलो भायर सरता.

1552, आगोस्त, सांचियान जुंव्यार पावता.

1552, नोवेंब्र 21, मीस म्हणतच फ्रांसिस्काक झींट येवन बरो ना जाता.

1552, देजेंब्र 2 वा 3, सवस्तायेंन सासणाक आपले दोळे धांपता; सकाळचीं दोन वाजतां, सुक्रारा आनी सनवारा मदले रात्रीं सांचियान जुंव्यार ताका निखेपितात.

## XI. मरणा उपरांत

1553, फेब्रेर 17, कुसूंक नासलली कूड उसतून काडतात.

मार्स 22, मालाकाक हाडून कूड नव्यान पुरतात.

आगोस्त 15, ती कूड नव्यान उसतून काडतात.

देजेंब्र 11, ती कूड एक पोरन्या तारवार घालून गोंयां हाडतात.

1554, मार्स 16, ती कूड गोवा शारा पावता आनी सांत पावलुचे कोलेजींत व्हरतात.

1613, ती कूड बऱ्या जेजुच्या घरांत व्हरतात.

1614, नोवेंब्र 3, उजवो बावळो कातरतात.

1619, आब्रील 27, उरललो हात कोंफर परयान कातरतात.

ओतुब्र 25, भागेवंत म्हण पाचारतात.

1622, मार्स 12, सांत म्हण पाचारतात.

1624, फेब्रेर 19, कूड वा रेलीक इगर्जेंत हाडून उत्तर दिशेंत आल्तार आसलो थंय दवरतात.

1637, नोवेंब्र, रुप्या पेट करतात आनी तांतूं रेलीक घालतात.

1659, आब्रील 24, रुप्या पेट दखीण दिशेंतल्या कपेलांत दवरतात.

1698, नोवेंब्र 8 मार्मोरिची समाधी उबारतात आनी ताचेर ती रुप्या पेट दवरतात.

1782, फेब्रेर, पयली भोवशीक दाकोवण.

1904, मार्स 25, पियूस X ताका भावार्थ परगटपाच्या वावराचो आस्कारी नेमता.

1927, देजेंब्र 14, पियूस X ताका सगळ्या संसारांतल्या मिसांवांचो आनी मिशनरिंचो आस्कारी नेमता.

1946, मार्स 20, बऱ्या जेजुचे इगर्जेक, बाज़िलिका म्हण पियूस XII दर्जो दिता.

1955, फेब्रेर 13, शाव्येराच्यो रेलिको हारश्या पेटेंत घालून बंद दवरतात.

1994, पंदरावी भोवशीक दाकोवण आनी घडये निमाणी.

1998, सेतेंब्र, तुंब्लाची दुरुस्ती करूंक, इतालियेक थावन तीन आर्किटेक्ट बायलो येतात : फ्रांसेस्का लोत्ती, बेत्तिना लुकेरिनी आनी सारा ज्याकोबीनि, ते भायर श्री कार्लो बिलियोत्ति.

## आदारावळ


Bras d'Albuquerque, V. Antonio Caetano. 1879. *A exposição do venerando corpo do Apóstolo das Indias – S. F. Xavier.* Nova Goa: Noticia Historica.

Broderick, James, S.J. 1957. *Saint Francis Xavier (1506–1552).* USA.

Casimiro, Augusto. 1954. *S. Francisco Xavier e os Portu-gueses.* Lisboa: Agéncia Geral do Ultramar.

Da Costa, Francisco Xavier. 1924. *Exposição do venerando corpo de S. Francisco Xavier em 1900 – 1940 – 1922.* Nova Goa.

________________________. 1935. *Exposição do venerando corpo de S. Francisco Xavier em 1931.* Nova Goa.

________________________. 1954. *Resumo historico da Exposição das sagradas reliquias de S. Francisco Xavier em 1952.* Bastora, Goa.

Dairignac, J.M.S. 1959. *S. Francisco Xavier.* Porto: V. Edição (Liv. Apost. Da Imprensa).

Diario da Basílica e Casa de Bom Jesus. 1956 – 1974.

Leon Dufour, Xavier, S.J. (tr.) H. Pascual Oiz, S.J. 1976. *St. Francis Xavier.* Bandra, Bombay.

Martins, Estanislaus, S.J. *Annuário de S. Francisco Xavier.* Ano 1957, 1958, 1959, 1960, 1961. Velha-Goa.

Rayanna, P. S.J. rev. and enlarged 2nd ed. 1982. *St. Francis Xavier and his shrine.* Old Goa.

Saldanha, M.J. Gabriel de. 1925, 1926. História de Goa (Politica e arqueologica) – 2vols. Nova Goa.

Schurhammer, George, S.J. (tr.) Joseph Costelloe, S.J. *Francis Xavier, his life, his times*. Rome: The Jesuit Historical Institute.

